पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्या. शिल्पांत तीन ज्योतिशी बुद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखनकलेची ही अशे तरेची सगळ्यांत पुर्विल्ली नोंद आसुंये.

नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडो, इसवी,
नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांच्या बरेपणान.

# हांव असो घडलों

बरोवपी
**भालचंद्र मुणगेकर**

अणकार
**हेमा नायक**






साहित्य अकादेमी

**Hanv Aso Ghadlo** (हांव असो घडलो) **:** Konkani translation by Hema Naik of Bhalchandra Mungekar's Marathi Novel *Mi Asa Ghadalo.*
Sahitya Akademi, New Delhi (2012), ₹ One hundred twenty five


First Edition : 2012



**Published by**
SAHITYA AKADEMI

**Head Office**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi 110 001

**Sales Department**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi 110 001

**Regional Offices**
172, M. M. G. S. Marg, Dadar (East), Mumbai 400 014
4, D.L. Khan Road, Kolkata 700 025
Central College Campus, Dr. Ambedkar veedhi, Bengaluru 560 001

**Chennai Office**
Guna, 443 Anna Salai, Teynampet, Chennai 600 018

**ISBN 978-81-260-2966-2**

**Price: ₹ 125/-**

E-mail : sahityakademimumbai@gmail.com
Website : http://www.sahitya-akademi.gov.in

**Typeset by** Amol Kamat, Goa
**Printed by** New Age Printing Press, Mumbai - 400 025

# दोन उतरां

चव्वेचाळीस वर्सांआदल्यो ह्यो यादी तुमकां सांगताना म्हजें मन सरमिसळ भावनांनी भरून गेलां.

म्हज्या चालू वर्तमान वा लागशिल्ल्या भूत काळांतल्या घडणुकांविशीं बरोवपाचें सोडून हांव चव्वेचाळीस वर्सांआदल्या जिवितांविशींच कित्याक सांगतां?

1974 त हावें रीजर्व बँकेची नोकरी सोडून अर्द्यापरसय उण्या पगाराची कॉलेजींतली शिक्षकाची नोकरी धरली. हेरकडेनय थोडो अदीक पगार मेळपाची शक्यताय आसूनय कृतज्ञतायेचे भावनेंतल्यान डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांनी थापणूक केल्ले पीपल्स एज्युकेशन सोसायटीच्या वडाळा हांगासरल्या डॉ. आंबेडकर कॉलेजींत वचप हावें पसंत केलें. सात वर्सां थंय शिकयल्या उपरांत 1981 त सिध्दार्थ कॉलेजींत एक वर्स शिकयलें. 1982 त विद्यापीठ अनुदान आयोगाची शिक्षकांखातीर आशिल्ली तीन वर्सांची फेलोशीप मेळोवन अर्थशास्त्रांत पी. एचडी. करपाखातीर हांव मुंबय विद्यापीठाच्या अर्थशास्त्र विभागांत गेलों. 1984 त कॉलेजीचो राजीनामो दिवन विद्यापीठांतूच शिक्षक म्हण रुजू जालों. ताका लागून फेलोशीप अर्द्यारूच सोडून दिवची पडली. 1988 त पी. एचडी. पुराय करतकच 1989 त हांव विद्यापीठांत कृषी अर्थशास्त्राचो प्रपाठक आनी उपरांत 1997 त औद्योगीक अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक जालों.

खरें म्हणल्यार हांव 1991 तच प्राध्यापक जावपाचों, पूण हो 'जर-तर' चो मुद्दो आशिल्ल्यान तेविशीं चड उलोवप समा न्हय.

फुडें भारत सरकारान 1999 त तीन वर्सांखातीर कृषी मूल्य आयोगाचो वांगडी म्हूण म्हजी नेमणूक केली आनी हांव दिल्लीक गेलों. पूण स म्हयन्यांभितरच हांव मुंबय विद्यापीठाचो कुलगुरू जालों.

लौकीकतायेचे नदरेन, 143 वर्सांउपरांत हांव मुंबय विद्यापीठाचो पयलो 'दलित' कुलगुरू. जायत्या जाणांनी 'वस्तुस्तिथी' म्हण तसो उल्लेखय केला. धा परस चड नेमाळयांनी अग्रलेख बरोवन म्हजें अभिनंदन केलें. औरंगाबादाक आनी नागपूराक म्हजे खूब व्हड नागरी सत्कार सुवाळे जाले. पुणे विद्यापीठ आनी हेर संघटनांनी भौमान केले. मुंबयच्या सुमार पन्नाशेक संस्थांनी सामुहीक भौमान केले.

त्या सगळयांचो हांव उपकारी आसां.

वस्तुस्तिथी म्हण म्हजें 'दलित' आसप हो फकत योगायोग आशिल्लो.

अहंकार सोडूच, पूण उर्मटपणाचो मातूय अंश आफडूंक दिनासताना एक गजाल हांव नमळायेन सांगपाक सोदतां ती म्हणल्यार, इंटरचे परीक्षेंत म्हाका सेकंड क्लास मेळ्ळोना म्हण राजाबाई टॉवरा सकयल बसून घसघशांनी रडपी हांव मुंबय विद्यापिठाचो कुलगुरू जावपाखातीरच जल्माक आयिल्लों.

विद्यापिठाचो कुलगुरू म्हण हावें पारदर्शकतायेन, सक्षम रीतीन, नि:पक्षपणान, निसुवार्तीपणान आनी एक व्रत आनी आव्हान समजून काम केलें. ताचें मूल्यमाप काळूच करतलो.

'मुंबय विद्यापिठाचो कुलगुरूं' भांगराळया उतरांनी बरोवन दवरिल्ली म्हज्या आयुश्यांतली ही घडणूक.

आनी मागीर एक वर्स उरील्लें आसतानाच पंतप्रधान मनमोहन सिंग हांच्या आदेशावयल्यान कुलगुरूपदाचो राजीनामो दिवन हांव देशाच्या येवजण आयोगाचो वांगडी जालों.

म्हजेर दाखयिल्ल्या विश्वासाखातीर डॉ॰ मनमोहन सिंग हांचो हांव सदांकाळ उपकारी उरतलों.

1974 त बाबूराव बागूल हाणी सुरू केल्ल्या 'आम्ही' च्या अंकांत 'दलित चळवळ : अनुभूती आणि सहानुभूती ' हो म्हजो पयलो लेख हावें बरयलो. त्या उपरांत फाटल्या पस्तीस वर्सांत आर्थिक, सामाजीक, शिक्षणीक, आनी राजकी घडामोडींचेर हावें थोडेशें बरोवप केलें. देशांतल्या आनी आंतरराष्ट्रीय परिशदांनी वांटो घेवपाक हावें कांय देशांक भेटी दिल्यो.

कांय म्हत्वांच्या विशयांचेर जाहीर व्याख्यांनां दिलीं.

फाटल्या पस्तीस वर्सांच्या काळांत सार्वजनीक जिणेंतल्या आर्थिक, सामाजीक, राजकी, शिक्षणीक, सांस्कृतिक अशा सगळया मळांचेर, सगळया थरावयल्या व्यक्ती आनी संस्थांकडेन म्हजो दाट संबंद आयलो. कांय म्हत्वाच्या आंदोलनांनी आनी चळवळींनी हांव वांटेकार जालों. युवक क्रांती दल हे पुरोगामी युवक चळवळींत तिचे थापणुके सावन हांव सक्रीय आशिल्लों.

मराठवाडा विद्यापिठाच्या डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर नामांतर आंदोलनांत हांव औरंगाबादचे लागशिल्ले विसापूराचे बंदखणींत आठ दीस रावपाक शकलों ही म्हजेखातीर एक अपूर्व आनी आत्मसन्मानाची घडणूक आशिल्ली.

जायत्या संस्थांनी पुरस्कार भेटोवन म्हाका भोवमानीत केला.

म्हाका म्हजोच दुस्वास जावंचो इतलो मोग लोकांनी म्हजेर केला.

त्या सगळयांचो हांव भोव दीनवाशी आसां.

वयल्या सगळया घडणुकांक म्हज्या आयुश्यांत अनन्यसादारण अशी म्हत्वाची सुवात आसूनय हांव मात हांगां म्हजे पिरायेच्या अठराव्या वर्सामेरेनच्योच यादी सांगतां. हाचें कारण म्हणल्यार, म्हाका अभिप्रेत आशिल्ल्यो व्यक्तिगत आनी सार्वजनिक जिवितांत जगपाच्यो मुलभूत प्रेरणा त्या सुरवेच्या अठराव्या वर्सांतूच तयार जाल्यो. जायत्यो व्यक्ती, संस्था आनी घडणुको हांकां लागून मागीर त्यो प्रेरणा अदीक घट्ट जाल्यो. पूण परतून परतून येवजून लेगीत म्हज्या फुडल्या आयुश्यांत गुणात्मक नदरेन वा मुलभूतपणान हांव 'नवें' कितें शिकलों अशें म्हाका दिसचना हेंच म्हाका जाणवता.

चड करून मुंबय विद्यापिठाचो कुलगुरू जाल्या उपरांत म्हज्या उलोवपांत, बरोवपांत, संभाशणांत, चर्चेंत आनी परिसंवादांत जाती आनी अस्पृश्यता निर्मुलन, बायल-दादलो समानताय, धर्मनिरपेक्षताय, लोकशाय समाजवाद आनी मानवतावाद ह्या पांच मुद्यांचो सातत्यान आस्पाव आसतालो. तसो तो आजूय आसा आनी हाचेफुडेंय आसतलो. हाका लागून 'तुमी परत परत ह्याच गजालींचो उल्लेख कित्याक करतात?' अशें विचारलें जाल्यार म्हजें तेन्नाचें आनी आतांचेंय म्हणणे अशें, ह्यो पांच गजाली म्हणल्यार म्हज्या जगपाची मूळ बुनयाद आसा. इतलेंच न्हय तर, खंयच्याय कारणाक लागून ह्या पंचसूत्रांवयली म्हजी निश्ठा उणी जाली वा ढळळी जाल्यार मागीर जगपाचें प्रयोजनच उरचें ना.

आतांमेरेनच्या मानवी समाजांतले उदरगतींतली गुलामगिरी ही अत्यंत हिणकस आनी अधर्मीय वेवस्था. एका मनशान दुसऱ्याचो गुलाम आसप, खरेदी-विक्रेची वस्त आसप म्हणल्यार ताचें मनीसपण न्हयकारप. पूण बाबासाहेब आंबेडकारानी सांगिल्ल्याप्रमाण अस्पृश्यताय ही गुलामगिरी परसूय वायट आनी हिणकस.

गुलाम 'अस्पृश्य' नाशिल्ले.

तीच गजाल जातीवेवस्थेविशींची. तिचीं कारणां कितलींय आसलीं तरी दरेके जातीच्या मनांत आपणाल्या व्हडपणाविशीं आशिल्लो अहंकार हें ताचें मुखेल कारण आसा. एखादे वेवस्थेचे समाजाचेर जितले म्हण वायट आनी अधर्मीय परीणाम घडूंक शकतात तितले परीणाम जातीवेवस्थेचे भारतीय समाजाचेर जाल्यात. जातिवेवस्थेन सत्ता, संपत्ति आनी प्रतिष्ठेचें भिरांकूळ विषम वांटप केलें आनी शेंकड्यांनी वर्सां एका व्हड समाजघटकाचें जिवीत मातयेभरवण केलें.

अस्पृश्यतायेन आनी जातिवेवस्थेन नितिमत्तेच्यो सगळयो कल्पना उध्वस्त केल्यो.

स्वातंत्र्या उपरांत हे परिस्थितींत थोडोसो बदल जरी आपणावपासारखो आसलो तरी, आयज जातीनिर्मुलन ही कितें भारतामुखावयली म्हत्वाची कार्यावळ न्हय. उरफाटें, संसदीय, राजकी प्रक्रियेंत आंकड्यांच्या अनन्यसादारण म्हत्वाक लागून 'जात' हें एक अत्यंत परीणाम सादपी हत्यार कसो ताचो वापर जावपाक लागला.

पूण हाचेयपरस चड म्हणल्यार देशाच्या विविध प्रदेशांत दलितांचेर घडपी अन्याय-अत्याचारांचे बाबतींत आमच्या राष्ट्रीय जिवितांत सजगताय सोड, जाय तशी संवेदनशीळताय जाणवना ही आमची नैतीक शोकांतिका.

अस्पृश्यताय आनी जातीनिर्मुलन केलेबगर भारत हें एक सुसंस्कृत, एकसंध आनी समर्थ राष्ट्र म्हण उबें रावप असंभवनीय.

तीच गजाल म्हाका बायलांविशीं दिसपी आकांताळे कृतज्ञताये संबंदीची आसा.

कुटूंब चलोवपाखातीर बायलो जे कश्ट घेतात ताचें वर्णन करपय कठीण. म्हज्या भुरगेपणांत हावें ते सामके लागींच्यान पळयल्यात. देखीक, शेताखातीर राब राब राबप, दीसभर काम करून बारा आण्यासावन एक रूपया मेरेन मेळटा तो दिसावडो घेवप, एक-दोन दीस जंगलांत वचून लाकडाचो एखाद्रो भोरो तयार करून तो दोन-तीन मैल पयस आशिल्ल्या सप्तकी बाजारांत व्हरून विकप आनी मीठ-मिरसांग हाडप, घरांतलो सगळो

वावर करप, सगळीं मनशां जेवल्याउपरांत उरलें जाल्यार निमाणें जेवप आनी नासल्यार अर्द पोटयां वा केन्ना केन्ना उपाशीं रावप, तेविशीं कागाळ करपाचो विचार लेगीत मनाक आफडप ना, घरांत कांयच जेवण नासल्यार वा अचकीत एखाद्रो पावणो आयलो जाल्यार लज वगडावन 'उश्णे' मागपाखातीर शेजाऱ्यांगेर धांवप....

मुंबय फुटपाथाचेर बसून अडाणी-अशिक्षित बायलो कांदे, बटाट, ओली कोथंबिर, तवशीं आनी हेर भाज्यांचे वांटे विकताना पळयतकच मन कळवळटा. ज्यो बायलो सकाळीं गिरण्यांचे भोंगे वाजतकच आपल्या घोवांले डबे घेवन दरवंठ्याकडेन वचपाक लजताल्यो त्योच बायलो मुंबय गिरण्यो उध्वस्त जातकच आयज असहायतायेन भोईवाडा, शिवडी, लालबाग, चिंचपोकळी आनी भायखळयाच्या पुलांचेर आनी जंय खंयूय मनशांची यो - वच आसत थंय भाजी विकताना पळयल्यो काय मन आकूळ पिकूळ जाता.

शिकिल्ल्या सवरील्ल्या आनी नोकरी करपी बायलांची बस, रेल्वे धरपाक आनी मस्टराखातीर दीसभरयांत जी धांवपळ चलता ती पळयली काय तांच्या आत्मनिर्भयतायेचो स्वाभिमान दिसपावांगडाच अतिशय हळवेपण येवपाक लागता. अशी ही धांवपळ म्हणल्यार तांकां आपल्या आर्थीक स्वातंत्र्य आनी स्वावलंबनाखातीर दिवपाक लागपी कींमत, अशी समजिकाय करून घेवप हें भावनाविरयत बुदवंतकायेचें विश्लेशण जालें.

पूण ही जाली बांयलांच्या कश्टांची बाजू. दादलेय करतात कश्ट. आयज लेगीत कुटुंबाचो मुखेली आशिल्ल्या कारणान कश्ट करपाची मुळावी जापसालकी दादल्यांची आसा. तशें तें मानू येता. पूण, अशे परिस्थितीतय म्हाका बायलांचे कश्ट चड मोलादीक दिसतात. तरी लेगीत म्हाका बायलांविशीं जी खूब करूणा दिसता ताचें तें कारण न्हय.

अस्तुरी ही सृष्टीची निर्माती.

फकत हे एकेच गजालीक लागून हांव अस्तुरेक दादल्यांपरस श्रेष्ठ मानतां आनी तिचेमुखार सदांच नतमस्तक जातां.

हे फाटभुंयेचेर जेदेवेळार हांव स्त्री-मुक्ती चळवळिचो विचार करतां तेन्ना सदांच म्हाका एक प्रश्न पडटा, बायलेक मुक्त करपी दादलो कोण?

खरो प्रश्न आसा तो, व्यक्तिगत, कुटुंबीक आनी सामाजिक जिणेंतल्या सगळया मळांचेर आपणांक मध्य ठिकाणाचेर दवरून आनी बायलेक दुय्यम दर्जो दिवन शेंकड्यांनी वर्सां बाळगून दवरील्ल्या अहंकारासान दादल्यान मुक्त जावपाचो.

भारतावरी भोवभाशीक, भोवधर्मीक आनी भोवसांस्कृतिक समाजांत धर्मनिरपेक्षतायेची एक आधुनीक मूल्य म्हण अत्यंत गरज आसाच पूण राष्ट्राच्या एकवटाची आनी अखंडतायेचीय ती अत्यंत म्हत्वाची अशी अंगभूत गरज आसा. जायत्या घडणुकांक लागून आनी सभाविकपणान सुमार पांच हजार वर्सांची भारत देशाची संस्कृताय ही सगळयांक आसपावन घेवपी आनी मीश्र संस्कृताय जाल्या. धर्मनिरपेक्षतायेचो अर्थ राजशास्त्रीय आनी विज्ञानिक भाशेंत कितलेय तांत्रीक आनी बुद्दनिष्ठतायेन जरी सांगिल्लो आसलो आनी समाजशास्त्रांत तिचो आशय आनी संदर्भासंबंदान थोडेभोव मतभेद आसले तरी म्हजे नदरेन विवेक, संयम, सोंशिकताय आनी दुसऱ्यांविशीं अतिशय आदर आसप हो धर्मनिरपेक्षतायेचो नितीक आशय आसा. आनीकूय विस्तृत पातळेचेर विचार केल्यार अशे तरेची धर्मनिरपेक्षताय ही व्यक्तिगत जिवीत अदीक उन्नत आनी संपन्न करपी आसा, तेच तरेन राष्ट्रीय जिवीत अदीक सुसंस्कृत आनी एकसंध करपाखातीर गरजेची आसा अशेंय आमच्यांनी म्हणूं येत. हे फाटभुंयेचेर जेन्ना सामाजिक आनी चड करून राजकी प्रक्रियेंत हितसंबंदाखातीर धर्मनिरपेक्षतायेच्या मुखेल आशयाक धोको उपरासता तेन्ना पर्यायान राष्ट्राचो फकत भावनिकूच एकवट न्हय तर भुगोलीक एकवटूय तिगोवन दवरप कठीण जावन पडटा.

अशे जायते पुरावे आधुनिक इतिहासान आमचेमुखार दवरल्यात.

देखूनच तर 'लोकशाय समाजवाद' हाचो जीवनप्रणाली आनी समाजवेवस्था असो एकवटीतपणान विचार करपाक जाय. जशें कितें एक दुसऱ्याबगर फकत अपूर्णच न्हय तर निरर्थकय थरता. भारतासारकेल्या पारंपारीक देशांत, प्रौढ मतदानाचेर आदारिल्ली संसदीय लोकशाय ही एक सामाजिक क्रांती आसा हातूंत दुबावूच ना. तेखातीर भारतीय स्वातंत्र्य चळवळ आनी राज्यघटनाकारांचे आमी सदांच ऋणी आसपाक जाय. पूण सरभोंवतणचे सामाजिक आनी आर्थिकतायेंतली आकांताळी विषमताय लक्षांत घेतली जाल्यार राजकी लोकशायेच्यो मर्यादा स्पष्ट दिसपाक लागतात. हालींसराक ही राजकी लोकशाय लेगीत हितसंबंद्यांनी पुराय तरेन पोखरून वडयल्या. खंयच्याय उपायांनी ती घटमूट करपाचो यत्न आमकां करचोच पडटलो. पूण भुकेच्या जाळांनी दळदिरांत मुंगरून तळमळत मरपाचें स्वातंत्र्य म्हणल्यार लोकशायेक अभिप्रेत आशिल्लें स्वातंत्र्य न्हय. भूक, वायट भलायकी, अडाणीपण, बेकारी ह्यातूंतल्यान मुक्ती म्हणल्यारच स्वातंत्र्य. आत्मसन्मान म्हणल्यार स्वातंत्र्य. ताका लागून आर्थिक विषमताय उणी करून भौतिक जिणेची थोडी तरी सुरक्षितताय

दिलेबगर राजकी लोकशायेक अर्थ उरचो ना.

पूण ज्या देशांनी राजकी क्रांतिच्या आदारान आर्थिक विषमताय उणी करून भौतिक जीण सुसह्य करपाखातीर गरज ती सामाजिक अर्थवेवस्था प्रस्थापित केली त्या सगळया देशांत ती कोंसळून पडली. मानवी समाजाच्या विसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांतली ती एक शोकांतिका. पूण अशो समाजवादी अर्थवेवस्था कोंसळून पडपाचीं जीं कांय आर्थिक, राजकी आनी सामाजिक कारणां आसात ताचेबरोबरच व्यक्तिस्वातंत्र्याचो अभाव आनी ताका लागून चालंत वेवस्थेंत वेळाप्रसंगार राबयिल्लीं चुकिचीं धोरणां आनी कार्यावळी दुरूस्त करपाखातीर गरजेची अशी यंत्रणाच अस्तित्वांत नाशिल्ली.

एके विशिश्ट पांवड्याचेर ह्यो वेवस्था कोंसळप अपरिहार्य आशिल्लें.

तरी लेगीत अशें आसूनय समाजवादामदीं अभिप्रेत आशिल्लो आर्थिक, सामाजिक आनी नितिक आशय मानवी समाजाच्या सामुदायिक कल्याणाखातीर 'अपरिहार्य आसा हेविशीं म्हज्या मनांत मातूय दुबाव ना.

हे फाटभुंयेचेर सगळे नदरेन बदलिल्ले आयचे परिस्थितींत 'लोकशाय समाजवाद' प्रस्थापित करप हें एक आव्हानूच आसा. तेखातीर फाटल्या शंभर वर्सांत संवसारीक थराचेर आर्थिक, सामाजिक, तांत्रिक – विज्ञानिक आनी भू - राजकी मळांचेर जे खोलायेन बदल घडले तांचो पुराय रितीन नव्यान आनी समग्र फाटलाव घेवन प्रगल्भ प्रज्ञेच्या कृतीशीळ विचारवंतांनीच ताचो आराखडो तयार करचो पडटलो. आर्थिक उदरगत, सगळया समाजांत तिच्या फायद्याचें समान वांटप आनी त्याचबरोबर व्यक्तिस्वातंत्र्याचेर राजकी लोकशायेची निर्मणी करपाचो दुसरो खंयचो पर्याय आसत अशें म्हाका तरी दिसना.

वयल्या चारूय मुल्यांक वेंगावन घेवपाचें निमाणचें आनी सर्वश्रेष्ठ मूल्य म्हणल्यारच मानवतावाद. व्यक्ती आनी पुराय मानवी समाज हांचें एक अभेद आनी जिवीक नातें आसा. व्यक्ती ही जरी कितलेंय स्वयंभू मूल्य आसलें तरी ते व्यक्तिचें समाजाकडेन आशिल्ल्या जिवीक नात्याखातीर त्या मुल्याक अर्थ प्राप्त जाता. तेखातीर धर्म, भास, वांठार, रंग, संस्कृताय ह्या सगळयांच्या पेल्यान वचून आख्ख्या मानवी समाजाचेर मोग करप, तेविशीं सदांकाळ कृतज्ञ रावप, फकत समुदयाखातीरूच आपलें अस्तित्व शक्य जालां ही भावना सदांच मनांत बाळगप आनी केशवसुतांनी म्हणिल्ल्याप्रमाण

जिकडे जावे तिकडे माझी भावंडे आहेत
सर्वत्र खुणा मजला माझ्या घरच्या दिसताहेत

(जंय वतां थंय म्हजीं भांवडां आसात / सगळयाक म्हज्या घरच्यो खुणो म्हाका दिसतात.)
ही मनोभावना जोपासप म्हणल्यारूच मानवतावाद. अर्थात आयच्या जगाचें वास्तव पळयलें जाल्यार खऱ्याखुऱ्या मानवतावादाक मूर्त स्वरूप दिवप हेंच एक आव्हान थरलां. धार्मिक आनी वांशीक मतभेद, दहशतवाद, गिरेस्त राष्ट्रांचो गरीब राष्ट्रांकडेन पळोवपाचो अनुदार आनी खूब फावटीं आडावन दवरपाचो सुवार्थी दृष्टीकोण, ना नपयत जावपी सैमिक साधनसामुग्रीचेर ताबो मेळोवपाखातीर घडोवन हाडिल्लीं झुजां, सगळयाच देशांत मुळाव्या मानवी अधिकारांची अवहेलना ... ही अवतिकाय भिरांकूळ आसा.

हावें वयर सांगिल्लीं म्हजे जिणेचो आदार थरिल्लीं पांच मुल्यां हीं मुखेलपणान तीन गजालींतल्यान निर्माण जालीं. म्हजो पयलो गुरू हो म्हजो बापूय आबा. आबाची व्यक्तिगत जीण हें म्हजें पयलें प्रेरणास्थान. आमच्या भांवडांखातीर ताणें घेतिल्ले असंख्य कष्ट, ते घेतना तातूंतलें मात लेगीत आमकां जाणवचें ना इतली सहजताय, आमच्या व्हडल्या कुटूंबाखातीर आमकां सदांच ताचो दिसपी आदार, बाकिच्यांविशीं दिसपी अतोनात आपुलकाय, वेळाप्रसंगार आपलो अपमान सोंसूनय हेरांक मदत करपाचो ताचो मनमेकळेपणा, हेरांवांगडा वांटेकार जावन आपणाली खोस दोट्टी करपाची ताची मानसिकताय , बायलांविशीं भोव काकुळट, अशा ताच्या व्यक्तिमत्वाच्या विविध पैलूंकडेन पळयतकच म्हाका सदांच अजाप दिसतालें तें ताका हें सगळें कशें जमलें काय म्हण.

भुरग्याची पिराय सोळा वर्सांची जाली काय ताका इश्टावरी वागोवचें ह्या अर्थाचें सुभाषित हावें इकरावेंत आसताना वाचिल्लें. म्हजी पिराय आठ-धा वर्सांची जायत घडये तेन्ना सावन आबान म्हाका इश्टाभशेन वागयलो.

आबा हा म्हजो पयलो आनी सर्वश्रेष्ठ इश्ट.

जायत्या जाणांच्या त्यागांतल्यान हांव उबो रावलों. म्हजी आए (आईची आई) भीमाबाई, आजी भागीरथी, म्हजो काका सावळाराम आनी काकी अनुसुया मुणगेकर, मामा पांडुरंग आनी मामी सीताबाई कुवळेकर हाणी म्हजेखातीर घेतिल्ले कश्ट आनी तांचो म्हजेवयलो निर्व्याज मोग हाणी म्हाका भारावन सोडलें.

म्हजेपरस चार वर्सांनी ल्हान आशिल्ले ताईन, म्हजे भयणीन म्हाका सामको भुरग्याभशेन वाडयलो.

म्हजे बाकिचे सगळे काका-काकी, सगळीं बापोल आनी बापोल – बापोल भांवंडां, शेजारी, गांवांतल्या तशेंच आजोळच्या सगळया ल्हान – व्हडांनी म्हजेर जीव ओतून म्हणटा तसो मोग केलो.

सातवेमेरेन म्हाका लाबिल्ले शिक्षक, मुखेलपणान आडकरमास्तर तर सदांकाळ म्हजे यादस्तेंत उरतले. आजोळा आसताना पांचवेंत शिकोवपी वसंत धारपवार ह्या शिक्षकाकूय म्हज्या मनांत आदराची सुवात आसा.

ह्या सगळयांच्या मोगांतल्यान म्हज्या मनाक उभारी आयली. मोगांतल्यान आत्मविश्वासाची निर्मणी कशी जाता हें हावें कोंकणांतल्या समृध्द वातावरणांत पिरायेच्या चवदा वर्सांमेरेनच अणभवलें. मोगाची ही भुती सांभाळीत हांव मुंबय आयलों.

नवभारत विद्यालयांत म्हाका मेळिल्लो प्रवेश ही घडणूक म्हज्या आख्या आयुष्याक वळण दिवपी थरली.

नवभारतातलें वातावरण भारावन वडोवपासारखें आशिल्लें. थंयचे सगळे शिक्षक म्हणल्यार आबावरीच म्हज्या आयुष्याचे शिल्पकार. त्या सगळयांविशीं भोव कृतज्ञताय उक्तायताना श्री. शरदचंद्र अनंतराव चित्रे, श्री. बा. बा. ठाकूर आनी श्रीमती लीला आवटे ह्या तिगांचो खास उल्लेख करप म्हाका अगत्याचें दिसता.

चित्रेसराविशीं तर हांव कितें म्हण बरोवं?

"आमच्या देशाक बऱ्यापैकीं अर्थतज्ञ जाय." इकरावेच्या निरोप सुवाळया वेळार ताणी उक्तायिल्ल्या ह्या एका वाक्याक लागून हावें फुडल्या अभ्यासक्रमाखातीर साहित्य वा तत्वगिन्यान हे विशय घेवपाचे सोडून हांव अर्थशास्त्राकडेन वळ्ळों. अर्थतज्ञ जावप आनी तातूंतय बरो अर्थतज्ञ जावप ही कितली कठीण गजाल हाची अर्थांतूच म्हाका जाणवीक आसा.

नवभारतांतल्या विद्यार्थी इश्ट-इश्टीणींनी म्हजेर खूब मोग केलो.

नवभारतांतले दीस हे खरेपणी म्हज्या आयुषश्यांतले मंतरील्ले दीस आशिल्ले. त्या मंतरिल्ल्या दिसांची आजूय याद येत जाल्यार म्हज्या आंगार उमेदिचो कांटो उबो रावता.

म्हज्या व्यक्तिमत्वाचेर विलक्षण प्रभाव घालपी तिसरो घटक म्हणल्यार मराठी साहित्य. म्हज्यांतले जडण-घडणेंत तिसरी - चवथीसावन ते इकरावी मेरेनच्या मराठी पुस्तकांतल्या धड्यांक आनी कवितांक अलौकीक म्हत्वाची सुवात आसा. नवभारतांत गेल्या उपरांत मराठीवांगडाच हिंदी, संस्कृत आनी इंग्लीशीच्या पुस्तकांतले धडे आनी कविताय म्हाका सदांच प्रभावीत करपी थरल्यो.

धड्यांचो आनी कवितांचो म्हज्या भावविश्वाचेर चिरंतन प्रभाव कसो उरलो हें दाखोवपाक दोन – तीन देखी पुरो जातल्यो.

मुंबय विद्यापिठाचो कुलगुरू आसताना जेन्ना हावें कर्नाटकांतल्या कुंवेपूर विद्यापिठाक भेट दिली तेन्ना दनपारां काम सोंपतकच जाता तितले बेगीन मोटारीच्या वेगाची पर्वा करीनासताना, सांजवेळचो काळोख पडचेआदीं रा. भी. जोशींच्या 'वाटचाल' मदल्या गिरसप्पा धबदब्यांतली 'गौरी' पळोवपाक गेलों. पॅरीसाचे पयले भेटीवेळार रूसोचो पुतळो पळयतानाफुडें 'जेनी' बरोवपी व्हिक्टर ह्युगोचो पुतळो सोदपाक पॅरीसाच्या रस्त्यान रस्तो भोंवलों आनी जेन्ना एका चौकांत लाकडाचेर कातयिल्ली ह्युगोची म्हुर्त पळयली तेन्ना मनाक शांतीकाय लाबली. दोन वर्सांआदीं जेन्ना अमरावती विद्यापिठांत दीक्षांत सुवाळयाचें भाशण करपाक गेलों, तेन्ना कालीदासाच्या यक्षान ज्या रामटेकाच्या पर्वताचेर उबो रावन कुपांवांगडा आपणाले विरहीण बायलेक निरोप धाडलो आनी जो निरोप मेघदूताच्या रूपान अजरंवर उरलो, त्या रामतेक पर्वताचेर दोन वरां भोंवून वणटीचेर कोंरातिल्लें पुराय 'मेघदूत' वाचलें आनी कालीदासाचे अभिजात प्रतिभेसामकार परतून एक फावट हांव नतमस्तक जालों.

हें सगळें जरी खरें आसलें आनी इकरावी मेरेन हावें ज्या साहित्यिकांचे धडे, कविंच्यो कविता आनी हेर बरप वाचलें, त्या सगळयांचो हांव कृतज्ञ आसलों तरीय "सामाजीक भावना हो उदरगतीत मानवी जिविताचो आत्मो आसा" अशें सांगपी वि. स. खांडेकरांनी जिणेची म्हजी निश्ठा पक्की केली. 'क्रौंचवधां' तल्या दिनकर देसाई – दिलीपाच्या म्हजेवयल्या विलक्षण प्रभावाक लागून हावें रीजर्व बँकेची नोकरी सोडली तेचखातीर मुंबय विद्यापिठाच्या कुलगुरूपदाचेर म्हजी नियुक्ती जाल्या उपरांत ज्या तीन थळांक हावें भेटी दिल्यो, तातूंतलें पयलें चैत्यभूमी, दुसरें नवभारत विद्यालय आनी तिसरें कोल्हापूरांतलें खांडेकरांचें 'नंदादीप' हें घर.

हावें सुरवेक सरमिसळ भावनांचो उल्लेख केलो. तातूंतलें एक म्हणल्यार म्हज्या वांट्याक आयलें तें अत्यंत संपन्न आनी वैभवशाली भुरगेपण. ताका लागून तेविशीं सांगताना म्हाका सभाविकपणान खूब खोस जाता. फाटलीं चार वर्सां ह्यो यादी प्रत्यक्ष बरयताना दरेक याद हांव परतून परतून जगलां. आकांताची खोस आनी अतिशय अस्वस्थताय हावें एकाच वेळा अणभवल्यात. पूण ताचेपरसूय म्हज्या मनांत रितेपणाची एक भावना आसा, ती म्हणल्यार म्हाका घडोवपाफाटल्यान जाणी अफाट कश्ट सोसले आनी म्हजेर मोग केलो, तांचेमदले कितलेतरी जाण आज ह्या संवसारांत

नात. तांचें नासप ही म्हजेखातीर सदांच 'वेदना' दिवपी गजाल थरल्या.

चव्वेचाळीस वर्साआदल्यो ह्यो यादी पुस्तकाच्या रूपान तुमचेमुखार हाडपाखातीर जाणी भोव मोलादीक असो आदार केलो त्या सगळयांचो हांव कृतज्ञ आसां. तातूंत मुखेल करून पुस्तकाचे प्रकाशक लोकवाङमय गृह, व्यक्तिशः श्री. प्रकाश विश्वासराव आनी लोकवाङमय गृहांतले तांचे सगळे सहकारी , मुखपृष्ठ करपी श्री. सुधीर पटवर्धन आनी ह्यो यादी लिखित स्वरूपांत तयार करपाखातीर येवजण आयोगांतलो म्हजो स्वीय सहाय्यक श्री. सदन कदम ह्या सगळयांचो हांव अत्यंत ऋणी आसां.

म्हजे जेष्ठ इश्ट आनी बरें मागपी मधु मंगेश कर्णिक हाणी ह्यो यादी बरयताना सदांच म्हाका उमेद हाडली आनी म्हज्यो भोव मानादीक शिक्षिका लीला आवटे हाणी त्या यादींक 'हांव असो घडलों ' हें सुरबूस शिर्षक सुचोवन म्हाका उपकारांत दवरलो. त्या दोगांयचोय हांव ऋणी आसां.

म्हजीं भुरगीं, क्रांती, सुशील आनी पूर्वा हाणी सदांच म्हज्या सगळया उपक्रमांक म्हाका उत्तेजन दिलां.

म्हजी बायल लीना, हिणे आतांमेरेनचे म्हजे वाटचालींत ज्या खंबीरपणान म्हाका वांगड दिलो, ताचो अत्यंत कृतज्ञतायेन उल्लेख केलेबगर सुरवेचीं हीं दोन उतरां पुराय जावचीं नात.

भालचंद्र मुणगेकर

15 ऑगस्ट 2008,
नवी दिल्ली

"सामाजीक भावना हो उदरगतीत मानवी जिविताचो आत्मो आसा.ही भावना सदांच तीन तरांनी प्रकट जाता - उतरांनी, दुकांनी आनी कृतीनी. काव्य हें भावनेचें पयलें सुंदर स्वरूप. पूण काव्यांतलीं उतरां कितलींय सुंदर आसलीं तरीय निमाणें तीं वाऱ्यारूच विरगळून वतात. दुकां हें भावनेचें दुसरें सोबीत रूप! पूण मनशाच्या खवळिल्ल्या काळीजदर्यांतल्यान भायर येवपी हीं मोतयां अखेरेक मातयेमोलाचींच थरतात! दोळयांतल्या उदकान मनीस आपणाल्या काळजांतलो उजोय शांत करपाक शकना, मागीर संवसारांतलो वणवो तो कितें पालयतलो? सरभोंवतणचें दुख्ख पळोवन व्याकूळ जाल्लें मनशाचें मन ल्हव करपापेल्यान उतरां आनी दुकां ह्यांच्यांत सामर्थ्य आसना.

भावनेचें हें तिसरें स्वरूपच मानवी उदरगतीक उपकाराक पडूं शकता. ह्या स्वरूपांत ती तोंडान वा दोळयांनी उलयना. सदांच ती हातांनी उलयता. आपणालें रगत शिंपून ती बाकिच्यांची जीण फुलयता.

उतरां, दुकां आनी रगत! तिगांच्याय उत्पत्तिचें ठिकाण एकूच, पूण तांचे संवसार कितले भिन्न? "

- वि. स. खांडेकर



बोटीचो भोंगो वाजलो आनी हेदोळसान सुस्त आशिल्ल्या देवगडाच्या धक्यार एकदम गोंदळ सुरू जालो. तीन वरांचेर बंदरांत येवपी बोट आज जरी स वरांच्या सुमाराक आयली , तरीय सदांची गडबड जालीच. सामान हांगा थंय हालोवप, लागीं रावपी आसूनय उसरां आयिल्ल्या चाकरमान्यांची आपणाल्या सामानाचें वजन करून घेवपाखातीर जाल्ली धांवपळ, बोट उसरां येतली म्हण कळटकच घराकडेन वचून सुशेगाद जेवन येवपी हमालांची बेपर्वायेची भास, तांचेमदल्या कांय जाणांच्या तोंडाक दनपारां घेतिल्ल्या सोऱ्याचो येवपी वास,आपापल्या मनशांक निरोप दिवपाक आयिल्ल्या सोयऱ्या धायऱ्यांची ताकतीक, लग्न जातकच शेताचीं कामां आटापून चवथी उपरांत सवायशीणी सुनो आजूनय हातांत पांचवो चुडो आनी आंबाड्याचेर आबोल्यांच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो फांतयो माळिल्ल्यो, चाकरमानी न्हवऱ्यांक मेळपाक उमळशिकेंत आशिल्ल्यो. आपणाल्या व्हडल्या भावांवयल्यान तांकां थोमणे मारून तिडावपी, पिरायेन ल्हान आशिल्ले देर आनी नणंडो आनी 'तकडे लक्श देव नको' अशें म्हणत सुनांक धीर दिवपी जाणटेले आनी समजिकायेच्यो मांयो आनी मांव, नोकरेखातीर पयलेच फावट मुंबयवचपी आपल्या भुरग्यांक मन घट्ट करून व्याकूळ जावन समजावपी आवय-बापूय आनी 'माजी कायच् काळजी करू नको ' अशें परतून परतून तांकां सांगपी फुडाराचे चाकरमानी.... ते गर्देंत हेरांवरीच हांव आनी आबा बोट येवपाची वाट पळयताले.

हाचेआदीं आठवेकसान इकरावीमेरेन आबा आनी ताईक सोडून हांव चार फावटीं मुंबय गेल्लों. पूण तेन्नाचें तें वचप वेगळें आशिल्लें. ,एप्रिलांत जशी केन्ना काय परीक्षा सोपली, हांव दुसऱ्या - तिसऱ्याच दिसा बोटीन गावांत येतालो आनी जूनांत शाळा सुरू जावंचे फकत एक – दोन दीस पयलींच हांव एस टीन वा उज्या गाडयेन मुंबय वतालों. तें येवप – वचप थरील्लें आशिल्लें. आयची परिस्थिती वेगळी आशिल्ली. आज हांव मुंबय वतालों तो नोकरेखातीर.

मार्चांत इकरावेची परीक्षा सोंपल्या उपरांत सदचेवरी वारें - उदकाचो

बदल अणभवपाक हांव गावांत आयिल्लों. देडेक म्हयनो बरो मजेंत गेल्लो. आख्खो गांव हावें परत एक फावट माड्डिलो. म्हज्या धाकल्या सांगात्यांवांगडा परतून सगळे खेळ खेळ्ळों. जायते खेपो रांपणीचेर गेलों. घाटयेवयल्या वडासकयल वचून खूब फावटीं दोळे भरून सुर्याक अस्तमताना पळोवन घेतलो. दोन – तीन फावटीं पळोवन घेतली वाघोळेची पडिल्ली शाळा आनी सगळयो स्मृती परतून जाग्यो केल्यो. सप्तकभर कुवळयाक गेलों. आवयवांगडा गावांत आनी मामीवांगडा शेतांत भोवलों.

फाटल्या तीन वर्सांतल्या सुटयांपरस ही सुटी हावें वेगळे पद्दतीन सारली.

तो म्हणसर परीक्षेचो निकाल जाहीर जालो. म्हजो निकाल मात अनपेक्षित आशिल्लो. म्हाका फकत 69.7 टक्के मार्क फाव जाल्ले. इकरावेंत ज्या विद्यार्थ्याक 70 टक्के वा चड मार्क मेळटले तांचीं नांवां बोर्डाचेर बरोवपाखातीर आमच्या इकरावी 'ड' वर्गान निरोप सुवाळयाच्या वेळार शाळेक एक बोर्ड भेट म्हण दिल्लो. म्हजें नांव बोर्डार झळकतलें म्हणपाचें फकत आमच्याच वर्गान न्हय, तर सबंद शाळेन मानून घेतिल्लें. आनी म्हाका तर 70 टक्केय मार्क मेळूंक नाशिल्ले. ताका लागून बोर्डार म्हजें नांव येवपाचो प्रश्नूच उरलो ना.

पूण म्हजें खरें दुख्ख तर वेगळेंच आशिल्लें. पोरूं गणेश विठ्ठल ठाकूर ह्या विद्यार्थ्याक इकरावेंत 76 टक्के मार्क मेळिल्ले. आयजमेरेन शाळेंत खंयच्याच भुरग्याक मेळिल्ल्या मार्कामदीं हे मार्क सगळयांत चड आशिल्ले. ताणें वयर व्हेल्ली शाळेची कमान हावें मात सकयल हाडिल्ली. ताका लागून हांव बरोच अस्वस्थ जाल्लों.

म्हजी ही अस्वस्थताय उकतावपी दोन चिटी हावें चित्रे आनी शिरोडकर सरांक बरयल्यो. धीर दिवपी आनी 'इकरावेची परीक्षा म्हणल्यार आयुश्यांतलें निमाणें झूज न्हय' अशें सांगपी ताणी धाडिल्ल्यो चिटी हावें परतून परतून वाचल्यो. तरीय पूण तातूंतल्यान सांवरून घेवपाक म्हाका खूब वेळ गेलो.

एक दीस ग्रामपंचातिच्या ऑफिसांतल्या पेपरांत पंतप्रधान पंडीत नेहरूंच्या मर्णाची बातमी वाचली आनी आकांताचें दुख्ख जालें.

सप्तकभरयांत धको दिवपी आनीक एक घडणूक घडली. मुंबय विद्यापिठांत नोकरी करून शिकपी भुरगे गुणवत्तेंत फाटीं पडटात हें कारण

दिवन चालू वर्साखातीर सकाळचीं कॉलेजां बंद करपाचो निर्णय घेतलो. ह्या निर्णयाआड जायत्या विद्यार्थी संघटनांनी निशेध करूनय विद्यापिठ आपलो निर्णय बदलूंक तयार नाशिल्लें. तेखातीर नोकरी करून मुखावयलें शिकप घेवपाचीं सगळीं दारां आतां बंद जाल्लीं.

इकरावेंतल्या उण्या मार्कांपरस, नोकरी करून कॉलेजीचें शिक्षण घेवपाक मेळचें ना हाचें दुख्ख म्हाका चड जाल्लें. शाळामास्तराची नोकरी पळोवची अशी सुचोवणी आबान बऱ्याच वेळा केल्ली. तोवूय आतां सप्तकी बाजार करून करून थकिल्लो. ' तो म्हणून तरी आतां कितले कश्ट उपशितलो! फाल्यां शिकून बरी व्हडली नोकरी मेळ्ळी आनी ताचेपयलीं आबाक कितेंय जालें, तर नोकरेचो उपेग कितें? फुडलें शिक्षण जाय तरी कित्याक?' ह्या विचारासरशीं हावें शाळामास्तर जावपाचें थारालेंयबी. पूण तेखातीरय उण्यांत उणें एक वर्स तरी वतलें आशिल्लें. सकाळचीं कॉलेजां बंद जाल्ल्यान आतां रोकडेंच मुंबय वचपाचो प्रश्न नाशिल्लो. हातूंतच म्हजी भलायकीय इबाडली. ताका लागून म्हाका मुंबय ना धाडपाफाटलें म्हजे भलायकेचें आनीक एक कारण आबाक सांपडलें.

सगळेच वटेन म्हजो घुस्मटमार जाल्लो.

पावसाळयाचे तीन – चार म्हयने अशेच गेले.

तांतले तातूंत दोन – तीन बऱ्यो गजाली घडल्यो. एक म्हणल्यार 'नाका - नाका' म्हणटा आसताना दोन तीन खेपो आबावांगडा हांव मिठबावच्या बाजाराक गेलों आनी ताचेवांगडा नाल्ल आनी सुपारी विकली. आबालीं गिरायकां कवतुकान विचारपाक लागलीं, "सावकारानू, ह्यो झील काय ओ?" आनी तितल्याच कवतुकान, हांसत – हांसत, "होय, बाजार बगूक इलो हा" अशें आबा सांगपाक लागलो.

मदींच हावें एक – दोन खेपो सगळो बाजार भोंवून येवंचो.

"बाजार फिरॉक इलस काय सुपारी इकूक!" आबान विचारचें.

"येव नको ना रे म्हणस!आता काय झाला?" ताणें म्हणचें.

"वायच थांब, मी परत एकदा जावन येतय्" म्हणत हावें परत बाजारांत वचचें.

"झिला काय खातस काय रे!" आबा विचारी.

संवसारांतलें सगळें वात्सल्य ताच्या ह्या विचारण्यांत एकटाविल्लें आसतालें.

"नको रे, एकदमच कायतरी खाव या!" हांव म्हणी

दुसरी गजाल म्हणल्यार गावांत येता आसताना हावें इंग्लीश, मराठी, हिंदी आनी संस्कृताचीं पुस्तकां हाडिल्लीं. तातूंतल्या धड्यांचें आनी कवितांचें हावें परतून वाचन केलें. दरेक धडो आनी कविता वाचताना म्हाका त्या वेळावयल्या वर्गांतलें वातावरण याद जावपाक लागलें आनी त्या खोसदिण्या यादिंनी म्हजो जीव खासावीस जावपाक लागलो.

तशें पळयल्यार तर्खडकराचे तीन अणकार हावें परतून एक फावटीं नव्यान वाचचे तशे वाचून पाठ केले. णववेकसान इकरावीमेरेनचें इंग्लीश व्याकरण सुदारपाखातीर त्या अणकारांचीं खूबच मदत जाली.

आनीक एक गजाल . हावें सांगिल्लें म्हणून मामान आमच्या गावांतल्या एकल्याकडसून प्रा. ना. य. डोळे हांची इंग्रजी - मराठी डिक्शनरी धाडून दिल्ली. हावें मागीर नेमान तातूंतल्या आठ – धा नव्या उतरांचीं स्पेलींगां पाठ करपाचो सपाटो सुरू केलो. ताका लागून वेळय बरो पासार जालो आनी नव्या इंग्लीश उतरांची संवकळ जाली.

मदींच दोन – तीन खेपो हांव कुवळयाक वचून आयलों.

सगळयांत खोशयेची गजाल म्हणल्यार राणे मास्तराचे सांगणेवयल्यान हावें गांवांतले शाळेंत सातवेच्या वर्गांत देडेक म्हयनो मराठी आनी गणित हे विशय शिकयले.

ऑक्टोंबर आयलो.

सरस्वतिपुजनाखातीर आमी माजी विद्यार्थ्यांनी 'एक पाऊल पुढे' हें तीन अंकी नाटक बसयिल्लें. तातूंत आंकवारपणांत आवय जावपी अस्तुरेची समस्या मांडिल्ली. नाटकांत आंकवार आसतानाय भुरग्याक जल्म दिवपाचो नायिकेचो हट्ट आसताच, तेभायर तिच्या आवय – बापायचेंय फाटबळ तिका आसता. नाटकांत म्हजी नायकाची भुमिका आशिल्ली आनी सातवीमेरेनचो म्हजो वर्गमित्र आप्पा घाडी आंकवार आवयचें काम करपाचो आशिल्लो. नाटकाचें दिग्दर्शन करपाचें कामय म्हजेरच सोंपयिल्लें. देवळाकडचेच शाळेंत आमच्यो येसायो सुरू जाल्यो. नाटकांत म्हाका दोन -तीन पदांय आशिल्लीं. पदांच्या चालींचीय जुळवा जुळव हांव करतालों. मालवणी जाल्ल्यान हे गूण म्हज्यांत जल्मताच आसपाक जाय, अशें म्हाका तेदेवेळार दिसलें.

एक दीस सांजवेळा म्हजी पदांची येसाय सुरू आशिल्ली. इतल्यांत आबा म्हज्या नांवाची चीट घेवन आयलो. परशुराम पाटलाची ती चीट

आशिल्ली.

पाटील लालबागचे फिन्ले मिलींत कामाक आशिल्लो. मराठी चवथी - पांचवी मेरेन शिकिल्ल्या पाटलाची वर्तणुक सुसंस्कृत आनी चवकस आशिल्ली. शिवडी ह्यांगासरल्या टी. बी. ऑश्पिताला सामकारच्या युनूस कोंडाजीचे खणी लागींचे झोपडपट्टेंतलो तो आमचो शेजारी. ह्यांव धावेंत आसताना तो थंय आपणाल्या काकागेर बिराडकार म्हण रावपाक आयलो आनी उपरांत ताणें स्वतंत्र झोपडी घेतली. थंयच्या भैयाच्या च्यायेच्या गाड्यार सकाळीं पेपर वाचताना आमचें मेळप जातालें.

पाटील समाजवादी. प्रजा समाजवादी पक्षाचे कार्यकर्ते. अशोक मेहता आनी बॅरीस्टर नाथ पै ह्यांचे भक्त. पाटील म्हणल्यार सामाजिक – राजकी प्रामाणिक कार्यकर्त्याचो आदर्श नमुनो. पाटलाचो म्हजेर सुमाराभायलो जीव. म्हाका तो 'बाळ' म्हण पाचारी. तागेले बायलेकय भाव नाशिल्लो. ती म्हाका आपलो भाव समजताली आनी 'बाबू' म्हणी. तीं दोगांय मालवण तालुक्यांतल्या तोंडवळी गावांतलीं. मोगान पडून लग्न जाल्लीं. पाटलान एक फावट म्हाका म्हणिल्लें, “ती म्हज्या सभावाचेर भाळ्ळी आनी ह्यांव तिच्या रूपाचेर.” ह्यांव खूब हुशार आसां म्हणपाचें तांकां जाणवतालें. एक फावट आमच्या घरा येवन ताणीं अण्णा आनी काकीक सांगिल्लें, “तुमचो बाळ खूब हुशार आसा. फाटी फुडें तो नक्कीच कोणतरी जातलो!”

आपणालो एकलो एकसुरो भुरगो अपघातांत खंवसल्ल्या कारणान उध्वस्त जाल्ल्या आनी ताका लागून म्हाका आपणाल्या भुरग्याच्या जाग्यार मानपी अडाणी काका - काकीच्या मुखामळार पाटलाच्या उतरांनी परजळिल्लो कवतुकाचो, सुसंस्कृतायेचो आनी पवित्रतायेचो ह्यांसो म्हजे नदरेमुखावयल्यान फुडले कितलेतरी दीस पयसावलो ना.

“एल आय सींत क्लार्क भरपाचे आसात. म्हज्या इश्टान, बाळ तायशेट्टेन प्लीकेशन फॉर्म हाडला. तुका इकरावेंत 70 टक्के मार्क मेळिल्ल्यान नक्कीच चान्स पडटलो. तेखातीर दोन – तीन दिसांभितर तूं मुंबय यो.” अशें पाटलान चिटयेंत बरयिल्लें.

म्हाका खूब खोस जाली. परतून परतून हावें ती चीट वाचली. म्हाका एल आय सींत नोकरी मेळनाफुडें आबाचो मिठबावचो बाजार बंद जातलो हे कल्पनेनूच म्हाका म्हज्या आयुश्याचें सार्थक जाल्ल्यावरी दिसलें.

आमी येसाय थांबयली. 'म्हजे सुवातेर दुसऱ्या कोणाकय नाटकांत घेयात' अशें सांगून हांव आनी आबा घरा आयले. म्हाका एल आय सींत नोकरी मेळटलीच म्हणपाची खात्री दिसपाक लागली आनी म्हजें मुंबय

वचपाचें थरलें.

शाऴेखातीर मुंबय वचपाक लागतसान चार वर्सांउपरांत पयलेच फावट हांव स म्हयने गावांत राविल्लों. आनी आतां अचकीत म्ह्जें मुंबय वचपाचें जालें म्हण आबाक आनी आईक बरीच खंत जाल्ली. ताई म्ह्जी अडाणी. सय करपाइतलें लेगीत शिकूंक नाशिल्ली. पूण म्ह्ज्या शिक्षणाखातीर मात आपलें सगळें आयुश्य पणाक लावपी आनी म्ह्जेपरस तीन -चार वर्सांनी ल्हान आसूनय आबा उपरांत म्हाका भुरग्यावरी सांबाळपी! ती तर रडपाकच लागली.

मुंबय वचप तितलें सोपें नाशिल्लें. बोटीची तिकेट आशिल्ली वीस रूपया. जोर येवन आबा म्हयनोभर तरी दुयेंत आशिल्लो. तागेल्या बाजाराक आनी हेर कामा धंद्याकूय खंड पडिल्लो. ताका लागून ताचेकडेन तितले पयशे नाशिल्ले.

ह्रांव कुवळयाक गेलों, म्ह्ज्या आजोळा. म्ह्ज्यावांगडा आशिल्ली म्ह्जी बापोलभयण ह्रिरा. मिठबावमेरेन आमी चलत गेलीं आनी मिठबावसान लिंगडाळ तिठ्यामेरेन एसटीन गेलीं. थंय आमची एस टी आमकां चुकली. तेखातीर शिरगांव आनी ताचेफुडें कुवळयामेरेन आमी चलतच गेलीं.

आएक ह्रावें सगळें सांगलें. तिचेकडेन कोणे कोणे दिल्ले पांच – धा रूपये सदांच आसताले. पूण एकदम वीस रूपये खंयच्यान आसतले? तरी साळशीच्या बापू साटमाकडेन आए म्हाका घेवन गेली. बापूकडेन मामालें उदारेचें खातें आशिल्लें. बापू साटमाक इत्थंभूत गजाल आएन सांगली. मामाल्या नांवार ताणे वीस रूपयांचें रीण दिलें. बापू साटमांकडसून आमी भायर सरलीं. तोवेळमेरेन म्ह्ज्या दोळयांतल्यान दुकांची झर व्हांवपाक सुरू जाल्ली.

आएक ह्रावें 'नाका नाका' अशें परतून परतून सांगूनय दांडो तेंकयत तेंकयत ती आमच्यावांगडा चलपाक लागली. “बाबू सांबाळून ऱ्हव! लेका, आता कदी रे दिश्शी?” अशें सांगीत आनी विचीरीत ती आमचेबरोबर चलताली. म्हाका खात्री आशिल्ली, ती एकली परतून वतना, म्ह्जी याद काडीत वतली म्हणपाची. अखेरेक ह्रांव थारलों. “आए, आता तू जा, एकटी कदी जाशी?” आए रावली. रावली खंयची, हावेंच तिका बळजबऱ्यां थांबयली. ह्रावें आएच्या पांयार तकली दवरली . तिणें म्ह्जे खूब खूब उमाव घेतले. दोगांय ख़ूब रडलीं. तें पळोवन ह्रिराकय रडपाक आयलें.

"बाबू, आता कदी रे दिश्शी?" अशें म्हणत आनी तंबाकूच्या बोटव्यांतल्यान दोन रूपये काडून म्हजे मुठींत दवरीत तिणें म्हणलें, "हे तुका खर्चाक ठेव!"

घरा येमेरेन आएचीं तीं उतरां म्हज्या काळजाक पिंवळ घालतालीं. आई वचतसान तिणें म्हजेखातीर जें जें कितें केलें त्या सगळयाचो परतून परतून उगडास जावन हांव कळवळिल्लों. साळशीकसान शिरगावमेरेनची एका वराची वाट केन्ना सोंपली तें म्हाका समजलेंच ना.

आबालो जोर आजूनय पुराय निवळूंक नाशिल्लो. पूण म्हाका रावप शक्य नाशिल्लें. म्हजी मुंबय वचपाची तयारी जाली. देवगडाक येवपाखातीर मशवी हांगासर एस टींत बसता आसताना, "दादा जापॉनऱ्हव! रात – इरत खय जाव नको! आमची काळजी करू नको! आबाक मी बगीन!" अशें म्हणत वेंग मारून ताई खूब रडली. तिचें एकेक दूक हापूस आंब्यायेदें आशिल्लें.

आबाक समजावप आतां कठीण आशिल्लें. पडाव सुटपाचो वेळ जालो. मन घट्ट करपाचो हावें खूब यत्न केलो. पूण कांय उपेग जालो ना. दोगूयजाण सामके मेकळेपणान रडले. आबा तर 'झिला झिला' म्हण कोंसळपाकूच पाविल्लो. हेवटेनचे तेवटेनचे सगळे भोंवडेकार आमकांच पळयताले. आबाच्या तोंडांतल्यान सारकीं उतरांय फुटनासलीं. बऱ्याच कश्टांनी हावें ताचो हात सोडोवन घेत रडटां रडटांच हांव ताच्या पांयां पडलों आनी हातांत ट्रंक घेवन पडावांत बसलों.

पडाव सुटले. बोट बंदरांत येवन रावली. जशी कितें एखाद्रे प्रौढ सम्राज्ञीन भव्य राजवाड्याच्या दिमाखदार आनी शांत दिवाणखान्यात भितर सरून आसनाचेर बसची तशी!

म्हजी सगळी नदर आतां आबाचेर एकवटिल्ली. मातय नदर हालयनासताना हांव ताका पळयतालों. पडाव पयस पयस वता तशी ताची मुर्त ल्हान ल्हान दिसपाक लागिल्ली. आतां सामकी ल्हान...आतां तर सामकी चिकली कशी.

हांव बोटींत चडलों. काळोख पडपाक लागलो आनी कांय खिणांभितरच देवगडचो धको त्या काळखांत दिसना जालो. बोट बंदरांतल्यान भायर सरली. मुंबयच्यान हाडिल्ली चादर हावें ट्रंकांतल्यान काडली आनी हांव तिचेर लवंडलों. बोट मुंबयवटेन नेटान वचपाक लागली. हांव मात दुकांनी चिप्प भिजिल्ल्या दोळयांनी फाटल्यान पळयतच उरलों...

सांजवेळ जाल्ली. काळोख पडपाक आजून थोडोसो कळाव आशिल्लो. आमी सदचेभशेन खळयांत खेळटाले. इतल्यान आईचे कुडींतल्यान आएली एकूच हुएल कानांर आदळळी, “माज्या धाकल्या S S गो"

म्हजी आई भायर पडिल्ली.

हावें आईचे कुडींत धांव मारली. आए तर सामकी तकली फोडून घेताली. खिणभरयांत सगळें घर वाडयेंतल्या लोकांनी भरून गेलें. सगळेकडेन आकांत जालो. आमी भियेत म्हण म्हाका आनी ताईक सगळीं जाणां कुशीक काडटालीं. सरभोंवतणचें वातावरण सामकें किण्ण जाल्लें.

आबा सदचेभशेन देवळाकडेन गेल्लो. आई भायर पडिल्ल्याची खबर ताका कोणेतरी थंयच सांगली. चारूच धेंपांनी तो घरा पावलो आनी आईच्या पांयांचेर तकली दवरून व्हडा व्हडान आड्डी मारूंक लागलो "आता मी काय करू? तुज्या पोरांचा काय करू? पोरा टाकून कित्या गो गेलस?”

रातभर मडें दवरप कठीण आशिल्लें. रातयांच तें व्हरपाचें थरलें. सगळेकडेन भीण्ण काळोख जाल्लो. म्हाका आनी ताईक पोटाकडेन धरून आबा आकांतान रडटालो. आमचें कितें जातलें हो मळबायेदो प्रश्न ताचेमुखार आशिल्लो.

लापयांवाच्या आनी चुडयेच्या उजवाडांत वस्तेंतले लोक आईचें मडें घेवन गेले.

आबा तर आतां पिसोखुळोच जाल्लो. तो व्हडाव्हडान आईच्या नांवान आड्डुतालो. ताका थातारपाक कोणाकूच फुडें येवप शक्य नासलें. आनी ताचो कितें उपेगय जावपाचो नासलो. ताची आख्खी जीण उध्वस्त जाल्ली.

आई खूब तरणेपणांत भायर पडली. तिची पिराय तेन्ना 27-28 वर्सांची आसत. स-सात म्हयने ती दुयेंत आशिल्ली. उपरांत तिणें जें ह्याथरूण धरलें तें सासणाचेंच. कांयजाण म्हणी, तिका बाळंटरोग जाल्लो म्हण, तर कांयजाण तिका 'बारीक जोराचें' जालां अशेंय म्हणी. त्या काळांत 'बारीक जोराचेर' वखद नाशिल्लें.

आख्खे वाडयेंत त्या दिसा कोणेच चूल पेटयली ना.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर तोंडांत उदकाचो थेंब लेगीत घेनासताना आए कुवळयाक वचपाक भायर सरली. घरा लागसरची चडटी चडटाना आईक पुरील्ले फोंडामुखावयल्या फातराचेर तकली आपटून घेवन तिणें आपणाक रक्तबंबाळ करून घेतलें. शेजाऱ्यांक कळनाफुडें ते धांवले आनी तातूंतले एक – दोग जाण आबाचे सांगणेवयल्यान आएक पावोवपाक कुवळयामेरेन गेले.

कुळारा, घोवाल्या घरा तशेंच आख्ख्या गावांत आई सगळयांची लाडकी आशिल्ली. लांबायेन चड न्हय, वांटकुळया चेऱ्याची आनी सांवळया रंगाची आई म्हणल्यार आमच्या घराचें वैभव आशिल्लें. म्हजे तीन बापोलये आबापरस व्हड, पूण घरचो कारभारी मात आबा. आपोआप हो मान आईकय फाव जालो.

पूण ताचें दुसरेंय म्हत्वाचें कारण आशिल्लें.

म्हजी आई तिच्या चार भांवंडांमदीं सगळयांत धाकली. तेखातीर तिका कुळारा सगळे 'धाकलें' म्हणी. व्हडले दोग मामा. सगळयांत व्हडलो पांडुरंग. तो शेताचें पळयतालो. ताचे फाटलो जानू. गोरोपिट्ट, उंच, सडपातळ आनी देखणो. तो गावांतल्या भटागेर वावराक आशिल्लो. गोमू म्हण तो तमाशांत नाचतालो. ताका लागून तो सदांच केंस वाडोवन लांब केंसांचो आंबाडो घालतालो. एका वर्सा देवीचा सांथ आयली तातूंत तो भायर पडलो. त्या उपरांतची मावशी. जानूमामाभशेनच उंच, गोरी आनी रूपेस्त. तिका बुधवळे गावांत दिल्ली. तिचो घोव मुंबय पोर्ट ट्रस्टांत नोकरेक आशिल्लो.

सगळयांत ल्हान ती आई. लग्नाआदींसावनच धीरवान आनी कश्टी. शेताचीं सगळीं कामां करपाक मामीवांगडाच ती मामाक मदत करी. दादा म्हणल्यार तिचो देव. आई आशिल्ली मामाली इतली लाडकी, लग्न जातकच कुळारासान घरा वतां आसताना मामा तिचे केंस वळयी.

जानीमामा तरणेपणांत भायर पडलो. मावशी आदल्याच वर्सी खंवसली. आनी आतां आई. ताका लागून आए आनी मामा, दोगांय पुराय गळसणलेलीं.

मामा आपली भयण आबाक दिवपाक तयार नाशिल्लो. आबान वस्तेंतल्या नांवाजत्या आनी सामके बोलक्या लोकांक उलोवणी करपाक धाडले. पूण मामा कसोच आयकनासलो. आनी आबाचो तर तिचेचकडेन लग्न जावपाचो हट्ट आशिल्लो. मामाल्या न्हयकारांकय तशेंच कारण आसलें. आबालें आजोळय कुवळयाकूच.म्हजी सगळयांत धाकली चुलती, अण्णाली घरकान्नय कुवळयाची. दिसपाक ती काळशीशी. अण्णा नांवावरीच सांवळो, उंच, सडपातळ. आजी स्वतः गोरीपिट्ट आशिल्ली. काकी आण्णांक सोबना अशें तिचें म्हणणे. ताका लागून आजेन काकीचे खूबच हाल केले. काकीक ती सामकी उदकांत पळयताली. मेळत तसो अपमान करपासान ते तिका

भुकेल्ली दवरीमेरेन आनी केन्ना केन्ना तर जेवण ना दीमेरेन ती काकीक सतायताली.

तशें पळयल्यार आजेन छळणूकच केल्ली काकीची. निमाणे अण्णान बेजारून काकीक मुंबयच दवरली.

काकीचे छळणुकेच्यो ह्यो सगळयो गजाली अर्थांत मामा आनी घरांतल्या सगळयांमेरेन पाविल्ल्यो. मामाक भिरांत आशिल्ली, आपले भयणिचीय गत अशीच जायत बी काय म्हण. निमाणे, "मी तुमच्या भयनीचे कसलेच हाल करूचय नाय" अशें आबान मामाक बरोवन दिलें तेन्नाच तांचें लग्न जालें.

आबान तेदेवेळार लग्नांत नवी साडी घेतली, पांच रूपयांची. ताणें आपणांखातीर घेतिल्ली सत्रीय गोंड्यांची आशिल्ली. आबालें व्यक्तिमत्व देखणें आनी रूबाबदार अशें आशिल्लें. ताचेकडेन उलयताना तो वेवहारी आनी हुशार आशिल्ल्याचें कोणाकय जाणवतालें. पूण आईच्या मानान दिसपाक कातीन मात काळसो आनी मोटेल्या आनी पसरट नाकाचो.

रातीकडेन न्हीदता आसताना ताणें ही इत्थंभूत गजाल म्हाका सांगतकच हांवें आबाक विचारचें, आईवांगडा ताचें लग्न तरी कशें जालें? सगळी गजाल जेन्ना आबा म्हाका परतून सांगी तेन्ना ताच्या आवाजांतलो थरथर म्हाका जाणवतालो.

लग्नाचे घडकेक जाल्ले हे सगळे घडणुकेक लागून आबा मातसोसो आईक भियेवनच आसतालो. पूण तांच्या उलोवपातल्यान त्या दोगांयचोय एकामेकाचेर अतिशय जीव आशिल्लो ह्याची म्हाका कल्पना येताली.

आबाच्या दुख्खाक आतां शीममेर उरली ना.

तेराव्या दिसा व्हाळा देगेर शीरांनी आईचें क्रियाकर्म करता आसताना म्हजे तकलेवयले सगळे केंस काडपाचें थरलें.

"लहान पोराचे कित्या केस काडताहास?" कोणेंतरी म्हणलें.

" केस नाय काडले, तर झील आसॉन उपयोग काय?" दुसऱ्यान कोणेतरी जाप दिली.

म्हजे तकलेवयले सगळे केंस काडिल्ले पळोवन, "झिला, तुज्या नशिबाक काय रे ह्या इला?" अशें म्हणून आबा खूब रडलो.

आईच्या क्रियाकर्माक आए आयली ना.

सुरवेक आबान कावळयाक पींड दाखयलो. पूण एकूय कावळो तेवटेन फिरकूंक नासलो.. "झिला, आता तू तरी बोलाव" आबान म्हणलें.

हावें, “ये S S ये", “येवा, येवा" अशें म्हणटा थंय आशिल्लें, सगळे कावळे रोकडेच धांवले आनी आईखातीर दवरिल्ली वाडी ताणीं फस्त केली. आबाच्या जिवांत जीव आयलो.

आईची याद म्हण आबान तिगेलो एक पोलको दांडयेक गांठ मारून दवरिल्लो. कितल्यो तरी राती तो त्या पोलक्याक पळोवन न्हिदतालो.

म्हजी आनी ताईची जतनाय घेवंक म्हण आबान मसुरच्या म्हज्या आक्काक हाडून दवरिल्ली. अण्णाच्या फाटली आक्का. व्हडली मावळण. सगळया भावांची खूब लाडकी. मसुऱ्याक दिल्ली. पूण आतां म्हयनो -देडेक म्हयनो जायत आयलो ती तरी कितले दीस रावतली! तिकाय म्हण आपलें घर, आपलो संवसार आशिल्लोच न्हय!

आबान दुसरें लग्न करपाचें थारायलें आनी तेंवूय बी आक्काचे भाचेकडेन. शेवंता तिचें नांव. लग्नाउपरांत एका वर्साभरयांत तिचो घोव अपघातांत मेलो. रेवंडीक आपणाल्या भावावांगडा तीं रावताली.

आईखातीर वखदां हाडपाक आबा जेन्ना मालवणाक वतालो तेन्ना आक्काल्याच घरा एक -दोन फावटीं तांगेलें मेळप जाल्लें. आपणाले भाचेवांगडा आबाल्या लग्नाक सुरवेक आक्कालो विरोध आसलो. आपणाले भाचेक मालवणसारकेले शारी जिणेची संवकळ आशिल्ल्यान आमच्या भुरग्यांचें ती कशी करतली हो तिका हुस्को आशिल्लो. पूण आक्काल्या घोवान – मसुरेकर मामान आबाचे वटेन मध्यस्ती केली.

“त्येना लगीन नाय केल्यान, तर त्येच्या पोरांका बगतला कोन? तुजे बाकिचे भाव आनी भावजयो बगतले? काय तू बगतलस?” मामान आक्काक समजायली आनी निमाणे हय ना करीत तिणे लग्नाक मान्यताय दिली.

आबाल्या लग्नाची चर्चा सगळे वाडयेभर सुरू जाली.

घरांतल्या सगळयांचो - आजी, बापोलये आनी काकींचो मात विरोध आसलो. पूण, “माज्या पोरांका कोन बगतला?” अशें खरमरीत विचारून आबान सगळयांक वग्गी केले. हरशीं म्हण आबामुखार उलोवपाक सगळे भियेतालेच.

विधुरान विधवेकडेन लग्न जावप हाका 'पाट लावणे' अशें आमचे थंय म्हणटात. तेखातीर सदच्या लग्नाभशेन खर्च जरी जालो ना तरी थोडे चड पयशे लागतलेच आशिल्ले.

आबान मुंबय वचपाचें थारायलें. पूण म्हाका आनी ताईक खंय दवरप हो प्रश्न आसलो.

आबा आमकां घेवन मसुऱ्याक गेलो. दोन दीस आमी थंय रावलीं. आबान ताईक आक्काम्हऱ्यांत दवरली आनी हांव आनी आबा घरा आयले. ताई बाबडी देडेक वर्सांची! तिका कांयच कळनाशिल्लें. घरा येवपाक आमी दोगूय भायर सरनाफुडें तिणें आबाल्या पांयांक घट्ट वेंग मारली आनी रडून आकांत केलो.

दोन दिसांनी आबा आनी हांव कुवळयाक गेले. म्हाका थंय दवरून तो थंयच्यानच मुंबय वचपाक गेलो.

आबा, हांव आनी ताई तिगांय तीन सुवातिंनी.

सुमारेक म्हयन्या उपरांत आबा मुंबयसान येतकच पयलीं कुवळयाक आयलो. तोमेरेन तो दुसरें लग्न करपाचो आसा हें आएक कळिल्लें. तेखातीर तागेलें तोंड लेगीत पळोवपाची तिची इत्सा नासली. ती आबालागीं चकार शब्द उलयली ना. मामी लेगीत आबाकडेन सारकी उलयली ना. हांव आनी आबा मुणग्याक आयले. येता आसताना आएन म्हजे खूब उमाव घेतले आनी ती घसघशांनी रडली. आमची सवती आवय आमचें कशें करतली, आमकां सारकें पळयतली काय ना ह्या हुस्क्यान तिका भिरांत पडिल्ली.

मागीर दोन दिसां उपरांत ताईक हाडपाक आमी मसुऱ्याक गेले. तिका केन्ना काय पळयन अशें आबाक जाल्लें. सुमारेक म्हयन्यान म्हणटा तशीं आमी तिगांय आक्काल्या घरा एकठांय मेळळीं. आमकां दोगांकूय वेंगांत घेवन आबा खूब रडलो.

घरा येतकच परतून एक फावट आबाल्या 'पाटाची' चर्चा सुरू जाली. आबा तिडकतलो म्हणपाचें बापोल्यांक खबर आशिल्ल्यान ताणी आजेक फुडें काडली.

“ह्यां जा कोन करतहस, ता तुज्या पोरांका बगतला?” आजेन आबाक विचारलें.

आबालो आजेचेर खूब जीव. भुरगेपणांतले दळडिरे अवतिकायेंत तिणें कुळारासावन कितें कितें हाडून केल्लो सांबाळ आबा केन्नाच विसरूंक नाशिल्लो. ताका लागून तीडनासताना पूण निर्धाराच्या सुरान ताणें आजेक म्हणलें, “आए, तू जी पाट लावू नको म्हनतंस, तर माका सांग, माज्या पोरांका बघतला कोन? तुज्ये बाकिचे झील आनी सुनो बगतले? तुका कितीशी बगतहत? तू तेंच्या नादाक लागॉन माज्या पाटाक 'नको' म्हनॉ नको" सगळे भाव वेगळे जातकच आजेची जापसालकी आबाकडेनच आशिल्ली. आबान ती खोशयेन आपणायिल्ली. फकत आण्णा सोडून हेर

तिगांनीय आजेकडेन आडनदर केल्ली.

आजेकडेन जाप नासली. आबाचें म्हणणें तिका पटलें.

वाडयेंतल्या चार – पांच जाणांक घेवन मालवणच्या लागींच आशिल्ल्या रेवंडीक वचून आबान पाट लायलो आनी मावशेक घेवन तो घरा आयलो.

आमचे नदरेन मालवण म्हणल्यार त्या काळावयलें एक व्हड शार. बोटीचो धको, दवाखाने, शाळाय मालवणाक. आमी आयकल्लें, मालवणाक चलयो सायकली चलयतात म्हणपाचें. ताका लागून वाडयेंतलो कोणूय एखाद्रो मालवणाक वचून आयलो जाल्यार आमकां दिस तो मुंबयच वचून आयला म्हण.

रेवंडी लागीं आशिल्ल्यान मावशेलें मालवणाक येवप – वचप आसतालें. मालवणच्या शारी वातावरणाचो सभाविकपणान तिच्या राहणीमानाचेर परीणाम जाल्लो. दनपार उलगतकच आबा जेन्ना मावशेक घेवन घरा आयलो तेन्ना रखरखीत वोत आशिल्लें. मावशेन ताका लागून धाकटुली सत्री घेतिल्ली. आमी पयलेच खेप इतली ल्हान सत्री पळयतालीं. लांब, गोरी आनी सरळ नाक आशिल्ली मावशी, धवेंफुल्ल णववारी कापड न्हेसून, पायांक क्लिपां लावन खळयांत आयली तेन्ना वाडयेंतलीं आमी सगळीं भुरगीं तिका पळोवपाक एकटावलीं. जाणटीं मनशांय भायर आयलीं. तिच्या हातांतली सत्री पळोवन ताणीं नाकां मुडिलीं , जाल्यार म्हजेसयत सगळींजाणां फिदीफिदी करून हांसलीं.

आबान मावशेक आजेच्या पांयां पडपाक सांगलें. मावशी पांयां पडली लेगीत, पूण आजेन तेवटेन वांकडी नदर करूनय पळयलें ना.

घरांत वचून हावें मावशेक कळशीभर उदक हाडून दिलें. उदक पियेतां पियेतांच तिणें म्हाका आनी ताईक लागीं ओडलीं आनी आमचे उमाव घेतले.

ताई तर सामकें नेणार आनी आबान केलां तें बरोबर कांय चूक हें थारावपाची म्हजीय पिराय नासली.

दर दिसा रातचें न्हिदता आसताना आबा म्हाका कसलीय एखाद्री ल्हान व्हड गजाल सांगतालो.

आमच्या गांवची देवी भगवती. देवीचें देऊळ बांदल्यार सुमारेक चारशीं- पांचशीं वर्सां जालीं अशें गांवकार म्हणटात. जागृत देवस्थान म्हण सरभोंवतणी पंचक्रोशींत सगळयांच्या भावार्ताचें ठिकाण. विविध पद्दतीन

देवीची सेवा करतल्या बलुतेदारांक तिच्या नांवान कांय जमीन वतन म्हण पुर्वापार दिवन वडयिल्ली. देवस्थानाची अशीच कांय जमीन देवीची पुजा करीत आयिल्ल्यान गुरवांक इनाम म्हण दिल्ली. तांचेमदले एक धाकू गुरव. तांगेली सड्यावयली तीन – चार एकर जमीन वहिवाटीखातीर उण्यात उण्यो चार पिळग्यो तरी आमच्या कुटूंबाकडेन आशिल्ली. वेगळे जातकच हे सगळे जमनिचे अडेज वांटे केले. तातूंतलो अर्दो वांटो बापूचो म्हणल्यार सगळयांत व्हडल्या बापोलयाकडेन. आप्पा आनी जिजो एकठांय आशिल्ल्यान एक वांटो तांचेकडेन.तर आबा आनी अण्णा एकठांय आशिल्ल्यान एक वांटो तांचेकडेन. जोताखातीर आपापले बैल आनी शेताचीं हेर सगळीं आयिद्दां तिगांयकडेन आशिल्लीं. सुरवेक सगळयांल्या बैलांचो गोठो एकूच आशिल्लो. पूण उपरांत बापून वेगळो गोठो केलो. शेताच्या कामांत सगळींजाणां एकामेकाक मदत करतालीं. अण्णा चाकरमानी. ताणें सुरवेकसानच मुंबयची वाट धरील्ली.

आई तर शेताच्या कामांत आदींसावनच हुशार आनी कश्टी. आजेचीय लाडकी. आबा आनी आई म्हणल्यार आजेचो जीव कीं प्राण. आईच्या आदारान आबा भरपूर शेत करी. शेताच्या वावराक लागून आनी उत्पन्नाचें साधन म्हणून ताणी एक बैलगाडीय घेतिल्ली. हेरादारीचें आनीक कसलेंच साधन नाशिल्ल्यान गांवच्या वातावरणांत बैलगाडयेचो खूब उपेग जातालो. तेभायर गावांत ती एक प्रतिष्टेची गजालय मानताले.

आई वतकच आबाक कित्यांतूच रस उरलो ना. आईल्या दुयेंतपणांतलो खर्च आटापाक येवपाक ताणें बैलगाडीय विकून वडयिल्ली. आतां शेत रोवपाचें काय ना ह्रो एक मोटो प्रश्न ताचेमुखार उबो रावलो. तरीय एक वर्सभर ताणें मावशेक घेवन शेत रोयलेंयबी. पूण ताचें लक्ष शेतांत लागना जालें. मावशेकय शेताचो वावर जाय तसो जमना जालो. मालवणसारकेल्या शारी वातावरणाचो परीणाम आसूंये, आईभशेन तिका शेताच्या कामांची ओड नाशिल्ली.

तातूंत आनीक एक गजाल आबाल्या मनांत परतून परतून घोळपाक लागली. कोंकणांत सगळयाच जाग्यांनी सोरपांचें अस्तित्व आसता. चड करून शेताच्या आसमंतांत हुंदीर आशिल्ल्यान तर सोरपाचें अस्तित्व आसुंकच जाय. पूण सोरोप शेताची राखण करता असो भावार्त गांवच्या लोकांचो आसा. देखून कोंकणांत ताका सगळेकडेन 'जागेकार' म्हणटात. पावसाळयांत शेताच्या रोवणेची कामाक सुरवात करताना तशेंच लुवणेक सुरवात करताना जागेकाराक नाल्ल दवरून ताचो भोवमान राकतात.

सोरोप म्हणल्यार देव. शेतांत ह्येवटेन तेवटेन भोंवताना चुकून लेगीत कोणालेय नदरेक तो पडलो जाल्यार तें शुभचिन्न अशें समजतात.

आमगेल्या सड्यावयल्या शेतांतय आशिल्लो असोच 'जागेकार'. शेतांत वावर करता आसताना एक दीस 'जांगेकार' झाडावयल्यान सरळ आईल्या आंगाचेरूच पडलो आनी खिणभरयांत सूर् करून नाच जालो. आई व्हडल्यान किंळचेली. धीरवान आसूनय ती अर्दी मेल्ल्यावरीच जाली. हे घडणुकेचो धसको घेवन कांय दीस तिगेलें सड्याचेर वचपूच बंद जालें. फुडें वर्सभरयांतच आई दुयेंत पडली. स म्हयने ती हातरूणाचेर खिळून उरली आनी मागीर मेली.

आईल्या आंगार 'जागेकार' पडलो ह्याचो अर्थ देवाचें आपणाचेर रागणें आसा आनी आईल्या मरणाक तीच गजाल कारण थरली अशें आबाल्या मनाक दिसलें आनी आबान शेत कसपाचें सोडून दिवपाचें थारायलें.

ह्यांगां आजेचें आनी मावशेचें भिंगसळपाक सुरू जालें. फुडें फुडें तर दोगांयचेंय अजिबात पटना जालें. केन्ना केन्ना झगडींय जावपाक लागलीं. मातशें कितेंय बिनसलें जाल्यार आजी मागीर तो राग जेवणाचेर काडी.

“गे मेल्या, जेवनावर कित्या राग धरतस?” अशें सांगून ह्यावें तिका समजावपाचो यत्न करूनय तिणें जेवचें न्हय. ती जेवली ना जातकच आबाक खूब वायट दिस.

तातूंत भर म्हण आजी मावशेआड जायतें सांगी आबाक. मावशी आपणाक सारकी वागयना, ही तिगेली मुखेल कागाळ आसताली. आबाक तें खरेंच दिस आनी ताका लागून ताणें मावशेचेर तिडकुचें. आबालें पुराय लक्ष आमचेकडेन आनी आजेलें हट्टीपण , हातूंतल्यान मावशेक एकलेपण जाणवपाक लागलें.

“माका बगूचा नाय हुता, तर लगीन तरी कित्या केलस? मा काय तुज्या पाटी लागलय? मी आपला माज्या भावांवांगडा सुकान हुतय" अशी ती मदीं मदीं आबाक खडसावन विचारपाक लागली. रागाभरशीं आबाक ती 'अरे-तुरे' करपाक लागली. आबा आख्ख्या घराचो कारभारी . व्हडले भाव आनी भावजयो ह्यांच्यामदल्या कोणाकूच आबामुखार तकली वयर काडून उलोवपाची हिंमत जायनासली. मावशेन 'आरे-तुरे' केलें काय आबाक तो अपमान दिस.

मुळासावन आबा मायेस्त. मावशी कितें ताका नाका आसली अशें न्हय. पूण तागेलो चड विश्वास आजेचेर. तिणें कितेंय सांगलें म्हणटकच ताच्या



रागाक शीम उरनासली. एक – दोन फावटीं तर ताणें मावशेक मारली लेगीत.

आबाचेर आनी आजेचेर म्हजो चड जीव. हांवूय बी आजेचो खूब अपुरबायेचो. केन्ना केन्नाय मावशी आबाचो आनी आजेचो राग आमचेर काडी. तेखातीर म्हजी तिचेविशीं दोसकी अवतिकाय जाताली. आबाक तिणें 'आरे-तुरे' करतकच म्हाका तिचो राग येतालो. तरीय आबान केन्नाय तिचेर हात उखलत जाल्यार हांव मदीं पडटालों. मावशी व्हडल्यान रडली काय म्हाका आबाचो राग येतालो. एकेक दीस तर हांव आबाकडेन उलयी लेगीत नासलों.

मदीं मदीं आबा आनी मावशी खूब बरीं आसतालीं. पूण निमाणें जें जावपाचें तेंच जालें. सदचेवरी आबा भायर सरील्लो आसताना मावशी उठून कुळारा गेली. वतना म्हजे आनी ताईचे उमाव घेवन ती खूब रडली. आजेकडेन मात एका उतरान उलयली ना. आजेनय तिच्या वचपाची दखल घेतली ना.

दनपारां आबा घरा येतकच हावें आबाक मावशी कुळारा गेल्ल्याचें सांगलें. आयकनाफुडें तो कांय वेळ वग्गी पडलो. पूण मागीर सांवरलो. अघडीत अशें कितें घडिल्ल्याचें ताकाय जाणवलें ना.

मावशी घर सोडून वचपाक पुराय आजीच कारणीभूत आसा म्हणपाचें ते पिरायेचेरूय म्हाका स्पश्टपणान जाणवलें. ताका लागून आजेचेर म्हजो जीव आसून लेगीत हांव तिचेकडेन थोडे दीस तिरसुवादपणान वागपाक लागलों.

शेत रोवपाचें सोडून दितकच आबामुखार प्रस्न आशिल्लो - पोट कशें भरपाचें! तेदेवेळार आबाली पिराय आसत सुमार 35 शेक वर्सां.

आमच्या गावांत चिऱ्यांची एक खण आशिल्ली. गिमाळयाच्या तीन – चार म्हयन्यांत दुसरें आनीक कसलें काम नाशिल्ल्यान आमचे वाडयेंतले बरेचशे दादले चिरे काडपाचें काम करताले. आबान लेगीत थोडे दीस खणीर वचून चिरे काडपाचें काम केलें. पूण तें काम बऱ्याच कश्टांचें आनी ताकतिचें आशिल्लें. ताका तें जमना जालें. दुसरें म्हणल्यार चिऱ्यांची खण घरासावन देडेक मैल पयस आशिल्ली. ताका लागून हेर कामगार दनपारचें जेवण घेवन वताले आनी सोमतें काम सोपोवन सांजेचे घरा येताले. आबालें जेवण कोण रांदतलो? तो दनपारचो घरा येतालो, जेवण रांदतालो आनी परतून खणीर वतालो. ताका लागून काम उणें आनी कश्ट चड.

चिरे काडपाचें काम आबान सोडून दिलें.

उपरांत ताणें कांय दीस विडयांक लागतात तीं कुड्याचीं पानां विकपाचें काम केलें. वाडयेंतल्या बायलांक दिसावडो फारीक करून तो तांचेकडसून कुड्याचीं पानां एकठांय करून घेतालो आनी ठीक दरान विकतालो. हांव लेगीत एक – दोन खेप पानां एकठांय करपाक गेल्लों. पूण तें काम थोडेच दीस चललें.

आमचो मुणगे गांव जशेपरी बारा वाडयांचो तसोच तो माड आनी माडयांचोय बी. तातूंतय अण्णा पाध्ये आनी आप्पा पाध्ये ह्यांचेभशेन बांबरवाडींतल्या काका भटाचीं आनी बापू महाजनाचीं माड – माडयांचीं व्हडलीं भाटां आनी कुळागरां आशिल्लीं. आबान थारायलें, काकाकडसून नाल्ल – सुपाऱ्यो विकत्यो घेवप आनी चिंदरच्या बाजाराक विकप.

आबा काका म्हऱ्यांत गेलो. बायलेक अकाळीं मर्ण आयिल्ल्यान आनी उबांतरा पडिल्ल्या दोगां ल्हान भुरग्यांचो सांबाळ करपाची जापसालकी पडिल्ल्यान सबंद गावांत आबाविशीं एके तरेची आपुलकाय निर्माण जाल्ली. काकाल्या घरांतल्या सगळयांक तर थंयच्या सुसंस्कृत वातावरणाक लागून आबाविशीं चडूच आपलेपण दिसतालें.

काकाक सात भुरगीं. तांचो व्हडलो पूत बापू हो मराठी घेवन एम. ए. जाल्लो. आमच्या गावांत तो सगळयांत चड शिकिल्लो आनी मुंबय महापालिकेंत व्हड अधिकारी आशिल्लो. व्हडले एके चलयेचें लग्न जाल्लें. एकलेचें जावपाचें आशिल्लें. बाकिचीं शाळेंत वतालीं. काका खासा आपूण फिरतेचें काम करतालो. कुळागर सांबाळपाक ताका भरवंशाचो असो कोणतरी मनीस जायच आसलो.

रोकडोच आबान काकाल्या घराचो पुराय विश्वास जोडलो आनी ह्यां ह्यां म्हणटां तो काकाल्या कुळागराचो मालकूच जालो. माडांचेर तशेंच माडयांचेर तो आपूण स्वतः चडटालो आनी नाल्ल तेचवरी सुपारी पाडटालो. तेखातीर सुरवेक तो थोडे थोडे पयशे दितालो तर केन्ना कांय दिनाय आशिल्लो. नाल्लांचो वेपार बाराय म्हयने चलतालो, तर बेड्यांचो मुखेलपणान पावसाळयांत चलतालो. नाल्ल आनी बेड्यांमदीं विशेश फायदो जावपाचें कारण म्हणल्यार आमच्या गावांत शंभर बेड्यांचेर 25 बेडे तर शंभर नाल्लांचेर बारा नाल्ल फाड्याचे म्हण चड मेळटाले. ताका 'लाभ' म्हणटाले. दुसरें म्हणल्यार, तेन्ना सामकें सुरवेक आमच्या गावांत 12 ते 15 रूपयांक 100 नाल्ल, तर एक ते सव्वा रूपयांक 100 बेडे मेळटाले. नाल्ल

आनी बेडे आबा किरकोळ मोलान विकी. ताका लागून काकाले पयशे भागोवनय दर सप्तकाक ताका सादारण धा ते बारा रूपये मेळटाले. तेदेवेळार बरे तांदूळ लेगीत सव्वा ते देड रूपया पायली म्हणल्यार तीन किलो मेळटाले. तेखातीर धा ते पंदरा रूपयांभितर आमची सप्तकी वेवस्था बरी चलताली.

आबा सुरवेक नाल्ल आनी बेडे माथ्यार घेवन चिंदरच्या बाजाराक वतालो. शुक्राराक चिंदरचो सप्तकी बाजार. आमच्या गांवासावन चिंदर चारेक मैलांच्या अंतराचेर. ताका लागून तो फांतोडेचेर माथ्यार ओजें घेवन भायर सरतालो. मदीं लागताली पाराची व्हडली घांटी आनी न्हंय. होड्यान न्हंय वलांडून तो चिंदराक पावतालो. सगले नाल्ल आनी सुपाऱ्यो विकून जातकच घरांत जें कितें तांदूळ, मीठ – मिरसांग आनी ल्हानसान सामान लागता तें घेवन घरा येतालो. तशेंच आमचेखातीर कितेंतरी खावपाक हाडपाक केन्नाच विसरनाशिल्लो. तोमेरेन घरांतल्या सगळ्यांचें जेवण जाल्लें आसतालें. हांव, ताई आनी आजी मात उपाशीं आसतालीं. म्हजें आनी ताईचें सोडाच, पूण घरांतल्या हेर कोणेंच आजेक जेवण वाडिल्ल्याचें म्हजे यादींत ना.

"आए, तुका तरी काय दिल्ल्यानी काय गे?" आबान आजेक विचारचें

"काय नाय, बाबा!"

आबान मागीर सगळयांक खेपचें. 'अक्करमाशी' ही तागेली सगळयांत आवडिची गाळ.

त्या उपरांत ताणें शीत आनी नुस्त्याचें मचमचीत हुमण करचें. आपणेंच रगड्याचेर मिरसांग वांटची. मातयेच्या बोगुण्यांत केल्लें नुस्त्याचें कालवण खूब रूचीक लागतालें.

रातच्या जेवणाची गजाल वेगळी न्हय. केन्ना केन्ना आबा काळखी फांकतकच बांबरांतल्यान परततालो. मागीर तो बांयचेर वचून कळसुलीभर उदक हाडटालो. लापयांव वा चूड घेवन हांव ताचे वांगडा बांयचेर वतालों. मागीर तो जेवण रांदी. केन्ना केन्ना भाकरी खायन दिसताली तेन्ना उदक हाडून जातकच तो दांत्यार दळपाक बसतालो. 'नाका नाका' म्हणटा आसतानाय हांव ताका दळताना पालव दितालों. उपरांत आमी जेवतालीं.

तोमेरेन घरांतल्या सगळयांचें न्हिदून जाल्लें आसतालें. सदांच आबा आजेक पयलीं जेवण वाडी, मागार आमकां. आनी सगळयांत निमाणें आपणाक वाडून घेतालो. जेवणाचीं आयदनां लेगीत आबा आपूणच धांसतालो. म्हजो बापोलभाव दिगंबर ह्या कामांत आबाक मदत करतालो.

तो लेगीत केन्ना केन्नाय आमचेकडेनच जेवतालो.

वोत आसूं, शीं आसूं वा उटंगाराच्या पावसाक लागून पाराचे न्हंयेक केदोय हुंवार आयिल्लो आसूं, आबाल्या चिंदरच्या बाजाराक केन्ना खंड पडलो ना. त्या बाजाराचेरूच आमचें पोट आदारून आशिल्लें.

आमचें घर म्हणल्यार जसो कितें एखाद्रो ल्हानसो गांवूच! आबा धरून पांच भाव. सगळयांत व्हडलो बापू. ताका सात भुरगीं - पांच चले आनी दोगी चलयो. बेबी आक्का सगळयांत व्हडली. तिचें लग्न जाल्लें. तिचो घोव ब्रिटानिया बिस्कीट कंपनींत फीटर म्हण कामाक आशिल्लो. तिचें लग्न जाल्याचो म्हाका उगडास जायना. ते उपरांत चार चले. सगळयांत व्हडलो मनोहर. लांब. गोरोपिट्ट आनी रूपेस्त. मागीरचो सीताराम. तोवूय लांब, पूण कातीन सामको सांवळो. ताका सुरवेकसानच ' पाखलो' अशें उपरोधान म्हणटाले. तिसरो दिगंबर. तोवूय गोरो आनी रूपेस्त. ताचे उपरांत गोपाळ. गोपाळाफाटोफाट लीला आनी सगळयांत धाकलो भास्कर. काकीलें नांव विठाबाय. कांदळ गांवांत तिचें कुळार.

बापू पोर्ट ट्रस्टांत कामाक आशिल्लो. 1946 च्या अदमासाक फाळणीच्या काळांत मुंबय जेन्ना हिंदू - मुसलमानांमदीं जातीय झगडीं उपरासलीं तेन्ना तो नोकरी सोडून भियेवन गावांत आयलो. बापूफाटल्यानचो आप्पा. लांब, शिडशिडीत, काळसोचसो आनी थोड्याशा कोंगऱ्या केंसांचो. बापूभशेनच ताणेंय नोकरी सोडिल्ली आनी तो गावांत आयिल्लो. काकीलें नांव पार्वती आनी तिगेलें कुळार हडी गावांत. तांकां स भुरगीं. चार चले आनी दोन चलयो. सगळयांत व्हडलो विठ्ठल. ताचे दोळे घारशे आशिल्ल्यान ताका 'घारू' अशें टोपण नांव पडलें. ताच्या उपरांतचो लवू आनी ताचे फाटोफाट अंबूअक्का. तिच्या उपरांत दाजी आनी चली हिरा. सगळयांत धाकलो अंकूश.

तीन नंबराचेर जिजो. ताचें नांव रामा. सगळ्या भावांभितर तो रंगान काळो, पूण अतिशय रूपेस्त आनी धारदार नाकाचो. ताका एकलोच पूत, ताचें नांव बाबी. काकीलें नांव कृष्णा आनी तिगेलें कुळार खुडी गांवांत. कसलींतरी झगडीं जाल्लीं आनी काकीन घर सोडिल्लें. चल्याक घेवन ती कुळारा गेल्ली ती सासणाची.

मागीर आबा - लक्ष्मण. आईलें नांव जानकी. तांकां दोन भुरगीं, तीं आमी. हांव आनी ताई.

सगळयांत धाकलो अण्णा. तो कातीन सांवळो आशिल्ल्यान तागेलें

नांवूच दवरिल्लें सावळाराम. काकीलें नांव अनुसुया. तांकां तिगां भुरगीं - एर चलो तो दत्ताराम आनी दोगी चलयो, सखू आनी धाकलें तें कुसूम. अण्णा आदींसावनच मुंबय रावतालो.

आमचें आशिल्लें तें पुर्वजांचें पोरनें घर. ताचे दोन वांटे केल्ले. एकेवटेन रावतालो आबालो सख्खो चुलत भाव शंकरअण्णा, काकीलें नांव सत्यवती. कुळार तिगेलें मसुऱ्याक. तांकां स भुरगीं - विमल, गंगू, शशी, मालिनी ह्यो चलयो आनी बबन आनी अशोक हे दोग चले.

पडवेच्या आकाराचो जो दुसरो अर्दो वांटो तातूंत आबा आनी हेर सगळें कुटूंब रावतालें. ताका लागून जागो कमी पडटालो.

मागीर आबान नवें घर बांदलें. पडवेच्या अदमासाचें आशिल्लें पोरनें घर सगलें बापूक दिलें आनी तें मदल्या दारान नव्या घराक जोडलें. नव्या घरांत चार भावांखातीर वट्ट चार कुडी आशिल्ल्यो. मदीं व्हड वसरी आशिल्ली. हांव, ताई, हिरा आनी अंकुश ह्याच घरांत जल्माक आयलीं. घरामुखार एक ल्हानशें आंगण आशिल्लें. त्या आंगणांत तुळशिचें पेड आशिल्लें. पयलीं तुळस मातयेची आशिल्ली. अण्णान ती चिऱ्यांनी बांदून काडली.

आमच्या घराक तेकूनच उजवेवटेन आशिल्लें महादेव बापू आनी बाया काकीलें कोलवाचें घर. तांकां वट्ट सात भुरगीं. चार चलयो आनी तीन चले. सखू, शिवराम, हिरबा, गोदा, जना, बेबी आनी सगळयांत धाकलो वसंत. दावेवटेनचें घर तात्यालें. ते तीगजाण भाव. भिकाजी, सिताराम, गोविंद आनी दोगी भयणी सखू आनी इंदू. भिकाजी ह्रो बाकिच्यांचो सवतीभाव आशिल्लो. तांची आई म्हणल्यार आमची सगळयांची लाडकी आजी.

ह्या दोन घरांच्या मदेकाक राघोअण्णा - भिमाले आईलें घर.तीं चौगां भांवडां. सगळयांत व्हडली भिमा. तिगेलो घोव मुंबय पुलिसेंत आसतालो. तिचेउपरांतची गंगू, माई आनी सगळयांत धाकलो तो पांडुरंग. ह्या चार घरांचें जशें कितें एकूच व्हडलें विस्तृत घर आशिल्ल्यावरी आमचें नातें आशिल्लें.

आबा फकत आमचोच न्हय, तर ह्या विस्तृत घराचो य कारभारी आशिल्लो.

आमचे वाडयेचे रचणुकायेंत खाशेलेपण आशिल्लें.

सड्याच्या तोंकार दावेवटेन वडाचो एक रूख आशिल्लो आनी ताचे भोंवतणी चिरे लावन घेवन बसपाखातीर पेड बांदिल्लें. थंयच्यान घाटी सुरू जाता. घाटयेवयल्यान मकयल देंवताना दोनूय वटांनी भाताचे खूब

कुणगे आशिल्ले. पावसाळयांत थंय भात रोयतात आनी मातशेशा खडकाळ कुणग्यांत नाचणे, वरयो, पाकळ सारक्या पिकांचें उत्पन्न जाता. घाटयेच्या मुळसांत दोन व्हडलीं झाडां आसलीं. एक आंब्याचें आनी दुसरें पणसाचें. दोनूय सामकीं इतलीं लागीं लागीं जशीं कितें जुवळीं भांवडांच! घाटयेचे उजवे वटेनचे कुणगे म्हणल्यार आमचे कोंयडे बाल, लगोऱ्यांचे आनी हुतुतू खेळांचे जागे. मदल्यानूच गेल्लो तो रस्तो भगवतीच्या देवळाकडसून दर्याचेर वतालो. रस्त्याचे सकयले वटेन आशिल्लें चाफ्याचें एक झाड. थंयसान पंचवीस – तीस पावलां सकयल देंवलें काय लागतात आमचीं घरां. आमच्या आंगणांत उबें रावल्यार घाटयेवयल्यान येवपी मनशांचेर स्पश्ट नदर पडटाली.

तात्याल्या घराचे फाटले वटेन महादेव बापूलो, तर आमगेल्या घराचे फाटले वटेन शंकर अण्णालो अशे दोन माड आशिल्ले. ते दोनूय माड घराक सामके तेंकून आसून लेगीत तांचो एखादो नाल्ल वा एखादें चुडीत केन्ना घराचेर पडलें आनी नळे फुटले अशें घडिल्ल्याचें म्हजे यादींत ना.

आमगेल्या घराकडसून पायणींतल्यान सकयल गेलें काय दावेवटेनच्यान लागता लकूदादालें घर आनी ताचे फाटलेवटेन भिकूआबालें. कोलवाचें घर भिकूआबालें. लकूदादाल्या घरामुखारच एक माड आशिल्लो आनी एक तोंरगीचें झाड आशिल्लें. लकूदादाल्या घराकडसून व्हडली पायण सुरू जाता, ती बांयमेरेन पावता. तागेल्या घराचे सकयले वटेन आनी पायणीचे दावे वटेन मधुलें व्हडलें घर, तागेले सकयलें घर केशवालें आनी ताच्या सकयल सहदेव नानालें घर. मागीर लागता बांय. कडक गिमाळयांत लेगीत तातूंत थंडगार उदक आसतालें आनी तेंवूय बी भरपूर. बांयचे कुशीक उदेंतेवटेन आमची 'देवळी' म्हणल्यार म्हारांचें देऊळ, म्हणल्यारच 'म्हारजागो' . लग्न वा एखाद्रें शुभकार्य आमचे वाडयेंत आसलें जाल्यार देवळेंत वचून पुजा करप जातालें.

देवळेचे उत्तरे वटेन आशिल्लें आमचें खेळपाचें मळ आनी ताका तेंकूनच आशिल्लो व्हाळ, जो आमचो जीव की प्राण. व्हाळाचे वयले वटेन आशिल्लीं गाडीवालोदादा, बाबूअण्णा आनी तुकारामआबालीं घरां. तांगेल्या घराचे वयर आनी आमच्या घराकडसून देवळेकडेन वचपी पायणीचे उदेंतेवटेन, मधूंच्या घरासामकार धकांलें घर. वाडयेच्या सामकें मदेकाक. तांगेल्या घराच्या फाटलेवटेनच्या पोरसांत, पायणीक तेंकूनच एक व्हडलें झाड आशिल्लें, जांभळाचें. जांभळांच्या मोसमाच्या दिसांनी दनपारां जेवून जातकच शाळेंत वचमेरेन त्या जांभळीच्या रूखाखाला आमचें घुटमळप

आसतालें. जांभळां खावन जीब चडानचड जांभळी करपांत आमची सर्त लागताली.

लकूदादाल्या घराकडल्यान आनी धकाल्या घराकडसून आशिल्ली बारीकशा रस्त्यासारकी एक सरळ पायण. थंयसान उदेंतेकडेन वळण घेतलें जाल्यार मदींच लागतालें गुण्याआबालें घर. तेंवूय कोलवाचें.

गुण्याआबाली बायल सामकी तरणेपणांत बाळटेरावेळार मेली अशें सांगतात. ती बाळंत आशिल्ल्या कारणान तिका सदचे घाटयेवयले मसंडींत पुरीनासताना भट्टाचे वयले वटेन, गुण्याआबाले जमनींत, चांफ्याच्या झाडासकयच पुरली. ताका लागून ती मेल्ल्या दिसा सावन आतांमेरेन लोकांक भेश्टायता, अशीच सगळयांची समजिकाय जाल्या.

गुण्याआबाल्या घराचे कुशीक व्हडली चींच आशिल्ली. खूब चिंचो लागताल्यो तिका. तेखातीर गुण्याआबाले बायलेची भिरांत मनांत बाळगून लेगीत सकाळ – सांजवेळ चिंचो फातरावपाचो मोह आमच्यांनी थातारूंक जायनासलो. काळोख पडपाक आयलो काय मात आमी घराकडेन पळ काडी.

गुण्याआबाल्या घराचे उदेंतेवटेन एक पायण आशिल्ली. तिच्या पेल्यान बाबूदादालें वाडयेंतलें सगळयांत व्हडलें घर. ताचे कडेक सखारामताल्या आनी नाना आजोबालें घर. आमगेल्या घरांभशेनच तिंवूय घरां एका दुसऱ्याक चिकटल्लीं आशिल्लीं.

पांच – स एकरांभितर पातळिल्ले अशे वाडयेंत वट्ट सतरा तीं अठरा घरां आशिल्लीं आनी त्या सगळयांमदीं मेळून आशिल्लीं सुमारेक पन्नास – साठ बिराडां.

आनीक एक खाशेलेपण आसलें आमचे वाडयेचें आनी तें म्हणल्यार तातूंत दोन तट पडिल्ले. उदेंतेकडल्या घरांचो तट म्हणल्यार 'उदेंते' आनी अस्तमतेकडलो 'अस्तमते'.

आमचीं चार घरां आनी लकूदादा, भिकूआबा आनी मधूलें घर हीं 'अस्तमत्या' तर हेर सगळीं घरां 'उगवत्या' तटांत आशिल्लीं. 'उदेंत्या' म्हणल्यार 'थळावे' आनी कलमाचें झाड हें तांगेलें कुळदैवत. लग्नकार्यांत ते कलमाच्या झाडाची पुजा करताले. आमी 'मावळते' आमचें कुलदैवत 'कांसव'. आमचेकडल्या लग्नांत कांसवाची पिठाची मुर्त करून ताची पुजा करी.

कसल्यातरी कारणाक लागून ह्या दोनय तटांमदीं इतले कडवटपण आयिल्लें, जाका लागून आपापल्या घरांतल्या कार्यावेळार एकामेकागेर घरचे लोक जेवपाक लेगीत वचना जाले. गणपतिच्यो आरत्यो आनी हेर धार्मीक

विधीय वेगवेगळे जावपाक लागले.

असल्या वातावरणांत सगळयांत बरी आनी अभिमान दिसपासारकी एक बरी गजाल आशिल्ली. ती म्हणल्यार सगळया घरांचे आनी ल्हान -व्हड मनशांमजगतिंचे परस्पर कुटुंबीक, व्यक्तिगत संबंध सामके मोगाळ आनी आपलेपणाचे आशिल्ले. कोणाल्याच घरांत एखाद्री अडीअडचणुकीची घडणूक घडली जाल्यार एका खीणाभरयांत वाडयेंतले सगळे लोक एकठांय जाताले आनी ते घडणुकेक तोंड दिताले. सगळी वाडी जशी कितें एक घर जावन आसताली.

आमचे वाडयेक तेंकूनच अस्तमतेवटेन चामारालीं आठ – णव घरां आशिल्लीं. शंकर विष्णु मुणगेकर हे तांचे वाडयेंतले आमचे अनुमुचीत जमातीमदले मातवी शिकून जाल्ले पयले शाळामास्तर. तांचेमदल्या बाबाजीचो खूब आदार जातालो आबाक.

हांव तर म्हाका मेळटल्या फाविल्ल्या वेळांतलो अर्दो वेळ तांच्याच घरा आसतालों. जोतीं कशीं शिंवतात तें पळोवपाक म्हाका खूब आवडटालें. शिवादादाल्या घराकडेन एक फावट कितेंतरी शिवपाक हावें आरी हातांत घेतली आनी दोन बोटां रक्तबंबाळ केलीं. मागीर मात हावें केन्नाच आरीक हात लायलो ना.

आदींसावनच आबाक शिक्षणाची ओड आशिल्ली. ताका लागून केन्ना एक फावट म्हजी पिराय सात वर्सांची जातली आनी हांव शाळेंत वचपाक लागतलों अशें ताका जाल्लें. अस्पृशांक शिक्षण घेवपाक जेन्ना मनाय आसली तेन्नाय आबा आपूण दुसरीमेरेन शिकिल्लो. ही गजाल ताणें म्हाका दोन – तीन खेपो तरी सांगली.

जिजो, शंकरअण्णा आनी वाडयेंतल्या वांगडच्या तीन – चार सांगात्यांक घेवन आबान शिकवणेखातीर एक म्हारांचो शिक्षक नेमलो. म्हयन्याक ताका अडेज रूपया पगार. ताणें जमता तेप्रमाण सप्तकांतल्यान तीन दीस ह्या भुरग्यांचे सोयीप्रमाण शिकोवप. ही शाळा दनपारची आमच्या घराचे वयले वटेन भट्टीर , बाबादादाल्या कलमाखाला भरताली.

दोन – तीन म्हयने गेले. आबा आनी अण्णाबगर कोणाकच कांय जमना जालें. तेखातीर मास्तराक मात ते गाळी मारपाक लागले. तांच्या मतान मास्तराक कांयच शिकोवपाक येना. परतून परतून ताणीं, 'आमका काय जमत नाय" अशें म्हणून शाळा सोडपाचो विचार उलोवन दाखयलो. आबान गाळी फस्ती घालून तांकां वगी केले.

“अक्करमाशानू, तुमकां कित्या जमत नाय? माका आनी शंकराक कसा जमता!” आबान विचारचें.

“तुमकां जमता तर तू आनी शंकरच शिका.” ताणी म्हणचें.

आबामुखावयलो मुखेल प्रश्न तांच्या शिक्षणाचो नासलो तर शाळेंत येवपाचें तांचें बंद जालें जाल्यार मास्तराचो म्हयन्याचो पुराय अडेज रूपया पगार ताका एकल्याकूच भरचो पडटलो आशिल्लो.

आनी एक दीस उदेलो, ज्या दिसा आबा वगळून अण्णासयत सगळयांनी शाळेंत वचपाचें बंद केलें.

“शंकरा, तू तरी ये. मी एकटो अडीज रूपये खैसून रे भरू?” आबा आण्णाचे काकूळटेक आयलो. पूण अण्णान आबाचें आयकलें ना. ताणेय शाळा सोडली ती सोडलीच.

आबान एकेकल्याक भरपूर गाळी मारल्यो. ताचेर एकल्याचेरूच अडेज रूपयांचो भार पडलो. मागीर मात आबान निश्चेव केलो, कितेंय जांव पूण शाळा सोडप ना. एका वर्सांत फिचे पुराय अडेज रूपया हत्या हत्यांनी दिवन आबान शाळा सुरू दवरली. सगळी बाराखडी, बे ते तीस मेरेनचे पाडे, पावकी, निमकी, पाऊणकी, सवायकी, दिडकी, अडीजकी आनी औटकी ताणें सामकी तोंडपाठ केली. मोडी लेगीत ताका बरी कळटाली. मराठी आनी मोडी अशा दोनूय लिपयांनी तो आपली सय मारी. म्हाका आबाले हुशारेचें कवतूक दिसतालें. आपलें नांव मात तो 'लक्ष्मण' अशें बरोवपाचें सोडून 'लक्षुमण' अशें बरयी. ताका केन्नाच 'क्ष्म' जमलें ना. ताका लागून ताचें केन्ना कितें अडलेंय ना. तरी लेगीत कोंकणी - मालवणी आसूनय 'ण' चें ताणें 'न' केन्नाच केलें ना.

मात वर्साची म्हजी पिराय जातकच आबान म्हजें नांव शाळेंत घालें. 'भागोजी लक्ष्मण मुणगेकर'

पयली ती चवथीमेरेनची आमची शाळा भगवतीच्या देवळाच्या परिसरांतूच भरताली. काळया फातरांचे एके वणटीन देवळाचे सरभोंवतणी शाळेचे उत्तरेकडली वणत आपशींच तयार जाल्ली. पोंदा जमीन आनी वयर गांवठी नळे आशिल्ले. मागीर वयर सुलचे नळे घातले. पयली ते चवथखीमेरेनच्या वर्गांची बसपाची वेवस्थाय मोटे कल्पकतायेन केल्ली. उदेंत – अस्तेंत अशी लांबोडी शाळा आशिल्ल्यान अस्तमतेच्या सामकें तोंकाक पयली आनी फुडें फुडें सरकत वचून एकदम उदेंतेक चवथेचो वर्ग.

उगडास जाता शाळेच्या म्हज्या पयल्या दिसाचो. म्हजें दप्तर घेवन

आबा म्हाका शाळेंत पावपाक आयिल्लो. आमच्याच गांवांतलो श्रीधर सावंत हो पयलेच्या वर्गाक मास्तर आशिल्लो. मास्तराचो बापूय दाजी सावंत आनी आबा हांचे संबंद सामके घरगुती आशिल्ले. नवें घर बांदपाखातीर दाजीन आबाक मदत केल्ली. ताका लागून मास्तराची आनी आबाची खास वळख आशिल्ली.

"मास्तरानू, काय इला नाय तर माझ्या झिलाक मारू - बिरू नको!" आबान मास्तराक सांगून दवरिल्लें.

पयल्या दिसा केन्ना एकदां घंटा जावन शाळा सुट्टा अशें आमकां जाल्लें. हांव घरा वतकच म्हाका आजेन – तात्याचे आईन आपयलो. आमचेर सगळयांचेर तिची खूब माया. आमचे सख्खे आजेपरसूय आमची सगळयांची तिचेकडेनूच चड ओड आसताली.

पडवेर आपणामुखार बसोवन तिणें म्हणलें, "आज तुका सांगतहय, तुजी आवस बाळत होवसठी कुवळयाक जाताना हयसरच माज्या घोवाच्या पाया पडली, तवा घोवान सांगल्यान, 'जा बाय! तुका झीलच होतलो. माजो आशीरवाद हा.' आनी तू झालस. तुका आवस कुवळयासून घेवन इली आणि घराक पन गेली नाय. हयसरच पडयेत पाळना ठेवल्यान आणि म्हाताऱ्याच्या पाया पडॉन सांगल्यान, 'मामोजी, तुमी सांगलास ता खरा झाला. माका झीलच झालो." हें सगळें सांगता आसताना आजेचे दोळे दुकांनी भरून आयिल्ले.

आजेचें आयकून म्हाका आएल्या उतरांची याद जाली. ती म्हणी,"माजी लेक म्हना, आए, कदी गे माजो झील शाळेंत जाताहा आनी मी कंबरेवर हात घेवन त्येची वाट बघतहय!" आई नाशिल्ल्याची खंत म्हाका पयलेच फावट तीव्रतेन जाणवली.

आमी पयलेंत आसताना, आमचे वाडयेंतलो शंकर वाघोळीचे शाळेंत सवेंत आशिल्लो. मधू आनी धकाली आत्या, नवलाआक्का आनी चांभारवाडयेंतले महादेव आनी सहदेव हे दोगूय भाव पांचवेंत आशिल्ले. बाबू चवथेंत आशिल्लो. केशव आनी पांडुरंग आपणाल्या आजोळा कांदळगावांत शिकताले - पांचवेंत आशिल्ले. म्हजे वांगडा पयलेंत आशिल्लो धका. धोंडीदादा, गाडीवाल्यांली सुशिला आनी पुतणयो वसंत हीं दोगांय बापोलभांवडां दुसरेंत आशिल्लीं. देवळाकडले शाळेंत आमी चौगांय वांगडा वचपाक लागलीं.

सगळीं मुळाक्षरां, बाराकडी, बाराकडींतलीं सोपीं सोपीं उतरां आनी

शंभरमेरेनचे आंकडे इतलो आमचो अभ्यास पयलेंत जालो. म्हाका थोडो अभ्यास जमपाक लागलो. अक्षराकय मातशेशें वळण येवपाक लागलें. तेखातीर अंकलिपयेचो खुबच उपेग जालो.

पयलेंत आसतानाचे एके मजेशीर घडणुकेची म्हाका याद जाता.

दर वर्सा एप्रिल – मे म्हयन्यांत गावांत देवीची सांथ येवन कांय मनशां मरतालीं. ताका लागून देवी निरोधक लस तोपपाची कार्यावळ सगळयाक चालू आसताली. सरकारी दोतोरांनी धकाल्या खळयांत आपलो तळ मांडिल्लो. घरच्या लोकांनी सगळया ल्हान भुरग्यांक घेवन थंय वचून लस तोपून घेवपाची आसताली. लस तोपून घेवपाक आमी 'टोचके काडून घेवप' अशें म्हणटाले आनी हे टोचके खूब दुखतात, सुजतात आनी मागीर जोर येता अशी समजिकाय सगळेकडेन आशिल्ली. केन्ना केन्ना तें खरेंय जातालें. तेखातीर जायत्या जाणांचो टोचके काडून ना घेवपाकडेन कल आसतालो. कांय वेळा तर दोतोर घरा येत आनी बळजबऱ्यां टोचके काडीत हे भिरांतीन कांय लोक ल्हान भुरग्यांक घेवन एक तर घर बंद करून वताले वा घरांक भितरल्यान खिळी घालून भितर बसताले.

त्या दिसा धकाल्या घरा दोतोर येवपाचे आसात, हें कळनाफुडें आपान कितें करचें, तर म्हाका, ताईक, हिराक आनी अंकुशाक घेवन तो सावंतवाडिचे वटेन एका कुळागरांत गेलो आनी थंय ताणें आमकां उदकाच्या एका पाटांत लिपोवन दवरलीं.

सांजवेळ जाली. आपाक दिसलें, दोतोर आपणालें काम सोंपोवन गेले आसतले. आमकां घेवन तो ल्हवूच देवळेकुशीनचे पायणीन घरा येतालो आनी जुस्त त्याच वेळार दोतोर आमच्या घराकडले पायणींतल्यान सकयल येताले. तांकां पळयनाफुडें आपाक थरथरो सुटलो.

“कितें रे, ह्या भुरग्यांक लस टोचली?” दोतोरांनी तापोवन विचारलें.

आपाली म्हातारी कुळकुळली. “ना S S य" ताणें थरथरत सांगलें.

“खंय गेल्लो रे? भुरग्यांक लिपोवन दवरिल्लीं काय कितें रे?” दोतोरान विचारलें.

उलयत उलयत दोतोरांनी आमच्या बोचकुलांक धरलें आनी ओडीतच म्हणटा तशीं आमकां धकाल्या खळयांत व्हेलीं आनी चौगांल्याय दोनूय हातांचेर दरेकीं दोन – दोन व्हडले टोचके दिले.

मनांतल्या मनांत दोतोरांक गाळी मारीत रडत रडत आमी घरा गेलीं. रातीकडेन म्हाका आनी ताईक फणफणून जोर आयलो. म्हाका मातसो

चडूच. टोचक्यांक लागून आयिल्ल्या जोरांत पंदराएक दीस गेले. शाळेक सुटी आशिल्ली तें नशीब.

दुसरें म्हणल्यार त्या वर्सा आबान रायवळ आंब्यांचो व्हडलो मुडो घाल्लो. टोचके जडावपाचो आनी आंबे पिकपाचो वेळ एकूच जालो. टोचके पातशेत म्हण आंबे खावपाक मेळनाशिल्ले आनी देवीची लस आशिल्ल्याकारणान नुस्तें खावपाचेर मनाय आसली. ह्या दोनूय गजालींचें येवजून येवजून वायट दिसतालें.

पयलेंतल्यान दुसरेंत केन्ना पावलों तें कळळेंच ना. सुशीला आनी वसंत दोगांय दुसरेंत नापास जाल्ल्यान तीं त्याच वर्गांत उरलीं. दुसरेंत ल्हान ल्हान धडे आशिल्ले. वाक्यांय आसतालीं तीं - 'कमल हरण बघ', 'अहमद हरण धर'. कविताय ल्हान ल्हान आशिल्ल्यो. तातूंतली सामकी थरिल्ली आनी याद उरची अशी कविता आमी पाठ केल्ली, ती म्हणल्यार, 'देवा, तुझे किती सुंदर आकाश! सुंदर प्रकाश सुर्य देतो.' हरशीं आनीक कितेंय कोणांक आयलें ना तरी ही कविता मात सगळयांक तोंडपाठ. सामुदायिकरित्या गळयाच्यो शिरो ताणून ही कविता म्हणटाना आख्खो वर्ग आमी माथ्यार घेताले.

एक फावट शाळेची तपासणी आशिल्ली. तेन्ना हॅट घाल्ल्या त्या सायबान "भुरग्यांनो कविता खंयची म्हणटात?" ह्या प्रश्नांतलें म्हणटात हें उतर परगटचे पयलींच "देवा, तुझें किती सुंदर आकाश" म्हणटां अशें सांगलें आनी चड कसली वाट पळयनासताना एका दमांत ती म्हणून पुराय केली.

दुसरेंत धकालो अभ्यास बरो आशिल्लो. वसंत आनी सुशीला आमकां अभ्यासांत मदत करी. दुसरेचो वर्गय सावंत मास्तराकडेनच आशिल्लो. दुसरेंत आमी बेरीज आनी वजाबाकीचीं तीन आंकड्यांचीं गणितां केलीं. गणितांत 'ह्यातचो' घेवपाची सुरवात ह्यांगांच्यानच जाली. हो 'ह्यातचो' घेवपाचो उरलो जाल्यार गणित चुकलें आनी 'ह्यातचो' इतलो विक्षिप्त, अर्द्या जाणांचीं गणितां तेचखातीर चुकचीं आनी चुकलीं काय मास्तराकडल्यान पट्टेचो प्रसाद मेळचो.

दुसरेंत आसताना म्हत्वाच्यो दोन – तीन गजाली जाल्यो.

दुसरेकसावनच शुध्दलेखन आनी सुवाच्य अक्षर काडपाचेर भर दिवपाक आमकां शिकयलें. ताका लागून पाटयेर ओळी आंखून शुध्दलेखन काडपाक सुरवात जाली. त्याचवांगडा मास्तरान आमकां बोरून बरोवपाकय शिकयलें. अक्षर सुदारपाक ताचो आदार जालो. सकाळची प्रार्थना सोंपतकच सामुदायीक सुर्य नमस्कार सुरू जाले. दुसरेकसावन चौथेमेरेनचीं सगळीं

भुरगीं सकाळचीं शाळेंत वतकच सुर्य नमस्कार घालपाक लागलीं. शाळेंत येवपाक कोणाकय कळाव जायत वा नमस्कार घालताना कोणायकडल्यान चूक घडत जाल्यार मार पडटालो,

आनीक एक म्हत्वाची गजाल अशी, दुसरेंतल्या भुरग्यांक शाळा सुटटकच भगवतीच्या देवळांत व्हरून बसोवंचें आनी तांकां बालरामायणाची पुराय काणी आयकोवची. वर्सुयभर हें अशेंच चलतालें. उंच, शिडशिडीत, सदांच धवेंफुल्ल पुडवें आनी अर्दो शर्ट घालपी, कडक शिस्तीचो हेडमास्तर आशिल्ल्या अभ्यंकरमास्तराकडसून रामायणाची काणी आयकप हें जशें कितें एक व्रतूच जाल्लें. हाका लागून पुराय बालरामायण आमकां दुसरेंतूच पाठ जावन पडलें.

दुसरेची परीक्षा सोंपून गिमाळयाची सुटी सुरू जाली, तेन्नाची एक घडणूक याद जाता. सांजवेळा घरा येता आसताना आबान पोस्टांतल्यान भिमाले आईलें पत्र हाडलें. भिमाल्या घोवान तें मुंबयसान धाडिल्लें. तो मुंबय वरळी ह्यांगासर पुलीस आशिल्लो. आमच्या तीन – चार घरांनी पत्र वाचपी कोण नाशिल्ल्या कारणान मधूम्हर्‍यांत वा शंकरासरी वच्चें पडटालें.

त्या दिसा आबान विचारलें, “झिला, पत्र वाश्शी काय रे?”

“हा!” हावें म्हणलें.

हांव पत्र वाचतलों म्हण खळयांत सगळींजाणां तुळशीकडेन एकटावलीं. भिमाले आईन दिवो हाडून म्हजेमुखार धरलो. हावें आडखळत आडखळत जांव पूण चड करून चुकनासताना पत्र वाचलें. सगळयांक खोस जाली. आतां दुसरेकडेन वचून पत्र वाचून घेवपाची गरज नासली.

आबाले दोळे दुकांनी भरून आयले. “आज तुजी आवस व्हयी हुती.” ताणें म्हणलें. विशेश करून तागेल्या चिंदरच्या बाजारांत नाल्ल आनी बेडे विकपाच्या कश्टांचें सार्थक जावपाची ती सुरवात आशिल्ली.

धकाली आजी पंढरपूराक वचून आयिल्ली तेन्नाची आनीक एक गजाल.

धकाली धाकली आत्या, नवलआक्का, तिका पुण्याक दिल्ली. आजी पुण्याक तिगेर गेल्ली तेन्ना तिणें आपणाक पंढरपूर पळोवपाक जाय म्हणपाचें सांगलें. आत्यान रोकडीच तिगेली पंढरपूराक वचपाची वेवस्था केली.

एक दीस सांजवेळा काळोख पडपाच्या वगतार आजी पंढरपूराक सावन गावांत आयली. वाडयेंतल्या सगळया ल्हान – व्हडांचो घे म्हण बोवाळ. आमी सगळे तिच्या येवकारा खातीर अर्दे वाटेर गेले. वारकरी जाल्ल्यान

सगळयांनी तिच्या गळयांत चांफ्याच्या फुलांचे हार घाले आनी झांज आनी ताळ वाजयत तिका घरा हाडली.

सगळें घर आनी खळें मनशांनी खचाखच भरून गेलें. मागीर आजेच्या पांयां पडपाची ताकतिक सगळयांक लागली. आमी ल्हान भुरग्यांनी तर तिच्या पांयांचेर लोटांगणच घालें.

वातावरण सगळें थंड जातकच आजेन ट्रंकांतल्यान एक फोटो भायर काडलो. तुकाराम महाराज जितो आमताना गरूडाचेर बसून वैकुंठाक गेल्लो तेदेवेळावयलो तो फोटू आशिल्लो. तुकाराम महाराज जितेपणीं गरूडाचेर बसून वैकुंठाक कसो गेला आसतलो काय हो प्रश्न म्हाका ते पिरायेचर लेगीत पडले बगर रावलो ना.

हांव दुसरेंत आसताना अंबूआक्कालें लग्न जालें. आमच्या घरांतलें तें पयलें लग्न. आमगेल्या घराचो पसारो केदो व्हड आसा हें त्या लग्नांत दिसून आयलें. आख्खें वऱ्हाड जावं येत इतलीं मनशां आमच्याच घरांत आशिल्लीं.

वामन बावकर, म्हज्या आजोळचो. ताचेकडेन आक्काचें लग्न थरलें. आमगेल्या घरांतली एक तरी चली कुवळयाक दिवपाक जाय अशी आएची इत्सा आसली. बापूल्या, व्हडल्या काकाचे व्हडले धुवेचें म्हणल्यार बेबीआक्कालें लग्न आदींच जाल्ल्या कारणान अंबूआक्काच सगळयांत व्हडली आशिल्ली.

“अंबूचा लगीन माझ्या वामन्या वांगडाच होवक व्हया.” आएन सदांच म्हणचें.

कुवले आदींसावनच परीचयाचे. मनशांय वळखिचीं आनी चडशीं सोयऱ्यांतलींच. ताका लागून घरांतलीं सगळीं जाणां तयार जालीं.

विशेश म्हणल्यार न्हवरो भुरगो मुंबय नोकरेक आशिल्लो. चलयेक जेवणा खाणाची आनी कपड्यालत्त्याची उणीव पडची नासली. तेभायर चाकरमानी घोव मेळप म्हणल्यार आपलें नशीब उजळळें अशें गावांतल्या चलयांक दिसतालें. कामकश्ट करपी चलयांक तशें दिसप सभावीक आशिल्लें. आक्काले आवडी निवडीचो प्रश्न नासलो तरी ती खुश आसली.

चलयेक मागणी घालपाक न्हवऱ्या वटेनचे कुळावे आमच्या घरा आयले. लग्नाची बसका जाली. 'हय – ना ' करतां करतां सगळयांत म्हत्वाचो मुद्दो चर्चेंत आयलो तो म्हणल्यार न्हवऱ्या वटेनची मंडळी चलयेच्या आवय बापायक कितलो द्याज दितली? 'द्याज' हो प्रकार सामको हुंड्याच्या उरफाटो. चलयेचे आवय बापूय गरीब आशिल्ल्या कारणान तांकां आपले

चलयेचें लग्न करपाक जमचें इतलें भांडवल चलयेचे आवय बापूय न्हवरेकारांकडेन 'द्याज' म्हण मागताले. जायत्या वेळार द्याजाच्या आंकड्यावयल्यान लग्नां मोडिल्ल्याच्यो देखी म्हाका आबान सांगल्यात.

वेवहारांत आबा खांपो. बावकर कुटुंबाकडेन तशेंच सगळ्या कुळाव्यांकडेन ताची वळख आशिल्ली. तरीय तें लग्न तागेले धुवडेलें आशिल्लें. बसकेंत तो मुखेल उलोवपी आशिल्ल्यान ताणें अडीचशें रूपये 'द्याज' सांगलें. धा - पंदरा, धा - पंदरा रूपयांनी द्याजाच्या आंकड्यांत उणें अदीक करीत अखेरेक दोनशीं रूपया 'द्याज' नक्की जालें आनी लग्न थरलें.

“चेडू, भार ए बाय!” आबान आक्काक भायर आपयलें.

ती रडतूच भायर आयली आनी एका पाटार बसली. मागीर तिची होंट भरली. लग्नाचें थरील्लें. लग्नाखातीर न्हवरेकारांकडल्या लोकांनी आमच्या गावांत येवचें अशेंय थरलें. बसका सोंपली. पावणे खळयांतल्या माटवांत न्हिदपाक गेले.

इतल्यान घरांत सगळयांचें रडप सुरू जालें. हांव आनी काकी हातूंत सगळयांत फुडें आशिल्लीं. तशें पळोवपाक गेल्यार हांवूय बसकेक हाजीर आशिल्लों. आक्काचें लग्न जावन ती केन्ना ना केन्नातरी आपल्या घरा वतली हें नक्की आसूनय प्रत्यक्षांत लग्नाचें थरलें तेन्ना मात जीव वयर सकयल जावपाक लागलो. ती आमकां सगळयांक सोडून वतली ही कल्पना मनाक अस्वस्थ करून वडोवपी आशिल्ली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं जेन्ना सगळे पावणे लोक घवन आनी नाल्लाचो गोड रोस खावन वसरेर बसले तेन्ना हावें मदींच म्हणलें, “पावण्यानू, तुमचा द्याज परत घ्यावा.मी अंबूआक्काचा लगीन नाय करीत.” म्हज्या ह्या उतरांचेर पावणेच न्हय तर घरांतलीं सगळीं जाणां हांसलीं. काकीक लेगीत आपलो हांसो दामून दवरपाक जमलें ना.

“काकी, तू काय हसतस? काल रडत नाय गे हुतस?” हावें म्हणलें.

दोनशें रूपयांभितर लग्नाचो खर्च भागोवपाचो आशिल्लो. आक्काक एक साडी, भांगराचें एक दावल आनी दोन मणी, नथ, काकीक एखाद्री सादीशी साडी, आप्पाक पुडवें आनी जेवणाचो खर्च इतलें सगळें हातूंतल्यान मुखेलपणान भागोवपाचें आशिल्लें.आतां तेन्ना सगळें सवाय आशिल्लें ही गजाल वेगळी. तांदूळ बारा आणे ते एक रूपया पायलीआसली. तूरची दाळ स आणे रात, गोड दोन आणे रात आनी एका रूपयांतल्या उरिल्ल्या पयशांत बारा नाल्ल अशे जिनस येताले. इतलें सगळें सवाय आशिल्ल्यान दोनशीं

रूपयांभितर लग्नाचो सगळो आटाप करपाक आनी जमल्यार धा-वीस रूपया गांठीक दवरपाक गरीबांकूय कठीण नाशिल्लें.

घरांतली मंडळी आचऱ्याच्या बाजाराक गेली आनी आक्काल्या अळंकारांसयत सगळयो वस्ती घेवन आयली. लग्नाची सगळी तयारी जाली. आंगणांत आमच्या माटवाबरोबरच शिवादादा आनी गोविंदतात्याच्या आंगणांतय माटोव घाल्ले. भिल्ल माडाच्या चुडटांनी माटवाच्यो म्हेडी सजयिल्ल्यो. आंब्याच्या पानांचे ल्हान ल्हान ताळे माटवांत जळामळा बांदिल्ले. तिनूय आंगणां शेणान सारोवन तांचेर व्हड व्हड रांगोळी घाल्ली. तिनूय कडेन माटोव घाल्ल्यान ताचो आकार काटकोनाभशेन जावन तें एकूच व्हडलें आंगण कशें दिसपाक लागलें.

लग्नाच्या आदल्या दिसा शेजारच्यो बायलो - चलयो आमच्या घराकडेन आयल्यो आनी ताणी एकवटान ओंवयो म्हणीत तांदूळ, दाळ आनी काळे वाटाणे वेंचून निवळ केले. आमचे लग्नाचे पंगतींत मालवणी लोकांचें काळया वाटाण्यांचें सांबारें म्हणल्यार सगळयांच्या घोस्ताचो जिनस.

बोवाळ, गोंदळ, आख्खें घर गजबजाटान भरून गेलें.

लग्नाचो दीस उजवाडलो. आक्कान तर सकाळीं उठतसावन रडून रडून दोळे सुजोवन घेतिल्ले. ह्येवटेनच्यो तेवटेनच्यो गंगा, गोदा, इंद्रा ह्यो तिका मेळपाक येताल्यो आनी मागीर तांचें एकवटान रडप सुरू जातालें.

आमच्या लग्नानी गांवचे भटजी येनाशिल्ले. ताका लागून मालवण तालुक्यांतल्या वेरली गावांतलो शिवरामबुवा हो आबालोच बापोलभाचो लग्नांत भटजी जाल्लो. आबाक तो मामा म्हणी आनी आबा ताका 'बाबू' म्हण पाचारी.

सकाळीं लग्नाचे विधी सुरू जाले. घाणो भरता आसताना आनी पुण्याहवाचन करता आसताना आपाक आनी काकीक ल्हान ल्हान इतले विधी करचे पडले, ते करता आसताना तांकां इतले खेप उठ-बस करचें पडलें, हवना भोंवतणी इतले फावटीं भोंवताडे काडचे पडले, जशें कितें अशें दिसतालें, तांचेंच बी हें दुसरें लग्न न्हय मू? हांगां सुपारी दवर, थंय नाल्ल दवर, नाल्लाक गंध लाय, विड्याचेर फुलां घाल, होमाचेर अक्षदा वडय, होमाक पांयां पडात, तातूंत समीधा वडयात, हांगा हें करा आनी थंय तें करा.... एकसारखो कसलो ना कसलो तरी मंत्र उच्चारून भटजींचो आदेश आपाक आनी काकीक चलत आसतालो.

घाणो भरपाची आनी पुण्याहवाचनाची कार्यावळ सोंपली. घरांतल्या

सगळयांचें दनपारचें जेवण एकठांय जालें. सोयऱ्यांचें यो - वच चालूच आशिल्लें.

सांजवेळ जाली. म्हुर्ताचो वेळ आतां चडूच लागीं पावलो. इतल्यांत घाटयेचेर फोगोट्यांचो आवाज जालो. सगळयांच्या हड्ड्यांत खपखपूंक लागलें. न्हवऱ्याचें वऱ्हाड घाटयेरसान सकयल देंवलें. न्हवऱ्याक पळोवपाक सगळीं भुरगीं चांफ्याच्या झाडाकडेन एकवटलीं. हांव मात न्हवऱ्याक पळोवंक तितलो उताविळ नासलों. एक म्हणल्यार ताका हावें आजोळा जायते फावटीं पळयिल्लो. मामागेर तागेलें येवप-वचप आसतालें. विशेश म्हणल्यार तो मामाल्या पणसाचेर चडून मामालीं पणसुलां काडून दिवपाचें काम करी. चड करून खांदी मोडक्या पणसाचेर तर ताचेबगर आनीक कोणूच चडनाशिल्लो. दुसरें म्हणल्यार आक्का फाल्यां सकाळीं घोवागेर वतली. तेखातीर आयचो दीस म्हाका तिचेभोंवतणी घुटमळपाचें आशिल्लें.

लग्नाचें वराड धकाल्या घराकडेन जाणोशाक बसलें. जाणोसा म्हणल्यार न्हवऱ्यान चलयेच्या गावांत लग्नाखातीर येतकच थेट तिच्या घराकडेन वचनासताना चलयेच्या घराशेजारच्या घरांत विसवाखातीर थोडो वेळ बसप आनी थंयच गोड – उदक घेवप. धकालें घर सगळयांच्या मदेकाक. तांचें खळें व्हड आनी तातूंत प्रशस्त माटोव. ताका लागून आमच्या गावांत येवपी सगळीं वराडां आदींसावनच जाणोशाक थंयच बसतालीं., अशें म्हाका आबान सांगिल्लें.

वराड आमगेल्या घरा आयलें. न्हवरो हातांत माळ घेवन थेट अंतरपाटाचे उदेंतेकडेन उबो रावलो. सगळयांच्या हातांत तांदळाच्यो अक्षदा वांटल्यो, मंगलाश्टकां म्हणपाक सुरवात जाली. तीन – चार मंगलाश्टकां म्हणून जातकच दोगां - चौगां जाणां एकदम म्हणपाक लागलीं, "आता व्हकलेक घेवन येवा." सगळयांनी सामको बोवाळ घालो.

पांच – स जाणी मेळून आक्काक माटवांत घेवन आयल्यो. पांचवी साडी न्हेसून हातांत पांचवो चुडो भरिल्ली, आंबाड्याचेर येदी मोठी आबोल्यांची फांती आनी नाकांत भांगराची नथ घाल्ली आक्का पाटाचेर उबी रावली. व्हराडांतली सगळी मंडळी म्हज्या आजोळची, म्हाका 'बाबू, बाबू' म्हण हडकितालीं. पूण म्हजें थंय लक्षच नाशिल्लें.

पांचवें मंगलाश्टक म्हणून सोपतां घडकेक "शुभमंगल सावधान!" अशें सगळयांनी म्हणटकच अंतरपाट कुशीक सरलो. सगळयांनी अक्षदा वडयल्यो. पयलीं आक्कान न्हवऱ्याच्या गळयांत हार घालो आनी ताणेंय तिच्या गळयांत घालो. मागीर ताणें तिच्या गळयांत म्हुर्तमणी बांदलो. बांदलो म्हणल्यार

तेंकयलो. तोमेरेन तिका घुंवळ येवन ती गंगू आनी गोद्याच्या खांदार कोंसळळी. तिच्या म्हुर्तमणयाचो आंकडो मागीर ताणींच लायलो. लग्न जाल्या उपरांत पावण्यांचें आनी आमचे सगळे मंडळीचें लग्न जेवण जालें. जेवता आसताना श्लोक म्हणप्यांची आपणामजगतीं सर्त सुरू जाल्ली.

दुसऱ्या दिसा पावण्यांचें सकाळचें जेवण उलगतकच व्हंकलपावणेची तयारी जाली. माटवांतल्यान न्हवरो भायर सरताना आक्का सगळया ल्हान व्हडांच्या पांयां पडटाली आनी सगळयांक वेंग मारून हुंडकेताली.

"पावण्यानू, आमच्या पोराक सांबाळा." आमगेलीं जाणटेलीं न्हवरेकारांक सागतालीं.

"तुमी काय काळजी करू नको," न्हवरो आनी तागेली मंडळी समजावन सांगताली.

आतां आयली म्हजी पाळी. आक्कान म्हजे खूब उमाव घेतले आनी तितल्यान शेनायवाल्यान शेनाय वाजयली.

'गंगा, यमुना डोळयात उभ्या का? जा, मुली जा, दिल्या घरी तू सुखी रहा.' आनी ह्या वेळार

आक्का आनी काकी वेंग मारून रडटाल्यो. तांची वेंग सोडोवपाक लोकांक मदीं पडचें पडलें.

म्हज्या दोळयांतल्यान दुकांच्यो पावळयो रकताल्यो, 'गंगा, यमुना....' चालूच आशिल्लें.

व्हंकलपावणी गेली. माटोव रीकामो जालो आनी दोन – तीन दीस गजबजून गेल्ल्या घरांतल्या वातावरणाचेर कीण्ण सया पातळ्ळी.

आमी चौगांय पास जावन तिसरेंत पावलीं. शाळेंत वतना - येतना आमी एकठांय आसचीं. एकामेकाखातीर रावचीं. मदले सुटयेंत वा शाळा सुटटकच पिपरमिटां, चणे, गोड वा भिकणां वा असलेंच कितेंय खावपाक घेतलें जाल्यार आमी ताचे सारके वांटे करचे. तसो नेमूच करून वडयिल्लो वसंतान आनी सुशीलान. सगळयांपरस चड फावटीं खावपाक हांवूच घेतालों, ती गजाल वेगळी.

पयलेच्या आनी दुसरेच्या अभ्यासांत आबाली खूब मदत मेळ्ळी. सगळे पाढे आबाक आदींच पाठ आशिल्ले. तातूंत तागेली सुपाऱ्यांची - नाल्लांची उलाढाल आशिल्ल्यान ते पाढेय सतत ताचेवांगडा आसताले. तिसरेंत आबान पावकीसान निमकी, पाऊणकी ते औटकीमेरेन सगळयांची उजळणी करून घेतिल्ली.

तिसरेंत आडकरमास्तर आयले. उणी उंचाय, आंगान जाडजूड, धोंपरामेरेन पुडवें आनी चडशे धव्या वा निळया रंगाचे हाफ शर्ट हो भेस. सदांच माथ्याक तोपी हे मुस्तायकेंतल्या आडकरमास्तरांची शाळेंत शिकोवपाखातीर नामना आशिल्ली. मास्तरांचो चड भर गणित आनी शुध्दलेखनाचेर. ताका लागून पाटयेचेर शुध्दलेखन आनी सुवाच्य अक्षराखातीर बोरून बरोवपाचें चालूच आशिल्लें. गणितांतूय चार – पांच आंकड्यांचे आनी अदीक वजाबाकी वांगडाच गुणाकार आनी भागाकाराचींय गणितां आशिल्लीं. तातूंत हातचेय चड आसताले. मास्तरान तीं गणितां सारकीं शिकयलीं. पूण केन्नाय चुकलीं जाल्यार मात पट्टेचो प्रसाद मेळटालो. तांचो पट्टेचेर खूब मोग. ताचो उपेग ताणी फळयाचेर ओळी आंखचेपरस आमच्या हातार 'प्रसाद' दिवपाखांतीरच चड केलो.

तिसरेच्या अभ्यासांतल्यो दोन – तीन गजाली याद जातात. एक म्हणल्यार रत्नागिरी जिल्याची म्हायती जी भुगोलांत मेळ्ळी. रत्नागिरी बंदराचें वर्णन वाचतकच अशें दिसलें, केन्नातरी आयुश्यांत आपणें रत्नागिरी पळोवंकच जाय. धड्यांमदलो 'निळा कोल्हा' हो धडो मजेशीर आसलो. 'ये ये घारी माझ्या दारी, चारापाणी घे तरी' ही कविता आशिल्ली.

तिसरेंत वर्सुयभर म्हाभारताची पुराय काणी अभ्यंकरमास्तरान देवळांत सांगली. भगीरथान पृथ्वीचेर गंगा हाडीतसावन ते म्हाभारताच्या झुजामेरेन.

दुसरेंत आनी तिसरेंत अभ्यासांत म्हजी विशेश अशी उदरगत नासली. तिसरेंत हांव असोतसो पास जालों. धकाक म्हजेपरस चड मार्क मेळ्ळे. तागेलें अक्षरय म्हजेपरस वळणदार आशिल्लें. बांबरवाडींतलो भुरगो नामदेव कृष्णा चव्हाण हो तिसरेंत पयलो आयलो. पूण ताची आई त्याच वर्सा मेली आनी ताणें शाळा सोडली.

तिसरेचें वर्स बऱ्याचशा घडणुकांक लागून चड लक्षांत उरलें.

तिसरेंतल्या 'गड आला पण सिंह गेला' ह्या धड्याचेर आमी केल्लें नाटक ही एक घडणूक. ताचो उगडास जाल्यार आजूनय हांसून मुट्टो जाता.

नाटक करपाचें थारायलें म्हणटकच पात्रां निवडपाचें आयलेंच. धका रूपेस्त आशिल्ल्यान अर्थातूच तो शिवाजी. मधू लांब, तो शेलारमामा. त्याच वर्सा गावांत आयिल्लो शांताराम हो तानाजी आनी हांव सूर्याजी.

आतां प्रश्न उरलो जिजाबाईचो. आमी गेले सुशीला म्हऱ्यान आनी सांगलें तिका जिजाबाई जावंक.

"मी नाटकात काम करूचय नाय. नाय म्हंजे नाये!" सुशीला.

" आगो सुस्या, असा काय करतहस? ह्या काय नाटक नाय हा. आपली पोर – पोरांची गंमत हा. गाडीवाल्यांका आनी तुज्या आवशिक कोन सांगताहा!" तिका समजायत हावें म्हणलें.

"एकदा सांगलय ना, नाटकात काम करूचय नाय म्हणून!' तिणें केंच्च केलें.

आमचो सामकोच नाईलाज जालो. आतां आमचेमुखार पर्याय तो एकूच उरलो. जिजाबाईचें काम वसंतान करपाचें. हय – ना करतां करतां तो तयार जालो.

धकाल्या बैलांच्या गोठ्यांत आमच्यो येसायो सुरू जाल्यो. दिग्दर्शक मधू. शनवारची अर्द्या दिसाची शाळा सुटटकच दनपारां आमी मधुल्या घराच्या फाटल्या पोरसांतल्या आंब्याच्या झाडापोंदा ल्हानशी माची उबारून नाटक करपाचें थारायलें.

नाटकाचो वेळ जालो.

आतां प्रश्न आशिल्लो तो वसंताक साडी न्हेसोवपाचो. आमी धकाले आजेम्हऱ्यान गेले.

"अरे अक्करमाशानू, अब्यास करूचो टाकून नाटका कसली करताहास! आवशीच्या घोवाची?"साडी न्हेसयतां न्हेसयतां ती आमकां शेडायताली.

आतां तर सगळयांत कठीण समस्या आशिल्ली. ती म्हणल्यार प्रेक्षक कोण? वसंताली साडी सुटत हे भिरांतेन आमी ताका माचयेरूच बसोवन दवरलो आनी सगळेजाण गेले प्रेक्षक हाडपाक. अर्दवर आमी सगळी वाडी भोंवले आनी कांच्याबुच्या धा - बारा पोरांक धरून हाडले आनी तांचेमुखार नाटक सुरू केलें.

"महाराजांचा जयजयकार असो!" अशें म्हणीत तानाजीचो पयलोच प्रवेश आशिल्लो. त्या पयल्या वाक्यांतूच शांत्यान चूक केली. फकत धका उलयलो तो चुकनासताना. अखेरेक अर्दें नाटक जातकच, भास समजनाशिल्ल्या कारणान भुरगीं वचपाक लागलीं. तें पळयतकच हांव नाटक चलता आसतानाच पोरांमदीं गेलों आनी "वायच थांबा, वायच थांबा" अशें म्हणून तांकां थारायले "नाटक सरला काय तुमकां पेरमिशन दितल्यात" अशें सांगलें. पूण पोरां आयकनात. ते गडबडींत फुडलें सगळें म्हजें भाशण हांव विसरलों. निमाणे थोडें उरील्लें आसतानाच आमी नाटक सोंपयलें.

दर वर्सा फेब्रुवारी ते मे म्हयन्याच्या सुमाराक मिठबावाक 'जय हिंद



टुरींग टॉकीज' येतालें. आमी ताका 'पडद्यावरचो' म्हणल्यार थेटराच्या भायर दाखयतात तो सिनेमा अशें म्हणटाले. दर दिसा ताचो एकूच खेळ आसतालो. आनी तोवूय बी रातीच्या आठांच्या सुमाराक. सरभोंवतणच्या गावांतले लोक रातचे बेगीनशें जेवन येताले आनी सिनेमा पळोवन जातकच घरा वताले. एक खेळ दोनच वेळां दाखयताले.

त्या वर्सा आमच्या सुदैवान 'श्यामची आई' हो खेळ आसलो. काका भटाल्या घरांतल्या मनशांनी आबाक 'श्यामची आई' ची काणी सांगिल्ली. अस्पृशांक मेकळे करपाखातीर साने गुरूजीन कसो सत्याग्रह केलो आनी कशे ते कोंकणातल्या घराघरांनी पावले हें आमी साटमबुवाकडल्यान आयकल्लें. ताका लागून बाकिचे खेळ जरी दोन दीस आसले तरी 'श्यामची आई' मात लोकांच्या आग्र्याक लागून सुमार सप्तकभर चललो.

चिंदरचो बाजार सोडून आबान आतां आचरा आनी मिठबावच्या बाजाराक वचपाक सुरू केल्लें. आचऱ्याचो बाजार आयताराक तर मिठबावचो भरतालो शेनवाराक.

तो दीस शुक्रार. वाडींतल्या धा - पंदरा जाणांक आबान 'श्यामची आई' पळोवपाक तयार केले. हांगाय वेवहार घोळटालो आबाले तकलेंत. मिठबावचो बाजार शेनवाराक आशिल्ल्यान शुक्राराक रातीकडेन गेल्यार खेळय पळोवन जातलो आनी सकाळीं मिठबावचो बाजारय करपाक जमतालें.

आमी बेगीनशें जेवण उरकिलें आनी पंदरा - सोळा जाण गॅसाचो दिवो आनी चुडी घेवन मिठबावाक वचपाक भायर सरले. मिठबावच्या बाजाराखातीर आबाल्या माथ्यार नाल्ल – बेड्यांचें ओजें आशिल्लेंच. गॅसाच्या दिव्याक लागून वाटेर धांवून येवपी एक – दोन जिवाणींय लोकांनी मारलीं. ताका लागून आबा म्हाका सामको जपत आशिल्लो. 'झिला, खाली बग, झिला, खाली बग" अशें ताचें सारकें चालूच आशिल्लें.

आमी न्हंयचेर पावलीं जाल्यार थंय घे ऽ ऽ म्हण गर्दी. बाबा तारयालें होडें व्हडलें आशिल्लें खरें, पूण मनशांय च्नड. तो तरी ताका कितें करतलो! रातिचो वेळ आशिल्ल्यान न्हंयक भरतीय येवपाक लागिल्ली. आनी खेळ चुकचो न्हय म्हण दरेकाक होड्यांत घालून घेवपाची ताकतिकय लागिल्ली. हे सगळे घाईगर्दींत बाबा तारयान 'नाका, नाका' म्हणटा आसतानायआमी सगळीं होड्यांत चडलींच. माथ्यावयल्या ओज्याक लागून आबा मात सकयल उरलो. होडें वचपाक लागलें.

आबा आनी हांव दोगूय रडच्या दुकांर पावले. आबा कसो येतलो

म्हणपाचो म्हाका हुस्को जालो. जाल्यार होडें बुडलें बिडलें जाल्यार हांव बुडटलों हे भिरांतेन आबालो जीव वयर सकयल जावपाक लागलो.

आमी होड्यांतल्यान देंवलीं. गर्देक लागून एक – दोनदां व्हडें बुडटां बुडटां वाचलें. होडें परत गेलें. म्हजे वांगडचे सगळे लोक फुडें गेले. लापयांवाच्या उजवाडांत हांव एकलोच आबाची वाट पळयत बसून रावलों. आबा आयलो आनी म्हाका थंय एकल्याकूच सोडून गेले म्हण वाडयेंतल्यांक ताणें भरपूर गाळी मारल्यो.

"अक्करमाशयांका मी शिनेमाक हाडलय आनी माज्या पोराक एकट्याक टाकून गेले काय रे!" तो बेजारिल्लो.

बेड्यांचें ओजें आबान बाजारांतल्या एका वळखिच्या च्यावाल्याच्या दुकानांत दवरलें आनी आमी मैदानांत गेले.

माडाच्या चुडटांचो एक माटोव, तोच 'जय हिंद टुरींग टॉकीज'. तिनूय वटेन ताडपत्र्यो, मकयल बसपाक तागाचे साक आनी मुखार पडडो. फाटल्यान 70 – 80 कदेली. जमनिचेर बसपाक पांच आण्यांचें तिकीट. कदेलीक बारा आणे. कदेलीचो विचार तर आमच्यांनी करपूच शक्य नाशिल्लें. सात – आठ आणे म्हणल्यार लेगीत अर्दी पायली तांदूळ जाले. आबान दोन तिकिटां काडलीं - पांच आण्यांचीं.

'श्यामची आई' सुरू जालो. आख्ख्या सिनेमांतल्यो विविध घडणुको पळयताना सगळेजाण रडटाले. पेंवपाक भियेवन माळयाचेर दडून बसतकच श्यामाक बळयां तळयेंत धुकलून ताच्यांत निर्भयताय हाडपाक सोदपी ताची आई, "छडी लागे छम् छम्, विद्या येई घम् घम्" हें पद, श्यामान एका रूपयाची चोरी केल्ल्याची आनी आई ताका दंड करता ती घडणूक, मावकाराले पयशे परते करीनाशिल्ल्यान ताणे घराचेर हाडिल्ली जप्ती आनी ताका लागून श्यामाचे आईन केल्लो आकांत, श्यामाचे आवय-बापायचो एकामेकावयलो मोग, निमाणे श्यामाची आई मरतकच घराचेर आयिल्ली अवकळा आनी श्यामाक जाल्लें दुख्ख....

सगळेजाण हुंडक्यांनी रडटाले. सगळो सिनेमा पळयताना आपणाक आई ना हाची म्हाका खूब खंत भोगली. खेळ सोंपलो. आमचे वाडयेंतल्या लोकांसयत सगळे आपापल्या घरा वचपाक गेले. हांव आनी आबा रातभर जयहिंद टुरींग टॉकीजांतल्या साकाचेर न्हिदले आनी सकाळचे उठून बाजाराक गेले.

तिसरेंत आसताना सगळयांत खोशयेची जी गजाल घडिल्ली तीं म्हणल्यार मनूदादालें लग्न. ब्रिटानिया बिस्कीट कंपनींत तो कामाक आशिल्लो. बेबीआकाल्या घोवान, माईणकारान ताका थंय दवरिल्लो. लग्नाखातीर शिगम्याच्या म्हयन्यांत तो गावांत आयलो आनी सगळें घर खोशयेन भरून गेलें.

घरांत पयलीच वयनी येवपाची आसा म्हण आमी खोशयेंत आशिल्ले. मालवण तालुक्यांतल्या माळगावांत एक बरें चली भुरगें आसा अशें घराकडेन कळिल्लें. वाडयेंतले दोन – चार कुळावे घेवन आबा माळगावांत गेलो. न्हवऱ्यान चलयेच्या घरा वचून चली पसंत करपाचो प्रश्नूच नाशिल्लो. तीच गजाल चलयेचे बाबतींत आशिल्ली. आवय – बापूय थारायतात तांचेचकडेन लग्न जावपाची पद्दत आशिल्ली. अंबूआक्काल्या लग्नावेळारय ह्यावें हेंच पळयिल्लें.

लग्नाक चलयेक मागणी घालपाक गेल्लो आबा लग्न जुळयलेबगर रिकाम्या हातांनी केन्नाच परतो येवपी न्हय अशी ताची वदंता आशिल्ली. आमचे वाडयेंतल्या ताचे उपरांतचे पिळगेंतल्या सगळया भुरग्यांचीं चडशीं लग्नां ताणेंच जुळयिल्लीं. हेवूय खेप आबा लग्न थारावनूच आयलो. चलयेचें नांव कृष्णा.

आबा माळगांवसान आयलो. ते रातीकडेन जेवल्या उपरांत मनूदादा सयत आमी सगळीं गजाली, उलोवणी करीत आंगणांत बशिल्लीं. तेन्ना सगळयांक लेखून आबान म्हणलें, “मन्याक काय व्हकल म्हणून बगलय!” सगळयांची उमळशिक वाडीक लागिल्ली. मनूदादा मिशांतल्या मिशांत मुमुरख्यांनी हांसतालो.

सत्यवती काकी बरीच धाडसाची. सगळयांहुजरां तीच कितें ती आबाक 'होय, नाय' करी. केन्ना केन्ना आबाली मस्करीय करताली ती.

“अशी हा तरी कसलीशी? दोन हात, दोन पाय आनी दोन दोळे! अशीच हा ना?” काकीन विचारलें.

सगळींजाणां खोखो करून हांसली. पूण आबा हजरजबाबी. मोठ्या मोठ्यांक जापो दिवपाचें ताचें कसब तोखणायेचें. तो थोडोच वगी रावता! “तुमच्या सगळयापक्षी बरी हा! तुमच्यात काय सॉबोन दिसांची नाय. उद्या इल्यावर बघशात!” आबाली जाप. आबान बाजी मारली. चलयेचें दिसप हे चर्चेचेर पड्डो पडलो.

लग्नाची तयारी सुरू जाली. अंबूआक्काल्या लग्नावेळार जाल्ल्या गोंदळाचो आमकां अणभव आशिल्लो. फरक एकूच आसलो. त्यावेळार

खोशयेपरस हुरहुर चड आशिल्ली. आतां फक्त खोसच खोस.

लग्नाखातीर माळगांवाक वचपाचें थरलें. आदल्या दिसा सांजवेळा घाणे भरपाची आनी पुण्याहवाचनाची कार्यावळ जाल्ली. शिवरामबुवाच भटजी आशिल्ले.

गोधुली म्हुर्तार लग्न आशिल्ल्यान आबान सामकें फांतोडेरच सगळयांक उठावन घालें. कितें म्हण ताची ती ताकतीक? रातभर ताणें कोणाकूच बरेबशेन न्हिदपाक दिलें ना.

न्हवऱ्यावांगडा वचपाचो हावें हट धरलो. पूण इतले पयस म्हज्यान कशें वचूंक जायत? ह्या विचारान म्हाका आबान परतून परतून नाका म्हण सांगलें. म्हाका अक्षरश: विनयलें. पूण हांव खंय आयकतां तर!

“एता तर एवंदे. हळूहळू चलात सगळयाबरोबर! आजवळाक जात नाय?” घरांतल्यांनी म्हणलें.

“हा! हळूहळू चलॉ दे! आनी लगीन दोन दिवसांनी लावा!” आबा बेजारलो.

म्हजें वचपाचें थरलें.

सकाळचें जेवण आटापून माळगावांक वचपाक आमी भायर सरले. आमचे वांगडचे वाजंत्री सामके कसबी आशिल्ले. खास करून शेनाय वाजोवपाखातीर आबान भोंवतणच्या गावांत नामनेक पाविल्ल्या बापू हिंदळेकाराक ह्याडिल्लो.

घरांतल्यान भायर सरतसावन आचरा पाराचे न्हंयेमेरेन पावतासर आबान सुमारेक पांच – स ठिकाणांचेर वराड थांबयलें आनी देवाक नाल्ल आनी पान सुपारेचो विडो दवरून गाराणें घालें.

पाराची न्हंय, आचरा, भगवंतगडची न्हंय आनी वेरली गांव अशें करीत करीत सांजवेळा चारांच्या अदमासाक आमी माळगांवाक पावले.

माळगावांत पावता म्हणसर वाटेर सगळया ठिकाणांचेर मनशां रावून रावून न्हवऱ्याकडेन एके नदरेन पळयत रावतालीं. पयलींच गोरीपिट्ट आनी तातूंत हळदीन माखिल्लें आंग. दीश्टय लागल्या आसतली ताका सगळयांची. तो उंच आशिल्ल्यान ताका पुडवें पावनाशिल्लें. इतलें मोटवें जातालें, ताच्यो पोंवट्योय दिसताल्यो.

तिनसांजच्या स सुमारावयल्या गोधुली म्हुर्ताचेर लग्न जालें. वयनीक पळोवपाची सामकी म्हाका उमळशीक लागिल्ली. हांव न्हवरेकारावटेनचो आसून लेगीत 'गंगा, यमुना डोळयात उभ्या का?' आयकतसावन हांव मनांतल्यान सदांच व्हंकलकारांवटेनचोच जातालों. रंगान सावळी,

बारीकशी, नाका - दोळयांन नीट आशिल्ली आनी मनूदादाच्या मानान मोटकी दिसपी वयनी म्हाका पळयतां खिणाक मानवली.

लग्न जाल्याउपरांत थोडेशें सामसूम जालें आनी म्हाका घेवन अंबूआक्का वयनीक मेळपाक गेली. थंय गोदा, गंगू ह्यो करवल्यो आशिल्ल्योच.

“ह्यो आबाचो झील!” ताणी वयनीक म्हणलें.

लग्न जुळोवपाक गेल्ल्या कारणान आबा हो बापोलमांव हें तिका कळिल्लें. म्हजकडेन पळोवन ती रोकडीच हांसली.

“हयेका आवस नाय हा! आनकी एक भयन हा, ताई" गंगून म्हणलें. वयनीन म्हजेवटेन फक्त पळयलें. पयलींच दुकांनी भरिल्ले तिचे दोळे आनीकूय डबडबीत जाले.

जेवणावळीक बसले. सगळयांनी पयले पंगतीचें शीत घेतलें. खोबऱ्याची गोडशी दाळ, काळया चण्यांचें तोंडाक आनी वांयग्यां बटाटांची भाजी सगळयांक भोव आवडली.

आतां दुसरे फावट वाडपी आयले आनी ते शीत वाडपाक लागले. उकड्या तांदळांचे शीत आशिल्लें तें. वस्स करून ताचो वास सगळयाक घमघमलो.

“ह्यो भात नको! ह्यो भात नको! मगाशी घातलास तो सपेत भात हाडा!” सगळे एकदम आड्डूंक लागले.

पावणे लोक आबाक घेवन खंयतरी सोरो पियेवंक गेल्ले. तो आयलो माटवांत. शीताची गजाल कळटकच ताणें म्हणलें, “पावन्यानू, असा काय केलास? आता माज्ये पॉर काय खातीत?”

वयनीचो बापूय बाबडोसो जालो. उलोवपाक ताचेलागीं उतरां नाशिल्लीं. उकडे तांदूळ सवाय देखून हाडिल्ले ताणें.

“ आता कसो कसो खावा. पावन्यांका तरी काय ठावक!”आबान सगळयांक समजायत म्हणलें.

“पावन्यानू, आता झाला ता झाला. उद्या सकाळी उकड्या तांदळाचा भात करू नको. तुमच्यावर आमचा कसला राग नाय! कायतरी चायपानी करा.” सगळे घडणुकेचेर आबान पड्डो वडयलो.

रातीकडेन सगळे अर्दपोटयां उपाशीं न्हिदले. वयनीक हें कळटकच ती रड रड रडली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं व्हंकलपावणी भायर सरली. वयनीवटेनचीं सगळीं जाणटीं मनशां तिचो हात आबाल्या हातांत दीत सांगतालीं, ' पावन्यानू, गरीबाचा पॉर हा. काय चुकला - सवरला, तर सांबाळून घेवा.

आता ह्येच्याफुडे तुमीच आवस नि तुमीच बापूस.” दरेकलो उलयताना वयनीक आपले हुंडके आवरूंक जायनासले. ती बापायच्या पांयां पडली आनी निमाणे आईक वेंग मारून खूब रडली.

बापून 'गंगा, यमुना....' सुरू केलें.

चलयेवटेनच्या कोणाकूच आपलीं दुकां गिळूंक जालीं नात. न्हवरेकारांवटेन तांचेमदीं रडपी असो हांवूच आसलों. तें पळोवन सगळेच अजापले. आमचेवटेनच्या लोकांक तर हांव कित्याक रडटां तेंच कळना जालें.

“अरे, व्हकाल आमच्या घराक घेवन जाताव, नि तू कित्या रडतहस?" म्हाका सगळयांनी म्हणलें.

"आमच्या घराक व्हकाल घेवन जाताव, हा ह्या खरा हा! पन वैनीचे आवस – बापूस रडतहस, त्येचा काय?” हावें रडटां रडटांच म्हणलें. तांचेकडेन जाप नासली. ताणीं हांसून वेळ मारून व्हेलो.

सगळें आटापून माळगांवची घांटी चडमेरेन धाएक जाल्लीं आसतलीं. आमी मागीर मुखेल वाटेर पावले. हांव न्हवऱ्याचे सामको म्हाऱ्यांतसून चलतालों. ताचे सत्रेचो फायदो म्हाकाय जातालो.

आमी भगवंतगडाक पावले आनी एक अनिश्ट घडणूक घडली.

सीताराम, म्हजो बापोलकाका सोरो पियेवन पयलींच च्याच्या दुकानार पाविल्लो. सोरो पियेल्ले अवतिकायेंत आसताना दुकानावयल्या भिकणांच्या लाडवांचो वीज्र ताणें फोडलो. दुकानदारान लागींच आशिल्ल्या पुलीसांकडेन कागाळ केली. दोग पुलीस रस्त्यार आड उबे रावले आनी ताणीं फाटल्यान येतालें तें आमचें आख्खें वराड आडायलें. इतल्यान आबा फुडें सरलो. पुडवें न्हेशिल्ल्या आनी काळो कोट घाल्ल्या आबान रूबाबदारपणान पुलीसांक दटायलें, “काय झाला? वरात कित्या अडवलास?” अशें विचारलें.

“तुमच्या वराडांतल्या मनशान सोरो पियेवन दुकानदाराचो कंवचेचो वीज्र फोडला. देखून तुमकां आमी पन्नास रूपया दंड करतात. दंड भरलेबगर आमी वराड फुडें वचपाक दिवचेनात.” पुलीसांनी सांगलें.

आबा सामको खवदळळो. तोमेरेन सगळे बापोलभाव आनी वराडांतल्या तरनाट्यांनी आबाभोंवतणी कंवडाळें केलें. आबान पुलीसांक सांगलें, “ज्येनी तुमची भरनी फोडल्यान ह्ा, तो आमचो मानूस नाय. त्येचो आणि आमचो कायएक समंद नाय. त्येका तुमी कायपन शिक्शा करा, कितीपन दिवस तुरूंगांत ठेवा. मी एक पैसो देवचय नाय.” अशें म्हणत म्हणत आबान वराड कुशीक काडलें आनी ताणें सगळयांक म्हणलें, “चला रे! बगतय मी तुमचा कोन काय करता ता.”

आमी भराभर चलपाक लागले आनी वचून होड्यांत बसले. आबा सगल्यांत निमाणकडेन आयलो. आबा तर एखाद्रो पराक्रम केल्ल्यावरी सगळयांच्या कवतुकाचो विशय जावन पडलो. सगळयांच्या मुखामळार एकूच भाव उदेलो, 'आबा नसतो तर आज सगळा वऱ्हाड तुरंगात जानार हुता!'

आमी सांजवेळचीं घरा पावलीं. सगळें आटपून घेतकच लग्नाची पंगत जाली. जेवणां जातकच सगळीं खळयांत एकठांय जालीं. आतां व्हंकलेक नांव दवरपाची कार्यावळ आशिल्ली. नांवाची सोदासोद चलताना मनूदादान एकदम म्हणलें, 'मायावती!' ताका कशें हें नांव येवजलें कोण जाणा. कांयच शिकूंक नासलो तो. अशी तशी सय करतालो. गावांत आसताना अण्णा कारेकर मास्तरांल्या कुळागरांतल्या माड – माडयांचेर चडटालो. पोरूंच्या वर्सा, अंबूआक्कालें लग्न जावंचेआदीं माईणकाराल्या सांगण्यावयल्यान तो मुंबय गेल्लो आनी ताणीच ताका ब्रिटानिया बिस्कीट कंपनींत कामाक दवरील्लो. एका वर्सामदींच तो लग्नाखातीर गावांत आयिल्लो.

मायावती! वयनीखातीर फकत तेंच नांव योग्य आशिल्लें. सगळया घराची ती 'माई' जाली. कोणाक जाय आनी कोणाक नाका.

सगळयांत चड गट्टी तिची म्हजेकडेन जाली. दुसऱ्या काय तिसऱ्याच दिसा तिणें आमचेखातीर कळसुलीभर उदक हाडलें. सांजवेळा घरा येतकच भरिल्ली कळसुली पळोवन आबान विचारलें, “झिला पानी रे कुनी हाडल्यान?”

“माईने!” हावें म्हणलें.

आबाकय सामकें भरून आयलें. फाटल्या तीन – चार वर्सांत आपणाल्या भावजयांक जिवापरसय चड माया लावनय तांकां जें जमलें ना तें एके परके घरचे चलयेन एका दिसांत करून दाखयिल्लें. आपल्या घरांतलें उदक भरचेपयलीं ती आमगेली कळसुली भरून हाडटाली. सख्खे - बापोलये असो फरक तिच्यांत नाशिल्लो.

लग्न जातकच पांचव्या दिसा पांच – परतवणाखातीर ती जेन्ना कुळारा गेली ती केन्ना एकदां परती येता अशें जालें.

मनूदादा मुंबय वतकच तर तिका सगळयांत व्हड आदार असो म्हजोच दिसतालो. एक फावट ती गोरवांचो गोठो शेणान सारयताली. हांव उबो रावन तें पळयतालों आनी सारयतां सारयतां कुळाराविशीं ती सांगताली. आठ भांवडां तीं - चार भयणी आनी चार भाव. तिगूय भयणी तिचेपरस व्हडल्यो आनी तिगांचींय लग्नां जाल्लीं. दोगी मुंबय आनी एकली गावांत.

चारूय भाव तिचेपरस ल्हान. सखाराम, तुकाराम, शांताराम आनी राजाराम. सखाराम थोडोसो मंद बुद्दीचो. तुकाराम चौथेंत, शांताराम दुसरेंत आनी राजारामाक शाळेंत वचपाक आजून कळाव आसलो. घरांत सामकें दळडीर. कोणाचो कसलोच आदार ना. मानायपणाचीं कामां करून पोटाची खळगी भरताली. आवय – बापूय चीव्याचीं सुपां, पाटल्यो करतालीं. त्यो घेवन वयनी कट्ट्यार बाजाराक वताली आनी मीठ मिरसांग हाडटाली. मुंबयच्यो भयणी केन्नातरी चार पयशे धाडटालीं.

"आमच्या घरात तुका कसा वाटता गे?" हावें विचारलें.

तिचे दोळे भरून आयले. "असा घर मेळॉक नशीब व्हया. माजा नशीब मोटा, म्हणूनच देवान म्हाका ह्या घर दिल्यान." उलयताना खोस भरून व्हांवताली.

"आमचो दादा कसो हा?"

ती कांयच उलयली ना. जशें कितें ताच्या रूपान एका राजकुंवरा कडेनच आपलें लग्न जालां अशे भाव तिच्या मुखामळार उदेले. तिगेल्या दर एका उतरा कणकणी घराविशींचो अभिमान आनी कृतज्ञताय प्रकट तर जातालीच, पूण तेचबरोबर तिगेली शालीनताय दिसून येताली. म्हाका ती आपलो धाकलो भाव मानताली. हांव तिका म्हजे आवयच्या रूपांत पळोवपाक लागलों. म्हजी आई अशीच आसपाक जाय, म्हाका सदांच दिसतालें.

नाका नाका म्हणटानाय हांव एक दोन फावटीं तिच्या वांगडा दांत्याचेर दळपाक बसलों.

केन्ना केन्ना ती जेवता आसताना हावें घरांत भितर वचचें आनी व्हडले काकीक विचारचें, "काय गे! वयनीक पॉटभर जेवक घालतस तरी ना?"

"नाय. उपाशीच ठेवतय. केवडो ह्यो बाजीराव इलो माका सांगॉक!"

काकीचो आनी वयनीचो हांसून हांसून मुड्डो जावंचो.

तिसरेंत आसताना गांवाच्या विकासाचे नदरेन घडिल्ली एक व्हडली आनी म्हत्वाची घडणूक म्हणल्यार देवळाकडसून दर्यामेरेन जाल्लो गाडयेचो रस्तो.

फकत देवगड – मालवण हांगाच न्हय, तर पुराय कोंकण परीसरांतल्या हेर गांवाप्रमाणूच आमच्याय गावांत वाड्यावाड्याक जोडपी सखल, अरूंद अशो पांयवाटो आनी वाडयेंतल्या घरांक जोडपी पायणी आसताल्यो. ताका लागून दर्यासावन देवळामेरेनचो धा - बारा फूट रूंदायेचो गाडये रस्तो

सरकारान बांदून दिवपाचें थारायिल्ल्यान गावांत एके तरेची उर्बा फांकारिल्ली. रस्त्याच्या वट्ट खर्चामदली नव्वद टक्के रकम सरकार ग्रामपंचायतींवरवीं खर्च करपाचें आशिल्लें. आनी उरिल्ल्या धा टक्क्यांचें काम गांवकाऱ्यांनी श्रमदाना वरवीं करपाचें आशिल्लें. बाराय वाड्यांतल्या गांवकाऱ्यांनी थारावीक लांबायेच्या रस्त्याचेर श्रमदान करपाचें थारायलें. रस्त्याच्या बांदकामाक सुरवात जाली.

मगळयांत पयली गजाल म्हणल्यार, पुजाऱ्यांच्या दुकानामुखावयले आंब्याचे आनी पिपळाचे रूख कापून वडयले. थंयचो आख्ख्यो परीसर भकास जावन पडलो. ताका लागून रस्तो जाता म्हणपाची खोस जितली जाल्ली तितलेंच दुख्ख आंबो आनी पिपळ वडयिल्ल्याचें जाल्लें.

आमची शाळेंत वचपाची वाट पुराय बदलली. आदीं वाडयेंतल्या घरांमदल्यांनूच अर्दी वाट वताली. आतां रस्तो व्हडलो जालो पूण तो पुराय तरेन वाडयेच्या भायल्यान गेलो. ताका लागून सुरवेक रस्त्यावयल्यान वचपाक मातशीशी भिरांत दिसताली.

रस्त्याचे बाबतींत दोन गजाली म्हज्या मनांत ताज्यो आसात. एक म्हणल्यार अर्दवट वालो न्हेसून आनी बानयान घालून गांवचो गांवकार अण्णा पाध्ये हाणे दोन दीस स्वत: रस्त्याचें काम करून श्रमदान केलें. ताणे थारायिल्लें जाल्यार कोणाकूय दीसावडो दिवन ताच्यान आपलें श्रमदान करून घेवपाक जातालें. पूण तशें केल्यार तो अण्णा पाध्ये कसलो! खरेपणी पळयल्यार तो रस्तो लेगीत जातालो तो ताच्याच फुडारपणाक लागून.

दुसरी गजाल म्हणल्यार आबान खूब विरोध करून लेगीत हांवेय अर्दो दीस श्रमदान केलें.

"माज्या झिलान पन रस्त्याचा काम केल्यान" अशें आबान एक दीस अण्णाक सांगलें, तेन्ना ताणी म्हणलें, "लकू, देवळाकडचा रस्ता आम्ही दोघानीच तयार केला, तुझ्या झिलाने आणि मी." आबा तेदेवेळार खोखो करून हांसलो.

त्याच वर्सा आख्ख्या गांवाक दुखेस्त करपी एक घडणूक घडली, ती म्हणल्यार दिनू भटालें मर्ण. सगळो गांव ताका दिनूकाका म्हणी. दिनूकाका हो आपा पाध्यालो धाकलो भाव. अण्णावांगडा आपा देवस्थानाचीं आनी आपणाल्या शेताचीं कामां पळयतालो. तर दिनूकाकाकडेन मुखेल करून गावांतल्लीं लग्नां, मुजी, क्रियाकर्मां असल्लीं भोंवडेचीं कामां आशिल्लीं.

पोरूं वर्साच दिनूकाकालें लग्न जाल्लें. आख्ख्या गांवाक जेवण दवरिल्लें.

आमचे वाडयेंतल्या हेर लोकांवांगडा हांवूय जेवपाक गेल्लों. आमच्या जेवणाची सोय दुबावूच ना, गोरवांच्या गोठ्यांत केल्ली.

दिनूकाकाली बायल शिरवंत आशिल्ली, चांफ्याची कळी कशी! आमी तिका काकू म्हण उलो मारताले. दिनूकाका आनी काकूचें जोडपें फकत आमच्याच न्हय, तर सरभोंवतणच्या पांच – धा गावांत लेगीत सगळयांहून रूपेस्त जोडपें आसूं येत.

काकू भरील्ल्या दिसांची आशिल्ली. आनी एका दिसा रातीकडेन दिनूकाका आपवाडयेंतल्यान भटकिचें काम आटपून घरा परतताना वाडयेच्या चडावाचेर ताका फुरशें चाबलें. तेच अवतिकायेंत तो रातचो चलत घरा आयलो.

आमच्या गावांत सडेवाडयेंतलो शंकर घाडी कांटो लागिल्ल्या मनशाक वखद दिवन बरो करपांत फिशाल आशिल्लो. तेच रातीकडेन ताका घरा हाडून ताचेर वखद विरसद सुरू केलें.

दुसऱ्या दिसा ही बातमी सगळयाक पातळ्ळी आनी आपाल्या घरांत मनशांची गर्दी लोटली. वैज घराच बसून आशिल्ले.

दिनूकाकाली भलायकी चडटा - देंवता अशें जायत रावलें. आनी तिसऱ्या काय चवथ्या दिसा दिनूकाकाक रगताची एक व्हड उलटी जाली.

“दिनूकाकाला देवचाराने मारले" कांयजाणानी निदान केलें.

“देवचारान दिनूक सांगलल्यान, हये वाटेन जाव नको. तरी काय त्येना आपली वाट बदलल्यान नाय. आनी घराक येवक रात पन किती करी! ह्येची घराक येवची आणि त्येच्या फेऱ्येची येकच वेळ. व्हयो तितको ह्येका मारल्यान!” गांवकऱ्यांचें ठाम मत जालें.

देंवचारान मारलो म्हणपाचो मुद्दो येतकच गांवकाऱ्यांनी देवस्पणाचे सगळे विधी केले. परतून परतून देवीक कौल लावन दिनूकाकाक वांटावचें म्हण तिका विनयलें. पूण कित्याचोच उपेग जालो ना. उपरांत दोनूच दिसांनी दिनूकाका अंतरलो आनी पुराय गांवाचेर अवकळा आयली. गुरवार आशिल्ले काकूल्या दुख्खाक तर शीमा नाशिल्ली.

तिसरे यत्तेंत हांव सामको कांठार पास जालों. म्हाका ताची खूब खंत भोगली. तशें पळोवंक गेल्यार म्हाका खंत करपाचें कारण नाशिल्लें. कित्याक तर म्हजी अभ्यासांत व्हडलीशी उदरगत नाशिल्ल्यान हांव कांठारूच पास जातलों हें म्हाका खबरच आशिल्लें. पूण अशेंच जर जायत रावलें तर आबाले कश्ट फुकट वचनात मू ह्या दुबावान मन सामकें अस्वस्थ जावपाक लागलें.

ताका लागून चवथेकसान भरपूर अभ्यास करपाचो आनी बऱ्या मार्कांनी फकत पासूच न्हय तर पयलो नंबर घेवपाचो असो हावें निश्चेव केलो.

निश्चेवाची पुर्तताय करपाक सगळयांत अनुकूल अशी घडिल्ली गजाल म्हणल्यार चवथेचे यत्तेंत पोळाजी आदकर वर्गशिक्षक म्हण आयले. गोरेपिट्ट, सामके रूपेस्त, सरळ नाक, मद्दीं मागो काडपी, फूल पँट आनी फूलशर्ट वापरपी आनी चलताना पोनेळाभशेन दोनूय वटेन धोलपी, वोताचे त्रास जावंचे न्हय म्हण साहेबा चेपें वापरपी रूबाबदार पोळाजी मास्तर आमच्या वर्गार आयिल्ल्याची आमकां खूब खोस जाली. ताणी वैजकी कॉर्स केल्ल्या कारणान ते दोतोरकी करताले. ज्योतिषशास्त्रांत ताणी, 'होराभूषण' ही पदवी जोडिल्ली. ताका लागून ते लोकांलें भविष्यूय पारखिताले. ते लेखक, कवी, गायक, नाट्यलेखक आनी दिग्दर्शकबी. मुंबय मास्तरकी करून गावांत आयिल्ले आनी दोन – तीन गांवांनी बदली जावन आतां आमच्या म्हणल्यार आपल्याच गावांत आयिल्ले. फकत आमच्याच न्हय, तर लागशिल्ले आनी पयसुल्लेय पंचक्रोशींत लेगीत पोळाजी मास्तरांइतलें भोवरूपी अशें दुसरें व्यक्तिमत्व आसत अशें म्हाका दिसना.

जशी किर्ते देवानूच धाडून दिल्ली भेटवण अशा स्वरूपांत पोळाजी मास्तर आमचे शाळेंत आयले आनी तेवूय बी आमच्या वर्गाचेर. सगळेच विशय शिकोवपांत ते निपूण. मराठी हो तर तांगेलो आवडिचो विशय. कविता शिकयताना पयलीं ते चाल लावन म्हणटाले आनी मागीर शिकयताले. केन्ना केन्ना पेटी वाजयत गोड आवाजान कविता म्हणटाले. ताका लागून तांचें तें कविता शिकोवप ही सामकी जाय जाय अशें दिसपाची गजाल जाल्ली. 'जा हसत खेळत बाल निर्झरा आनंदाने गात' आनी 'पाऊस आला संवगड्यांनो, जलधारा पडती' ह्यो दोन कविता ताणी पेटी वाजयत शिकयल्यो. वर्सुयभर त्यो मनांत घोळत उरल्यो. जुलय म्हयनो आशिल्ल्या कारणान तर 'पाऊस आला...' ही कविता शिकयताना भायर घोग्यांनी पावस पडटालो.

पुण्यांतली आपल्या घरांतली टांकीअनुसुचीत जातींतल्या लोकांक उकती करपी महात्मा ज्योतिराव फुले हांचेवयलो धडोय सासणाचे यादींत उरलो.

त्याच वांगडा 'शिरीषकुमार' होवूय धडो उगडासांत उरलो.

स्वातंत्र्य संग्रामांत 'वंदे मातरम्' उच्चारिल्ले खातीर इंग्रजांचे गुळयेक बळी पडून हौतात्म्य पत्करपी नंदूरबारचो शिरीषकुमार म्हजें आकर्षण जाल्लो आनी आयुश्यांत नंदूरबाराक केन्नातरी एक फावट वचून

शिरीषकुमाराचे समाधीचें दर्शन घेवपाची म्हाका अतिशय व्हडली इत्सा जाली. तो धडो हावें परतून परतून वाचचो आनी येदे ल्हान पिरायेर शिरीषकुमाराक इतलें धाडस कशें जालां आसुंये हाचें म्हाका अजाप दिसचें.

नाटककार आशिल्ल्यान हो धडो ताणी अशे तरेन वाचचो, धड्यांतलो पुराय प्रसंग दोळयांमुखार उभो जावंचो.

भुगोलांत आमकां आशिल्लें 'आपले मुंबई राज्य'. ताका लागून उपरांतच्या कर्नाटक आनी गुजरात राज्यांचोय प्राथमिक भुगोल आमकां चवथे यत्तेंतच कळिल्लो.

उरलें तें आतां गणित. आबाली मदत जावनय तिसरेंत म्हजें आनी गणिताचें व्हडलेंशें जमलें ना. 'हातचे' खूब त्रास दिताले. पूण चवथेंत मात परिस्थिती बदलली. गणित म्हजो आवडिचो विशय जालो. खूब फावटीं पाटयेचेर घाल्लीं गणितांय हांव तोंडी सोडोवंक लागलों.

समाही परीक्षेंत म्हजो पयलो नंबर आयलो. धकालो दुसरो.

गावांतले आमचे शाळेंत मुंबयचे भशेन 'मॉनीटर' ही कल्पना नाशिल्ली. पूण तेच तरेचें काम पोळाजी मास्तरान म्हजेर सोंपयिल्लें. वर्गांतल्या बाकिच्या भुरग्यांचो घरपाठ हांव तपासपाक लागलों. धकालोय घरपाठ बरोबर आसतालो. ताका लागून हावें ताकाय घरपाठ तपासपाक सांगचें. पयलो नंबर आयिल्ल्यान म्हज्यांतलो आत्मविश्वास वाडलो आनी हांव अभ्यासांत चडान चड गुंतून उरलों. खेळ बी म्हणटा ताचेकडेन आडनदर करप शक्य नाशिल्लें. पूण ताचेकडली ओड मात नक्कीच उणी जाली.

पोळाजी मास्तरांचेंय म्हजेकडेन व्यक्तीगत लक्ष आशिल्लें. मदीं मदीं आबान मास्तराक मेळचें आनी "माज्या झिलावर लक्ष ठेवा" अशें सांगचें. मास्तरान फक्त हांसचें. जोरबीर येत जाल्यार वखदां मास्तरानच दिवचीं. ताका लागून आबाले ताचेकडेन व्यक्तीगत संबंद आशिल्ले.

हांव आनी धका, तागेले आवडते विद्यार्थी जाले.

पयली ते चौथीमेरेनचे आमचे वर्ग दोन वेळचे भरताले. सकाळचीं सात ते धा आनी दनपारचीं अडेज तीं साडेपांच. मास्तर आडवाडयेंतल्यान येताले ताका लागून ते हरशींल्या दिसांनी सकाळचें येतनाच जेवण घेवन येताले आनी एकदम सांजवेळचे वताले.

च्याचो थरमास आमी पयलींच पळयलो तो मास्तरांकडेन.

मास्तरान आनीक एक पायंडो घालो. शेनवारची शाळा अर्दो दीस आसताली आनी ती धा वरांचेर सुटटाली. ताका लागून म्हयन्यांतल्या दोन शेनवारांक शाळा सुटटकच ताणी आमकां सोबीत अशी काणी सांगची आनी

तीं सांगिल्ली काणी मागीर खूब दीस यादस्तेंत उरची. 'आईची माया' हे काणयेन मात खूब दीस अस्वस्थ केल्लो.

ते काणयेंतली एक गरीब अस्तुरी काबाड कश्ट करून आपणाल्या एकल्या एकसुऱ्या भुरग्याक ल्हानाचो व्हड करता. भुरगो फुडें आपणाक सुखांत दवरतलो ही अर्थांत तिची अपेक्षा. व्हड जातकच चलो एके चलयेच्या मोगांत पडटा. तागेलो आपणाचेर खऱ्यांनीच मोग आसा काय ना हाची खात्री करून घेवपाक चली ताका "म्हाका तुजे आवयचें काळीज हाडून दी" अशें सांगता. भुरगो फाटलो फुडलो कसलोच विचार करीनासताना आवयचो खून करता आनी तिचें काळीज घेवन तें ते चलयेक दिवपाखातीर वता. वतना वाटेर ताच्या हातांतल्यान तें काळीज जमनीर पडटा. तेन्ना काळजांतल्यान आवाज येता, "पुता, तुका तुका लागूं बी ना मरे कितेंय?' आतां भुरग्याक शितीमेंत जाता. "तूं जर आवयचो खून करपाक शकता जाल्यार फाल्यां कित्याकय लागून म्हजोय खून करशी." अशें सांगून चली ताचेकडेन लग्न जावपाक न्हयकार दिता.

आकांताची भिरांकूळ काणी ती. मास्तरान काणयेचे सुरवेकूच सांगून दवरील्लें, "आज हांव तुमकां रडयतलों." खरेपणी तशेंच जालें.

'श्यामची आई' पळयताना आपणाक आई ना हे भावनेन मन आकूळपिकूळ जाता. 'आईची माया' ही काणी आयकल्या उपरांत मन थरथरूंक लागलें.

चौथेंत आसताना एक दीस सांजवेळची शाळा अचकीत मदींच सोडली. दबिल्ल्या आवाजांत चर्चा चलताली. आमी पोळाजी मास्तरांक विचारलें, "काय झाले?" "डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर वारले." मास्तरान उदास जायत म्हणलें.

आमी घरा वचपाक भायर सरले. सगळीं दुकानां बंद केल्लीं. मुखावयल्या पिंपळाच्या पेडार ग्रामपंचायतिच्या फळयाचेर व्हडल्या अक्षरांनी बरयिल्लें, 'डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर हांचें 6 डिसेंबर 1956 दिसा दिल्लीक दुखेस्त महानिर्वाण जालें. मुणगे ग्रामपंचायत आनी समस्त मुणगे ग्रामस्थांचे वतीन तांकां नमळायेची श्रध्दांजली'.

दुसऱ्या दिसा शाळा भरतकच सदचेप्रमाण प्रार्थना जाली आनी तेउपरांत रोकडेंच दोन मिनटां शांतपणान सगळयांनी उभें रावन बाबासाहेबांक श्रध्दांजली अर्पण केली.

आमची चौथेची परीक्षा वाघोळीचे शाळेंत जाली. अपेक्षेप्रमाण वर्गांत म्हजो पयलो नंबर आयलो. धकालो दुसरो.

चौथेमेरेनचें आयुष्य मजेंत गेलें. भुरगेपणाचे धुंदींत आनी चडानचड सैमाच्या सांगातांत.

चौथेमेरेन आमी इतले खेळ्ळे, ताका मर्यादा नाशिल्लीच. तेन्ना आमचो खेळपा - नाचपांत इतलो वेळ गेलो, म्हाकाच केन्ना केन्ना प्रश्न पडटा, हांव इकरावी मेरेन शिकलो कसो तें. आख्खें वर्सुयभर ऋतुमानाप्रमाण खेळाचे उपदव्याप सुरू आसताले.

वर्सुयभरयांत सगळयांत चड खेळ जातालो ते कोंयड्या-बालांचो. भाद्रपद म्हयन्याचे अखेरमेरेन शेताची लुवणी जावन कुणगे मेकळे जाले काय आमचो कोंयड्या-बालाचो खेळ सुरू जातालो तो सादारणसो मे मेरेन चलतालो.शाळेंतल्यान घरा येवन एकदांचें दप्तर वडयलें काय आमी सुटटाले कोंयड्या-बालांनी खेळपाक. एक तर व्हाळाकडल्या शिरांनी वा भात लुविल्ल्या मरडाचेर. कोंयड्या-बालांचो खेळ जावं ना असो मरडावयलो एकूय कुणगो आमी सोडिल्लो नासतालो.

म्हजो बापोलभाव गोपाळ कोंयड्या-बालांचो खेळ बरो खेळटालो. बाल अचूक जिकतालो तें तर जालेंच, पूण टोवले अशे मारताल्लो, तो जाचो वांगडी आसतालो ते जिकलेच म्हण समजुपाचें.क्रेन्ना केन्ना दाजी, दिगंबरासारखे आमचेपरस व्हड लोकूय खेळांत भागी जाताले. तरीय कोंयड्या-बालाचो खेळ खेळटाना दरेकाक गोपाळूच आपणालो भिडू आसचो अशें दिसतालें. गोपाळ एकूय फावटीं शाळेंत गेल्याची याद म्हाका ना. पूण कोंयड्या-बालांचे आपणाले निपूणटायेंतल्यान जशी कितें ताणे ती उणीव भरून काडली.

सद्दां सादारण इकरा - साडेइकरांमेरेन कोंयड्या-बालांचो खेळ चलतालो.

मागीर आमचो मोर्चा वळटालो तो व्हाळावटेन. वर्सांतलो बरोच काळ व्हाळाचे कोंडींत उदक आसतालें. जानेवारीच्या सुमाराक ताचेर मातयेचो बांद बांदलो काय आनीकूय उदक सांठावतालें.

सुमार वरभर तरी आमी व्हाळांत फकत धुमशेणां घालताले. पूण इतलो वेळ उदकांत सारूनय न्हावप जायनाशिल्लें. फकत धुमशेणां. नाक दामून धरून उदकांत उडी मारप, एक, दोन, तीन...अशे आंकडे मेजून उदकांत बुडून रावप, फाटीचेर पेंवप, धरचेल्यांनी खेळप...कितें करताले आनी कितें

ना!

पावसाळयांत तर आमचे खोशयेक उमाळे येताले. व्हाळ भरून व्हांवपाक लागलो काय ताचें उदक शिरांतल्यानच न्हय तर देवळेंतल्यान वतालें. ताका लागून आमच्या पिवपाच्या उदकाची बांयूय हुंवाराखाला वताली. अशा वेळार आमीच न्हय तर जाणटीं मनशां लेगीत फकत पयसुल्ल्यानच हुंवार पळयताले. हुंवारांत नाल्ल व्हांवून वतना दिसलो काय लोकांचो जीव वयर सकयल जातालो. पूण उदकांत वचपाचें धाडस कोणाक जायनासलें. भितर कोणूय सांपडलोच जाल्यार तो दर्याक मेळळोच म्हण समजुपाचें.

हुंवार जेन्ना खूब व्हडलो नासतालो, पूण व्हाळाक मात बऱ्यापैकीं उदक आसतालें तेन्ना मजा येताली.

व्हाळाचे कुशीकूच, सारकें कोंडीचे वयर, माडाक तेंकूनच दसणीचें झाड आशिल्लें. जशें कितें व्हडल्या भावाचे कुशीक धाकले भयणीन उभें रावचें तशें. पांच-स फूट उंचायेच्यो ताच्यो फांदयो व्हाळाचे दिकेन बागवल्ल्यो. त्या फांदयांचेर चडून आमी कोंडींत उडयो मारताले आनी व्हांवत वचचे ना अशे तरेन धडेचे कुशी कुशीच्यान पेंवताले. दोन – तीन उडयो मारून जातकच खरस मारताली. झेलावरी त्या थंड उदकान कुडकुडो भरलो. पूण आमच्या मस्तेपणाक मात खंयच बिड्डुं लागनासलें. उडकी मारून दर खेपे भायर आयलो काय एखाद्या शूर दादल्याभशेन पराक्रम केल्ल्यासारखें दिसतालें. व्हाळ हो आमच्या आयुष्याचो अविभाज्य भाग जाल्लो.

व्हाळांत बुडयो मारता आसतानाच आबालो व्हडल्यान उलो कानार सादतालो, 'ए झिला S S'

हांव 'इलय' म्हण व्हाळांतल्यान आड्डुतालों.

व्हाळांतल्यान भायर सरून मुस्तायकी चडयतासर थोडोसो वेळ वतालो. पूण तितलो वेळ मेरेन ताचे आनीक दोनतरी उले येवंचे आनी ताणे खळयांतूच रावचें. हांव खळयांत पावल्या खिणाक तो मातसो तापतालोच. केन्ना केन्ना आपणाली 'अक्करमाशी' ही गाळय मारी. पूण दुसऱ्याच खिणाक सगळें विसरून कांयच घडूंक नाशिल्लेभशेन वागतालो.

आबाक म्हजेर मनासावन आनी खऱ्यांनिशीं तीडकप खूब कठीण जातालें. मारपाचो तर प्रश्नूच नासलो. हांव आबाल्या आयुष्याचो केंद्रबिंदू आसलों.

ताणे घरांत पावल दवरीनाफुडें हांव जर ताचे नदरेक पडलों ना तर ताचो जीव खासावीस जातालो आनी 'ए झिला S S' म्हण तो ताळो फुटसर

आडुतालो. हावें तो घरा येवचेआदीं व्हाळांतल्यान वा खेळटा थंयसून वा जंय आसा थंयसून घरा हाजीर रावपाचो निश्चेव दर फावटीं करचो. पूण म्हाका तें केन्ना जमलें अशें म्हजे यादींत ना.

केन्ना केन्ना जेवण रांदपांत हावें आबाक मदत करची. चडशे फावटीं आमचेकडेन दनपारचें नुस्तें आनी शीतच आसतालें. म्हजे हात भगभगतले म्हण ताणे म्हाका रगड्याचेर संकेश्वरी मिरसांग केन्नाच वांटूंक दिली ना.

आमचें दनपारचें जेवण हेर कोणायपरसूय चड झणझणीत आसतालें. जेवण जातकच फस्काची काडी वांटावपाखातीर आबा म्हाका रांदनीतल्या इंगळ्याचेरूच विडी पेटोवन हाडपाक सांगतालो.म्हजी मागीर मजाच. विडी पेटयताना हावें दोन – तीन झुरके घेवंचे.

“रे इडी तुका हाडलंय काय म्हाका?” आबा विचारतालो.

“बरोबर पेटॉक नको?” हांव

“आता काय वडू? अर्दी केलस.” आबा.

आबा रोकडोच न्हिदूंक वतालो. दनपारां जेवल्या उपरांत जंय आसा थंय ताका न्हीद येताली. सामकी पावसाळयांत लेगीत, दनपारचीं शेताचीं कामां उलगतकच जेवण जाल्याउपरांत बैलांच्या गोठ्यांत लेगीत.

आबाक न्हीद लागिल्ल्याची सुलूस आयली काय आमी परतून अर्द – पाऊण वर कोयंड्या बालांचो खेळ खेळूंक वचचें. मागीर अडेजांक शाळेंत.साडेपांच वरांचेर शाळा सुटून घरा आयलो काय मागीर काळोख जायीसर कोयंड्या बालांचो निमाणो डाव जातालो.

चिंचाऱ्यांच्या खेळांतय आमचो बरोचसो वेळ सरतालो. आमचेच वाडयेंत चिंचेचीं तीन व्हडलीं झाडां आशिल्लीं. एक आमच्या घरा शेजराक भिक्या आबालें, दुसरें केशवालें आनी तिसरें आशिल्लें गुण्या आबा फौजदारालें.

चिंचो पिकपाक लागतकच चिंचेबोटां पाडपाक आमी झाडांचेर फातर शेंवटीताले. सामके हात दुखमेरेन. पूण आमची मुखेल आवड आशिल्ली ती आमटाणींतले चिंचारे पुंजावपांत. ते एकठांय करून आमी इस्पिकेच्या पानांच्या खेळांत तांचो पैशांभशेन उपेग करताले. केन्ना केन्ना आमी ते कोळशांचेर भाजूनय खाताले. तर कितें, चडान चड चिंचारे पुंजावपांत मजा येताली.

लगोऱ्यो, हुतूतू, पतंग सोडप असले खेळ लेगीत आमकां खूब आवडटाले. कोयंड्या बालां फाटोफाट काजीच्या मोसमांतलो म्हत्वाचो खेळ म्हणल्यार

'मीलां' चो खेळ. 'मील' म्हणल्यार एखाद्रे ल्हान – व्हड वणटीच्या तळाक अडेज – तीन इंचायेचें खोल आनी दोनेक इंच रूंदायेचें एक फोणकूल खणप आनी मीलासावन सुमारेक बारा - तेरा फूट पयस उभे रावन जितले खेळपी आसतले त्या दरेकल्याची एकेक काज जमोवपाची आनी जितल्यो काजी आसतल्यो त्यो एकेकल्या पोश्यान शेंवटून मीलांत मोखपाच्यो. मीलांत जितल्यो काजी पडटल्यो, त्यो मीलाकडेन काजू मोखपी खेळगड्याक मेळपाच्यो. मागीर उरील्ले खेळपी जी काज दाखयतले, ती कोपराच्या तेमकांनी  उखलून वणटीमेरेन पावोवपाची. पावली जाल्यार मेळटली, पावलीना जाल्यार ना.

आख्खे वस्तेंत मीलां खणलेबगर आमी एकूय वणट दवरली ना. मीलांचो खेळ हो फायद्या नुकसानाचो खेळ आशिल्लो. ताका लागून खेळटाना जतनाय घेवंची पडटाली. तेचभशेन, फेब्रूवारी - मार्चाच्या सुमाराक काजूंचो मोसम सुरू जालो काय खावपापरसूय मीलांनी खेळपाखातीर काजू पुंजावप हो आमचो मुखेल उद्देश आसतालो. ताका लागून सुमारेक दोन – अडेज म्हयन्यांच्या काजूंच्या मोसमांत शाळेंतल्यान घरा परतताना बाबूदादांच्या रेनांत वचून काजूंच्या झाडांचेर हांव चडूं ना अशे खूब थोडे दीस म्हजे यादींत आसात. केन्ना रांपणीचेर वतना रेनांतले बामण राखताले त्या काजींच्या झाडांवयल्यान, जुस्त वेळ सादून आनी कोण ना अशें पळोवन काजी चोरपांत आमची फिशालकाय पणाक लागताली.

काजी चोरपासंबंदान अशीच एक घडणूक याद जाता.

एक फावट वसंतान खबर हाडली, सख्यातात्याले काजीक घे S S म्हण काजूंचे मुट्टे आसात. पूण शेजराक घरां. मात लेगीत पावलांचो आवाज जाल्यार सगळयांक कळटलें. पूण आमचें थारलें, कितेंय करून त्यो काजू काडपाच्योच.

दनपारां जेवल्या उपरांत सगळेकडेन किण्ण पडटकच वसंत, तागेलो भाव बाळा आनी हांव काजींनी घुसले आनी मातूय आवाज करीनासताना भरभर करून काजींचेर चडले. पानां लेगीत उणीं, इतले काजींक मुट्टे लांबताले. आमी काडून तरी कितले काडटले? तातूंत आवाज जायत म्हणपाची भिरांत. तेखातीर हातालागीं मेळटात तितले मुट्टे काडून आनी एकामेकाक कुरवो करून सकयल देंवपाचें थारलें. आनी काजीच्या मुळांत पळय जाल्यार कितें? आख्खें आंग झेलावरी थंडगार जावन म्हाका सकयल कोंसळटा कशें जालें. हळडुव्याच रंगाचो आकांताचो मोटो असो एक सोरोप सामको ल्हवू ल्हवू काजीच्या मुळावटेन येतालो.

"वसंता, पापया सकयल पळय..." हावें कुरवेनूच सांगलें.

वसंताचो तर आवरोच उडलो. बाळा धाडसी आशिल्लो. इतलें सगळें घडटासर सोरोप थंयसान गेलोयबी.

जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हणत आमी सकयल देंवले आनी सोरोप परतून येतबी हे भिरांतीन घराकडेन धांव मारली.

"सख्या तात्याचो ठिकानदारच तो! आमका काय काजी चोरूक देयत. मग ठिकानदार कसलो!" वसंतान म्हणलें. हाचेर आमचें सगळयांचें एकमत जालें.

सोरपाविशीं आमी शेंकड्यांनी आख्यायिका आयकल्ल्यो. सोरोप चलता आसताना पान लेगीत हाल्लें जाल्यार कुशींतल्यान चलतल्या मनशान आपणाक दुखयलो अशें समजून तो नकळटाना त्या मनशाचो दावो धरता, घराचे आशीकुशीक दडून रावता, दुखयतल्याक केन्ना ना केन्नातरी दंश करताच, तेखातीर कितलींय वर्सां तो बिळांत रावता...अशें जायत्या जाणांच्या तोंडांतल्यान जायते फावटीं आयकल्लें.

खरेपणी, आमचेच वाडयेंत जायते खेपो असो सोरोप आयिल्लो आनी दर फावटी ताका लोकांनी जितोच मारील्लो....मारील्ल्या सोरपाक पळोवपाक घे S S गर्दी जाताली. सोरोप मारपांत खापे आशिल्ले ते दाजी आनी दिगंबर.

त्या दिसा रातीकडेन सोरपाचे भिरांतीन कितलोतरी वेळ म्हजो दोळयाक दोळो लागलो ना.

खेळपाबिळपाचे असले धुंदींत आसूनय शाळेंतल्या भारावन गेल्ल्या वातावरणांत आमी रमून वचचें.

26 जानेवारी आनी 15 ऑगस्ट हे दीस तर राष्ट्रीय परबो कशे. त्या दिसांनी सुटी आशिल्ल्यान आमकां खोसच! त्या दोनूय दिसांनी झेंडावंदनाखातीर देवळालागींच्या शाळेमुखार वळींत उबे रावन एकवटान 'विजयी विश्व तिरंगा प्यारा, झंडा उंचा रहे हमारा' आनी 'वंदे मातरम्' म्हणटा आसताना आंगार कांटो उबो रावतालो. नवभारतांत आसताना आनी विशेष करून इकरावेच्या वर्गांत गेल्या उपरांत राजकी स्वातंत्र्य, प्रजासत्ताक ह्या संकल्पनांचो थोडो आशय जेपरीं कळपाक लागलो, तसो तो तिसरेंत – चौथेंत आसताना समजप शक्य नाशिल्लें. पूण तरी लेगीत स्वातंत्र्य, लोकशाय ह्यो गजाली संवेदनाच्या थोड्याशा थरार कळपाक लागिल्ल्यो.

'विजयी विश्व....' आनी 'वंदे मातरम्' हें सुरवेक मास्तरान म्हणचें आनी

फाटल्यान आमी भुरग्यांनी म्हणचें. झेंडावंदन करता आसताना म्हजे नदरे सामकार एक प्रतिमा सामकी चुकनासताना म्हणटा तशी उभी रावताली. शिरीषकुमार!

गांधी जयंती, टिळक पुण्यतिथीच्योय कार्यावळी शाळेंत जाताल्यो.

तशें पळोवंक गेल्यार दरेका वर्सा स्वातंत्र्यदिन, प्रजासत्ताक दिन, गांधी जयंती आनी टिळक पुण्यतीथ असल्या दिसांनी आमची विद्यार्थ्यांची सकाळीफुडेंच गावांत प्रभातफेरी जाताली. त्यानिमतान आमी लागीं लागींच्या वाड्यार वचून पायणी नितळ करपाचें काम करताले. प्रभातफेरी पावली काय आमकां भुरग्यांक पळोवपाक सगळयांची गर्दी जाताली.

बांबरवाडींत प्रभातफेरी पावतकूच पळोवप्यांमदले कांय जाण म्हजेकडेन बोट दाखोवन 'तो बगा लकूचो झील' वा 'सावकाराचो झील' अशें म्हणटाले. प्रभातफेरयांक लागून गावांतलो बरोचसो वांठार आमचे संवकळिचो जाल्लो.

शारदोत्सवाची कार्यावळ ही शाळेंत खोशयेच्या वातावरणाची निर्मणी. सरस्वति पुजनाच्या दिसा आमची बरीच धांवपळ जाताली. जमता तेप्रमाण सरस्वतिचीं चित्रां काडिल्ल्यो पाटयो, फुलां, उजवाती घेवन आमी सकाळीं शाळेंत वताले आनी मागीर सगळयांचें एकवटीत पाटीपूजन जातालें. पाटयेवयले सरस्वतीक आमी मनासावन पांयां पडटाले. सरस्वतिकडेन आमचें एकूच मागणें आसतालें, 'दर वर्सा आमकां पास कर.'

दनपारच्या जेवणा उपरांत शाळेंत तरातरांच्यो मनरिजवणेच्यो कार्यावळी जाताल्यो. तातूंत ल्हान भुरग्यांचे नाच, गीतां आसतालीं. व्हडल्या कार्यावळिंनी सववी - सातवेचीं भुरगीं वांटेकार जातालीं.

आतांमेरेन, खास करून तिसरी आनी चौथेच्या वर्सांनी गांवची लागीं लागीं पुराय वळख म्हाका जावन गेल्ली. वेगवेगळया कारणांक लागून म्हजो पुराय गांव भोंवून जाल्लो.

रत्नागिरी जिल्यांतल्या देवगड आनी मालवणचे शिमेवयलो मुणगे हो निमाणचो गांव. दक्षिणेचे वटेन पाराची न्हंय आनी न्हंयेपलतडीं आचरा. आयले तडीक मुणग्याची आडवाडी आनी पयले तडीक आचऱ्याची पिरावाडी. आमच्या गांवांतलें खाशेलेपण म्हणल्यार बोटीचें दीपगृह. पूण बंदर मात आचऱ्याक. कित्याक तर बोट थारता आचऱ्याचे शिमेंत. उत्तरेकडेन हिंदळे. दोन गांवांतले शिमेचेर फकत तीन काळे, उभे चिरे. हे उभे फातर म्हणल्यार मुणगे आनी हिंदळयाची शीम. हिंदळया उपरांत न्हंय. पलतडीं मिठबाव.

मुणगे ह्यो बारा वाडयांचो गांव. उदेंतेकडेन बांबरवाडी. थंयसावनच गावांतल्या पांच -स वाडयां मदसून व्हांवपी व्हाळ सुरू जाता. व्हाळाच्या मुळासावन तो दर्याक मेळमेरेन दोनय वटेन माड – माडयांच्यो रांकोच रांको. बांबरांतल्यान सकयल अस्तमतेकडेन आयलें काय लागता देवूळवाडी. थंयचें एक -एक घर हांगा थंय शिंपडून आशिल्लें. हेवटेन तेवटेनचे पंचक्रोशींत जागृत देवस्थान म्हण नामना आशिल्लें भगवतीचें देवूळ हांगाच. देवळाचे फाटले वटेंतसून दोंगरांतल्यान पाझरिल्लो एक झरो आसा. ताका बाराय म्हयने उदक. ताच्याच उदकान देवीची पुजा जाता. देवळा कडसून मातशें सकयल आयलें काय लागता आमची म्हारवाडी. आमकां तेंकूनच चामारवाडी. फुडें सावंतवाडी. आमचे वाडयेप्रमाण सावंतवाडींतलीं घरांय एकामेकाक लागलेलीं. आनीक सकयले वटेन लब्देवाडी. त्या उपरांत भंडारवाडी आनी दर्याक तेंकूनच गावडेवाडी. थंय सामके उत्तर दिकेवटेन, हिंदळयाचे शिमेचेर सडेवाडी. देवळाकडसून सुमारेक दोन – तीन मैल , दक्षिणेक कारिवणे, तिचे कुशीक आडवाडी आनी तिका तेंकूनचआपवाडी. आडवाडी तर लागीं लागीं सडेवाडी इतलीच पयस.

गांवची वट्ट लोकसंख्या सुमारेक अडेज ते तीन हजार. गावांत सगळे मेळून बारा बलुतेदार. भट, गुरव, घाडी, मडवळ, म्हाले, म्हार, मेस्त, चामार, देवळी...आदी. दरेकल्याक नेमून दिल्लीं कामां. देवस्थानाचीं सगळीं कामां करपाक सगळया मानकऱ्यांची गरज. एकलो जरी नासलो तर देवस्थानाचें काम जायना.

गावांतलीं आडनांवांय थरील्लीं. सावंत, लब्दे, पाडावे, घाडी, पुजारे, दळवी म्हणल्यार मराठा, पाध्ये आनी असावडेकार म्हणल्यार भट, आडकर म्हणल्यार खारवी आनी रासम म्हणल्यार गावडे. भंडारी, म्हार, चांभार, म्हाले आनी मडवळ ह्यांचेखातीर मुणगेकर हें एकूच समान नांव आशिल्लें.

देवळाच्या वाठारांत भितर सरचे पयलीं उजवेवटेन अण्णा आनी आप्पा पाध्यांचो भुसारी म्हालाचो एक व्हडलो पसरो आशिल्लो. तागेल्या पसऱ्यार तांदूळ, जोंजळे, बाजरी, गोड धरून सगळीं कडुणां आनी कांदे – बटाट धरून ते पेत्रोला मेरेनच्यो सगळयो वस्तू आशिल्ल्यो. इतलेंच न्हय तर मुम्बैक कोल्हापुरी व्हाणो लेगीत मेळटाल्यो. तागेल्या पसऱ्याक आमी 'भटालो पसरो' अशें म्हणटाले. देवळाकुशीच्या ह्या पसऱ्यावयल्यान बांबरवाडी, देवूळवाडी आनी आमचे वाडयेंतले लोक आपापलो म्हाल व्हरताले.

हांव चौथेंत आसताना हिंदळयांच्या वळंजूंनी आमच्या गावांत भुसारी



म्हालाचो एक व्हडलो पसरो धालो आनी त्याच वर्सा भटालो पसरो बंद पडलो.

वळंजूं मदलो दिगंबर – आमी ताका भाई म्हणटाले - म्हजेपरस तो सात – आठ वर्सांनी व्हड आसूनय हांव सवेंत आसतनासावन ताची - म्हजी इश्टागत जाल्ली. तांचेकडेन आबालेय कुटूंबीक संबंद निर्माण जाल्ले.

बाबू नाटेकारांलो भुसारी म्हालाचो आनीक एक पसरो सड्यार आशिल्लो. लब्देवाडी, भंडारवाडी, आपवाडी आनी कारिवणेवाडयेंतल्या लोकांक तीं लागीं पडिल्ल्यान थंयसावनच ते आपणालें सामान घेताले. आडवाडींत आबू मुसलमानाचो पसरो आशिल्लो.

गावांत चार गाडे च्याचे आसले. देवळाच्या वाठारांत मदेकाकूच आशिल्लो बांबरांतल्या महाजनाचो. ताका लागून आख्ख्या गावांतले, चड करून बांबरांतले लोक थंय च्या घेताले. तागेल्या गाड्यार स्वताचे मालकिचे नाल्ल, सुपाऱ्यो आनी गाड्याक तेंकूनच आशिल्ल्या पणसाचीं पिकीं पणसुलां मे म्हयन्यांत मेळटालीं.

सकयल व्हाळाचे कुशीक नानालो गाडो आशिल्लो. ताचें नांवूच च्यायवाला नाना! सावंतवाडी, सडेताडी आनी तेवटेन येवपी भायले पावणे लोक नानाल्या गाड्यार रावताले.

ताच्या आयल्यान पिंपळा पेडाचे कुशीक अंतूली धाकटुलीशी एक खोपटी आशिल्ली. थंयूय च्या मेळटाली. पूण अंतूची फाम आशिल्ली ती कांद्यांच्या भज्यांखातीर. ज्या दिसा अंतू कांद्यांचीं भजीं करतालो त्या दिसा तागेले खोपींत बसपाक खंय, उबो रावपाक लेगीत जागो नासतालो. त्या दिसा उगड्याबंब अंतूल्या मुखामळावयलें समादान कितें वेगळेंच आसतालें. पूण सगळयांत फामाद म्हणल्यार लब्देवाडींतल्या पुजाऱ्याचो गाडो. सगळयांत वयले कडेक देवळाकडल्या घाटयेच्या मुळसाक गाड्या मुखार अर्दवटशें बांदिल्लें विस्तिर्ण अशें एक पेड आशिल्लें. पिंपळाचे कुशीकच अवाढव्य असो एक रूख, आंब्याचो. पूण ताच्यो जायत्यो आनी दाट फांदयो मुळासावन फकत धा-बारा फुटांचेरच नीट आनी चारूय वटांनी फांकारिल्ल्यो आशिल्ल्यो. एक फांदी तर पुजाऱ्याच्या गाड्या मेरेन गेल्ली. ताची गाड तशेंच पयस मेरेन पातळटली सावळी सदांच सुखदिणी जाणवताली. ताका लागिल्लो एकेक आंबो तर ल्हानशा नाल्लायेदो आनी रूच लेगीत कातलेभशेनच आशिल्ली.

पिंपळा पेडांकडेच बैलगाडयांचोय तळ आशिल्लो. बाबा गुरव, शिवआबा तेली आनी आमचे वाडयेंतलो धोंडीदादा हांच्यो गाडयो थंय

रावताल्यो. म्हाल ह्राडून जातकच एक – दोन गाडयो सदांच विसवाखातीर थंय थांबिल्ल्यो आसताल्यो.

पुजाऱ्यांच्या पसऱ्यार तांदूळ, गोड, पेत्रोल, कांदे, बटाट, मिरसांगो अशे सगळे भुसारी जिनस आशिल्ले. लोकांक जाय तसलो 'कडक, च्यायबी तांचेकडेन आसतालो. हेर पसऱ्यांचेर आसतात तसले भिकणांचे आनी चण्याच्या पिठाचे सुरबूस लाडू आसताले, पूण हेरकडेन मेळना असली पापडी आनी शेवय मेळटालो. च्यांत बुडोवन ती खाता आसातना मजा येताली. पुजाऱ्याच्या पसऱ्याचेर सगळयांत चड गर्दी आसताली ती आमचे वाडयेंतल्या लोकांची.

मात चारूय पसऱ्यांचेर आमकां अस्पृशांखातीर वेगळे ग्लास राखून दवरिल्ले आसताले. ग्लासांवांगडांच आमगेली बसपाची वेवस्थाय वेगळी आसताली. पिवचे पयलीं आनी पिवन जातकच आमचे ग्लासय आमकांच धुवचे पडटाले. आमचेखातीर वेगळे ग्लास कित्याक? हें विचारपाचो प्रश्नूच केन्ना उपरासलो ना.

सडेवाडीचो सोडलो तरीय आमच्या गावांक लाबिल्लो देडेक मैलांचो दर्यो हें आमच्या गांवाचें वैभव. एके वटेन आपवाडी आनी दुसरे वटेन भंडारवाडी. दर्याचे देगेर नितळ रेवेंत भोव अपरूप दिसपी अशी माडांची गर्दी. गांवांतल्यान व्हांवपी व्हाळूय हांगांच येवन दर्याक मेळटा. तो दर्याक येवन मेळचे आदीं सुमारेक चारशीं - पांचशीं फूट लांबायेमेरेन व्हाळाचें उदक खारट जाल्लें आसता. ताकाच आमी 'पार' म्हणटात. तो वलांडून फुडें दर्याकडेन वचपाक मेळटा. तो वलांडपाचो नासल्यार गावडेवाडीक वळसो घेवन वचपाचें.

दर्याचेर नुस्तेंमारी करपी चार – पांच रांपणी. तातूंत कोळंबकाराली रांपण सगळयांत व्हडली. आमचे वाडयेंतले लोक सोडून गावांतले चडानचड लोक तेच रांपणीत आशिल्ले. तेउपरांत सावंताची, पोरनी आनी आपकरांची रांपण. थंय आशिल्ली सडेवाडकारांची स्वतंत्र रांपण. दरेके रांपणेच्या पार्तेलांत तीस ते चाळीस वांगडी आसताले. होड्यांतल्यान एखाद्रे मैलभर पयस वचून ते रांपण दवरताले आनी सादारण अडेज ते तीन वरांनी ती ओडून देगेर हाडटाले. ती ओडपी रांपणकार उरफाटे दिकेन मुयेचे गतीन चलताले. केन्ना केन्ना तर रांपणीत इतलें नुस्तें येवचें, ती ओडपाक त्रास जातकच लोटून दिवची पडटाली आनी नुस्तें परतून दर्यांत सोडचें पडटालें. एकदम खूब मेळळें काय केन्ना केन्ना एका रूपयाक दोन – तीन पापलेटां

आनी पंदरा - वीस बांगडे मेळटाले. पूण आमकां तेवूय म्हारग लागताले. खूब नुस्तें मेळटकच तातूंतलें चड करून बारीक बारीक नुस्तें सुकोवन कांयजाण शेताखातीर सारें तयार करताले. ताकाच आमचेकडेन 'कुटा' म्हणटात. 'कुटा' घालतकच शेताक बरो कस येतालो.

रांपणकार रांपणी ओडटा आसताना आनी भेंडामेरेन उदकांत देंवून तातूंतलें नुस्तें फारायताना आमी ल्हान आसूनय त्या आकांताळ्या दर्याची केन्ना आमकां भिरांत दिसली ना. केन्ना केन्ना तर पापलेट वा बांगडे दर्यांतल्यान काडटांच चुट्स्यांनी वा पत्र्यांत भाजून खातना कितें म्हण खोस जावंची!

शाळा सुटल्या उपरांत सकाळच्या धा वरांचेर तशेंच परतून दनपारां शाळेंत वचमेरेनचो आमचो भुरग्यांचो अर्दो वेळ रांपणीचेर आनी उरिल्लो व्हाळांत बुचकळपांत सरतालो. ऑक्टोंबरसान सुमारेक एप्रिल – मे मेरेन अशो कार्यावळी चालूच उरताल्यो. रांपणीरसावन घरा परतताना पांय खूब भाजताले. मागीर आमी केळिच्या गोब्यांच्यो व्हाणो करताले आनी केन्ना केन्ना आंगश्यान पांय गुठलावन घेताले.

दर वर्सा सगळे रांपणकार आपणाल्या मांगरांत सत्यनारायणाची पुजा करताले. त्या वेळावयली सामकी थारायिल्ली कार्यावळ आसताली ती भजनाची डबलबारी. आदींसावनच म्हाका भजनांचें आकांताचें पिशें. केन्ना केन्ना तर म्हाका भजनीबुवा जावंचें अशें दिसतालें. ताका लागून ह्या भजनाक वचपाचो म्हजो दरेक खेपेक आग्रो आसचो आनी आबान म्हाका चुकनासताना गाळी मारच्यो. रातची पारार भरती आशिल्ल्या कारणान ताका सदांच दिसचें, हांव पारार बुडून बिडून मरत म्हण.

“एवढ्या सगळयात मीच काय तो बुडॉन मरान?” हावें म्हणचें. तरीय ताणे आयकुचें न्हय. अखेरेक दिगंबरान आनी दाजीन आबाक समजावचो आनी मागीर आबान नाईलाजान म्हाका वच म्हणचो.

एक फावट एका भजनी मंडळाच्या बुवान नाकांतल्यान दोन मिनटा पेटी वाजयिल्ली. गावांत मागीर आठ दीस हीच चर्चा.

कामगार रंगभुमीचे दीस ते. तेन्ना मुंबयतल्या कामगार जिविताचेर खूब नाटकां जातालीं. सार्वजनिक गणपती आनी नवरात्रोत्सवाच्या वेळार ह्या नाटकांचे प्रयोग चुकनासताना जातालेच.

मालवणी मनशाक नाटकांचें आकांताचें पिशें. तांतले तातूंत आमचो गांव तर नाटकां करपांत फामाद. शांताराम मुणगेकर ह्रो मुंबयच्या कामगार

रंगभुमीवयलो एक उत्तम नट. तो म्हजो बापोल बापोलयो. इतलें आसूनय आमची वाडी वगळून हेर सगळया वाडींतल्या मुंबयकारांनी गावांत एकदां तरी नाटक केल्लेंच.

आख्ख्या गावांत नाटकांत आघाडेचेर आशिल्ले ते लब्देवाडकार. तांगेलें नाटक आसा म्हणपाचें समजलें काय आचरा, चिंदर, हिंदळे, मिठबाव, दहिबाव अशा भोंवतणच्या गावांतलेय लोक येताले. मुंबय तांचेकडेन बऱ्यापैकीं दोन – तीन नट आशिल्ले. विशेश म्हणल्यार तांचे वाडींतलो रामचंद्र सावंत हो देखणो नट मुंबयचे कामगार रंगभुमीचेर नांवाजतो आशिल्लो. तांगेल्या सगळया नाटकांनी नटयो आसताल्यो. आमच्या गावांतले सगळेजाण नाटकापरस नटयांक पळोवपाक आंवडेताले. दादल्यांची तर उमळशीक चड.

एकवटीत – विभक्त कुटूंबपद्दत, सावकारी, जमनीवयल्यान भावा - भावाचीं झगडीं हे नाटकांचे मुखेल  विशय आसताले. असलेच तरेचीं लब्देवाडकारालीं दोन नाटकां म्हाका भोव आवडलीं. एक आशिल्लें 'कुटूंब' आनी दुसरें 'नवा संसार'.

'कुटूंब' हें वसंत दुदवडकारांलें आसुंये. कोंकणातले  सावकारीचो प्रश्न त्या नाटकांत मांडिल्लो. कसल्या ना कसल्या कारणाक लागून जमीन घाणाक दवरपाचें आनी विकपाचें प्रमाण खूब आसतालें. दादा हो नाटकाचो नायक आनी ताची बायल पार्वती ही नायिका. आपली जमीन तो सावकाराकडेन घाणाक दवरता. पूण गरीबीक लागून ती ताच्यान परतून सोडोवन हाडपाक जायना. ताका लागून सावकार ताच्या घराकडेन येता आनी, “पारू, तुजो म्हाका जीव दी नाजाल्यार तुज्या घराचेर हांव जप्ती हाडटां.” अशें सांगता. पार्वती ताचेर कोयती उखलून धरता आनी ताका मारपाक वता. सगळयांनी नाटक उखलून धरलें आनी सावकाराक न्हय न्हय तसल्यो गाळी मारून खेपलो.

दादालो  धाकलो भाव चंदू हो नाटकाचो हिरो. शिक्षणाखातीर चंदू मुंबय वता आनी कॉलेजींत कल्पनाच्या मोगांत पडटा. तो परीक्षेंत नापास जाता आनी ताचेकडसून अपेक्षीत आशिल्लीं कुटुंबाचीं सगळीं सपनां उध्वस्त जातात. खरें म्हणल्यार दादान सावकारा कडसून जें रीण घेतिल्लें तें ताका शिकोवपाखातीरूच. ताका लागून कल्पना मंचाचेर आयली काय सगळे प्रेक्षक ताका खेपूंक लागताले. तातूंत सगळयांत फुडें आसतालो सावंतवाडींतलो आबा सावंत. चंदूची भुमिका केल्ली रामचंद्र सावंतान.

'नवा संसार' हें नाटत वसंत जाधवाचें. तातूंतय काळजाक पिंवळ

घालपी अशी चार भावांची कथा मांडिल्ली. सडेवाडकारांनीय 'रामची ताई' हें नाटक मुंबयसान हाडिल्लें. तातूंत हिंदळयाच्या भरत राणेची मुखेल भुमिका आशिल्ली.

पूण गावांतल्या सगळया नाटकांमदीं सासणाचें म्हज्या लक्षांत उरील्लें नाटक म्हणल्यार लब्देवाडीच्या गावांतल्या लोकांनी सादर केल्लें 'कुलकलंक'.

एका सज्जन घरांतल्या कुड्ड्या मनशाचो भुरगो वायट संगतीक लागून कोणाचोतरी खून करता. तो 'कुलकलंक' थरता. आपल्या पुतान कोणाचोतरी खून केला हें आयकून म्हाताऱ्या कुड्ड्या बापायचो जळफळाट जाता. तातूंतच तागेली विधवा धूव शेवंता हिवूय ताचेचकडेन आसता. शेवंताची भुमिका केल्ली भिकाजी रूपेन. त्याच वर्सा सातवी पास जाल्लो, पंदरा वर्सां पिरायेचो, गोरोपिट्ट, उंचायेन मध्यमसो, सडपातळ आनी रूपेस्त भिकाजीन णववारी कापडांत जश्याक तसो शेवंतावरी मंचाचेर प्रवेश केलो आनी सगळयांनी ताळयांचो कडकडाट केलो. सगळयाभितर विसरूंक नजो अशी गजाल म्हणल्यार ताचो आवाज. ताणे दोन – तीन पदां म्हणलीं. तीं म्हणटा आसताना ताच्या आवाजाचे सूर पेटयेच्या सुरांत भरसुंचे काय पेटयेचे सूर ताच्या सुरांत विरघळचे हें सांगप कठीण आसलें. भिकाजीच्या शेवंतान सगळयांचे दोळे दीपकायले. तागेल्या अभिनयाखातीर तो सगळया गांवचें आकर्शण थरलो. फकत तागेलें भिकाजी नांव बदलून तें शेवंता दवरलें ना, इतलेंच. फुडें मागीर कितलेतरी दीस गावांत खंयच्या ना खंयच्याय प्रसंगाच्या वेळार ताका पळोवपाची एकूय संद हावें केन्ना सोडली ना.

नाटका खातीर तेन्ना स्वतंत्र माची नाशिल्ल्यान गांवकरी मंडळीचीं कांय नाटकां देवळाच्या सभा मंडपांतूच जातालीं. मुंबयकार मंडळी मात देवळाच्या वाठारांत वेगळी माची घालताले.

नाटकाचे रातीकडेन देवळाच्या वांठाराभायर चायवाल्या नानान घाल्लो च्याचो गाडो हें मुखेल आकर्शण आसतालें. पयलो - दुसरो अंक सोंपल्या उपरांत नानान केल्ली गरमागरम च्या पिवपाखातीर सगळयांची घे S S म्हण गर्दी जाताली. तातूंत तर केन्ना केन्ना आमच्यासारखेल्या ल्हान भुरग्यांचो नंबरय लागनासलो. पूण जर काय नंबर लागलो तर च्या पितना आनी पैशे आसल्यार सांगाताक पिठाचो वा भिकणांचो लाडू खातना खूब घोस्त येतालो. खूब गर्दी आसल्यार मात आमी केन्ना केन्ना लाडवाचेरूच भागोवन घेताले.

नाटकाची अशीच एक याद उरसारखी घडणूक.

हांव तेन्ना दुसरेंत आसन. लब्देवाडकारांचें असलेंच कसलेंतरी नाटक आशिल्लें. तेंवूय बी देवळाच्या सभामंडपांत. मामान मुंबयसान धाडून दिल्लो लेंगो आनी शर्ट घालून हांव त्या नाटकाक गेल्लों. पूण लेंगो पयलेच फावट घाल्ल्या कारणान तो नवो करकरीत आनी धवो फुल्ल आशिल्लो. तर शर्ट मात सद्दां शाळेंत घाल्ल्या कारणान आनी तोरांचीं आनी काजूंचीं खतां पडिल्ल्यान तो अर्दो काळोकिट्ट जाल्लो. त्या दिसा नाटकाक आयिल्ल्या जायत्या जाणांनी चुकनासताना म्हज्या कपड्यांकडेन पळयलें.

आमी भुरगीं सद्दां मोठे उमळशिकेन वाट पळयत रावंची ती सणा - परबांची. आमकां परबो आवडटाल्यो हें तर जालेंच पूण आनीक एक गजाल म्हणल्यार त्या निमतान शाळेक सुटी आसताली.

सगळयांत पयली परब ही संवसार पाडव्याची. आमच्या घरांत शंकरअण्णा परबांत भक्तिभावान वांटो घेवपी. ताका लागून संवसार पाडव्याच्या दिसा तो खळयांत बारीकशी एक बडी उबी करी. ताच्या तोंकार एका नव्या कपड्याच्या ल्हानशा कुडक्याची घडी करून दवरी आनी ताचेर पितळेचो वा काश्याचो तांबयो उरफाटो दवरी. ताका चांफ्याच्या धव्या फुल्ल फुलांचो हार घाली. अशे तरेन उबारील्ले गुडयेची अण्णा पुजा करी आनी कुटुंबांतल्या सगळयांचें कल्याण जांव अशें गाराणे घाली.

उपरांत वैशाख. वैशाख म्हणल्यार लग्नाचो म्हयनो. वैशाखांतलें रखरखीत वोत आनी लग्न हांचो संबंद कितें हें म्हाका केन्नाच कळळें ना.

अर्दो वैशाख सोंपलो आनी बरींचशीं लग्नां उलगलीं काय मागीर लोक मिरगाचे तयारेक लागताले.

घराचे नळे परतुवप हें मुखेल काम. अख्ख्या वर्सभर सांचून उरिल्ल्या पानांच्या कोयराक लागून वा मदीं मदीं नळे फुटिल्ल्यान पावसाचें उदक आडावन घरांत गळचें न्हय देखून नळे परतुवपाची सगळयांकूच ताकतीक लागताली. दादलोमनीस घरांत नाशिल्ल्या बायलांची तर चडूच धांदळ जाताली. कित्याक तर तांकां पुराय तरेन दुसऱ्यांचेर आदारून रावचें पडटालें. आमचेकडेन भिमाले आईल्या घराचे नळे परतुपाचें काम शंकरअण्णा, दाजी आनी वाडयेंतल्या एखाद्या कोणाय मनशाक करचें पड. अण्णा वा दाजी त्या वावराचो दीसवडो घेनासले. भिमाली आई मात रातीकडेन तांचेखातीर वडे - शागोतीचें सुरबूस जेवण रांदताली आनी आमचेखातीरय चार – पांच वडे आनी शागोती धाडून दिवपाक विसरनासली.

एक फावट नळे परतुपाखातीरमोटे उमेदीन हांव पांख्यार चडलों आनी दोन – तीन नळे चुकून उरफाटे लायले. फुडले नळे लावपाक म्हण जेन्ना दाजी गेलो तेन्ना ताच्या तें लक्षांत आयलें.

“अरे, भिमग्याच्या आवशिक काय पावसात भिजवून मारतह्स?”अशें म्हणून सगळे हांस हांस हांसले.

तेउपरांत परतून म्हणटा तें हावें नळे परतुवपाचें काम केलें ना.

महादेव बापूलें घर कोलवाचें आशिल्लें. एखाद्या वर्सा नळे परतुवपाचें काम जरी उरलें, तरी कोलवाच्या घरवाल्यांक नवो कोलू घालचोच पडटालो. बापूंकडली सगळी तयारी बायाकाकीच करताली.

बैलांचे गोठेय विशेश करून कोलवाचे आशिल्ल्यान ते सारकें करपाचें काम चड लक्ष दिवन करप जातालें. घराची दुरूस्ती करून जातकच लाकडां भरपाचें काम. पावसांत लाकडां मेळचीं नात म्हण एक – दोन म्हयने पयलींच हांगा थंय हेडून बारीक – मोठ्या लाकडांचे भोरे, तशेंच तातूंतल्यान भागचें ना म्हण कुराडीन झाडांचे फांदे फोडून तयार केल्लो जोळोव घरांच्या माळयार भरून दवरप हें दरेकल्याचें म्हत्वाचें काम आसतालें.

मागीर शेताची तयारी. नांगर सारके करप, बिंयां जमोवप, दादल्यांखातीर कांबळी आनी बायलांखातीर इरलीं त्रिकतीं घेवप, बैलांखातीर तण आनी पेण विकती घेवप, असलीं कामां उरकलीं काय मिरगाच्या पयल्या पावसाची वाट पळोवप सुरू जातालें.

आनी मागीर मृगनकेत्र लागता त्या पयल्याच दिसा आमचो 'मिरगा' चो पावस पड आनी मागीर शेताच्या कामाची घे S S धांदळ!

सगळयांत पयलें आनी म्हत्वाचें काम म्हणल्यार पावसान भुसभुशीत जाल्ले कुणगे नांगरून तर्व्याखातीर भाताचें बीं घालप. एखादो जरी दीस गेलो आनी चड पावस पडून कुणग्यांत उदक भरून उरलें जाल्यार तरवो घालपाक शक्य जायनासलें. ताका लागून कितेंय करून तरवो घालपाची वेळ पाळचीच पडटाली. अशी परिस्थिती आशिल्ल्यान भाताचे सगळे कुणगे तरातरांच्या रंगांच्या बैलांच्या जोतांनी भरून वचचे. रोप लावपाक शेजारी पाजारी एकामेकाक आदार करताले. पयल्या पावसा उपरांत रोप लावपाचें काम जालें काय मुद्दाम शेताखातीर गावांत आयिल्ले चाकरमानी आपणालें गावांत येवपाचें सार्थक जालें अशें मानताले.

मागीर नेमान पावस पडपाक सुरवात जाताली. केन्ना केन्ना इतलो पावस पडटालो, दोन – दोन, तीन – तीन दीस उसरपत घेनासताना कोंसळटालो. सत्र्या बित्र्यांचो आनी कांबळींचो कांयच उपेग जायनासलो.

पायणी आनी खळयो उदकान भरून वताल्यो. असल्या वेळार घरांतल्यान भायर सरपाकय कठीण जातालें. तातूंत वारें सुटलें काय माड आनी माडयो सामक्यो धोलपाक लाग. मळब फुटिल्ल्यावरी दीस. घोगेवपी दर्यो आंगार येता असो भास जातालो. मदीं मदीं जोगलां चक्क जातालीं. आनी खिणभरयांत कुपांचो गडगड मारतालो. अशा वेळार जोगूल पडत हे भिरांतीन लोकांनी घराचीं दारीं बंद करून बसचें. जोगूल पडचें न्हय म्हण कांय जाण आपल्या खळयांत कुदळी, खोरीं असलीं लोखणाचीं आयिद्दां वडयताले.

व्हाळाक पयलो हुंवार येवन जुवाटावयल्यान उदक वचपाक लागलें काय तें पळोवपाक नेणट्या - जाणट्यांची ही S S गर्दी जावंची. केन्ना केन्ना तर देवळीच्या चौथऱ्यावयल्यान उदक वतालें. असल्या वेळार उदक बाबूअण्णाल्या घरांत भितर सरतालें आनी सगळया वाडेकाऱ्यांची धांवपळ जाताली.

गिमाळयाचे सगळे खेळ बंद जाल्ल्यान आनी व्हाळाक उदक आयल्याउपरांत तातूंत बुचकळपावांगडाच आमचो आनीक एक छंद आसलो आनी तो म्हणल्यार गरोवपाक वचपाचो. सांजवेळचें शाळेंतल्यान येनाबरोबर गरोवपाच्या कामाक सुरवात जावंची आनी केन्ना केन्ना तें खूब वेळ उरचें. पावसाचे सुरवेक आमी भोऱ्या गोसावीमामाकडल्यान गरयो विकत्यो घेवंच्यो. नुस्तें फारवपाखातीर आमी गरयेक गांयडोळाचें हांयस लावन तो तांसान व्हाळांत सोडचो. सुरवेक पायणींत वळवळपी गांयडोळ हातांत घेतना कितेंशेंच जावचें, पूण मागीर संवकळीचेर पडचें. हांयस खावपाक नुस्तें आयलें आनी ताणे तांसाक हिसको मारचो. मागीर दोरी हालनाफुडें आमी नुस्त्यासयत गरी वयर काडची. एक – दोन भोपशीं मेळत जाल्यार कितें खोस जावंची आमकां! पूण नुस्तें मेळूं वा ना मेळूं, गरोवपाक वचप हेंच आमचें व्हडलें साहस अशें आमकां दिसचें.

तरवो घालून तिनेक सप्तकां उलगतकच तर्वो काडून रोप लावणेचो मार्ग सुरू. रोप लावपाखातीर कुणग्यांत चिखोल करचो पडटालो आनी ताका लागून भरपूर पावसाची गरज लागताली. अशा वेळार केन्ना केन्ना जाय तसो पावस पड. पूण केन्ना केन्ना तर्वो काडून तो सुकमेरेन म्हणल्यार आठ – धा दीस पावसूच नासचो. तेदेवेळार शेतकार बेजारताले. पावस पडून तर्वो लावन जालो काय तांच्या जिवांत जीव येतालो.

लावणी करून जातकच आनी जाय तसो पावस पडटकच भाताच्यो कणश्यो वाऱ्यावांगडा झुपके कशे वयर येताले. एकसारख्या उंचायेंच्यो अशो

सगळयो कणशेयो वाऱ्यावांगडा उदकाच्या ल्हारांवरीं धोलता तें पळयताना मनाक थाकाय भोगची.

आनीक एक गजाल पावसाळयांत जातालीच. ती म्हणल्यार घरांमुखावयल्या सगळयांच्या खळयांत आनी पोरसांत, पडोळयांच्यो, घोसाळयांच्यो आनी तवश्यांच्या रोपयांच्यो आळी घालप जाताली आनी माटवांचेर तांचे बेल वयर सरताले. दुदी, चिबूड सारकेल्या मोट्या आनी जड भाज्यांचे बेल घरांच्या पांख्याचेर चडटाले. हे तरेच्या वातावरणाक लागून अशें दीस, जशें कितें आमच्या खळयांतूच सैमाचें आगमन जालां.

आनी मागीर प्रकटपी तो श्रावण. मिरगाच्या पावसाची सुरवात जावन देड – दोन म्हयन्यांनी येवपी श्रावण. तोमेरेन ग्रीष्मान भाजून काडिल्ली आनी आषाढांतल्या घोग्यांनी कोंसळपी पावसाच्या दडकांनी न्हावन गेल्ली जमीन तृप्त जाल्लेभशेन दिसताली. तिचे ल्हंवेकणकणी उदेल्लो पांचवो रंग श्रावणामेरेन चडूच गाड जाल्लो आसतालो. ज्येष्ठ – आषाढांत भरून व्हांवपी न्हंयो आनी व्हाळ श्रावणांत मातशेशे शांत आनी विसव घेतिल्ल्यावरी दिसताले, तर भाताचे थाम प्रौढ जाल्ले आसताले. लक्तुबायेचें, कंवळें वोत आनी ल्हवूच फूंक मारील्ल्यावरी पडपी आडयाळो पावस हांचो आपालिपाचो खेळ चलतालो. तिनसना सुर्या अस्तमचेपयलीं ताच्या किर्णांनी न्हावन गेल्ले सरभोंवतणचे दोंगर भांगराचो अर्क चडयिल्ल्यावरी नटून – थटून उभे आशिल्ल्याभशेन दिसताले आनी अदींमदीं मळबांत झळकपी सातरंगी इंद्रधनूचें आर्क तर आमकां भुरग्यांक अजापीतच करून सोडी.

गावांतलो श्रावण हो खोशयेचो ओतो आनी चैतन्याचो परमळ.

श्रावणांतलो दरेक सोमार आनी शेनवार हे उपासाचे दीस. फकत रातचें जेवपाचें. असलो उपास धरप म्हणल्यार सगळयांकूच जमना असली गजाल आनी देखूनच तर ती प्रतिष्ठेची थरील्ली. उपास धरपाची म्हजी इत्सा खर आसताली. पूण हांव तर भरपूर नुस्तें खावपी आनी शीत जेवणारो. उपासान म्हजेसारकेल्याची गत कितें जातली हाची आबाक भिरांत आशिल्ल्यान म्हज्या उपासाक ताचो सक्त विरोध आसतालो. फक्त विरोधच न्हय, तर हांव उपास करचो ना हेविशीं ताणे शादूर रावचें. तरी लेगीत चौथेंत आसताना एका सोमाराक आबाक सांगनासताना हावें उपास धरलोच. आबा आड्ड्तलो ही खात्री आशिल्लीच आनी नेमकें तेंच घडलें. पूण दनपारां मात ताणे म्हजेखातीर उपाट भरिल्ल्या उदकाचें एक आडसर आनी तीन – चार केळीं हाडलीं. 'एकादशी व दुपट खाशी' म्हणीप्रमाण म्हजी मजाच जाली. पूण आबान मात तो म्हजो निमाणचो उपास थारायलो.

श्रावणांतली पयली परब नागपंचम. त्या दिसा मातयेचो नागोबा करून घरांत ताची पुजा करतातच. पूण बायलोय रोयणीची पुजा करतात. रोयणीत सोरोप नासताच, पूण समजुया चुकून जर एखादो सोरोप रोयणींतल्यान भायर आयलो जाल्यार बायलांचें कितें जायत हो विशय सदांच म्हज्या हुस्क्याचो आसचो.

नागपंचमीच्या दिसा जमीन खणपाचें तर कुशीकच उरलें, पूण नागोबाक त्रास जायत हे कल्पनेन जमनिचेर सादी ओळ लेगीत कोणूच ओडीना. दुसरें म्हणल्यार जाणट्यांनी नागोबाची पुजा केली तरी, आमी ल्हान भुरग्यांनी चिकणमातयेचे ल्हान ल्हान नागोबा करून तांची स्वतंत्रपणान पुजा करची.

नागपंचमीच्या त्या दिसाचे रातीकडेन चलयांची त्या वर्साची फुगड्यांची पयली कार्यावळ सुरू जाताली. आमचे वाडयेंत ती तात्याल्या घरा आसताली. अंबू, इंद्रा, गोदा, विमल, सुशिला, सखू, कमळा, विठा ह्यांगेली फुगड्यांची सुरबूस कार्यावळ पळयताना बरीच मजा येताली. सुरवेक एका तालान भोंवर धरता आसताना गोड ताळो आशिल्ली एखादी चली खंयचेय पुराणीक कथेचेर आदारीत आशिल्लें गीत म्हणी आनी मागीर बाकिच्यो तिका साथ दिताल्यो. गीत मोंपलें काय मागीर कचे आनी फुगडेचो सांवार सुरू जावंचो. उभ्यांनी आनी बसक्यांनी फुगडी घालतां घालतां ल्हवूच सर्त लागताली. अखेरेक सगळयां फुगडीवाल्यांक दम लागतालो. मागीर आसताली च्याची कार्यावळ.

व्हडल्या चलयांचीं लग्नां जावन त्यो घोवागेर वतकच मागीर दुसरो पंगड तयार जालो. तातूंत सामील जाल्यो जना, बेबी, गंगू, हिरा, माई, तारा आनी ताई. ह्या पंगडांत चड करून जना आनी ताई गीत म्हणपाचें काम करी. ताईचो आवाज सुंदर तर बेबीचो कचो सगळयांत उत्तम आसतालो.

फुगड्यांचीं गीतां आनी दांत्याचेर दळटाना म्हणिल्लीं गीतां आयकप ही म्हजी भोव आवडिची गजाल.

'एके गे नगरीचा दुष्यंत राजा' ह्या फुगडेच्या गीतांत हावें दुष्यंत आनी शकुंतला हीं नावां पयलेच फावट आयकलीं.

नागपंचमी उपरांत येता ती व्हडली परब गोकुळाअष्टम, कृष्णजल्माची. त्या दिसा सगळयांत कठीण असो कडकडीत उपास. तो इतलो खर आसतालो, श्रावणी सोमार वा शेनवार वा आषाढी एकादशीप्रमाण दनपारचो फराळ सोडून दी, दीसभर लेगीत कांय खावप ना, तेभायर

उदकाचो थेंबय घेवप ना. सारकें रातच्या बारा वरांचेर म्हणल्यार कृष्णजल्माच्या वेळार तुळशीची पुजा करूनच शेगलाची भाजी आनी भाकरी खावन उपास सोडपाचो. आमचेकडेन हो उपास तिगी - चौगींचोच आसतालो.

'शेगलाचीच भाजी का?" हो प्रश्न ह्यावें जायत्या जाणांक विचारलो, पूण निमाणेमेरेन कोणूच म्हाका कांयच सांगपाक शकलो ना.

गोविंदतात्याच्या आंगांत भार येवप ही आमचे वाडयेचे नदरेन श्रावण म्हयन्याच्या चारूय सोमारांक जावपी एक म्हत्वाची कार्यावळ. आमच्या घरांत देवाचो मांड आशिल्लो. ताका लागून सोमाराक रातीकडेन जेवन जातकच आमच्या पांच – स घरांतलीं सगळीं मनशां आमगेल्या घराकडेन जमतालीं.

एका पाटार ताटांत फुलां दवरून ताचेर ल्हानशीच अशी वेताची एक बडी दवरताले. मागीर उजवाती पेटोवपाक आनी धूप जळोवपाक सुरवात जाताली. ताटाचे प्लेटेवटेन गोविंदतात्या मांडी घालून बसतालो. धा - पंदरा मिनटां जातकच ताच्या आंगांत भार येतालो. भार येनाबरोबर ताणे उबो रावंचो आनी दोनूय हातांत बेतकाठी घेवन एकेक दोन – दोन वरां तेच उभे स्थितींत ताणे आख्खें आंग हालोवचें. सुरवेक तर ताचें मात लेगीत आंग हाललें काय देव आयलो अशें समजून आमी सगळयांनी ताच्या पांयां पडचें.

“काय रे कारभारया! बाळ गोपाळ बरी हत?" देवान आबाक विचारचें.

“होय महाराजा!" आबान भक्तिभावान सांगचें.

उपरांत जमिल्ल्यांमदल्या कांय जाणांनी आपली अडचण देवाक सांगची. देवान ताचेर उपाय सुचोवंचो. मदीं मदीं देवान आमकां, 'वाजवा रे' अशें म्हणचें. मागीर आमी मोठे उमेदीन झांज आनी ताळ कुटचे.

केन्ना केन्ना एखादें वर जावन गेलें तरीय तात्याच्या आंगांत भार येनासलो. तेदेवेळार आमी व्हडाव्हडान झांज आनी ताळ वाजोवंचे, “देवा, धाव रे लौकरी! संकट पडले भारी!" अशें म्हणत देवाक विनोवचें.

निमाणे आबान देवाक गाराणें घालचें. मागीर देवान बशिल्ल्या सगळयांच्या माथ्यांवयल्यान बेत भोंवडावचें. बेताक आपलो हात लागचो म्हण सगळयांची धडपड आसची. मागीर देवान शांत जावंचें. ही कार्यावळ दोन – दोन वरांमेरेन चलची.चवथ हो कोंकणांतलो सगळयांत व्हडलो उत्सव.

चवथिच्या वेळार बोट सुरू जाताली. केन्ना केन्ना पयली बोट येताली ती

गणपतीखातीर गावांत येवपी चाकरमान्यांक घेवन आनी मागीर गावांतलें वातावरण उमेदीन भरतालें.

आमकां मालवणी लोकांक तर बोट म्हणल्यार जसो कितें एखाद्या मनशावरीच. बोटींचीं नावां लेगीत चंद्रावती, चंपावती अशीं आशिल्लीं. एखाद्या घरांतलो मनीस बोटीन येवं वा ना येवं, पूण "आज बोट इली काय गो?" असो प्रश्न सहजतायेन विचारप जातालो. हातूंतल्यान तागेलें आपलेपण उक्तें जातालें. ज्या कोणाल्या घरांतलीं मनशां बोटीन येवपाचीं आसतालीं, तीं तर बोटीची वाट अशी पळयतालीं जशी कितें देवाचीच पळयतात!

बोट आमचें श्रध्दास्थान. मुंबयसान यो - वच करपी आमच्या सगळया लागशिल्ल्या मनशांक सुरक्षितपणान हाडपी आनी पावोवपी एखादी जीवनदायिनी! ताका लागून केन्ना केन्ना मुंबयसान उसरां येवपी वा उसरां मुंबय वचपी बोट आमच्या दर्यांत दिसनाफुडें आमी पांयां पडचें.

आमच्या गावांत येवपी चाकरमानी एक तर आचऱ्यांक देंवून ताणी पांयांनी चलत येवचें वा देवगडारसान एस. टी. न मशवीक देंवचें. पूण खंयच्यानय आयलें तरी घरा पावप जातालें तें मात फांतोडेरच.

पांच – धा मिनटां भितर चाकरमान्यालें घर धाकटुल्या बाळ – गोपाळांसावन म्हाताऱ्या - कोताऱ्या मेरेनच्या मनशांनी भरून वचचें. घरच्यांक तर दिसचें, जशी कितें आख्खी मुंबयच आपल्या घरांत अवतरल्या. चाकरमान्याली बायल गावांत आसत जाल्यार तिचे खोशयेक शीम उरनासली. शेताचीं कामां करपाखातीर बायलो गावांत उरताल्यो, तशेंच मुंबय आपणाली स्वताची कूड नाशिल्ल्यान तांकां भाड्यान रावचें पडटालें आनी खूब फावटीं चाकरमान्यांक इत्सा आसूनय आपल्या बायलांक मुंबय घेवन वचपाक मेळनाशिल्लें. ताका लागून केन्ना केन्ना घोवा - बायलेची भेट घडपाखातीरय दोन – दोन वर्सांचो काळ लागचो.

“काय रे बाबा, तुजी पोरा - टारा बरी हत?”

“माजो झील भेटलेलो काय रे, बाबा?”

“रजा कितीशी हाडलहस?”

“वाडीतली सगळी मंडळी कुशाल हा ना?”

प्रश्नांच्यो जापो दितना चाकरमानी आपली उमेद लिपोवन दवरपाचो यत्न करताले.

आमी सादारण तिसरेंत आसमेरेन चाकरमान्यांचे घरांतले गर्देत ल्हानूच आसचे. पूण मुंबयसान हाडिल्ली पोती सोडोवन तातूंतले चणे भिकणां आनी खाजूर केन्ना आमच्या हातार पडटा हाचेर मात आमचें लक्ष सारकें लागून

उरचें. पोती काय बेगीन सोडपाचीं चिन्ना दिसना जातकच आमी शाळेंत वचचें. आनी शाळा सुटटकच चाकरमान्यांचे भेटीखातीर वचचें.

पयलीं सुरू जातालें तें वणत रंगोवपाचें काम. देवळालागच्या दुकानावयल्यान वा मिठबावच्या बाजारांतल्यान रंगाची पावडर विकती घेवन ती साद्या उदकांत भरशिली काय रंग तयार जातालो. आमच्या घरांत हें काम सामकें सुरवेक शंकरअण्णाचें. पूण मागीर तें म्हजेकडेन आयलें. गणपतिची वणत गुळगुळीत सारोवन जातकच ती शेडीच्या उदकान धवीफुल्ल करप जाताली आनी ती सुकल्या उपरांत तिचेर रंगरंगोटी, नक्षीकाम जातालें. आमची वणत रंगोवपावांगडाच भिमाली आई, भिकूआबा आनी लकूदादा हांगेल्योय वणटी रंगोवपाचें कामय म्हजेंच आसतालें. वणटी रंगोवपाचें काम केन्ना केन्ना चवथिच्या दिसा फांतोड मेरेन चलतालें.

मागीर आरास करपाच्या कामाची सुरवाता जाताली. सजावटीखातीर वेगवेगळया तरांच्या फुलांचो आनी पानांचो वापर जावंचो. आमचेकडेन मुखेल फुलां म्हणल्यार रोजां, निळसो तेरडा, दसण, नाजूक हळडुवें हरणें आनी धवींफुल्ल शेरवडां कित्याक तें खबर ना, पूण आरास करताना तातूंत शेरवडाचें एक तरी फूल आसचेंच पडटालें.

हें सगळें जातकच ज्या पाटार गणपतीक बसोवपाचो आसतालो तो पाट व्हाळांत धुवन, घासून पुसून आमी नितळ करताले.

मागीर गणपतिची मुर्त हाडपाक देवळाकडेन वचपाचें जातालें . देवळाकडेन दोगजाण गणपतीच्यो मुर्ती तयार करताले. एकलो वसंत हिर्लेकार म्हणल्यार बाबी सोनार आनी दुसरी जोडी दामू आईर आनी धाकू गुरव हांची. आईर – गुरवांकडेन आसताल्यो त्यो मुर्ती सामक्या गरीब लोकांखातीर. त्यो आसताल्यो एकाच सांच्यातल्यो, पगडी बांदिल्ल्यो आनी त्यो दोन वा तीन रूपयांक मेळटाल्यो. गांवांतल्या थोड्यांची आर्थीक परिस्थिती बरी आसताली तांच्यांनी सोनाराकडसून मुर्ती घेवंच्यो. त्यो पांच रूपयांसावन पंचवीस – चाळीस रूपयांमेरेन आसताल्यो. त्या मुर्तींमदली पार्वती गणपतिची मुर्त सगळयांक चड मानवताली. आमी तिका 'बाऊली गणपती' म्हणचें. ती सादारणशी पांच -सात रूपयांभितर आसताली. आमी जायतेखेपो तीच मुर्त घेताले. ताका लागून शंकरअण्णा, आबा आनी बाकिचे भाव दरेकी एक दोन रूपये वर्गणी काडटाले.

गणपतीची मुर्त हाडपाक वतना केदो आनंद जावंचो! दनपारच्या इकरांच्या सुमाराक धोल ताशे वाजयत गणपतीच्यो मुर्ती हाडटाले. गणपतीचो अपमान जाता असो समज आशिल्ल्यान ह्यो मुर्ती माथ्यार घेवन

हाडटना पांयांत व्हाणो घालप नात. दुसरें म्हणल्यार ह्यो मुर्ती फकत दादल्यांनीच हाडपाच्यो आसताल्यो. ताका लागून ज्या कोणाल्या घरांत व्हड असो दादलोमनीस ना, त्या बायलांक शेजारच्या घरांतल्या दादल्यांक सांगचें पड. आतां तेखातीर कोणूय खोशयेन तयार जातालो ती गजाल वेगळी. आमगेलो गणपती दिगंबरान हाडचो तर दाजीन भिमाले आईलो.

दनपारां गणपतीचे मुर्तिची थापणूक जातकच ताची पुजा जाताली. दिवली पेटटाली, उजवाती जळटाल्यो आनी वातावरणांत प्रसन्नताय येताली. मागीर सगळींजाणां एकवटीतपणान आरती म्हणटालीं. आण्णा आनी आबा गणपतीक गाराणी घालताले. तातूंत मुखेलपणान जें गाराणे आसतालें तें 'घरांतल्या मुंबयच्या चाकरमान्यांक सुखान दवर.'

दनपारचीं मागीर जेवणां. सगळयांगेर मोदक आनी चण्याचे दाळीच्या पुरणाच्यो नेवऱ्यो केल्ल्यो आसताल्यो. आमगेर कोण करतलो मोदक – नेवऱ्यो! आई वतकच सुरवेच्या तीन – चार वर्सां आबान आचरा वा चिंदरच्या बाजारांतल्यान भरपूर तयार मोदक हाडचे. ताका लागून बाकिच्यांकडच्यो नेवऱ्यो एक - दोन दिसांभितर सोंपल्यो तरी हांव आनी ताई मात सात – आठ दीस मोदक खायत आसतालीं.

फकत चवथीच्या दिसाच आबा खंयच कामाक वचनासलो.

सांजवेळा परतून गणपतीची पुजा जावंची आनी चवथी - पांचवेसावन ती करपाची मक्तेदारी म्हजी आसली . रातच्यो वाडयेंतल्या सगळयांगेर आरती जावंच्यो. आमगेर शिकिल्लो हांवूच आशिल्ल्यान अभंग म्हणपाचें कामय म्हाकाच करचें पड. हावें तें चवथी - पांचवेकसान सुरू केलें. म्हाका दोनूच आरत्यो पाठ आशिल्ल्यो. 'सुखकर्ता, दुखहर्ता वार्ता विघ्नाची' आनी 'युगे अठ्ठावीस विटेवरी उभा...' हावें त्यो आलटून पालटून म्हणच्यो. अभंगय मोजकेच येताले. कांय सादेशे अभंग हांव चवथीआदीं पाठ करून दवरतालों. म्हजी पिराय ल्हान आशिल्ल्यान भजन म्हणटाना म्हाका खरस लागची. पूण म्हजेफाटल्यान म्हणपी ते म्हजे भावूच आशिल्ल्यान म्हाका भिरांत दिसनासली. इतलेंच न्हय, तर फुडें - फाटी भजनीबुवा जावंचो अशेंय दिस. इतली म्हाका भजनानी आवड आशिल्ली.

चवथीच्या दिसा चंद्राकडेन पळोवप ना असो एक संकेत आशिल्लो. एक फावट गणपती हुंदरावयल्यान पडलो तेन्ना चंद्र हांसलो. ताका लागून रागान गणपतीन चंद्राक शाप दिलो, “म्हज्या उत्सवाच्या काळांत कोणूच तुजें तोंड पळोवंचो ना.”

चवथीचे पांच दीस म्हणल्यार फुगड्यांक ओतो. “आज आमच्याकडे

फुगडी घाला गो पोरीनू"अशें फुगड्यो घालतल्यांक सांगचें पड. मागीर दरेका दिसा एक – दोन घरांनी अशी फुगड्यांची कार्यावळ जाताली. असल्या वेळार म्हाताऱ्या – कोताऱ्या बायलांच्यानय रावपाक जायनासलें. आपणाल्या थरथरपी आनी किरक्या आवाजांत ताणी लेगीत जेन्ना गीताच्यो एक – दोन वळी म्हणच्यो तेन्ना आमचेसारख्या ल्हान भुरग्यांचोय हांसून हांसून मुट्टो जावंचो.

आमचेकडल्या भिमाली आई, महादेवबापू, भीकूआबा आनी लकूदादा हांच्या घरांतले गणपती देड दिसांनीच पायताले. दिवलेंतल्या तेलाचो आनी उजवातींचो खर्च तांकां परवडनासलो.

आमगेल्या घरांतय ताचेर चर्चा जाताली, "कोनाक खर्च करूचो नसात, तर मी पन दिड दिवसानच गनपती बुडवीन!" अशें अण्णान रागान म्हणचें आनी हेर बापोलभांवडांनी आबाच्या आनी बाकिच्या बापोलयांच्या हातापांयां पडून गणपती पांच दीस दवरचो म्हण विनवण्यो करच्यो. सुरवेक ताणी आयकुचें न्हय, पूण आमी सामकेंच फाटीक लागतकच मागीर कशेबशे ताणी तयार जावंचें.

आनी मागीर पांचवो दीस उदेतालो तो हुरहुर घेवन. सांजवेळचो गणपती वतलो म्हण दीसभर अस्वस्थ दिसतालें. पांच दिसांच्या सगळ्या गणपतींक जुवाट्यार हाडप जातालें. तांकां ओळीन दवरताले. तीन – चार आरत्यो जाताल्यो. उरिल्ल्यो सुरिल्ल्यो सगळयो उजवाती पेटोवन जाताल्यो. "सगळयांचें कल्याण जांवं" अशें गाराणें घालप जातालें. उपरांत एकेके मुर्तिचें व्हाळांत विसर्जन जातालें तेन्ना आमकां भुरग्यांक हुंडके आवरप जायनाशिल्लें.

मातशें व्हड जातकच म्हणल्यार तिसरेक सावन आमचीं तवनासपणां सुरू जालीं. निमाणची आरत म्हणून जाता खिणाक आमी पांच – स जाण ल्हवूच वचून विसर्जना आदींच काळखांत लिपून रावताले आनी सगळयांभितर जी आकर्शक मुर्त आसताली· ती बुडयना बरोबर ल्हवूच उदकांतल्यान वयर काडटाले . आमी दोन खेपो अशें केलें. पयले फावट आमी ती मुर्त कोणाच्याच लक्षांत येवंचें न्हय इतले शिटूकसाणेन भायर काडली. दुसरे फावट मात आमी सांपडले. नशीब म्हजें, त्यावेळा हावें उदकांत उडी मारूंक नासली. तो सुवार्थ आनी तें धाडस निमाणचें थरलें.

गणपती पायल्या उपरांत व्हाळांतले थोडे शेकरे पाटार दवरून तो पाट माथ्यार घेवन घरा हाडून ताची रातीकडेन पुजा जाताली. ते रातीं जेवपाचीय इत्सा कोणाक जायनासली. दुसऱ्या दिसासावन दोळे लागताले

वाट पळोवंक फुडले चवथीची.

चवथी उपरांत दसरो. सुमार सवाय म्हयन्यान. पावसाळयांत बऱ्याच कश्टांनी, उपास तपास करून पिकोवन काडिल्ल्या शेताची लुवणी पुराय जाल्ली आसताली. चड – थोडें नवें भात सगळयांच्या घरांत आयिल्लें आसतालें. आनी त्याचवांगडा थोडी धादोसकायबी.

घटथापणूक सुरू जायतसावन णवय दीस सगळेकडेन उत्सवाचें वातावरण आनी विशेश म्हणल्यार देवळांतलीं भजनां आनी किर्तनां. दसऱ्याच्या निमतान जायत्या वाडकाऱ्यांक देवळांत भजनां गावपाची संद मेळटाली. रातचें देवळांत न्हिदताना खूब बरें दिस. म्हत्वाच्या णव दिसांत हातापांयां पडून जातकच आबान म्हाका दोन – तीन रातीकडेन धाडचो. मागीर मागीर मात हावें आबाचेंय आयकुचें न्हय. दिगंबर आनी दाजी हाणी आबाक समजावंचें आनी ताका लागून म्हाका देवळांत वचप सोपें पडटालें.

दसऱ्याच्या दिसा सोने लुटपाची मनभुलोवणी कार्यावळ जाताली. आपट्याच्या झाडाचीं पानां म्हणल्यारूच सोने - भांगर. पूण तीं दुसऱ्यांक दिताआसताना खरेलेंच भांगर दितात असो भास जावंचो. आमचेकडेन भांगर दिवपा - घेवपाची कार्यावळ म्हणल्यार केन्ना केन्ना 'परतून उलोवपाची' कार्यावळ कशी. दुसरेंत – तिसरेंत – चवथेंक आसताना आमचां चल्या चलयांची कसल्या ना कसल्या कारणांक लागून झगडीं जाल्लीं आसचीं. तशीं जालीं काय आमची एकामेकाकडेन गट्टी फू जावंची. आतां शेजराकच आशिल्ल्यान दिसांतल्यान जायते खेपो आमचें एकामेकामुखावयल्यान येवप – वचप जातालें. पूण उलोवप ना. पिशेपणांच तीं सामकीं., पूण प्रतिश्टा राखपाचें एक सुख तातूंत आसतालें. इतले मजगतीं सगळयांभितर हांव अस्वस्थ जातालों. मागीर हावें ताईकडल्यान चलयांक रकाद धाडचो, "आमी दसऱ्यापसून बोलॉया" म्हणून. एकामेकाकडेन उलयनासताना रावप असह्य जाल्ल्यान बाकिचेय तयार जाताले. मागीर भांगर वांटपाक आमी आठ – धा चले - चलयांनी एकठांय येवंचें. उलोवप म्हणल्यार फकत एकामेकांक नांवान उलो मारपाचें. पूण कोणे सुरवात करची उलोवपाक? परतूनय हो मोठो प्रश्न. म्हजो हळवो सभाव सगळयांक खबर आशिल्ल्यान ताणी म्हाका पयलींच धमकावन सांगचें, "खबरदार आदी बोलशीत तर!" पूण चलयो तरी खंयच्यो आयकतात? एकठांय जमल्या उपरांत पंदरा - वीस मिनटां जातकच हावें कोणाचीच वाट पळयनासताना एका दमांत सगळयांचीं नावां घेवन सोडचीं

आनी मागीर जायते दीस चालू आशिल्लें झूज सोंपचें. उपरांत अर्दवरांत आमी एकामेकाकडेन इतलें उलयतालीं, जशें कितें कांयच घडूंक ना!

एका दसऱ्यावेळावयली घडणूक याद जाता.

सबंद वाडयेंतले दादले घरा आयले. फकत आबा येवंक नासलो. बरोच कळाव जालो. आबाली वाट पळोवन पळोवन हांव आनी ताई थकलीं. घरांतल्या सगळयांचीं जेवणां उरकल्लीं. पार्वतीकाकीन आमकां "काय खातास काय रे?" अशें विचारलेंयबी. पूण आबा दिश्टी पड म्हणसर आमी कितें खावपाचो प्रश्नच नासलो. 'माडावयल्यान वा माडयेवयल्यान पडलो बिडलो ना मू?' ह्या दुबावान आमी अस्वस्थ जाल्लीं. ताईन तर रडपाक सुरू केलें. बरोच कळाव जायत गेलो तशें म्हाका दिसलें, कितेंतरी नक्कीच घडलां आसूंक जाय. रडून रडून ताई न्हिदलें.

निमाणे एकदांचो आबा आयलो. म्हाका हुंडक्यांनी रडपाक येवपाक लागलें. उसरां आयिल्लेखातीर म्हाका आबाचो रागय आयिल्लो, पूण हुंडक्याभितर तो विरगळून गेल्लो. ताकाय तें जाणवलें.

दसऱ्याच्या निमतान काकाभटाल्या घराकडेन सांजवेळा पुरणपोळयो केल्ल्यो. तातूंतल्यो थोड्यो आमकां दितलीं म्हण काकून आबाक दवरून घेतिल्लो. आबान परतून परतून सांगून लेगीत हांव पुरणपोळयेक आफडूंक लेगीत ना. त्या दिसा रातीकडेन आमी तिगांयजाणां उपाशींच न्हिदलीं.

दसऱ्या उपरांत वीस – बावीस दिसांनी 'धाकली' दिवाळी. व्हडल्या भावा फाटसून धाकले भयणीन चलचें तशें.

कोंकणांत चवथीभशेन दिवाळेची परब तितलीशी व्हड न्हय, भाऊबीज म्हणटा ती आमकां खबरय नासताली. लक्ष्मीपुजनाचो प्रश्नूच नासलो. मुंबय वतकच म्हाका कळळें, लक्ष्मीची पुजा करतात म्हणटा तें.

आमचे भुरग्यांचे नदरेंतल्यान दिवाळेच्या दिसांनी नरकचतुर्दस हो सगळयांत म्हत्वाचो दीस. श्रीकृश्णान नरकासूर राकेसाचो आपल्या पांयातळा चिड्डून केल्लो वध. त्या दिसा शीं आसतानाय सकाळीं उठून, न्हावन धुवन तुळशीमुखार एक कार्ट्रं फोडून आमी नरकासुराचो वध करचो. नरकासुराक मारतल्यांमदीं सगळयांत निमाणेकडेन हांव आसतालों. ताका लागून सगळयांत चड न्हिदपाक म्हाका मेळटालें.

दिवाळेखातीर एक – दोन फावटीं आमी आकाशदिवोय तयार केल्लो. बरीच धांवपळ करून लेगीत तो बरो जावंक नासलो.

दिवाळी जातकच पावस पुराय थांबिल्ल्याची खात्री करून घेवन मागीर मे म्हयन्यामेरेन रातीकडेन आमची एकवटीत एक कार्यावळ आसताली. ती म्हणल्यार सगळयांनी खळयांत जेवप. आमच्या घरांतल्यान हांव, हिरा, म्हज्यो बापोलभयणी विमल  आनी गंगू, बापोल  - बापोल भयणी गोदा, जना, बेबी, गंगू आनी माई आनी बापोल आतें इंदू आपापलें जेवण घेवन एकठांय जेवपाक बसतालीं. मागीर मागीर आमचेमदीं ल्हान भुरगांय भरसूंक लागलीं.

लग्न जावचेआदीं अंबूआक्काय आसताली आमचेमदीं. खरें म्हणल्यार सगळें फुडारपण तिचेच्कडेन आसतालें.

आबा केन्नाय कळावान आयलो आनी आमचें जेवण केन्ना केन्नाय उसरां जालें जाल्यार लेगीत म्हजेखातीर सगळीं रावतालीं.

“काय गो, तुमच्याकडे आज काय हा?”

“मेल्या काय नाय गो, बाजरीची भाकरी आनी बटाट्याची भाजी हा!”

बटाट्याची भाजी हो गरीबांचे नदरेन प्रतिश्टेचो जिनस.

“मेल्या बटाटे  खातस आनी काय नाय काय म्हणतंस? आमच्याकडे भातावांगडा नुसता वाटान्याचा  निस्त्याक हा!”

“आनी तुमच्याकडे गो?”

“आमच्या थंय चटनी आनी नाचन्याची भाकरी!”

जेवणाआदीं आठ -धा मिनटां सुमार अशी चवकशी आनी फकाणां मस्करी जाताली. प्रश्न विचारप आनी जापो दिवप जातालें. एकामेकाचे ताटलेंत जें कितें आसतालें तातूंतलें थोडें - थोडें दिवप – घेवप जातालें आनी हांसत – खिदळत ही सहभोजनाची कार्यावळ सोंपताली.

हातूंत भर म्हण केन्ना केन्ना एखादें विमान वयल्यान लुकूलुकू करून वतालें आनी मागीर तर मज्जाच जाताली. आमचेमदल्या कोणेतरी म्हणचें,

“गो मेल्यानू जेवतास काय? इमान बगा किती जवळून जाताहा ता!”

मागीर ताटल्यांकडल्यो सगळयांच्यो नदरो विमानावटेन.

“तू बइशी इमानात?” कोणेतरी म्हणचें.

“नाय गो बाय. इमानात बसॉक मी काय खुळा हय, मेल्या कोसळला  - बिसळता तर?”

“गो त्येका काय इचारतंस? त्येच्याकडे एसटीनं जावंक पैसो नाय.”

सगळयांनी खो  S S करून हांसचें.

“मी बसान बाबा इमानात.” ह्यावें म्हणचें.

“आमच्यात इमानात बसलस तर तूच बश्शी, बाबा खूब शिक.”

सगळयांनी म्हणचें.

त्या नितळ चान्न्यांत मीठ - भाकरेचें भांगर जावन वतालें.

धाकले दिवाळेउपरांत बारा दिसांनी बारस. बारा दिसांनी आयिल्ल्यान तिका बारस म्हणी. बारस म्हणल्यार तुळशीचें लग्न. तुळशींत एक उशीकांडो रोयताले आनी ताचेवांगडा तुळशीचें लग्न लायताले. त्यावेळार उशीकांडो आनी तुळस ह्यांकां एक गांठ घालून एकठांय बांदताले . तुळस इल्लीशी आनी उशीकांडो धडधाकट.

पांचवेउपरांत आमच्यांत मंगलाश्टकां म्हणपी तो ह्यांव. ह्या सगळया वातावरणाक लागून तुळशीच्या लग्नांतय सामकें खरेलेंच लग्न आशिल्ल्याची खोस जाताली. तुळशीचें लग्न लागलें काय सामकें सुरवातीक सगळयांक प्रसाद म्हण फोव वांटप जातालें. मागीर फोवांच्या जाग्यार चणे चिरमुल्यो आयल्यो.

धाकले दिवाळे उपरांत सारकी एका म्हयन्या उपरांत व्हडली दिवाळी म्हणल्यार देवदिवाळी. गांवाचे नदरेन तिका चड म्हत्व. कोंकणांत सगळयाच गांवांत देवस्थानाचीं कामां देवदिवाळे उपरांत सुरू जातात. तेचभशेन पावसांत तयार जाल्लें आनी मागीर सुकिल्लें, गोरवां वासरांखातीर जाय आशिल्लें तण कापपाचें कामय उपरांतूच सुरू जाता. तेखातीर देवाक कौल लावन ताचें उतर घेवचें पडटा.

व्हडले दिवाळेचें मुखेल वैशिश्ट्य म्हणल्यार घराघरांत तयार जातात त्यो हरकाच्यो पोळयो. तांदळाच्या वा नाचण्याच्या पोळयांपरस हरकाच्यो पोळयो चड मोव आनी भुसभुशीत आसताल्यो.

आमच्या म्हार लोकांचे नदरेंतल्यान व्हडले दिवाळेचें एक वेगळेंच म्हत्व. आमच्या गावांतल्या म्हारांच्या पुर्वजांचो वंश जेन्ना वाडना जालो तेन्ना ताणी देवीक गाराणें घालें, “देई भगवती, माजो जर वंस वाडवलस, ती मीं झाडाक पाळना बांधान.” तेउपरांत खऱ्यांनीच वंश वाडलो अशें म्हणटात. मागीर झाडाक पाळणे बांदपाची चाल सुरू जाली. तीच आमची 'पळण'.

पळण म्हणल्यार देवदिवाळेउपरांत तीन दीस म्हारांनी गांवचे शिमेभायर वचून रावप. फकत मनशांनीच न्हय, तर गोरवां - ढोरां, सुणी - माजरां, कुकडां - कोंबड्यो ह्या सगळयांसयत. तीन दीस गावांत कोणाचोच मागमूस आसपाक फावना. कितलेंय म्हत्वाचें वा आकांताळें काम आसूं, पळणीच्या तीन दिसांत म्हारांनी गांवचे हद्दींत पावल लेगीत दवरूंक

जायना.

दर तीन वर्सांनी पळणींची कार्यावळ आसता. जाण्ट्या मनशांक पळणी म्हणल्यार दगदग आनी आडखळिची गजाल. कित्याक तर तांचो कामधंदो, दिसावडो बुडटालो. ताका लागून पळणीचें वर्स आयलें तरी ते लोक, 'देई, फुडच्या वर्साक जाताव' अशें म्हणून पळणीक वचपाचें ताळटाले. पूण आमी ल्हान भुरग्यांनी मात पळण केन्ना येता ताची वाट पळयत रावचें. एक म्हणल्यार शाळेची कटकट नासताली. फकत हेडपाचें. दुसरें म्हणल्यार तेंनिमतान तीन दीस उक्त्या कातळाचेर चान्न्यात रावपाक मेळटालें.

दनपारचें जेवण उरकून घेतकच आमी बांदाबाद करून घेवचें आनी सगळें सरंजाम वांगडा घेवन घराभायर सरचें. देवगड – आचरा रस्त्याचे उदेंतेवटेन, पयसमेरेन पातळिल्ल्या कातळाचेर शेताचे दोन – तीन नितळ कुणगे आसात. घराकडसून भायर सरतसावन ते सुवातिचेर पावमेरेन सादारण एखादें वरभर तरी लागतालें. त्या कुणग्यांत माटोवाचीं घरां उबारताले. सगळेकडेन मल्लांच्या आडोसाच्यो वणटी आनी मल्लांचेंच पांखें. कुशीकच गोरवां - वासरां बांदपाची वेवस्था केल्ली आसताली. हरशीं पांच – स एकरांभितर शिंपडल्ले वाडयेंतल्या सुमारेक 40 -45 कुटूंबां हांगासर अशीं तशीं एका एकराभितर आस्पावन घेवप जातालें.

घरांतलें सगळें काम आटपून घेतासर काळोख पडटालो. बेगीबेगीन जेवण तयार जातालें. सगळयांच्या घरांत जेवणां सादारणशीं एकदमच जातालीं. पळणीखातीर बायलांक आनी दादल्यांक गावांत वचपाचेंच नाशिल्ल्यान सक्तिची सुटी मेळटाली.

रातची कार्यावळ आसताली भजनाची.

दुसऱ्या दिसा सकाळी रोकडीच आमच्या खेळाची कार्यावळ सुरू जावंची. कोयण्या बालांचो आनी लगोऱ्यांनी हे मुखेल खेळ.

खेळून जायनाफुडें आमी न्हावपाखातीर मुखावयल्या माटोवकारांचे बांयचेर वताले. न्हाल्या उपरांत जेवण. तें आटपून घेता म्हणसर परतून माटोवकारांल्या घराकडेन. थंय आंब्याच्या आनी वडाच्या व्हडल्या रूखांपोंदा विस्तारीत कातळाचेर आनी गाड सांवळेंत वाऱ्याच्यो हलके झोत आंगार घेत इस्पिकांनी खेळटा आसताना वा चादरी - कांबळींचेर न्हिदताना सुमाराभायलो आनंद जातालो. सांजवेळा परतून कोंयण्या बालांनी.

पळणीच्या तिनूय रातीं धवेंफुल्ल चान्ने आसतालें. सरभोंवतणचो मेकळो वांठार आनी ल्हान – व्हड झाडां झोपांचो सांगात आशिल्ल्या त्या धाकटुल्या संवसारांत मल्लांच्या बारीक बारीक बुराकांतल्यान झिरपतलें



पीठासारखें धवेंफुल्ल चान्ने आंगार घेत सगळयांनी एकठांय जेवपांत कितली खोस जावंची!

ल्हान – व्हड गजालींक लागून कूरकूर आनी एखाद दुसऱ्या प्रसंगावयल्यान एकामेका कडेन झगडें आनी केन्ना केन्ना मारामारीचे शिमेमेरेन वचपी लोक पळणीच्या दिसांनी एकाच कुटूंबांतले आशिल्ल्यावरी वागताले. त्या भकास दिसपी आनी एकसुऱ्या मळार कसलीच भिरांत जाणवनासली. पळणीच्या तीन दिसांमदीं कोण दुयेंत पडलो वा कोणाक दुखापत जाली अशें केन्ना घडिल्ल्याचें आयकूंक येवं ना.

पळणीचे तीन दीस केन्ना आनी कशे सोंपताले तें कळचनासलें. पळणीसावन परतताना खूब खंत भोगताली. पळण दर वर्सा आसची अशें म्हाका तरी दिसतालें.

आई वचचे थोडे दीस पयलीं पळण आशिल्ली. आई खूब दुयेंत आशिल्ल्यान माचुलांत बसोवन तिका घेवन आबा, म्हजे काका आनी वाडयेंतले बाकिचे लोक पळणीक गेल्ले. त्या उपरांत देड – दोन म्हयन्या उपरांतूच आई भायर पडली.

ज्या एका उत्सवाची दोळयांत जीव ओतून आतुरतायेन वर्सभर आमी वाट पळयत राव, ती म्हणल्यार आमच्या गावांतली जात्रा 'पूर्निमा'.

पौषांतले पुनवेक आमची 'पूर्निमा' सुरू जाता ती पांच दीस चलता. कोंकणांतल्या हेर गावांनी, चड करून मालवणी परीसरांत दह्किाल्याचे उत्सव जातात, पूण ते एके रातीपुरते. मार्गशिर्ष म्हयन्याचे पुनवेक चिंदरची जात्रा जाता, पूण तिवूय एका दिसाची. सामकी मसुऱ्याचे आंगणेवाडीचे फामादीक भराडी देवीची जी जात्रा भरता ती लेगीत एका दिसापुरतीच. आमच्या गांवची जात्रा मात पांच दिसांची आसता. ताचो लेगीत आमकां केदो अभिमान दिसचो!

जात्रेचे तयारेक आख्खो गांव फुडें सरतालो. सुमार पंदराएक दीस सगळयाक जात्रेची धांदळ सुरू आसता. मुखेल गजाल म्हणल्यार देवळाभोंवतणच्या चारूय वटांनी माडाच्या चुडटांचो आनी चिव्यांचो एक सुंदर आनी व्हडलो माटोव घालतात. सगळे गांवकार तेखातीर आपापले वाडयेंतल्यान पंचवीस चुडटांचो एकेक भोरो दितात. भोरे देवस्थानाचे मालकिचे. बाराय वाडयेंतल्या लोकांकडेन दरेकी पंदरा - वीस फूट लांबायेच्या माटवाचें काम सोंपयतात. माटवांत धा-बारा फुटांचेर लोंबकळपी आंब्याच्या ताळयांचीं तोरणां बांदतात. तर तितल्याच अंतराचेर

आशिल्ले माटवाचे खांबे भिल्ल माडांच्या चुडटांनी सजयतात.

देवळाच्या परीसरांतल्या माटवांत चारूय वटांनी खाजें, खटखटें आनी बुंदीचे लाडू, जिलेबी, फळां, कटलरीचें सामान, ल्हान भुरग्यांचीं खेळणीं, कांकणां आनी तांबें- पितुळच्या आयदनांचे ल्हान ल्हान मांड पडटात. ह्या दुकानांमदलें एक मुखेल अशें आनी सदचें दुकान म्हणल्यार राजाराम परबांचें केळयांचें दुकान. हातूंत सगळ्या तरांचीं केळीं मेळटालीं. मधुकर, ताचो भाव मुंबय आसतालो. दर वर्सा ताणे मुंबयच्यान केळीं हाडचीं. गावांतल्या गरीब वातावरणांत केळीं खावप ही प्रतिष्ठेची गजाल.

देवळाभोंवतणच्या माटवाचें काम पुराय जातकच भायर बारीक – मोठीं अशीं चुडटांची दुकानां उभीं जातालीं. तांचें भाडें मात देवस्थान कमिटीक वतालें. भायलीं दुकानां आसतालीं चड करून साडयांचीं आनी तयार कपड्यांचीं. तातूंत व्हड कपड्यांचें आनी साडयांचें दुकान आसतालें तें आचऱ्याच्या ढेकण्यांचें. जाल्यार तयार कपड्यांचें दुकान आसतालें चिंदरच्या कुवळेकारांचें . हाका लागून ढेकण्यांगेर बायलांची झुंडी जाताली, तर कुवळेकाराल्या दुकानाचेर ल्हान भुरग्यांची गर्दी.

उजवेवटेन भगवान आबांचो उशिकांड्याच्या रोसाचो रगाडो आनी ताचेच वटेन च्याचीं दोन – तीन व्हडलीं दुकानां. कुशीक एक दोन शिंवपी. वयर पुजाऱ्यांच्या दुकानासावन ते सकयल्या नानांच्या दुकानामेरेन ल्हान – ल्हान वस्तू विकप्यांची रांकूच लागिल्ली आसताली.

धुल्ल सकयल बसपाखातीर देवळाभोंवतणचो आनी भायलो सगळो जागो एकदम निवळ करून तो शेणान सारोवन घेताले. हें सगळें काम जात्रेच्या दोन – तीन दीस आदीं पुराय करून जातालें. दर वर्सा सारोवन घेवपाची ही कटकट वांटावपाखातीर मागीर देवस्थान समितीन देवळाच्या सबंद परीसरांत आनी मुखावयले वटेन फरशीचें पक्कें बांदकाम केलें.

जात्रे आदल्या एक - दोन दीस आदींच सभोवतणच्या परीसरांतल्या दुकानदारांनी बैलगाडयेंतल्यान आपलो माल घेवन येवंचो आनी थीर थावर जावंचें. हेरादारीखातीर दुसरीं आनीक कसलीं साधनां नाशिल्ल्यान पुजाऱ्यांच्या दुकानासावन वयर घाटयेमेरेन आनी सकयल व्हाळामेरेन बैलगाडयांची झुंडी पडिल्ली आसताली. देवळाकडेन पावले काय बैलगाडयांच्या गळयांतल्या घुंगरांच्या खळखळपी आवाजान सगळो परीसर घुमून वतालो.

आमची तर सामकीच धांदळ जाताली. सदचे शाळेचेच कपडे धुवून ते फेर्र मारून दवरप हें आमचें पयलें आनी सगळयांत व्हडलें काम आसतालें.

आमचेमदल्या कोणाचकडेन नवीन कपडे नाशिल्ल्यान फेर्र मारपाचेर आमचो दोळो आसतालो. वाडयेंत फेर्र आसतालें तें फक्त धकागेर. पूण जाणट्या लोकांची तेखातीर गर्दी आसताली. आमचो नंबर येवपाक खूब वेळ लागचो. केन्ना केन्ना नंबर लागयनाशिल्लो. असल्या वेळार आमी तांबयांत कोळशे घालून तो तांबयो कपड्यांवयल्यान भोंवडावचो, वा रातीकडेन घडी करून ते कपडे उश्यापोंदा दवरचे. हातूंतलें कितेंय केलें तरी इस्त्री जायनाशिल्ली. आमचें समादान जातालें, इतलेंच.

आनी निमाणे उजवाडटाली पूर्निमा. दरेका घरांत दोन – चार पावणे आशिल्ल्यान सगळी वाडी सामकी गजबजून वताली मनशांनी. तीच गजाल आख्ख्या गांवाची.

पयल्या दिसा दनपारमेरेन भगवती देवीची नाल्ल आनी खण घालून होंटी भरप हें गावांतल्या सगळया बायलांचें मुखेल काम आसतालें. तेखातीर सगळयांचेर घे S S बोवाळ पडटालो. नवीं कापडां न्हेशिल्ल्या, नाकांत नथ आनी आंगाखांदार अळंकार घाल्ल्या आनी आंबाड्यांत फांतयो माळिल्ल्या बायलांनी  देवळाकडेन येवपी सगळयो वाटो आनी देवस्थानाचो परीसर भरून वतालो.

देवीची होंटी भरप हो आयुश्यांतलो सगळयांत खोशयेचो आनी कृतज्ञतायेचो खीण!

पूर्वपरंपरेक धरून आमचे लोक मात देवळाचे गर्भकुडींत प्रवेश करीनासले. आमच्या बायलांनी गर्भकुडीचे भायलेवटेन आशिल्ल्या देवळाच्या सोंपणाचेर होंटी दवरपाची. गुरवान देवळाच्या भायर येवन पयल्या सोंपणार उभो रावन गाराणें घालचें आनी मागीर ताणेंच होंटी घेवन भितर वचचें.

म्हाका आई नाशिल्ल्यान आनी ताई खूब ल्हान आशिल्ल्यान सुरवेच्या तीन – चार वर्सांत आबान म्हज्याच हातान देवीची होंटी भरची. दर खेपेक देवीकडेन आबाचें एकूच मागणें आसचें, “ देई, माजो झील शिकॉन लय मोटो होव दे.”

एक फावट होंटी  भरून जाल्यो काय मागीर जात्रेची मजा सुरू जाताली. मजा कसली, फकत धांगड धिंगाडो. शाळेक पांच दीस सुटी आशिल्ल्यान जात्रेचे पांचूय दीस आमचें एकूच काम. पांयांक भोंवऱ्यो बांदिल्ल्यावरी परत परत, दीसरात जात्रेंत एकसारखें भोंवत रावप. पांच दिसांक मेळून आबान दोन – तीन रूपये दिवंचे. ते लेगीत ह्स्या ह्स्यान. मुंबयसान केन्नातरी कोणूय गांववालो आयलो आनी ताची आनी मामाची

भेट घडली जाल्यार मामा दोन रूपये धाडी. ताका लागून जात्रेंत जायतें कितें विकतें घेवपाचो प्रश्नूच येनाशिल्लो. पूण बऱ्याचशा किरकोळ दुकानदारांक आमी "ह्येचा काय गे?" “त्येचा काय ओ मामा?” असले प्रश्न विचारून नाका पुरो करताले. दुकानवाले भायले आशिल्ल्यान ते आड्डनासले. पूण मुखामळाचेर उदेल्ले वाजेवणे भाव दिसताले. 'काय ही फटकी भरलेली पोरा तरास देतहत!' अशें मनांतल्या मनांत म्हणत ते खेपत आसताले.

दरेके जात्रेंत नेमान म्हाका एक वस्त घेवंची कशी दिसताली, ती म्हणल्यार 'कोचा'. पैशे दवरपाचें पाकीट. पूण तेखातीर एक रूपयो वगडायलो जाल्यार तातूंत दवरतलो कितें अशें चिंतून हावें तें केन्नाच घेतलें ना.

शाळेंत आमी टाकान बरयताले. पूण शर्टाच्या बोल्साक फावंटन पेन लावन मिरोवपाची म्हाका खूब हौस. पूण आमकां कोण दितलो पेन? ताका लागून हावें दोन – तीन फावटीं आठ – आठ आण्यांचीं फावंटन पेनां घेतिल्लीं. पूण बरोवपाक घेतलीं काय तातूंतल्यान भळभळीत शाय गळटाली.

खाकी युनिफॉर्म घाल्लो, काळसोसो, मध्यम पिरायेचो सोर्तीकार मामा हें जात्रेंतलें मोठें आकर्षण. एका आण्यात सोर्त काडपाक मेळटाली. बॅटरी, घडयाळ, दोन व्हडले हारशे असल्यो तीन – चार व्हड वस्तू सोर्तींत आसताल्यो. बाकिच्यो पंदरा - सोळा अशो किरकोळ आनी चिल्लर स्वरूपाच्यो. एखादी बरीशी वस्त हातांत पडत हे आशेन सोर्त काडपाचो मोह आवरूंक जायनाशिल्लो. दरेका दिसा भोंवून भोंवून एक फावट तरी हावें सोर्त काडची. पूण म्हाका सोडाच, हेर कोणाकूच व्हडले वस्तुची सोर्त लागिल्ल्याची म्हजे यादस्तीचे स्मृतींत ना.

सोर्तीकार मामान आपणाल्या ग्रामोफोनाचेर बरीं बरीं गीतां वाजोवचीं. 'इचक दाना, बिचक दाना, दाने उपर दाना','रमय्या वतावय्या, रमय्या वतावय्या', 'ऐ मालीक तेरे बंदे हम' असलीं गीतां आमी सोडतीच्या दुकानाचेरच पयले फावट आयकलीं. परतून परतून ताच्या दुकानार वचपाचें तेंवूय एक कारण आसूं येता. फक्त पदांच आयकुपाक जर गर्दी जाली आनी सोर्त काडपाक कोणेच जर उमेद दाखयली ना , जाल्यार ताणे थोडो वेळ गाणीं बंद करचीं.

आबाल्या उसाच्या रोसाच्या दुकानार रोस पिवपाची खर इत्सा जाताली. पूण एका ग्लासाक दोन आणे दिवप परवडपाचें नासलें. दुसरी वाट

म्हणल्यार एका ग्लासाखातीर धा - पंदरा मिनटां रगाडो ओडपाचो. म्हाका आबान केन्ना हांगासरली काडी थंय फिरकूंक दिली ना वा पोटांतलें उदक हालूंक दिलें ना. ताका लागून रगाडो ओडपाचो प्रस्नूच नासलो. वसंत, बाळा, गोपाळ आनी गावांतलीं हेर पोरां तें काम करतालीं. हावें मात एक – दोन फावटीं एक आणो दिवन अर्दो ग्लास पिवंचो. केन्ना केन्ना एक आणो वांटावपाखातीर रगाडो ओडपाचो विचार मनांत येवंचो. पूण आबाले भिरांतीक लागून तें धाडस जायनासलें.

भगवान आबा म्हाका 'लकूचो झील' म्हण वळखतालो. एक फावट दुकानार तोच आसताना हांव जेन्ना रोस पिवपाक गेलों, तेन्ना ताणें पैशे घेतलेनात. भायर सरताना मात ताणें हांसत हांसत म्हणलें, “परत परत येव नको"

जात्रेंत भोंवताना दर खेपेक परबांच्या दुकानाचेर केळीं खावपाचो मोह जावंचो. पूण केळीं खावपाचें कुशीक उरलें, तीं मुंबयसान हाडिल्लीं आशिल्ल्यान बरींच म्हारग आसतलीं ह्या दुबावान थंय झळकुपाचें धाडस जायनासलें.

पयल्या दिसा दीसभर जात्रेंत भोवून जाल्या उपरांतय आमचो रातचो मुक्काम देवळाकडेनच आसतालो. मनाक मारलें जाल्यार आमी जेवपाक घरा वचचें, पूण हात धुवन जाले तशें रोकडेच परतून देवळाकडेन.

देवळाक तेंकूनच आमचेखातीर एक स्वतंत्र इमारत आशिल्ली. तोच आमचो 'बंगलो'. जात्रेखातीर येवपी आमचे वाडयेंतल्या कांय लोकांनी त्या बंगल्यांत, तर कांय जाणांनी बंगल्याच्या भायर आनी देवळाच्या वाठारांत बसचें.

जात्रेचे पांच दीस म्हजी मसुऱ्याची आक्का आनी तिचें कुटूंब, खुडीची काकी आनी बाबीदादा आमगेर आसतालीं. तेभायर केन्ना केन्ना आए आनी हेरूय सोयरीं आसतालीं. ताका लागून जेवण रांदपाचो प्रश्न नासलो तरी खर्चाचो सगलो भार आबाचेर पडटालो.

जात्रेचे पयले चार दीस अशे हेडून सारतकच निमाणचो दीस उजवाडटालो. तो दीस म्हणल्यार 'लळीत', त्या दिसा तर हेडपाक कसलो धरबंद नासतालो. आमचो आख्खो दीस आनी रात हेडूंकूच वचचो. लळीताच्या दिसा आमी रातचें जेवणय बंगल्यांतूच मागून हाडटाले. लळीताचे रातीकडेन बंगल्यांत जेवता आसताना आमी कसलोतरी पराक्रम करता ह्या अविर्भावान मजा येताली.

आनी एक फावट आमी खऱ्यांनीच पराक्रम केलो. एका दिसा हावें,

धकान, वसंतान आनी शांतारामान मेळून दरेकीं चार आणे वर्गणी काडून एका रूपयाचें भांडवल तयार केलें आनी जात्रेंत काळया चण्याची उसळ विकपाचें धारायलें. एक रात चणे, एक रात गोड, एक नाल्ल आनी गोडें तेल. एका रूपयाभितर इतले सगळे जिनस आयले. आदल्या दिसा चणे उदकांत फुगत घातले. ताका लागून ते सादारण तोपभर जाले. रातीच्या आठांक सुमार आमच्या बंगल्यांत उसळ तयार जाली.

आमचें गिरायक आमचे वाडयेंतल्या लोकांपुरतें. एक आणो प्लेट. निदान तीन – चार रूपयांची तरी विक्री जायत अशें आमकां दिशिल्लें.

खरें म्हणल्यार उसळ खूब बरी जाल्ली. सुरवेक चार – पांच जाणांनी रोखडीच घेतली. दिताआसतानाय आमी कांचूटपणां करीनासताना प्लेटी सामक्यो भरभरून दिल्यो.

"पोरांनी उसळ बरी केल्यानी हा!" खातल्यांनी म्हणचें.

एकी दोगी बायलांनी खावन जातकच हे़रांक म्हणलें लेगीत, "गो मेल्यानू खावन तरी बगा, पोरांनी काय उसळ केली हा ती!"

आमकां धीर आयलो. आतां उसळ रोकडीच सोंपतली अशें दिसलें.

इतले म्हणसर वाडयेंतलो नाना नांवाचो मनीस सोरो पियेवन बंगल्यांत आयलो. ताणे दोन प्लेटी उसळ खाल्ली. धपक्यांत दोन प्लेटी सोंपिल्लेखातीर सू S S जालें, पूण घडलें उरफाटेंच.

"मी पैसे उद्यां देतंय!" ताणें म्हणलें.

"नाना, पैसे आत्ताच देवा, आमी सगळो माल उदार घेतलो हा!" आमी सांगलें.

"रे पैशे खंय जातहत? उद्या देतय!" नानान परतून म्हणलें.

"नको नको नाना! असा करू नको. दोन अने तर हत." आमी काकूळटेक येत म्हणलें.

"अगदी गडबड केलास, तर उसळ एकदम खार – खटक झाली हा असें सगळयांका सांगन. बगतंय तुमची उसळ कोन घेता हा तो." नानान निमाणचें अस्त्र सोडलें. आमकां कांयच सुचना जालें. कितें करचें तें कळना. पूण आमकां तें प्रकरण वाडोवपाचें नासलें. ताचो कसलो उपेग जावंचो नासलो. उरिल्ली उसळ तशीच पडटली हे भिरांतीन आमी, "पैसे नको, पण उसळ खराब झाली हा, असा कोणाक सांगॉ नको, तुमच्या पाया पडताव", अशें सांगत आनी ताच्या हातापांयां पडत ताका कसोबसो बंगल्याभायर धांवडायलो.

अर्दवरफुकट गेलें. बरीच रातय जावपाक आयिल्ली. आमी नवे उमेदीन

परत उसळ विकपाक सुरू केली.

"उसळ खूप चांगली हां, त्येच्यात खोबरा आनी गूळ घातलो हा, खावन तरी बगा, भरपूर ...प्लेट भरून भरून देतांव!" वसंत परतून परतून गिरायकांक सांगतालो.

जात्रेंत हेडून – भोंवून जातकच लोकांनी न्हिदपाची तयारी केली. मध्यान जाली. कांय जाण घरा गेले. आमी तोपाचेर धांकण दवरलें. अर्दो सुमार तोप उसळ तशीच उरिल्ली. धकान सगळो गल्लो मेजलो.

"कित्ती झाले?" आमी तिगांयनी एकदम विचारलें.

"पंदरा आणे." धकान म्हणलें.

"तुमी तिगांनी चार – चार अणे घेवा, माका तीन अणे फुरे." हावें म्हणलें. हावें मनात सोपूत घेतलो, "आयुश्यांत कांयच ना जाल्यार जाता, सामकें उपाशी रावचें पडल्यारय उपकारता, पूण वेपार म्हणटा तो करप ना!"

म्हजेकडेन आशिल्ल्या तीन आण्यांतल्यान एका आण्याची हावें आज्जेखातीर जिलेबी घेतली आनी दोन आण्यांची एक मुरली घेतली.

एक दीस उलयतां उलयतां आज्जेन म्हाका एक गजाल सांगिल्ली. ज्या बायलांक भुरगें जायना तांकां सर्गांत सुवात मेळना. इतलेंच न्हय, तर असल्या वांजूड बायलांक शेत नांगरताना बैलांवांगडा जोताक बांदपाची ख्यास्त भोगंयतात. फांतोडेर कोणेय जर मुरली वाजयत आनी तिचे सूर देवाल्या कानार पडत, तर देव प्रसन्न जावन बायलांक जोताक बांदिना आनी तांकां तितलो सुशेग मेळटा. वांजूड बायलांक तसो सुशेग मेळचो म्हण मागीर कितलेतरी दीस हावें फांतोडेचेर उठून मुरली वाजोवंची.

वर्सांतली निमाणची परब ह्येळी.

आमच्या गांवांतली ह्येळी लेगीत खास उमेदीन मनयतात. ताचें मुखेल कारण म्हणल्यार मुणगे सोडले जाल्यार बाकिच्या सगळ्या गावांत आंब्याच्या झाडाची ह्येळी करतात. तेखातीर आंब्याचो एखादो व्हडलो खांदो वापरतात. माडांसारखोच आमचो गांव माडयांचो. ताका लागून आमच्या गावांत पुर्वापार माडयेची ह्येळी करतात. बांबरवाडी, देवूळवाडी, सावंतवाडी, लब्देवाडी, आपवाडी आनी कारिवणेवाडी ह्यंगासर माडयांचीं व्हडलीं व्हडलीं कुळागरां आसात. ताका लागून दरेका वर्सा एकेके वाडयेंतल्या कोणेतरी माडी दिवपाची असो पायंडो आसा. देवाखातीर माडी

दिवपाची अशें आशिल्ल्यान लोकय खोशयेन तयार जाताले. होळयेखातीर आपणाले मालकेची माडी दिवप हें भाग्याचें लक्षण समजतात.

देवळासान जितलें अंतर आसता तेप्रमाण होळी हाडपाखातीर गांवकार धोल – ताशे वाजयत वतात. कापचेपयलीं माडयेची पुजा करतात. विशेश करून माडी कापल्या उपरांत ती जमनीचेर अजिबात पडपाक दिनात. कापतनाय ती अशे तरेन कापतात, सकयल पडटाना ती जे वटेन पडटली थंय तकली वापरून गांवकार उबे रावतात आनी वयलेवयर ती अचळय झेलतात. मागीर तिका सन्मानान भोंवडावप सुरू जाता.

इतलें आसून लेगीत केन्ना केन्ना होळी धरपी गांवकाऱ्यांमदीं आपूणशींच सर्त सुरू जाता. कांयजाण होळयेच्या मुळाकडेन तर कांय जाण कवाळयाकडेन आशिल्ल्यान मुळाचे वटेनचे गांवकारी फुडें ओडपाचो यत्न करतात, जाल्यार कवाळयाकडले फाटल्यान ओडटात. ह्या ओडपाक लागून केन्ना केन्ना बरोच कळावय जाता. इतलें आसलें तरीय इतली लांबचे लांब आनी कवळया वटेन चड नाजूक आशिल्ली होळी वाटेंत मोडची - बिडची तर ना न्ही हेखातीर जिवापरसय चड जतनाय घेतात.

देवळाकडेन सुमारेक देडशें - दोनशें ल्हान – व्हड दादले होळयेची वाट पळयत हाजीर आसतात. होळयेचो मान म्हण हाडिल्लो नाल्ल दरेकल्याच्या हातांत आसता. मागीर खूब खोल खणिल्ल्या फोणकुलांत होळी उभी करपाच्या कठीण कामाक सुरवात जाता. मुळासावन कवळामेरेन मुयांची वळ लागची तशे गांवकार होळयेक धरतात आनी बऱ्याच यत्नांनी तशेंच कुशळटायेन तिका फोणकुलांत उभी करतात. तोमेरेन दरेकलो आपलो जीव मुठींत धरून आसता. तरी लेगीत पळोवप्यां मदले कांयजाण "असा करा" “तसा करा", “अकडे सरका", “हा आता वर घेवा" अशो सुचोवण्यो दीत आसतात. ताचेर प्रत्यक्ष होळी उबी करपी "तुमी जरा गप ऱ्हवा, तुमकां सांगॉक काय जाता..." अशें म्हणत सुचोवण्यो दिवप्यांचेर धेंगशेतात. त्या गंभीर वातावरणांतय सगळेजाण 'खो खो' करून हांसतात.

होळी उभी करून जातकच गुरव तिची पुजा करता आनी "सबंद गावाचे कल्याण होवो" अशें गाराणे घालता. सगळेजाण एका सुरांत "हय सायबा! हय सायबा!!" म्हणीत त्या गाराण्यांत भरसतात. दरेकलो गांवकार होळयेक नाल्ल दिता.

सगळें करून जातकच घाडी माथ्यार कवळ घेता. कवळ म्हणल्यार सुकिल्लीं बारीक शिरपूटां आनी पानांचो भोरो, कवळ घाडयाचे तकलेर आसतानाच ताका उजो लायतात आनी तें जळटें कवळ तकलेर घेवन घाडी

ह्ोळयेभोंवतणी पांच भोंवताडे काडटा. तोमेरेन कवळान बरोच पेट घेतिल्लो आसता. पांच भोंवताडो पुराय जातकच घाडी कवळ ह्ोळयेच्या मुळांत वडयता. कवळ पुराय जळून शिरपूटांचे कोळशे जातात. होळयेचे सभोंवतणी आशिल्ल्या त्या कोळशांवयल्यान गांवकारी जेन्ना उक्त्या पावलांनी तोंडार ह्ात धरून 'बो S बो S बो S' करीत ह्ोळयेभोंवतणी एकेक भोंवताडो मारतात तेन्ना आमच्या पोटांत भंयान गुळो येवपाक लागतालो.

ह्ोळयेखातीर ह्ाडिल्ले सगळे नाल्ल म्हारांक दितात. तातूंतले जे नाल्ल फोडटात त्या नाल्लांच्यो शिरन्यो करून त्यो ह्ाजीर आशिल्ल्या पोरां तारांक वांटटात आनी उरील्ले नाल्ल देवीची सेवा करपी चार म्ह्ार आपणांभितरच वांटून घेतात.

पुनवेचें सुंदर आनी नितळ चान्ने सगळेकडेन पडिल्लें आसता. कार्यावळ सोंपतकच शिरन्यो खायत आनी अर्दी कातली बोल्सांत घालून घेवन ते रातीच्या चान्न्यांत घराची वाट चलताना केदी खोस जावंची!

दुसऱ्या दिसा सावन चार दीस देवळाकडेन भरगच्च कार्यावळी आसतात.

पयली कार्यावळ आसता, रातच्या आठ वरांचेर देवीची पालखी देवळांतल्यान काडून ती देवळाभोंवतणी भोंवडावपाची. कितलेंय ल्हवू चललें तरीय देवळाभोंवतणचो भोंवताडो पुराय करपाक धा - बारा मिनटां पुरो जातात. पूण खरेपणी केन्ना केन्ना एक तें देड वरय लागता. ह्ाचें मुखेल कारण म्हणल्यार हे्र गांवकार आनी धोल वाजोवपी म्ह्ार ह्ांचेमदीं जावपी वर्सुकी सर्त. ह्या भोंवताड्याच्या वेळार धोलकार सगळयांत फुडें चलतात आनी हे्र धा - बारा गांवकारी ह्ातांतलीं मातयेचीं वाजपां वाजयत तांचे फाटल्यान चलतात. पूण धोलकारी उरफाटे आनी सवकास चलतात आनी नेटान फुडें वचपी हेर गांवकाऱ्यांक आडायतात. ह्यावेळार दोगांमदीं तेमां जातात. भोंवचाडो पुराय जावपाक जातलो कळाव तितलीच धोलकारांचें जैत अशी गांवकाऱ्यांची समजिकाय आशिल्ल्यान ह्या तेमांनी वाड जाता. दोगूय नेटान एकामेकांच्या पांयांर पांय दिवन एकामेकामदीं आडखळ ह्ाडटात. एक फावटीं तर प्रत्यक्ष मारामारीचेर येवन एका - दोगां धोलकाऱ्यांनी गांवकाऱ्यांलीं वाजपांच फोडलीं. मारामारी जावपाची वेळ आयली. हेर गांवकाऱ्यांनी मध्यस्ती करून वातावरण निवळायलें . अशा वेळार म्हज्या पोटांत गुळो येतालो.

घडये सगळयांत उदेंतेवटेनची वाडी म्हण आसुंये, पूण होळयेच्या त्या चार दिसांनी देवळाची पयली कार्यावळ करपाचो मान बांबरवाडकारांक आसता. तांगेलो तमाशो पळोवपाची उत्सुकताय आख्ख्या गांवांक आसता.

फेटो बांदिल्ल्या गणू घाडयान डफाचेर थाप मारून वग म्हणपाक सुरवात केली आनी रत्नू घाडयाची गोमू नाचपाक लागली काय सगळें देवूळ कवतुकान हालूंक लागतालें. गोणू घाडयालो किसन देव जेन्ना मथुरेच्या बाजाराक वचपी गवळणींक आडायतालो, तेन्ना आमकां हांसून हांसून नाका पुरो जातालें. सगळयांनी म्हणचें, "तमासो करूचो तर गनू घाडयानच!"

कारिवणेकर मंडळीन दर वर्सा एखादे पुराणिक कथेचेर, पूण चडशें महाभारतांतले घडणुकेचेर ल्हानशें नाटक करचें. तातूंत अर्जुनाचो अभिनय करपी आसलो एक उंच, शिडशिडीत आनी गंभीर आवाज आशिल्लो अनंत लब्दे.

तांचें नाटक सुरू जावंचे पंदरा मिनटां आदीं मात एक थारिल्ली कार्यावळ आसताली. ती म्हणल्यार उसाच्या रगाड्यावाले भगवानआबा सावंत आनी देऊकाका सावंत ह्यांची दोगांची तलवारींचो खणखणाट करपी लढाय. एका ह्यातांत तलवारीची मूठ आनी दुसऱ्या ह्यातांत तिचें तोंक घेवन गळयांत कसल्या कसल्या मणयांच्यो माळो घाल्ले दोगूय पड्ड्याच्या दोनूय वटांनी पांयांतल्यां घुंगरांचो आवाज करीत थयथय नाचत भायर आयले काय आमी ल्हान पोरां ह्रांसून हांसून जाम जातालीं.दोगूय जड्डे म्हातारे. दोगूय दम्याचे दुयेंती, उभें रावपाचेंय त्राण नाशिल्ले. पूण ह्योळयेच्या दिसांनी तांच्यांत खंयचें बळ संचारता ह्रो आख्ख्या गांवाचोच एक कुतुहलाचो विशय आसतालो.

लब्देवाडकारांनी एखाद्या सामाजीक विशयाचेर आदारीत तीन अंकी नाटक सादर करचें. एका वर्सा ताणी 'गौरीशंकर' नाटक केल्लें. गौरी जाल्लें अर्थात भिकाजी रूपे. तांचें नाटक पळोवप ही सदचीच एक खोशयेची गजाल आसताली.

भांडारवाडकार केन्ना केन्ना पुराणीक नाटकां करताले. तातूंत श्रीधरकाका मुणगेकर जे वाडयेचे मुखेल आसले तांची भुमिका मुखेल आसताली. सावंतवाडींतल्या आनी सडेवाडयेंतल्या मंडळींची भजनाची कार्यावळ आसताली.

होळयेचे पयले चार दीस अशे झूप करून सोपले काय पांचव्या दिसा धुळवड. त्या दिसा देवळांत दनपारचीच कार्यावळ आसताली. धोलकारी आनी गांवकारी ह्रांचेमदली दोरी ओड सर्त दनपारचीच आसताली.

निमाणे म्हयन्याभरयान एका सुवाळयावरवीं ह्रोळी कापतात. तेन्नाय बी खूबजाण ह्राजीर आसतात.

पुराय म्हयनोभर येतना - वतना शांतपणान उभी आशिल्ले ह्रोळयेवटेन

सारखी नदर पडपाचे संवकळीक लागून फुडले कितलेतरी दीस ती सुवात रीकामी दिसपाक लागता.

चवथेंत पयलो नंबर येवनय हावें म्हजेखातीर एक व्हडली अडचण निर्माण केली. पांचवेंतय बी पोळाजी मास्तरच शिकोवपाक जाय असो ह्यवें हट्ट धरलो. ताणी शिकयलें ना जाल्यार हांव कुवळयाचे शाळेंत वतलों अशें आबाक सांगलें. हो म्हज्या पिशेपणाचो कळस आशिल्लो. चवथी पास जाल्लो म्हजेसारखो विद्यार्थी शाळेंत खंयच्या शिक्षकान खंयच्या वर्गांत शिकोवचें हें कशें थारावंक शकता हो सादो प्रश्न लेगीत हावें तेन्ना म्हाका विचारलो ना.

आमची शेत – शाळा जाल्ल्यान मे म्हयन्यांत आमकां सुटी आसताली. ती सोंपली आनी जूनांत शाळा सुरू जाली.

पोळाजी मास्तर पांचवेंत शिकोवपाचो प्रश्नूच नासलो.

हांव शाळेंत गेलों ना.

कुवळयाची शाळा मे म्हयन्यांत सुरू जाल्ली. कित्याक तर तांकां जूनांत सुटी. म्हणल्यार ते शाळेंत पांचवेचो थोडो अभ्यास मे म्हयन्यात शिकोवन जाल्लो. आनी थंयूय बी म्हजें नांव घालूंक नासलें. हेवटेन आश्टो आनी तेवटेन बांय अशी म्हजी अवस्था जाल्ली. आबा सामको पिकार जाल्लो. "तूं आता माज्यासारको चिंदरच्या बाजाराक सुपारयोच इक, ताच तुज्या नशिबाक हा!" तो तिडकून आनी बेजारून म्हणटालो.

हावें म्हजेमुखार आनी आबामुखारय केदें व्हडलें संकश्ट उभें केल्लें! म्हाका अपराध्यावरी दिसपाक लागलें.

जुलय म्हयनो उजवाडलो. हांव, आबा आनी ताई एक दीस शाळेंत नांव घालपाखातीर आजोळा गेलीं.

आईचे जितेपणी केन्ना हांव तिचेवांगडा आजोळा गेल्ल्याचो म्हाका उगडास जायना. पूण ती वतकच आजोळ म्हणल्यार आमचें कुळारच जाल्लें. आजोळा वचपाचें नांव काडटांच म्हाका आनी ताईक खूब खोस जाताली. सातवी पास जावन हायस्कुलाखातीर मुंबय यो मेरेन कसल्या ना कसल्या तरी निमतान वर्सांतल्यान दोन – तीन फावटीं तरी आमचें आजोळा वचप जातालें. मामा शेताक लागून गावांत येतकच तर हातूंतली एक फावट जरूर जाताली.

आजोळा वचपाचें थारायलें काय केन्ना एकदां तो दीस उजवाडटा आनी वाट चलपाक लागतां अशें जातालें. आबा, हांव आनी ताई एकठांय मेळून अशींच वचचीं, चड करून मामाक मेळपाक. केन्ना केन्ना हांव आनी आए दोगांच जाणां आसतालीं. कांय घडणुकांवेळार म्हाका आनी ताईक आए आपणावांगडा घेवन वताली वा आजोळासान पावोवंक तरी येताली. ताका लागून आमच्यो, तातूंत म्हज्यो, चड खेपो आएवांगडाच जाताल्यो.

पायांत व्हाणो नासताना आमी सकाळींच भायर सरचें. आएच्या माथ्यार एक व्हडली पोटली आसताली. तातूंत मुखेल करून आजोळा मेळनाशिल्ले नाल्ल आनी केन्ना केन्ना खारें नुस्तें आसतालें. तेचभशेन, दनपारां वाटेर खावपाखातीर केळीचे शिरतेंत बांदून घेतिल्लें शीत आनी खोबऱ्याची चटणी आसताली. अदींमदीं भाजिल्लें खारेंय आसतालें. खारें म्हणल्यार आमचो जीव कीं प्राण. “मुणग्यात कोनी सुकाट भाजल्यात तरी माका कुवळयात वास येता.” आएन म्हणटाली.

घरांतल्यान भायर सरतकच रोकडीच आमची घाटी लागताली. ती चडटा आसताना आमी फातराचेर तकली दवरून आईच्या पांयां पडचें. “धकल्या, तुज्या पोरांक घेवन जातंय, परत सुखान घराक घेवन येगे माज्ये बाय", पांयां पडटाना सदांच आए म्हणटाली

घाटी चडून जातकच माथ्यावयल्या वडाखाला आए थोडो वेळ बसताली. तकलेर आशिल्ले पोटलेक लागून तिका धाप लागताली आनी मातशें चलून वतकच सड्याचेर परतून वडाचें झाड लागचें. हांगा - थंय वडाचे दोन – तीन रूख आशिल्ल्यान थंय बरी सावळी तयार जाल्ली. थंय सपाट आनी उंच अशे दोन फातरय आशिल्ले जंय बरेतरेन बसपाकय मेळटालें. आमी थंय थोडोवेळ बसताले. दर वेळा थंय पावतकच पळणीक गेल्ले घडणुकेचो उगडास काडून आएन म्हणचें, “हयसर माज्या लेकीची डोली ठेवलल्यानी.”

मातशें फुडें वतकच लागतालो भगवानआबाचो च्याचो गाडो. ल्हान व्हड ताका 'भगवानाचा दुकान' म्हणी. आई जिती आसताना वतना - येतना आए च्यायेखातीर थंय रावताली. भगवानआबा तिची बरेतरेन चवकशी करी. च्याचे पैशेय घेनासलो. आई वतकच मात आए परतून केन्नाच त्या गाड्यार गेली ना.

मागीर अर्दवर चलल्या उपरांत लागताली यादवांची वस्ती. ताचे कुशीकच एक व्हाळ आसा. पूण आमी ताका 'यादवांचो व्हाळ' म्हणपाच्या जाग्यार 'गादवाचो व्हाळ' म्हणटाले. पावसाळयांत तो पुराय भरून

व्हांवतालोच. पूण गिमाळयांतूय तातूंत थोडें उदक आसतालें.बाकी सगळीं खडपां आनी फातर. तेखातीर तातूंतल्या थोड्याशा उदकाचोय आवाज सुंदर येतालो.

व्हाळ वलांडटकच ताचे कुशीकच आशिल्ली एक चींच. तिका तेंकूनच एक काळें, रूंद आनी निसरतें कातळ जाचेर सारकें बसपाक मेळटालें. थंय पांय खाला सोडून आमी बसतालींच. तकलेवयली जड पोटली त्या कातळाचेर दवरची आनी मागीर आमी व्हाळांतलें उदक पिवपाक वचचें. तें नितळ, थंडगार उदक पितना आनी पोसो भरून सकयल ओततना खूब मजा येताली. व्हाळांत उदक आसूं वा नासूं, त्या चिंचेच्या रूखाखाला बसपांत आमचो केन्ना खंड पडलो ना.

'बाबू चल!' आए म्हणटाली आनी मागीर आमची वाट सुरू जाताली.

गादवांचो व्हाळ सोडटकच खूब चलचें पड. मदीं तीन विस्तृण मळां आनी दोन मळांच्या मदेकाक, ल्हानशा खोलगट भागांतली दोनशीं - तीनशीं फुटांची वाट. थंयसान चलताना सदांच म्हाका चोरांची भिरांत दिस. मदींच वाऱ्याच्या झोताक लागून हांगाच्या थंयच्या झाडांचीं पानां व्हडल्यान सळसळटालीं. तर केन्ना वाऱ्याची मोठ्यान शिळोणी कानांर पडटाली. केन्ना केन्ना तर सामकी थंडसाण पातळिल्ली आसताली. दनपार जावपाक आयिल्ल्यान कडक वोत पडपाक लागतालें. हेवटेन तेवटेन कोणाचेंच घर नाशिल्लें. तातूंत भुरटे चोर गावांत वाटसुऱ्यांक कशे सतायतात, तांगेलें सामान चोरतात आनी केन्ना मारूय घालतातअसल्यो गजाली आयकून तसल्या चोरांची भिरांत दिसताली. ह्या सगळया गजालींक लागून सगळया वातावरणांत भिरांत पातळटाली. हांव भियेतां म्हणपाचें आएच्या लक्षांत येतालें.

“बाबू, भीतस काय रे?” केन्ना केन्ना तिणे म्हणचें.

“नाय गे!” हावें म्हणचें. पूण मनांतल्या मनांत म्हाका थरथरो सुटचो आनी केन्ना एक फावट खुडीच्या वडासकयल पावतां अशें जातालें. पयसुल्ल्यान एकदां खुडीचो वड दिसलो काय एखाद्या जाणटेल्या मनशावरी ताचो आदार दिसतालो.

मातसो व्हड जातकच म्हजेंच म्हाका हांसपाक येतालें, 'चोरांनी म्हाका मारलो, पेटलो जाल्यार हो वड कितें करतलो काय!' हें येवजून मनात हांसो येतालो. तरी आसताना ताचेकडसून अपेक्षित आशिल्ली ती आदाराची भावना मात केन्नाच उणी जाली ना. ताका लागून ताची तेंगशी दिसनाफुडें आमचे चालीक गती येताली आनी मागीर आमी त्या अस्ताव्यस्त

पातळिल्ल्या वडाच्या झाडासकयल्या कातळाचेर घालून घेताले. कातळ खंयचें! घराकडेन जेवपाक बसतात तो पाट, तोवूय तसोच एखादो विस्तीर्ण, सपाट, काळो पाटच म्हणपाचो. असले जायते ल्हान सान पाट  हांगां थंय पातळिल्ले आशिल्ले. आजोळा वतना दरेका वेळा आमी चड करून ह्याच वडासकयल बसून जेविल्ले. केन्ना केन्ना दुसरे वाटसरूय थंयच येवन बसताले. तांचे भितरल्यो दोन घडणुको म्हाका सदांच याद जातात.

एके फावटीं एक तरणें, सुंदर जोडपें थंय मेळळें. चली नकसूद, गोरीपिट्ट आनी सोबीत आशिल्ली आनी कोंगऱ्या केंसांचो तिगेलो न्हवरोय देखणो आशिल्लो. तांकां पळोवन आएन म्हणचें, "बाबू बग! माजा जना आनी त्येच्या घोवासारखी दिसतहत."

खंयचोय मनीम आसूं, चड करून बायल दिसली काय आएन तिका, “तुका बाय, पोरा कितीशा हाय?” अशें विचारचें.

“कायगे बाय, तुका काय पॉर – बिर हा?” आएन ते चलयेक विचारलेंच. तिणें लजेवन भुरगें ना म्हणपाचें सांगलें. आएक खूब वायट दिसलें. जनाआक्काक लेगीत लग्ना उपरांत बरींच वर्सां भुरगें नाशिल्लें. ताका लागून घरभर निरशेवणेचें वातावरण आसतालें. आएन तर आंगवण केलेबगर एक देव दवरलो ना. ते चलयेन 'मूल नाही' म्हणनाफुडें आएन ताका तोंड भरून आशिर्वाद दिलो, "एका वर्सात पॉर व्हता की नाय ता बगा!” दोगांकूय खूब बरें दिसलें. तांकां भुरगें जालें काय कितें हें कळपाक कसलोच मार्ग नामलो. पूण ती सोबीत, गोरी चली आएच्या पांयां पडली आनी तिगेल्या चाकरमानी न्हवऱ्यान आएच्या हातार दोन रूपयांची नोट दवरली.

हांव आनी आए थंयच्यान गेलीं तरी तीं दोगांय थंयच बसून आशिल्लीं. हांव मात फाटल्यान पळयत पळयत चलतालों.

दुसरी घडणूक तर सामकी उरफाटी.

त्यावेळा पिरायेन व्हड अशा दोन बायलांची भेट घडली. आएन दोगींकय सदचोच प्रश्न विचारलो, एकलेन म्हणलें, 'चार!' तर दुसरेन म्हणलें ,'पांच!'

आएक कितली खोस जावंची! 'आसाँ दे आसाँ दे!' आएन म्हणलें.

पांच म्हणल्यार भुरगीं खूब जालीं हें म्हाका तोमेरेन कळपाक लागिल्लें. “तूं आपली खेकापन आसाँ दे आसाँ दे काय म्हनतस? ती काय शिरिमंत हतं! त्येंच्या पोरांका बगतलो कोन?” हावें आएक म्हणलें.

“तुजा आपला कायतरीच. देवानं दिल्यान् आनि मानसान् घितल्यान्!” आएन म्हाका समजायिल्लो.

एक दीस एक काळसोच, लांबूचसो लंगोटेभशेन न्हेशिल्लो मोटो दांडगट मनीस मेळळो. ताच्या खांदार कांबळ आशिल्ली. विशेश म्हणल्यार ताणें कमराक आकडी बांदिल्ली आनी आकडेंत धारेचो व्हडलो कोयतो अडकयल्लो. ताका पळोवन म्हाका थरथरो सुटलो. मनांत म्हणलें, 'आता काय आपले खरे नाही.'

पूण तशें काय घडलें ना.

“म्हातारये, खय गे जातस?” ताणे चवकशी केली.

“हयच, खुडयेक जातय, बाबा.” आएन म्हणलें.

तो आनीक चड चवकशी करीनासताना गेलो. वाटेंतल्यान आमी चलता आसताना हांव एकसारखो देवाक गाराणें घालतालों, 'देवा, परत येताना ह्यो भेटाँ दे नको!'

खुडीची घाटी थोडी पसरटच आशिल्ली. ती देंवन जाली काय गावांतलीं घरां लागतालीं. केन्ना केन्ना आएन थारचें आनी पिवपाक उदक मागचें. “गे बाय, वायच पानी दी गे", आएन म्हणचें. मागीर एखादे बायलेन वा चलयेन घरांतल्यान तांबयोभर उदक हाडून वयल्यानूच धारेन आमच्या पोशांत रकोवचें.

उदक पियेवन जातकच खुडीचो व्हाळ लागतालो आनी तो वलांडलो काय पांडू वाण्यालो च्याचो गाडो. थंय सारकें आमचें बसपाचें ठिकाण. थंय आमी च्या घेवंची.

आमकां तो वळखतालो आशिल्ल्या कारणान आमचीं च्याचीं कोपां वेगळीं आसतालीं.

केन्ना केन्ना आएन म्हाका भिकणांचो वा पिठ्याचो लाडू दिवंचो. भिकणांच्या लाडवापरस पिठ्याचे लाडू म्हजे चड आवडिचे. च्याचो घोंट घेतां घेतां लाडू खावपाक म्हाका मजा दिसताली.

पांडू वाण्याली पट्ट्या पट्ट्यांची अर्दी चड्डी आनी मलमलसारख्या पातळ कपड्याचो गंजीफ्राक कसो अर्दो शर्ट आसतालो. ताचे दांतूय बरेच फुडें सरील्ले आशिल्ले. आपणाल्या गिड्ड्याचे बुतांव तो सारके लायनाशिल्लो.

“ये म्हातारये!” आएक पळोवन सदांच ताणे म्हणचें.

खूब दिसांनी आए थंय गेल्यार ताणे म्हणचें, “खूप दिसांनी दिसतहस. हाली साली काय मुनग्याक गेलीसशी दिसत नाय.” आएन कितेंतरी सांगून सोडचें.

कुशीकच तांचो भुसारी मालाचो पसरो आशिल्लो. थंय ताचो भाव बसतालो. आएन केन्ना केन्ना थंय चुरो घेवचो.

“बाबू, खावक काय व्हया काय रे?”

“काय नको गे", अशें म्हणून हांव कुशीक सरतालों.

मागीर चुरो आनी चुनो हाताच्या तायटार घेवन एकठांय मळून तिणें तो तोंडांत वडोवंचो आनी पोटली माथ्यार घेत म्हणचें, “बाबू, चल!”

पांडू वाण्याल्या दुकानांतल्यान भायर सरतकच वाटेर लागतालीं गांवकारांलीं घरां. वाटेचे दावे वटेन सगळीं घरां आनी झाडां, तर उजवे वटेन शेतां. फुडें गेल्यार लागताली खडकाळ चडटी. ती चडून फुडें वतकच दावे वटेन गवळयांचीं दोन – तीन घरां लागचीं आनी थंयच्यान थोडेशें चलून गेलें काय लागतालो तो आंब्याचो रूख जो पळोवपाक हांव सदांच आंवडेतालों.

मातसोसो ताकतिकेन चलून हांव आएचे पयलींच थंय पावतालों. ताचे ह्रेवटेन तेवटेन पुराय काळें किट्ट तळप. फकत मुळाभोंवतणीच थोडिशी माती. पंढरपूरच्या विठोबान जशेपरी एके विटेचेर उबो रावंचो, तसो तो उबो आशिल्लो. ताचें खोड सादारणशें एकेच रूंदायेचें आशिल्लें. फांदयो आनी पानां मेळून घडिल्लो ताचो आकार म्हणल्यार व्हडली काळी अर्दवर्तुळाकारी सत्रीच कशी दिस. मुरलीच्या सुरांवरी ताच्या पानांतल्यान शीळ वाजताली. ताच्या शीरपेचांतल्यान सकयल पडिल्लीं पानांय बी शिस्तींत पडिल्लेभशेन दिसतालीं. एखाद्या प्रतिभाशाली मुर्तिकारान आपणाली सगळी कुशळटाय पणाक लावन आपणाक जाय तशी मुर्ती घडोवंची तसो तो रूख सैमाचे अगाध किमयेंतल्यान साकारील्लो. भोंवतणी मनशांविरयत आशिल्ल्या परीसरांत सरसकट सगळया प्राण्यांक मायेची सावळी दिवपाखातीर तर त्या रूखाच्या रूपान खासा सैमूच अवतरूंक ना मू, अशेंय केन्ना केन्ना दिस.

धांवट वचून ताच्या आंगाक हात लायलो काय म्हाका बरें दिसतालें. हांव सामको ल्हान आशिल्लों तेन्ना ताचे खांदयेक म्हजो हात पावनाशिल्लो. पूण तेखातीर म्हजो अट्टाह्रास आसातलो. एक फावट ताचे कुशीक आशिल्ल्या फातराचेर चडून हावें फांदयेचें तोंक हातांत घेवपाचो यत्न केलो तेन्ना फातरावयल्यान सकयल पडलों.

“बाबू, काय कर्तहस काय? तुका सांगलय, तकडे जाव नको.” आएन म्हणलें.

"काय नाय गे" अशें म्हणून हातांचेर हात चोंळीत हावें तो वेळ मारून व्हेलो.

म्हजो अंतस्कर्णांतल्यान मोग आशिल्लो त्या रूखाचेर. ताच्या म्हऱ्यांत गेलें काय म्हजेरय ताचो भरपूर मोग आशिल्ल्यावरी दिसतालें. जायते दीस जर हांव आजोळा गेलों ना जाल्यार तो म्हजेर खूश नाशिल्ल्यावरी दिसतालो. वारो नासतकच ताच्यो खांदयो, पानां हालनासलीं. पूण म्हाका मात दिसतालें तो म्हजेरूच रागार जावन मोनो जाला कसो.

"कितल्या दिसांनी आयला? तुका म्हजी याद बी येना काय कितें रे?" ताणें केन्ना केन्ना म्हणचें.

"तुजें बरें आसा बाबा. तुका एका जाग्यावयल्यान हालपाक नाका. तुका पळोवपाक म्हाका मात जीव तोडून चलचें पडटा." हावें थोड्याशा रागानूच म्हणचें.

पूण तो खंय वगी रावता!

"एका जाग्यार उबो रावपांत कितल्यो वेदना आसतात हें तुका कशें कळटलें! रखरखीत वोत, घोग्यांनी पावस, मुळांसावन हुमटावन वडोवंक सोदपी वारें - वादळ हांचो म्हाका कांयच त्रास जायना? जोगूल कडकडनाफुडें हड्ड्यांत धस्स जाता. आतां कांय आपली धडगत ना अशें दिसता. पयर कोणेतरी कुराडीचे धपके घालून दोन खांदयो मारल्यो तेन्ना आकांताच्यो वेदना जाल्यो. एक फावट दनपारच्या वेळार कोणेतरी कुशीच्या तणाक अचकीत उजो लायलो आनी म्हजीं अर्दीं पानां लासून गेलीं. रातचो तर हांव काळखांतच्च आसतां. म्हजें स्वताचें अस्तित्वय हांव पळोवंक शकना इतलो काळोख. तूं तर मातसो काळोख जाल्यार भियेता, हावें अशीं कितलीं वर्सां सारलीं!" म्हजेकडेन जाप नासताली. ह्या ताच्या उलोवण्यान म्हाका भरून आयिल्ल्यावरी जातालें. एक फावट तर हांव रडलों लेगीत.

"बाबू, काय रे झाला? रडतोस सो!" आएन तेन्ना विचारील्लें.

"नाय गे, डोळयांत कायतरी गेला हा", हावें म्हणिल्लें.

दुसरी एक अजापाची गजाल म्हणल्यार ताका केन्ना आंबे लागिल्ल्याचे म्हजे यादींत ना. तो रूख म्हज्या आयुश्याचें विसवठिकाण आशिल्लें. ताचो निरोप घेतना मन व्याकुळ जातालें. तो लेगीत म्हजेकडेन पळोवन 'आतां परतून केन्ना?' अशें विचारता काय दिसतालें. आमी चलपाक लागतालीं, तो दिसनासो जायीमेरेन हावें ताचेकडेन एकसारखें पळयत रावचें. तेखातीर एक – दोन खेप हांव आपटलों लेगीत.

मागीर लागताली आऱ्याच्या घांटाची देंवती. ती अर्द्यार सुमार देंवन

जाली काय आऱ्याची न्हंय दिश्टी पडटाली. म्हजी नदर तिचेरूच खिळून उरची. तिच्या खळखळपी आवाजान मन तृप्त जाल्ल्यावरी दिसचें.

घांट सोंपपाक पावलो काय उदकाचो धाकटुलो एक पाट लागतालो. ताचे कुशीकच वयले वटेन दोन – तीन व्हडलीं उंच अशीं आंब्याचीं आनी पणसाचीं झाडां आशिल्लीं. थंय आमी सामको थोडो वेळ बसतालीं, जाय आसतालें तेन्ना दोन घोंट उदक पिवन घेतालीं.

म्हाका केन्ना एकदां न्हंयची भेट घडूं अशें जातालें. तिचें आनी म्हजें नातें चार पिळग्यांचें. कणकवली तालुक्यांतल्या तिवरें गावांत तिचो उगम जाता. आएचें आजोळ तिवऱ्यां. थंयच्यान ती मावडाव गांवांत येता. थंय आएचें कुळार. म्हणल्यार म्हजे आईलें आजोळ. मुखार सकयल ती कुवळयाक येता. कुवळयाची ती सोबाय. गांवची सादारणशी सगळी शेतवड तिच्याच कांठार. फकत आईचें कुळार आनी म्हजें जालेंच, आबांचेंय आजोळ कुवळयाक. फुडें ती वता बुधवळे ह्या गावांत. थंय म्हजी मावशी दिल्या. निमाणें तिचें पात्र आचऱ्याक रूंदावता. हीच पाराची न्हंय वलांडून दर शुक्राराक आबा नाल्ल – बेडे घेवन चिंदरच्या बाजाराक वता. ताका लागून म्हाका जेन्नासावन जाण येवपाक लागली तेन्नासावन तिचेर म्हजी नदर पडनाफुडें चलता आसताना लेगीत हावें दोनूय हात जोडून तिका पांयां पडचें.

जंय आमी न्हंय वलांडतात, त्या देवणाक 'सोनारसाना' म्हणटाले.

“आए, ह्या जागेक् सोनारसाना कित्या म्हणतत् गे?” हावें विचारचें.

“माका रे बाबा काय ठावक.” आएन म्हणचें.

सोनारसान्याचेर उदक अजिबात ना जालें अशें केन्नाच घडलें ना. सगळें पात्र जरी सुकें सडसडीत आसलें, तरी तिचे फुडले वटेन सदांच थोडेंतरी उदक आसतालेंच. मातशीं व्हडलीं जातकच आमी केन्ना केन्ना तिचे कुशीक आशिल्ल्या एका झाडासकयल जेवपाक बसतालीं.

आनी मागीर सुरू जाताली भोंवडेंतली सगळयांत व्हडली आऱ्याची उभी घाटी. तिका वळणांय खूब आनी विशेश म्हणल्यार गुंड्यां फातरांची वाट. बरीचशी उभी चटटी. ती चडून वतना एक – दोन फावटीं तरी आमी मातशें मातशें बसून घेतालीं.

“बाबू, दमलस काय रे?” आएन म्हाका सदांच विचारचें.

“नाय गे,” हावें म्हणचें.

ल्हान आशिल्ल्यान म्हज्यान आएचे तकलेवयलें ओजें घेवपाक जायनाशिल्लें ताचें म्हाका खूब वायट दिस. तरीय हावें तिका केन्ना केन्नाय विचारचें. “आए, मी वाय्च बोचक्या घेव काय गे?”

“नको रे बाबा, मोटो झालस काय घी.” आएन हांसून म्हणचें. घाटी चडटाना खूब पुरो जातालें.

घाटी चडून जातकच अर्द -पाऊण वर चललें काय गवळयांची वस्ती लाग. लांबुडक्या आयताकृती, दुपाकी घरांचे वयलेवटेन आशिल्लें कुंबयाचें एक झाड. ताचेकडेनय म्हजी दाट इश्टागत जाल्ली. ताचे सकयल तळपाचेर बसलें काय घाटी चलून आयिल्ल्याचो सगळो शीण खंयचे खंय ना नपयत जातालो.

केन्ना केन्ना म्हाका घेवन आए गवळयांल्या घरांनी वताली. थंयच्यो पिरायेन जाणट्योशो बायलो तिका वळखताल्यो. थंय आमी उदक पितालीं. पूण तांगेल्या तांबयाक लेगीत बोकडेच्या दुदाचो हरवंससो वास येतालो देखून उदक पितना हांव खांकुडटालों.

“म्हातारये, ताक व्हया काय गे?” एखादे गवळणीन मोगान विचारचें. मागीर गवळण ताकाचो तांबयो घेवन आयली काय आएन म्हणचें, “बाबू, वायच खावन बग" पूण हावें "नाका, नाका" म्हणचें.

ताक म्हजे आवडिचें. आबान केन्ना केन्ना म्हजेखातीर काका भट वा बाबा गुरवांकडसून ताक घेवन येवचें. पूण तें म्हशीच्या दुदाचें आसतालें. खूब फावटीं ताकाखातीर म्हाकाच वचचें लाग. तेदेवेळार म्हाका लज दिस. केन्ना केन्ना ताणें ताकाची कडीय करची. पूण हें ताक बोकडेच्या दुदाचें. ताका एक वेगळोच उग्रसो वास येतालो. म्हाका ताची संवंय नाशिल्ली. एक दोन फावटीं हावें तें पिवपाचो यत्न केलोय बी. पूण म्हाका तें जमलें ना. आए मात ताक गटागट करून पिताली. हांव ताक पिना हाचें तिका वायट दिस.

मागीर आमच्या प्रवासाचो निमाणो वांटो सुरू. मामाल्या घराकडेन लागीं लागीं पावत आयिल्ल्यान मनातल्यान खोस उचंबळटाली आनी ओडीन पावलांतली गती वाडूंक लागताली.

मातशें फुडें वतकच निरोम गावांतल्या शेताचे कुणगे लागताले आनी उपरांत झाडांचें एक रान. तातूंत आंब्याच्या आनी हेर झाडांची दाटाय. आंब्याची चड. ताका लागून ती खऱ्यानिशीं 'आमराय'. पूण आमी मात तिका फकत 'राय' म्हणी. आमची वाट ते रायमदल्यानच वताली. पुराय रायभर शांतताय आसताली. तिच्या मदेकाकूच, एका व्हडल्या रूखाखाला फातराची एक मुर्त दवरिल्ली. आए म्हाका त्या देवाक पांयां पडपाक सांगूंक विसरनासली. हावें पांया पडचें. फकत भिरांतीक लागून मात केन्ना एकदां

म्हाका त्या रायमदल्यान भायर पडटां अशें जातालें.

मागीर थोडेशें चलून वतकच 'कावळीचो' आंबो लागतालो. ताका इतल्यो दाट खांदयो आनी कुचकुचीत पानां, खांदयो दिसचनाशिल्ल्यो. सभोंवतणच्या सगळया कावळयांचो राबितो रातीकडेन त्याच आंब्याच्या झाडार आसतालो. ताकाच लागून ताका 'कावळीचो' आंबो अशें म्हणी.

थंयसान थोडेशें सकयल देंवतकच लागता बांधघाटी. तिका तिरकस सोपणां, ओब्रडधोबड पूण मुद्दाम बांदून घेतिल्ल्याभशेन दिसतात. देखून तिका बांधघाटी हें नांव पडलां. पांडवानी ती एका रातयांत बांदली आनी अभिमन्यु दुयेंत आशिल्ल्याचें कळटांच तें काम अर्ध्यारूच सांडून ते गेले अशी वदंता आसली. तिच्या सोंपणाचेर आशिल्लें पावलाच्या आकाराचें एक धाकटुलेंशें फोणकूल हीच पांडवांनी बांदिल्ल्याची गवाय. तें भिमालें पावल अशी समजिकाय. घाटयेचे सुरवेकूच दावेवटेन खरवतीन कातरील्लेभशेन एक उभो काळो फातर आसा. ताच्या शेजराकूच, सकयले वटेन आंब्याचो एक व्हडलो रूख आसा. तो रूख म्हणल्यार बांधघाटयेच्या शिरपेंचातलो तुरो.

बांधघाटीचेर आमचें बसप निमाणचें आसतालें. बांधघाटी देंवून जातकच आनी धा - बारा पावलां फुडें चलतकच उजवेवटेन लागता रोयणीभशेन एक उंचवटो. ताका 'तानक्याचो वरांडा' म्हणटात. ताचेर लिंगडीचीं ल्हान ल्हान रोपां वाडिल्ल्या कारणान तो लिपून उरला.

अशें म्हणटात, एक दीस म्हारवाड्यांतलें एक ल्हान भुरगें खूब रडलें. कितेंच केल्यार तें रडपाचें थारना. आवय – बापायन ताका तिडकीन घराभायले पडवेंत दवरलें आनी दार धापून घेतलें. बरीच रात जाली. आवय -बापायक तें भुरगें भायर आशिल्ल्याचो विसर पडलो आनी तीं न्हिदलीं. फांतोडेर भयभीत जावन पळय जाल्यार पडवेर भुरगें ना. ताका वाघूट घेवन गेल्लें. ताका सोदतां सोदतां ताचीं कांय हाडां बांधघाटयेम्हऱ्यान मेळ्ळीं. सगळयांनी मेळून तीं हाडां थंयच पुरलीं. तेन्नासावन ते सुवातेक 'तानक्याचो वरांडा' अशें म्हणपाक लागले.

आएन तें सांगतसावन दर खेपेक थंय पावतकच तें भुरगें रडटा असो भास जावंचो आनी म्हज्या पोटांत खपखपूंक लागचें.

तानक्याच्या वरांड्याकडसून मातशें सकयल देंवतकच आमी तांबळाचेर पावताले. तांबळावयल्यान सकयल नदर मारल्यार न्हंयचे दोनूय वटेन अयस पयस पातळिल्लो गांवाचो सगळो पसारो नदरेक पडटालो.

सांजवेळ जाल्ली आसताली. अस्तमतेकडसून सुर्याचीं तांबशीं किरणां

उदेंतेवटेन पातळिल्लीं आसतालीं. चड करून न्हंयचो व्हडलो भाग नदरेंत पडटालो. तीं तांबशीं किरणां उदकाचेर पडटकच न्हंयेंतल्यान जशें कितें भांगराळें उदकच व्हांवता अशें दिस. आजोळचे गोरवां - वासरांचे सगळे राखणे आपापलीं गोरवां - वासरां घेवन सांजवेळा तांबळाचेर जमताले. गोरवांचें थंय निमाणें चरप आसतालें आनी राखणे कांबळी पातलावन हांगाच्यो थंयच्यो गजाली करीत बसताले.

म्हाका पळयनाफुडें सगळयांनी मुखार येवचें. 'बाबू बाबू' म्हण अपुरबायेन उलो मारचो. सामको ल्हान आसताना कांयजाण खांद्याचेर उखलूनय धरी. “बापूस बरो हा?” म्हणून आबाची आपलेपणान चवकशी करताले.

त्या सगल्यांक हांव मामा म्हणटालों. तांचेमदल्या एकल्यान आएच्या माथ्यावयली पोटली घेवंची. ती मातशी जड लागली जाल्यार तो आएक तिडायतालो, “म्हातारये, काय गे इतल्या भरून हाडलस्? मुनगेकरानी नारळ दिलेले दिसतहत. ह्यो बोज्या डोक्यावर घेवन चल्लस तरी कशी?”

केन्ना केन्ना पोटलेंतल्यान खाऱ्या नुस्त्याचो वास आयल्यार पोटली घेवपी आएक म्हणी, “मुनगेकरानी सुके माशे दिल्यानीशी वाटतात!” आएन फक्त हांसचें.

आनी मागीर पायणींतल्यान सकयल गेलें काय मामालें घर. घरांत भितर सरताना दिसचें जशें कितें आपूण एखाद्या पवित्र देवळांतूच भितर सरतां. आनी व्हाणो नासताना चलिल्ल्याचे सगळे त्रास एका खिणांत ना जावंचे.

मामालें घर सारकें वाडयेच्या मदेकाकूच आशिल्लें. व्हडलें आनी लांबरूंद. घरामुखार फातरांनी बांदिल्ली तुळस आशिल्ली. तिचेमुखार खांदार गदा घेतिल्या मारूतीची फातराची एक ल्हानशी मुर्त आशिल्ली. ताचे भोंवतणी गाड निळया रंगांचीं बट्टणाचीं सोबीत फुलां आसतालीं. हून उदकान न्हावपाखातीर ताचे कुशीक मातयेची एक मडकी आशिल्ली. उजवे वटेन पणसाचो एक व्हडलो रूख. गिमाळयांत ताका खूब पणसुलां लागतालीं.

दोन सोपणां चडून भितर वतकच कोठयेकूड. तिचे उजवे वटीन रांदपाची आनी दावे वटेन देवाची कूड. देवाचे कुडींत पांच नाल्ल आशिल्ले. ते नाल्ल म्हणल्यार देव. मामा गावांत आसताना दसणीच्या फुलांनी तांची आनी तुळशिची पुजा करताले.

मामाक स भुरगीं. सगळयांत व्हडली धूव जनाबाई. धाकलो जानूमामा मरतकच तो जल्माक आयला अशें समजून तिचें नांव जनाबाई दवरलें. आमी सगळ्या भुरग्यांनी तिका आक्का म्हणचें. जानूमामा आनी बुधवळयाचे मावशेउपरांत सगळयांत गोरी म्हणटा ती आक्काच.

आक्कालें लग्न जालें तेन्ना ती बारा - तेरा वर्सांची आशिल्ली. तिका दिल्ली शिरवड्या. व्हडल्या मिशांचो तिगेलो घोव पोर्ट ट्रस्टांत कामाक आशिल्लो. बुधवलेकर मावशांनीच तें लग्न जुळयिल्लें . आक्का मुंबयच आसताली. मांय – मांव मुंबयच्यान गावांत आयिल्ल्यान पावसाळयांत शेताखातीर ती गावांत येतकच म्हजी आनी तिची भेट जाताली. म्हाका पळयतकच आक्कान सदांच म्हजे आईची याद काडची आनी तिका भरून येवंचें. कुडीन गुटगुटीत आशिल्ल्या म्हज्या पांयांक माती लागची न्हय म्हण ल्हान आसतानी तिणें म्हाका केन्नाच हांडिवयलो सकयल दवरलो ना.

आक्काफाटली येसू. पयलींचें तिचें नांव 'म्हातू' अशें आशिल्लें. पूण तिचेफाटोफाट चलो जाल्ल्या कारणान ती येशाची आसा अशें समजून तिका येसूबाई म्हणपाक लागले आनी मागीर तेंच नांव पडलें. मामालो तो चलो मुंबय देवीचे सांथींत मेलो.

आक्का मुंबयच आशिल्ल्यान सामकें आदींसावनच घरांतलें येसूआक्काकच पळोवचें पड. मामीक सगळया कामांक तिचो आदार जातालो.

मामाक चलो नाशिल्ल्यान मामाल्या घरांत हांव सगळयांचो लाडको जाल्लों. बुधवळयाचे मावशीकय फकत एकूच चली. तिकाय चलो ना. ताका लागून जेन्ना आजोळा म्हजो जल्म जालो तेन्ना मामालो बापूयच जल्माक आयलो अशें समजून म्हजें नांव 'भागोजी' अशें दवरलें.

मावशेन मात पत्र बरोवन कळयिल्लें, “आमकां चलो ना आनी पांडुकय ना. धाकल्याक चलो जालो हाची आमकां बरीच खोस जाल्या. चल्याचें नांव 'अनंत' दवरात.” ताका लागून आईचो बापूय म्हण हांव जल्मांक आयलों हे समजिकायेन 'भागोजी' हें म्हाका नांव दवरलें तरी आजोळा म्हाका सगळींजाणां 'अनंत' नांवानूच उलो मारतात.

म्हजेउपरांत मामाक चलो जातलो, अशी सगळयांचीच अपेक्षा आसली.पूण जाली चली. ती सखू. सखूउपरांत तीन – चार वर्सांनी मामाक चलो जालो. घरांत खोशयेचीं ल्हारां उसळ्ळीं. चल्याचें नांव दवरलें मोहन. मोहनाउपरांत दोन – तीन वर्सांनी दुसरो चलो जालो. तो मनोहर.

मामीलें नांव सीताबाय. त्यो चौगी भयणी. तिका सख्खो भाव नासलो. आबाक ती सख्ख्या भावापरस चड मानताली. मामी आनी म्हजी आईआनी

मावशी ह्या भावजय – नणेदांचे संबंद भयणींभशेन आशिल्ले. मामी कशी आसची ह्या आदर्शाचो नमुनो आशिल्ली म्हजी मामी.

"माका नव्या लुगड्या घितल्यानी रे घितल्यानी काय तुजी आवस पहिल्यान घडी मोडी." मामीन म्हाका सदांच सांगचें.

पडवेर आमचें पावल पडनाफडें घराक खोशयेचो ओतो येतालो. मामीन म्हजे उमाव घेवचे. "बापूस रे कसो हा?" मामीन विचारचें.

" बरो हा. तुका इचारल्यान हा." हावें सांगचें.

येसूआक्कान बेगीबेगीन घरांतल्यान कितेंय खावपाक हाडचें. मामान मुंबयसान हाडिल्ल्यांतलें तें कितेंतरी आसतालें. ल्हवूल्हवू काळोख फांकारूंक लागनाबरोबर येसूआक्कान लापयांव पेटोवंचो. दुसरेकडेन मडकेखाला उजो पेटटालो आनी उदक तापूंक लागचें. "बाबू, चल न्हावक घातलय" आएचो साद.

हरशीं हांव सदांच आमच्या गांवांतल्या व्हाळाच्या थंडगार उदकांत बुडून आसतालों. तेखातीर म्हाका सदांच हून उदकाची भिरांत दिसताली. "आए, पानी वायच थंड कर." हावें म्हणचें. आएन 'हो' म्हणचें पूण तिणें उदक थंड करचें न्हय. आए म्हाका आंग चोळून चोळून हून उदकान न्हाणयताली.

"थंड पानयात न्हातस. वायच आंग शेकाँदे" न्हाणयताना तिची बडबड चालू आसताली. मागीर एकाफाटोफाट सगळयांचें न्हावन जातालें.

न्हावप उलगतकच आमी सगळीं पडवेंत बसतालीं. हावें आमी मोहनान केन्नाय आएचे मांडयेर बसचें, तर हावें केन्ना येसूआक्काचे कुशीक बसचें.

घरांत मामीलें रांदप चालू आसतालें. हेवटेन आमच्याे गजाली रंगताल्यो. इतले म्हणसर रामेश्वराच्या देवळांतलो नौबतीचो धोल वाजपाक लागतालो.

"बाबू, पाया पड." आएन म्हणचें. हांव दोनूय हात जोडून रामेश्वराच्या पांयां पडटालों.

"बाबा रामेश्वरा! माज्या नातवाक् शिकॉन ल S S य मोटो कर!" आएन रामेश्वराक विनवणी करची. म्हजेवांगडा येसूआक्का, सखू आनी मोहन हीं सगळींजाणां हात जोडून रामेश्वराच्या पांयां पडटालीं.

सगळयांत निमाणेकडेन मामी न्हावन घेताली. न्हावन घरांत भितर सरनाफुडें रोकडीच "बाबू, आता जेवक् चला" म्हण सादयताली.

मामी म्हणल्यार खऱ्यांनीशीं सुगरण. कुळदाची पिठी वा पिठलें खावचें तर तें मामीलेच हातचें. कोंबड्याची शागोती आनी वडे मामीनूच करपाचे.

आनी पणसाची भाजी! तिच्या हाताची रूच वेगळीच. उदकाक जरी फोडणां मारलीं तरी ताचोच रोस जावंचो.

सगळयांनी आमी एकठांय जेवपाक बसचें. फकत मामी फाटल्यान रावताली ती वाडपाखातीर आनी कोणाक कितें जाय, कितें नाका तें पळयताली. म्हाका पयली उंडी लावंची येसूआक्कान. मामी ताट भरून जेवण वाडी. तें पळोवन हावें केन्ना केन्ना म्हणचें, “मामी, तुका जेवान् ठेवलंस तरी?”

“ आसा रे लेका!” अशें म्हणून तिणे हांसत म्हणचें, “बगा, माजी सोताची पोरा कदी इचारीत नाय, पण माजो भाचो तरी इचारताहा.”

जेवून जातकच आनी हांगाच्यो थंयच्यो गजाली करून जातकच आए, हांव आनी मोहन देवाचे कुडींत न्हिदतालीं. केन्ना केन्ना आएन म्हज्या पांयांक तेल लावचें.

हाथरूणाक आंग तेंकयना फुडें आएन म्हाका सदांच श्रावणबाळाची काणी सांगपाक लावची. ती सांगताना केन्ना मदींच म्हाका न्हीद लागची तें कळच नासतालें.

कुवळयाचे शाळेंत गोळवण गावांतले धारपवार मास्तर शिकोवपाक आशिल्ले. चार – पांच वर्सां ते मामाल्या घरा शेजरा, रामा मामाल्या घरांत भाड्यान रावताले. योगायोग म्हणल्यार त्या वर्सा पांचवेचो वर्ग तांचेकडेन आशिल्लो. आए म्हाका तांचेम्हऱ्यांत घेवन गेली. म्हाका ताणी सदांच 'आजयेच्या नातवा' म्हण उलो मारचो. तांकां हावें सगळी गजाल सांगली. चौथेंत हांव पयल्या नंबरान पास जाल्ल्यान आतां आपल्या वर्गांत येतलो म्हण ते बरेच खूश आशिल्ले.

“आज्ये,नातवाक घेवन फाल्यां दनपारां हेडमास्तराक मेळ" मास्तरान आएक म्हणलें.

दुसऱ्या दिसा दनपारां आएन बरें ओंजळभर तेल म्हज्या माथ्याक घालें आनी ती म्हाका शाळेंत घेवन गेली. बापर्डेकर नांवाची असामी आशिल्ली शाळेचो हेडमास्तर.

“मास्तरानू, माझ्या नातवाक शाळेत घाला" आएन म्हणलें.

“कितें रे, खंयच्या वर्गांत?”

“पाचवीत"

“आगे म्हातारे, पाचवेचो अभ्यास शिकोवन आतां म्हयनो उलगलो. आतां नांव कशें घालूं येत?”

“मास्तरानू, पाया पडतंय. काय पन करा. माज्या नातवाचा यंदाचा वरीस फुकट जायत, तेका आवस नाय हा. दोन चेडवात ह्यो एकच नातू हा!” आएन सगळो इतिहास सांगलो.

“कितें रे, तूं तुगेली आदली शाळा कित्याक सोडटा?”

म्हजेकडेन कांयच जाप नासली.

तकली सकयल घालून हांव उबो आसलों. मास्तराचे पांय धरपाची अवतिकाय आएचेर हाडिल्लेखातीर म्हाका म्हजीच तिडक आयली.

हेडमास्तरान पवार मास्तराक आपोवन हाडलो आनी म्हजें नांव शाळेंत नोंद करून घेवपाक सांगलें.

शाळेचें नांव आशिल्लें 'सरस्वति विद्यामंदीर'. मामाल्या घराकडसून शंभरेक पावलां चलून वतकच लागताली घाटयेची ल्हानशी देंवती. थंयच्यान चार – पांच मिनटां चलतकच व्हाळ. तो वलांडनाफुडें उजवेवटेन रामेश्वराचें देऊळ. शेताच्या कुणग्यांतल्यान फुडें पांचेक मिनटां चलतकच शाळा. पयली ते सातवीमेरेन. पांच कुडिंची. चिऱ्यांनी बांदून काडिल्ली. न्हंयेकडसून मातशी पयस. दोन उल्यांच्या अंतराचेर.

मातसोसो खांकडूनच हांव वर्गांत गेलों. मोहन गंगाराम शेट कोदे हो विद्यार्थी शाळेंत चौथेंत पयलो आयिल्लो. ताचे मार्क म्हजेपरस एका टक्क्यान चड आशिल्ले. कोदे हें कुवळयांतलें सगळयांत प्रतिष्ठीत घराणें. पांच – स भाव. वेवसायान वाणी. घर तर सामकें व्हडलें, प्रशस्त, चिऱ्यांनी बांदील्लें. गांवांतलें सगळयांत व्हडलें भुसारी मालाचें दुकान तांगेलेंच आशिल्लें. मोहन हुशार आशिल्लोच. पूण ते हुशारेक प्रतिष्ठेची झालर आशिल्ली. ताका लागून वर्गांतलीं सगळीं भुरगीं ताका भियेवन आसतालीं. ते शाळेंत नवो आनी बावचळिल्लो आसूनय म्हजोच फक्त आडवाद आशिल्लो.

वाडयेंतलो हांव एकलोच पांचवेंत आशिल्लों. अंकुश, लक्ष्मण आनी शालीनी चौथेंत. हेर कांय भुरगीं पयली ते तिसरीच्या वर्गांत.

म्हजें पांचवेचें वर्स सरभरस अणभवांक लागून लक्षांत उरलें.

मामान पोरूंच नवें घर बांदिल्लें. पोरनें घर कोंसळूंक नाशिल्लें. ताचे फाटलेवटेनच बांदिल्लें नवें घर एखाद्या सोबीत बंगल्यावरी दिसतालें. पोरन्या घराचें तोंड उदेंतेवटेन आशिल्लें जाल्यार नव्याचें उत्तरेवटेन. दोन सोपणां चडटकच चौक. ताचे दोनूय वटेन सम आकाराच्यो दोन ल्हान कुडी. उदेंतेकडली देवाली कूड आनी अस्तमतेकडली आएखातीर. मदीं कोरीव काम

केल्लें सुंदर दार. तें वलांडून भितर वतकच मोट्टी गोरवांचे खावडिची कूड. दावेवटेन कातयिल्ल्या जनेलाचे फाटलेवटेन गणपतीची वणत. भितर व्हडली रांदचीकूड. फाटल्यान एक बरीच मोटी पडवी, सामानसुमान दवरपाखातीर. हें घर बांदपाक मामान बी. पी. टी. चे सोसायटींतल्यान सयशें रूपये रीण काडिल्लें. ते संबंदीची एक गजाल.

मामा पैशे घेवन जेन्ना गावांत आयलो, तेन्ना पोरन्या घराचे कोठयेकुडींत ताणें आएक आपयली. आमी सगळीं आशिल्लीं. मामान सयशें रूपयांच्यो धा - धांच्यो येद्यो व्हडल्यो नोटी एका सुपांत पातलायल्यो आनी सूप आएच्या हातांत दीत हांसत हांसत म्हणपाक लागलो, “आए, ह्ये घे पैसे! मोजून तरी बघ....”

“मी रे बाबा काय मोजू! माका मोजूक येतहत!!”

मामाच्या दोळयांतल्यांन दुकांच्यो सरी व्हांवपाक लागल्यो. तोंडांतल्यान सारकीं उतरांय फुटनासलीं. मामालीं दुकां आएक तें 'दळडीर' सोंपिल्ल्याचें सांगतालीं.

मामालो घरप्रवेश जालो तेन्ना आबा रागान आमकां घेवन वचूंक ना. मामान घर बांदपाचें कंत्राट आपणाक दिवंचें अशी आबाली इत्सा आसली. आबा असल्या कामांत पारंगत, तें लक्षांत घेतल्यार तो तें बांदूनय दीत आसलो. पूण मामाक तशें दिसूं ना आसतलें. ताणें आपलेच वाडयेंतल्या लोकांक घराचें काम वेगवेगळें वांटून दिलें. विशेश म्हणल्यार घराचें मेस्तकाम सांडवे गावांतल्या भिकाजी मेस्ताक पडलें. ताणें कोरीव काम करून तयार केल्लें दार आनी जनेल घडये मुंबयच्या कारागिराकय जमचें नाशिल्लें.

घरप्रवेश व्हडा दबाज्यांत जालो. पूण आमी घरप्रवेशाक वचूंक नाशिल्ल्यान मामा घसघशांनी रडलो अशें आएन सांगलें. मावशी आनी आई सवायशीणी आसताना मेल्ल्यो देखून मामान तांगेल्यो ओटी कुशीक काडून दवरल्यो.

मुंबय वचून बी. पी. टी.त नोकरी मेळमेरेन मामालें आयुश्य सामकें दळडिरेपणांत गेलें. त्या दळडिराची झळ आए, मामी, मामाल्यो दोगी भयणी, भाव, इतलेंच न्हय तर जनाआक्का आनी येसूआक्का हांकांय लागली. त्या सयशें रूपयांच्या रीणाचो भार मात मामाचेर आशिल्लो. येसूआक्काचें लग्न जाल्लें. सखू, मोहन, मनोहर अशीं आनीक तिगां भुरगीं, आए आनी तांचेमदीं अदीक हांव. मामीसयत आमी वट्ट सात मनशां. ल्हानशें शेत आनी

घराच्या रीणाचो हप्तो पगारांतल्यान कापून मामाल्या हातांत पडपी 65 रूपयांचो पगार.

पावसाळयांत मामा शेताखातीर गावांत येतकच जोंदळे आनी बाजरी अशे दोन साक धान्य कोद्यांकडसून घेतालो. पूण तीं पावसाळयांतूच सोंपतालीं. चवथिच्या समयार भात पिकतालें. मागीर ताचेर दोन – तीन म्हयने भागचे. परतून तातूंतलें 'बीं' काडून दवरचें पड. जानेवारी ते एप्रिल हे चार म्हयने मातशे जड वताले.

मामा दरेक म्हयन्याक पयशे धाडी. पूण केन्ना केन्ना ते मेळपाक कळाव जावंचो. ताका लागून कांय वेळा आमी फकत पणसाची भाजी आनी पणसाचीं उकडिल्लीं भिकणां खावन रावलीं. पणसाचीं उकडिल्लीं भिकणां म्हणल्यार गरीबांल्या घराचे मोदक!

मामी केन्ना केन्ना 'पिटियाळे' करी. 'पिटियाळे' म्हणल्यार कुळदाचे पीटयेंतच मुठभर तांदूळ वडोवप. पीटी चड आनी शीताचे चार गोंटे.

मुणग्यापरस कुवळयांत वरयांचें पीक चड. तेखातीर मामीन अदींमदीं वरयांची भाकरी करची. नाचणो थंड जाल्यार वरी अतिशय गरम. म्हाका वरयांचे भाकरेचे त्रास जावंचे. पूण जंय वरयाचीय भाकरी मेळप कठीण थंय ताचेपरस आनीक बरें कितें मेळूं येत?

कुवळयांत रसाळ पणसाचे घरे ही म्हजी खावपाची सगळयांत आवडिची वस्त. मामालीं पणसाचीं चार व्हडलीं झाडां आशिल्लीं. तातूंतलें घरालागिंचें एक मावशेक आनी दुसरें म्हजे आईक लग्नाक आंदण दिल्लें. चारय झाडांच्या पणसाचे घरे गोड. तातूंतय खांदी मोडिल्ल्या पणसाचे घरे तर लांबचेलांब, हळडुवे आनी चडूच गोड.

मुणग्याभशेन कुवळयांतय खेळपाची सोय बरी नाशिल्ली. सगळी वाडीच दोंगराचेर आशिल्ल्यान तळाचो जागो तसो उणोच. तातूंतय चवथीउपरांत म्हजी खेळाकडली ओडय उणी जाल्ली. ताका लागून हांव चडान चड वेळ अभ्यासांतूच सारपाक लागलों. हावें वेळ मेळटा तेन्ना तशेंच चडसो शेनवाराक वा आयताराक मामीक घरांतल्या कामांतय थोडी थोडी मदत करची. तिचेवांगडा हावें वाड्यांत वा पडक्यावयल्या शेतांत वचून जमता तें काम करचें. केन्ना केन्ना मजा म्हण हावें तिच्या सांगाताक दांत्यार दळपाक बसचें. मामीन मात म्हाका आपूण जावन 'अमूक एक काम कर' अशें केन्ना सांगलें ना.

मामी आनी हांव अशीं दोगांच आसताना जायते फावटीं तिणें म्हाका खूब वेगवेगळयो यादी सांगच्यो. तातूंत तिगेल्या कुळारच्या यादींपरस म्हजे

आईविशींच्यो आनी मावशेविशींच्योच चड आसताल्यो. त्यो सांगताना नणंद – भावजयेचो एकामेकाचेर कितलो मोगआसूंक जाय हाची कल्पना येता. केन्ना केन्ना ती मामाविशीं लेगीत सांगताली. मुंबय बी. पी. टी. च्या झाडू खात्यांत काम करपी नाशिकचे एके बायलेकडेन मामाली चड वळख कशी जुळिल्ली हेंवूय तिणें म्हाका सांगिल्लें.

मामीन सामको खंबीरतायेन मामालो संवसार सांबाळून दवरिल्लो. मामीबगर मामालेंय बी एक पान हालनासलें.

पांचवेंत आसताना म्हाका आख्ख्या गावांत नामना मेळोवन दिवपी एक घडणूक घडली.

धारपवार मास्तरान त्या वर्सा सरस्वती पुजेच्या दिसा आमच्या वर्गातल्या भुरग्यांचो मराठीच्या पुस्तकांतल्या एका धड्याचेर आदारीत नाट्य - प्रवेश करपाचो थारायलो. तातूंत फकत चारच पात्रां. घोव, बायल आनी तांचो चलो आनी चली. घोव बेबदो. तें काम करपाक आमच्या वर्गातलो खंयचोच भुरगो तयार जायना. निमाणे तें काम मास्तरान म्हज्या गळयांत घालें.

म्हजे सगळे संवाद ह्यावें पाठ केले. हावभाव, आवाज असल्यो सगळयो गजाली म्हाका मास्तरान बरेतरेन समजावन सांगल्यो.

कार्यावळीचो दीस उजवाडलो.

आख्खे शाळेची नदर म्हजेर आसली. नव्या पुडव्याक लागून आए सबंद वाडयेंत भोंवली. निमाणे वयले वाडयेंतल्या विठोबा मामालें नवें करकरीत पुडवें मेळ्ळें. वासुमामान तें म्हाका खोवन खोवन न्हेसयलें. विशेश म्हणल्यार त्या दिसा हांव पुडवें न्हेसूनच शाळेंत गेलों. नाटक कुशीकच उरलें. शाळेंत वतना जो तो म्हाका पळोवन लक्तुबायेन हांसतालो. दुसरें म्हणल्यार हांव पुडवें न्हेशिल्लो खरों, पूण पायांत व्हाणो नाशिल्ल्यो.

नाटक सुरू जालें. चार – पांच मिनटांतूच म्हजो प्रवेश. उदकान अर्दी भरिल्ली कंवचेची बाटली सोऱ्याची म्हण तोंडाक लायत अट्टल बेबद्यावरी कितेंतरी बडबडत ह्यावें प्रवेश केलो आनी एकदम सगळयांच्या ताळयांचो कडकडाट जालो.

नाटकांत अर्द्यापरस चड संवाद म्हाका एकल्याकूच आशिल्ले. पूण हांव खंयच चुकलो ना. हें सगळें करताना मात परतून परतून गांठी मारून आनी खोवून वासूमामान न्हेसयिल्लें पुडवें सुटचें ना मू, हाचीच हांव जतनाय घेतालों.

शारदोत्सवाची कार्यावळ सोंपली. सगळयांनी म्हाका शाबासकी दिली. शाळेन म्हाका इनाम म्हण पांच रूपये दिले.

हांव घरा आयलों. पांच रूपयांची ती नोट केन्ना एकदां आएच्या हातांत दितां इतलो हांव उतावीळ जाल्लों. आए खंयतरी भायर गेल्ली. हावें ते पांच रूपये मामीकडेन दिले. मामीन ते हातांत घेतले आनी म्हणलें, “धर, आजयेकडे दी"

तोमेरेन आए आयिल्ली. आएन ते पयशे देवामुखार दवरले आनी म्हाका आंगारो लायलो. “देवा, माजो नातू असोच पास होवंदे.” अशें म्हणून तिणे गाराणे घालें. आएन ते पांच रूपये घेतले आनी गोविंदमामाले बायलेक दिले. म्हजे समाही परीक्षेच्या वेळार उत्तरपत्रिका विकत्यो घेवपाखातीर आएन तिचेकडसून पांच रूपये हातउश्णे घेतिल्ले.

दिवाळेचे सुटयेंत आबा म्हाका घेवन मुणग्याक गेलो. त्या धा - बारा दिसांत हांव खूब खेळळों. तातूंत मुखेलपणान आसताले ते कोयंड्या - बालांचो आनी चेंडू - लगोऱ्यांचो. दनपारच्या सुमाराकशें आमी जेवपाक घराकडेन वचचें. तिसरेमेरेन जें केलें ताचीच पुनरावृत्ती जाताली. दुसरी गजाल अशी आमच्या गांवच्यो रांपणी सुरू जाल्ल्यान नुस्त्याची खातड. हावें तरी त्या धा - बारा दिसांत शीत आनी नुस्तें सोडून तिसरो खंयचो जिनस खालो म्हणपाचीम्हाका याद जायना. तशें पळयल्यार फाटलीं कांय वर्सां शीत आनी नुस्तें होच म्हजो आहार कसो जाल्लो.

सुटी सोंपतकूच हाव परतून कुवळयाक आयलों. पूण परतून मुणग्याक येवपाची मात म्हाका ओड लागली. आबाचे आनी ताईचे यादीन हावें अस्वस्थ जावंचो. पावसाळयाचे दोन – तीन म्हयने तर हावें कशेबशे सारील्ले. ताचें कारण अशें, वर्गाच्या जनेलांत उबो रावतकच न्हंयचो हुंवार नदरेक पड. हीच न्हंय फुडें आचऱ्याक पाराची न्हंय जाताली. चिंदरच्या बाजाराक वचपाखातीर आबाक हेच न्हंयेंतल्यान होडयेन वचचें लाग. न्हंयक कितलोय हुंवार आयलो तरी आबा चिंदरचो बाजार चुकयनासलो. ताका लागून न्हंयक आयिल्लो हुंवार पळयतकच 'आबालें होडें ब्री बुडना मू' ह्या दुबावान म्हजें मन आकूळपिकूळ जावचें. एकलो आसतकच आडसाक वचून हावें मेकळेपणान रडून घेवंचें. आबाक कितेंय जालें जाल्यार....! ही कल्पनाय मनाक सोंसनाशिल्ली.

'आबा' ह्या दोन उतरांत आख्ख्या विश्वाचो अर्थ एकटायिल्लो.

हांव एकलोच आसताना जायते फावटीं म्हज्या मनात आबालो विचार येवंचो.

आबालें व्यक्तिमत्व जितलें रूबाबदार तितलेंच तागेलें वागपय दिलदार आसलें. अत्यंत कश्टांनी दीस सारताना आनी आईची मात लेगीत उणीव भासूंक ना दिवपाचो यत्न करतानाय सतत हेरांविशींचो विचार ताच्या मनांत आसतालो. सगळयोच गजाली सामुदायिकपणान आनी सार्वजनिक स्वरूपांत घडोवन हाडिल्ल्यो ताका मानवताल्यो. ही ताची सगळयांत व्हडली खूण.

कामाच्या निमतान तागेलो खुबसो वेळ बांबरवाडींत वतालो. उरील्लो सगळो वेळ मात तो देवळाकडेन आसतालो.

आबालें सगळयांत आवडिचें म्हणटा तें नुस्तें. तातूंत नुस्तें विकतें घेवपाची ताची बारीकसाणय तोखणाय करीमारखी. नुस्त्याचो पाटलो गाबतीण सकयल दवरता थंय आसा, दुसऱ्या खंयच्च्या गिरायकान नुस्त्याची दर विचारचे पयलींच ताणे आपणाक जाय तें नुस्तें हातांत धरून दवरचें आनी मागीरच ताची दर विचारची.

पूण ताचें व्हडपण इतलें , चवथी उपरांत जेन्ना पयल्यो रांपणी सुरू जाताल्यो आनी पितोशो वा व्हडलें नुस्तें मेळपाक लागतालें तेन्ना आबान सगळयांत व्हडली पितोशी उबारची आनी घराकडेन येवन चार – पांच घरांनी वांटून तांचेकडसून नुस्त्याचे पयशे एकठांय करचे. असल्या वेळार फकत आबाक लागूनच शेजाऱ्या पाजाऱ्यांक बरें नुस्तें खावपाक मेळटालें.

तीच गजाल गिमाळयांत पिकिल्ल्या पणसांची. खुबशे फावटीं म्हाजनाच्या वा पुजाऱ्यांच्या दुकानार एखाद्या गांववाल्यान मोठ्ठो रसाळ पणस विकपाक दवरील्लो आसचो. असल्या वेळार आबान तो विकतो घेवंचो आनी कोणायकडल्यान तरी तो घरा धाडून दिवंचो. सांजवेळचो आपूण घरा येतकच ताणे शेजारच्या बिराडांक , कोणाक दोन आण्याचे, कोणाक चार आण्याचे घरे वांटून दिवचे. पूण चडानचड बिराडांक घरे मेळचे म्हण खंयच्च्याच एखाद्या बिराडाक चार आण्यापरस तो चड घरे दिनासलो हें तागेलें वैशिश्ट्य. शेजारी पाजारी मागीर आबालें नांव घेवन घरे खाताले.

श्रावण म्हयन्यात दिसावड्याचीं कामां नाशिल्ल्यान गरीब लोकांचे बरेच हाल जाताले. केन्ना केन्ना तर कांयजाणाचेर उपाशीं न्हिदपाची पाळी येताली. पूण आमचें मात वेगळें आसलें, चिंदरच्या आनी मिठबावच्या बाजाराक नाल्ल – सुपाऱ्यांचे विक्रिचेर मेळटल्या पयशांक लागून नेमान म्हणटा तशें न्हंयचें नुस्तें खावन शीत जेवप आमकां परवडटालें. पूण असलेय



परिस्थितींत, जेवन जातकच शेजारच्या बिराडांत ते उपाशीं आसात कांय कितें हें आबा विचारपाक विसरनासलो. केन्ना केन्ना शंकरअण्णा आनी महादेवबापूंच्या घरांतल्या लोकांकडेन पयशांचें कसलेंच साधन नाशिल्ल्या कारणान तांचेर उपाशीं रावपाची पाळी येताली. आबाक तेन्ना बरीच खंत जाताली. असल्या वेळार तो तांकां एक – दोन रूपये उश्णे दितालो.

एके फावटीं आबान जी गजाल सांगली ताचेवयल्यान अडचणींत सांपडिल्ल्या मनशांविशींची ताची जी भुमिका दिसून आयली. ताचेवयल्यान तर हांव अजापीत जालोंच पूण ताचो अभिमानय दिसलो. म्हाका सदांच प्रश्न पडटालो, दुसऱ्यांच्यो अडचणी पळोवन अस्वस्थ जावन आपणाक परवडटा तेप्रमाण तांकां मदत करपी गरीब आनी अडाणी आबा खंय शिकला आसतलो काय?

रीणाचो भार वाडिल्ल्यान बाबूदादा नाटेकारांलें सड्यावयलें दुकान बंद पडटकच ताणे आपणाल्या मळयांतले भाताचे चार कुणगे दोनशीं रूपयांखातीर अण्णा पाध्याकडेन घाणाक दवरिल्ले. दोन वर्सां जावन गेलीं तरी बाबूदादाच्यान कांय ती जमीन सोडून घेवपाक जाली ना. तितल्या काळांत दोनशीं रूपयांचेर व्याज वाडून ताचे चारशीं रूपये जाले. अण्णा आनी आबाले संबंद खूब बरे आशिल्ले. इतले, आबाल्या वेवहार गिन्यानाचेर पुराय भरवंसो आशिल्ल्या कारणान अण्णान गांवांतल्या जायत्या म्हत्वाच्या प्रश्नांसंबंदी आबांचो सल्लो घेवंचो. आख्ख्या गांवांक खबर आशिल्ले हे अण्णा आबाले संबंद. बाबूदादा नाटेकारूय ताका आडवाद नासलो.

एक दीस ताणे आबाक म्हणलें, “लकू, माजी पोरा उपाशी मरतहत. मळयातली जमीन आन्ना पाद्यांकडे घाण हा.”

“किती रूपयात?” आबान विचारलें.

“दोनशे रूपये घितलय. पन आता दोन वर्सा जाली. याज धरून चारेकशे रूपये झाले असतीत. तुज्याकडे कितीशे हात?”

“मी कशेकशे अडीश्शे जमा केलय.”

“बाबू, चारशे रूपये झाले, तर अडीश्शे रूपयाक आन्नांकडे जमीन कशी मागॉ?”

“लकू, कायपन कर. तुज्या पाया पडतय. अक्क्या गावात आन्ना तुजाच काय ता आयकतीत.”

फुडें उलोवपाक आबाक उतर फुटलें ना.

नाटेकारान आबाकडेन अडीचशें रूपये हाडून दिले.

आबा दुसऱ्या दिसा सांजवेळा अण्णाल्या घराकडेन गेलो.

"आन्ना, याक काम घेवन इलहय, नाय म्हनॉ नको."

"अरे, कसले ते सांग तरी." अण्णान म्हणलें.

"तुमच्याकडे बाबू नाटेकराची जमीन घाण हा."

"मग?"

"बाबू म्हणता, त्येका आता दोन वर्सा झाली. त्येना दोंशे रूपये घितल्यान, त्येचे आता चारशे रूपये झाले असतीत."

"मग? तुझे काय म्हणणे आहे?"

"आन्ना, त्येवडे पैसे त्येच्याकडे नाय हत. त्येना माज्याकडे ही पुडी दिल्यान हा. त्येवडी घेवा आनि बाबूची जमीन सोडा. पोरा उपाशी मरतहत."

अण्णामुखार उबें रावन उलोवपाचें धाडस आमच्याच गावांतल्या न्हय, तर लागीं लागीं सबंद तालुक्यांतल्या कोणाक नासलें. निर्भय आनी करारी अण्णाक आख्खो गांव थरथरतालो. फकत आबाच ताका आडवाद आसलो.

"तू म्हणतोस तर, मी पुडी उघडूनही बघणार नाही. बाबूची जमीन सोडून देतो." अण्णान म्हणलें.

आबान दिल्ली अडीचशीं रूपयांची पुडी उगडीनासताना अण्णा घरांत घेवन गेलो. जमनीचो कागद भायर ह्याडलो आनी आबामुखार तो पिनून वडयलो.

"बाबूला सांग, उद्यापासून कुनगे नांगरायला सुरवात कर."

आबा अण्णाच्या पांयां पडलो आनी देवळाकडेन आयलो. नाटेकार ताची वाट पळयत राविल्लो. घडिल्ली सगळी गजाल आबान सांगतकच नाटेकार ढळढळयां रडलो आनी ताणे आबाक घट्ट वेंग मारली.

"लकू, पुजाऱ्याच्या दुकानावर चाय तरी घेवया." दादान म्हणलें.

"बाबू, आज मी तुजी एका आन्याची जरी चाय घेतलय, तरी काय मी केलयता सगळा फुकट गेला." अशें म्हणून घरा आयलो.

पै न पै चो हिशोब दवरपी अण्णाचें केदें व्हडपण, ताणी त्या उपरांत आबाकडेन पैशांविशीं केन्नाच ब्र काडलें ना.

आनी नाटेकारांचें तर व्हडपण इतलें, शेत पिकतकच पयल्यो दोन पायल्यो भात ताणे आमच्या घराकडेन हाडून पावयलें.

आबा कुवळयाक आसताना एक दीस सांजवेळा शिवडीसान तीन सोयरे आयले. येसूआक्काक मुंबय एक मागणी आयिल्ली. जनाआक्का आनी शिरवंडेकारान तिचेखातीर एक न्हवरो पळयिल्लो. तिका प्रत्यक्ष पळोवपाक

आतां ताचे काका, मेवणो आनी भाव आयिल्ले.

आबान मामाल्या घराविशींची सगळी म्हायती सोयऱ्यांक दिली.

येसूआक्का गोरी, रूपेस्त आनी आदींसावनच कामांत हुशार. सोयऱ्यांक एकदम पसंत पडली.

मामान तिका लग्नाखातीर मुंबय आपोवन व्हेलें. वतना रवळनाथाच्या देवळाकडेन म्हजो उमाव घेवन आक्का खूब रडली. "मी फुडच्या वर्षाक मुणग्याक जायन!" आक्काक म्हणलें. तिणेय मान हालयली. तिका सगळे परिस्थितिची कल्पना आशिल्ली.

कुवळयाक आसतानाची एक घडणूक मात हांव केन्नाच विसरपाक शकचो ना.

एप्रिल म्हयनो. खर गिमाळो. आमची तेन्नाच वर्सुकी परीक्षा आशिल्ली. पेपर आसताले दनपारच्या तीन वरांचेर. पांयांत व्हाणो नाशिल्ल्यान वोतांत पांय भाजताले. वाटेवयलो धुल्ल तापिल्लो आशिल्ल्यान तर चडूच त्रास जावंचे. म्हजेखातीर आबान करपाक दिल्ल्यो व्हाणो आजून मेळूंक नाशिल्ल्यो.

"आए, दुपारचे पाय खूप ना गे भाजतात!" हावें म्हणलें.

आएन एक दीस माळयाचेर एका साकांत दवरिल्ल्यो पोरण्यो व्हाणो उस्तून काडल्यो. तातूंत म्हज्या पांयांच्या मापाच्यो दोन व्हाणो सांपडल्यो. पूण दुर्दैवान त्यो वेगवेगळया पांयांच्यो आशिल्ल्यो. तातूंतलें वेगळेपण उणे करपाक हांव त्यो रामा मामाकडेन घेवन गेलों. खूब यत्न करून ताणे त्यो कांयशा प्रमाणात सारख्यो करून जुळोवन घेतल्यो, तरीय तातूंतलो फरक कांयसो जाणवतालोच. पूण म्हजो इलाज नासलो. हावें मन घट्ट करून त्यो वापरपाक सुरू केलें. शाळेंतल्या बाकिच्या भुरग्यांनी हांसचें न्हय म्हण एक बुद्द लडयली. घराकडसून भायर सरताना हावें त्यो व्हाणो घालच्यो आनी शाळेंत पावपाच्या दोन मिनटां आदीं त्यो एका फोणकुलांत लिपोवन दवरच्यो. थंयसान हावें व्हाणो घालीनासताना शाळेंत वचचें. परतून घरा येतना त्यो घालच्यो न्हय. येतना वोत मोव जाल्ल्यान तांची तशी चडशी गरजय नासताली.

अभ्यासाचे नदरेन पांचवेचें वर्स चडशें लक्षांत उरलें ना. उरली ती फकत 'उभे भवती प्रसाद गगनभेदी, पथी लोकांची होय दाट गर्दी' ही कुसुमाग्रजांची 'सहानुभूती' नावाची कविता. म्हाका ती तोंडपाठ जाल्ली. ते

कवितेंत एक भिकारी बरोच वेळ भीक मागत रस्त्याचे कुशीक उभो आसता. गिरेस्तांच्यो मोटे गतीन धांवपी मोटारी ताचे कुशीच्यान गर्वान फुडें वचत आसतात. मात गिरेस्तांमदल्या कोणाकूच त्या भिकाऱ्याची काकूळट येना. निमाणे एक थकील्लो आनी पुरो जाल्लो असो एक कामदार ताचे वटेन येतना थारता आनी आपणाले किडूक मोडूक येणावळींतले चार पयशे त्या भिकाऱ्याचे झोळयेंत वडयता, अशें ते किवितेंतलें वर्णन. ती कविता वाचल्या उपरांत फुडले कितलेतरी दीस तो भिकारी, गर्वान नेटान धांवपी गिरेस्तांच्यो मोटारी आनी जाचो अभिमान दिसलो त्या गरीब कामदाराचें चित्र म्हजे नदरेमुखावयल्यान ह्ललेंच ना.

पांचवेंत आसतानाच्यो परस्परांआडच्यो दोन घडणुको म्हाका याद जातात. एक म्हणल्यार, भूदान चळवळिच्या निमतान विनोबा भावे सावडाव गावांत आयिल्ले आसताना आमी पांचवी ते सातवे मेरेनचीं भुरगीं तांच्या दर्शनाखातीर सावडावाक गेल्लीं ताची. ते गावांतले शाळेंत देंविल्ले. तांचेमुखार आमी एकेकल्यान वचून सगळयांनी तांकां नमस्कार केलो. तांचें गोरेंपिट्ट, धवेंफुल्ल खाडआशिल्लें तेजस्वी मुखामळ पळोवन आमकां धादोसकाय भोगली.

दुसरी घडणूक घडिल्ली कुवळयातल्या धंयकाल्याच्या दिसा.

धंयकालो म्हणल्यार कुवळयांतय बाकिच्या सगळया गावांभशेनूच एका दिसाची जात्रा. गावांतलो सगळो लोक तेखातीर सदचेप्रमाण रामेश्वराच्या देवळाकडेन जमिल्लो. आमीय सगळींजाणां धंयकाल्याखातीर गेलीं. घराकडेन आशिल्ली फकत आए. तिणे म्हाका खर्चाखातीर म्हण दोन रूपये दिल्ले. त्या दोन रूपयांत कसलीतरी उपेगाची वस्त घेवपाचें ह्वावें थारायिल्लें.

रातीकडेन मात ह्वेवटेन तेवटेन हेडटाना म्हजी नदर अचकीत व्हाळाकडेन गेली. थंयच कुशीक पेत्रोलमॅक्साचो दिवो पेटोवन कांयजाण घोळको करून बशिल्ले. म्हाका तें पळोवपाचें कुतूहल. हांव गेलों. पळय जाल्यार थंय चलला इस्पिकांचो जुगार. धा - पंदरा मिनटां उभो रावन ह्वावें पळयलें. कांय जाणांक पयशे मेळटाले तर कांय ज़ाण वगडायताले. नशिबाचो अदमास घेवपाक म्हण ह्वावें चार आणे लायले. म्हाका ताचो एक रूपया मेळळो. मागीर ह्वावें आठ आणे लायले. ताचे मेळळे दोन रूपये. आतां म्हणलें धंयकाल्याच्या दिसा म्हजें नशीब उगडलें. देखून हांव उमेदीन खेळत रावलों. आनी फुडल्या दोन – तीन मिनटांभितर म्हजेकडेन आशिल्ले सुरवेचे दोन रूपयेय गेले. ह्वावें म्हाकाच भितरले भितर खूब खेपलो. ह्वाचेआदीं

उसळेच्या प्रकरणावयल्यान केन्नाच वेपार करचों ना असो हावें सोपूत घेतिल्लोच. आतां व्हाळाकडसून रिकाम्या बोल्सानी परतताना, 'ह्यानफुडें आयुश्यांत कितेंय जालें तरी जुगाराच्या नादाक लागपाचें ना' असो दुसरो सोपूत घेतलो.

दोन घडणुको घडल्यो त्यो मात म्हत्वाच्यो. तातूंतली पयली आशिल्ली ती तर इतिहासीक स्वरूपाची.

हिंदू धर्मांतले जातीवेवस्थेचेर अस्पृश्यतायेचेर आदारलेले सगळया तरांचे विषमतायेक उबगून 14 ऑक्टोंबर 1956 दिसा डॉ. बाबासाहेब आंबेडकारांनी आपणाल्या लाखांनी अनुयायांसयत नागपूराक बौध्द धम्माची दीक्षा घेतली. बाबासाहेबांच्या आवाहनाक प्रतिसाद दिवन आख्ख्या महाराष्ट्रभर धर्मांतराचे चळवळीचें ल्हार उसळ्ळें. अस्पृश्यतायेच्या खर धगाचो अणभव जांकां आयिल्लो, तांकांय बी हें धर्मांतर म्हणल्यार रानटी वागणुकेंतल्यान एके तरेची मेकळीकच दिसली.

महाराष्ट्रांतल्या कोंकणातय हेर वांठारांभशेनच लोक बौध्द धर्मांत प्रवेश करपाखातीर आतुरतायेन तयार जाले. कोंकणातल्या मुंबयत राबितो करपी म्हार मंडळीन जिल्हो आनी तालुको पातळेचेर धर्मांतर समित्यांची थापणूक करून दीक्षेचे कार्यावळीची एक व्यापक मोहीम गांवगिऱ्या वाठारांत आंखली आनी गावां गावांत दीक्षेची कार्यावळ तयार केली. दीक्षेचे कार्यावळींत दक्षिण रत्नागिरींतले कणकवली, देवगड आनी मालवण हे तीन तालुके सामके आघाडेर आशिल्ले.

कुवळे गांव पडटा कणकवली तालुक्यांत. कणकवलींतल्या मुंबयकारांनी 'कणकवली महाल बौध्द सेवा संघ' ह्याची थापणूक केल्ली. कणकवलीच्या बाकिच्या गावांनी दीक्षा दिवपाचो एक वांटो म्हण मुंबयतल्या संघाचे कांय फुडारी लोक कुवळे गावांत आयले. तातूंत चार – पांच जाण मुंखेली कशे आशिल्ले. तातूंतल्या दोगांच्या नावांचो म्हाका घट्ट उगडास आसा. एक आसलो भीमराव असलदेकर आनी दुसरे श्री. दारिस्तेकर.

दीक्षेच्या सुवाळ्या दिसा वाडयेंतल्या सगळयांनी आपापलीं घरां शेणान निव्वळ सारोवन घेतिल्लीं आनी सुरेख रांगोळी घाल्ली. घरा घरानी ल्हान व्हड तोरणां बांदिल्लीं. आख्खे वाडयेंत आकांताचे उमेदी वातावरण पातळिल्लें. सभेची कार्यावळ आनी दीक्षेचो सुवाळो रामा मामाल्या घरामुखावयल्या आंगणांत दवरील्लो. आंब्याचे ताळे, भिल्ल माडाचीं चुट्टां आनी बनेरांनी माटोव सजयिल्लो. वाडयेंतल्या सगळयांची माटवांत

वचपाची एकसारखी धांवपळ चलिल्ली.

जुस्त चार वरांचेर सभेची कार्यावळ आनी दीक्षेचो सुवाळो सुरू जालो.

सगळयांत पयलीं मामाल्या पोरन्या घरामुखार श्री. भीमराव असलदेकर हांचे हस्तुकी बौध्द धर्माचो पंचशील झेंडो चडयलो. झेंडो चडोवन जातकच जमिल्ल्या सगळयांनी 'भगवान गौतम बुध्दांचा विजय असो', 'डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांचा विजय असो' अशो नेटा नेटानघोशणा दिल्यो. ह्यो घोशणा दिवप्यांत आमी ल्हान पोरांच आघाडेर आशिल्लीं. तेउपरांत सगळीं जाणां परतून माटवांत आयलीं आनी सभेची कार्यावळ पद्धतशीर रितीन सुरू जाली.

सभेचे सुरवेक धारपवार मास्तरान आपणे रचिल्लें आनी हांव, अंकुश, लक्ष्मण, गंगू आदी भुरग्यांनी म्हणिल्लें येवकारगीत जालें. तें सोंपतकच ,सगळयांनी ताळयो मारल्यो आनी आमी भुरगीं सकयल बसलीं.

व्हडल्या उलोवप्यांचीं भाशणां जावचेपयलीं धारपरवार मास्तरान म्हाका एक ल्हानशें भाशण करपाक सांगलें. बाबासाहेबान धर्मांतर करतकच आमी सगळयांनी दीक्षा घेवप कितलें योग्य आसा, हें सांगपी चार – पांच मिनटांचें एक धाकटुलें भाशण म्हाका खरें म्हणल्यार मास्तरानूच तयार करून दिल्लें. तें पुराय भाशण एका कागदार निव्वळ अक्षरान बरोवन काडून हावें तें पाठूच करून दवरिल्लें.

हांव भाशण करपाक उभो रावलों. हाजीर आशिल्ल्या सगळयांच्यो नदरो खोशयेन आनी उत्सुकतायेन म्हजेर खिळून उरल्यो. भाशणाचो कागद भायर काडपाखातीर हावें बोल्सांत हात घालो. पूण दीसभरयाचे गडबडींत हांव तो कागद घराकडेनच विसरलों. आतां मात भाशण करपाबगर पर्याय नासलो. म्हजी अडचण मास्तराचे नदरेंत आयली. म्हजेकडेन पळोवन ताका मुमुरख्यानी हांसपाक आयलें आनी ल्हवूच खुणा करून 'आतां जशें येता तशें उलय' अशें सुचयलें. हें सगळें घडलें तें अर्द्या त्या एका मिनटा भितरूच.

भाशणाचे सगळे मुद्दे पाठ आशिल्ल्याकारणान सादारणशीं पांच – स मिनटां हांव उलयलों तो मातय आडखळनासताना. तशेंच बाबासाहेबांचें व्हडपण, तांगेलें इतिहासीक कार्य आनी धर्मांतर करप कशें योग्य हेविशीं सामकें आत्मविश्वासान मांडलें. हाजीर आशिल्ल्या मुंबयच्या फुडाऱ्यांसयत सगळयांनीच ताळयो मारल्यो.

हाचेआदीं शाळेच्या शारदोत्सवांत हावें एका नाट्यप्रवेशांत काम केल्लें. आज जाहीर सार्वजनिक सभेंत म्हजें पयलें भाशण जालें. तातूंतल्यान म्हजो आत्मविश्वास आनीकूय वाडलो.

तेउपरांत दारिस्तेकर आनी भीमराव असलदेकर हांगेलीं भाशणां जालीं. भाशणाचे सुरवेकूच दोगांनीय म्हज्या भाशणाचो उल्लेख करून खूब कवतूक केलें आनी 'मुणगेकर बाबू फुडें कोणतरी जातलो' अशी आस्तय प्रकट केली.

अस्पृश्यताये विरोधांतल्या बाबासाहेबांच्या लढ्याचें सविस्तर वर्णन दोगांनीय आपणाल्या भाशणंत केलें. शिक्षणाक लागून बाबासाहेबांन भोगिल्ले हाल उपाद्रे, सगळयांत चड घेतिल्ल्यो पदव्यो, व्यक्तिगत जिविताकडेन आडनदर करून उबारील्लो जातिवेवस्थेचो लडो आनी चळवळ, महाड हांगाच्या रूचीक तळयाचो आनी नाशिक हांगाच्या काळाराम मंदिर प्रवेशाचो सत्याग्रह आनी निमाणे हिंदू धर्माक उबगून बौध्द धर्मात केल्लो प्रवेश ह्यो सगळयो घडणुको अतिशय सोपे भाशेन सांगल्यो. तेउपरांत सांगलें सगळया धर्माभितर बौध्द धर्म कसो श्रेष्ठ आसा तो.

भाशणाची कार्यावळ उलगतकच प्रत्यक्ष दीक्षेच्या सुवाळयाक सुरवात जाली. कार्यावळीचो मुखेल वांटो बुध्दवंदना. तातूंत त्रिशरण आनी पंचशील आशिल्लें. दारिस्तेकरांच्या फाटोफाट आमी सगळयांनी बुध्दवंदना म्हणली.

नमो तस्स भगवतो अरहतो सम्मासम्बुध्दस्स।
नमो तस्स भगवतो अरहतो सम्मासम्बुध्दस्स।
नमो तस्स भगवतो अरहतो सम्मासम्बुध्दस्स।
बुध्दं सरणं गच्छामि॥
धम्मं सरणं गच्छामि॥
संघं सरणं गच्छामि॥
दुतियम्पि, बुध्दं सरणं गच्छामि॥
दुतियम्पि, धम्मं सरणं गच्छामि॥
दुतियम्पि, संघं सरणं गच्छामि॥
ततियम्पि, बुध्दं सरणं गच्छामि॥
ततियम्पि, धम्मं सरणं गच्छामि॥
ततियम्पि, मंघं सरणं गच्छामि॥
पाणातिपाता वेरमणी - सिख्खापदं समादियामि
अदिन्नादाना वेरमणी - सिख्खापदं समादियामि
कामेसुमिच्छाचारा वेरमणी - सिख्खापदं समादियामि
मुसावादा वेरमणी - सिख्खापदं समादियामि
सुरा - मेरय – मज्ज – पमादठ्ठाना वेरमणी - सिख्खापदं समादियामि

त्या भगवंताक, त्या अरहंताक त्या पूर्णज्ञानाक नमस्कार ॥
त्या भगवंताक, त्या अरहंताक त्या पूर्णज्ञानाक नमस्कार ॥
त्या भगवंताक, त्या अरहंताक त्या पूर्णज्ञानाक नमस्कार ॥
हांव बुध्दाक शरण ॥
हांव धम्माक शरण ॥
हांव संघाक शरण ॥
दुसरे फावट हांव बुध्दाक शरण ॥
दुसरे फावट हांव धम्माक शरण ॥
दुसरे फावट हांव संघाक शरण ॥
तिसरे फावट हांव बुध्दाक शरण ॥
तिसरे फावट हांव धम्माक शरण ॥
तिसरे फावट हांव संघाक शरण ॥
हांव आपणायतां उपदेश हिंसेपासून पयस रावपाचो
हांव आपणायतां उपदेश चोरयेपासून पयस रावपाचो
हांव आपणायतां उपदेश गैर-काम-वर्तनापसून पयस रावपाचो
हांव आपणायतां उपदेश असत्यापासून पयस रावपाचो
हांव आपणायतां उपदेश मादक पदार्थांपासून पयस रावपाचो

बुध्दवंदना जातकूच जमिल्ल्यांकडसून असलदेकर आनी दलिस्तेकर हाणी बाबासाहेबानी तयार केल्ल्यों बावीस प्रतिज्ञा वदोवन घेतल्यो. ताचो आशय असो आशिल्लो - हिंदू धर्मांतले देव – दैवतां, व्रतां वैकल्यां आनी विषमतायेचेर आदारलेल्यो रूढी आनी परंपरा मानपाच्यो नात आनी दुसरे वटेन गौतम बुध्दाच्या आदर्श तत्वांचें पालन करप.

सगळयांनी परतून एक फावट घोशणा दिल्यो - 'गौतम बुध्दांचो विजय आसूं!' 'डॉ. बाबासाहेब आंबेडकारांचो विजय आसूं!'

दीक्षेचो सुवाळो उलगलो.

आमी हिंदू धर्म सोडलो आनी बौध्द धर्मात भितर सरले.

जादूची कांडी भोंवडायिल्लेभशेन दुसऱ्या दिसासावन आख्खे वाडयेंत तसो बदल घडलो. 'हरिजनवाडी' च्या जाग्यार 'बौध्दवाडी' असो उल्लेख जावपाक लागलो. आपापल्या घरांनी लायिल्लीं कृष्ण, विष्णू, गणपती, दत्त हांचीं पांयजेलां सगळयांनी सकयल काडलीं. कांयजाणानी आपल्या घरांतले देव न्हंयत वडयले. सद्दां सांजवेळा धोल वाजोवन रामेश्वराच्या देवळांत

नेमान जावपी नबत बंद केली. एक – देड वर्साआदीं जेन्ना नवें घर बांदिल्लें तेन्ना पोरने घर कोंसळायनासताना मामान तें वाडयेचे सामाइक मालकेचें केल्लें. आतां त्या घराचें रूपांतर 'बुध्द विहारां' त केल्लें. दर बुधवाराक रातीकडेन जेवचेपयलीं वाडयेंतली सगळी मंडळी ह्या विहारांत एकठांय जावपाक लागली आनी बौध्द धर्मातलें त्रिशरण आनी पंचशील घेवपाक सुरवात जाली. दारिस्तेकारान दिल्ल्या 'बौध्द पूजा पाठ' ह्या पुस्तकांतल्यान त्रिशरण आनी पंचशील पाठ केल्लें. तेखातीर बुध्दवंदना घेतना हांव हें पुस्तक मुखार दवरून पयलीं सुरवात करतालों आनी म्हजेफाटल्यान सगळे म्हणटाले.

धर्मांतरान सगळें वातावरण भारावन गेलें.

दुसरी घडणूक 'अभागी' नाटकाची.

फाटल्या वर्सामेरेन वाडयेंत फक्त धारपवार मास्तरूच आशिल्ले. हांव पांचवेंत आसताना कलमठ गावांतल्यान राम कदम हे दुसरे मास्तर आयले आनी ते बुधाजी मुकादमच्या घरा रावपाक लागले. मास्तरान आपलें बिराडूय रोकडेंच हाडलें. घरांत भितर सरतानाच दावेवटेनची व्हडली कूड मुकादमान मास्तराक दिल्ली.

कदममास्तरांकडेन तिसरेचो वर्ग आशिल्लो. पवार आनी कदम मास्तर शाळेंत वतना -येतना वांगडाच वताले - येताले.

एक दीस खंयच्यान तरी रामा मामान 'अभागी' नाटकाचें पुस्तक हाडलें आनी तें धारपवार मास्तरांकडेन दिलें. मास्तरान तें पुस्तक रोकडेंच वाचून काडलें. जालें, 'अभागी' नाटक करपाचें थरलें.

नाटकांत काम करपाक जमतलें अशा सगळयाजाणांक एक दीस रातीकडेन बुध्दविहारांत आपयले. एका - एका पात्राच्या संवादांचें दरेकल्यान थोडें - थोडें वाचन केलें आनी भुमिका निश्चित केल्यो. नाटकाचो नायक आज्ञाधर. अत्यंत बऱ्या सभावाचो आनी मनस्वी. पूण उपरांत तो कुंदा नावाचे चलयेच्या मोगांत पडटा. त्या नादाभितर तो बायलेचो - वत्सलेचो - खूब छळ करता आनी निमाणे सोऱ्याचे घुंवळेंत तो तिका जिवेशीं मारता. आज्ञाधराचे संवाद लांबचेलांब आनी थोडे तर सामके दोन – दोन, तीन – तीन पानांचे आशिल्ले. धारपवार मास्तरांबगर हेर कोणाकूच इतले व्हड संवाद पाठ करप शक्य नाशिल्लें. तातूंत तांचो देह लांब आनी शिडशिडीत. आज्ञाधर म्हण सोबूं येता असो. सभाविकतायेन धारपवार मास्तर आज्ञाधर जाले. तांतले तातूंत रामामामा सडपातळ आनी तेभायर

भजनीबुवा. ताका गावपाची आवड खूब.'वत्सलेची भुमिका हांवूच करतलों ' अशें ताणे म्हणलें आनी तशेंच थारलें. वांटकुळया तोंडावळयाच्या, उंचायेन मोटको आनी गावपाची कला आशिल्ल्या म्हाताऱ्यामामाकडेन कुंदाची भुमिका गेली. गंगाधर ह्रो आज्ञाधराचो इश्ट. गंभीर, समजिकायेचो आनी सोंशिकतायेचो. तेभायर ताचेखातीर नाटकांत दोन – तीन पदांय आशिल्लीं. कदममास्तरांबगर आनीक कोणूच ते भुमिकेक पात्र नाशिल्लो. निर्माणें उरल्यो दोन किरकोळ भुमिका. तांतली एक दिली वासूमामाक आनी दुसरी दिली प्रभाकराक – म्हज्या मावसभावाक.

सद्दां रातीकडेन जेवल्या उपरांत बुध्दविहारांत नाटकाच्यो येसायो सुरू जावंच्यो. तालमिच्या वेळार प्रॉम्प्टींग करपाचें काम म्हजेर सोंपयिल्लें. आमचो मुणगे म्हणल्यार नाटकांचो गांव. आतांमेरेन हावें सादारणशीं धा - बारा तरी नाटकां पळयल्यां आसतलीं. ताका लागून नाटक ह्रो म्हजो आवडिचो विशय जाल्लो आनी आतां तर म्हज्या ह्रातांत नाटकाचें पुस्तकच आयिल्लें. प्रॉम्प्टींगचें काम म्हजेकडेन आशिल्ल्यान तातूंतल्यो सगळयो भुमिका जश्यो कितें हावेंच केल्ल्यावरी खोस म्हाका भोगताली. तेखातीर रातचें जेवण सोंपोवन केन्ना एकदांची येसाय सुरू जाता हाची हावें वाट पळयत रावचें. नाटकांत काम करतल्यांमदलो कोणूय येवंचेपयलीं हांवूच येसायेक ह्राजीर जातालों.

नाटकाचें दिग्दर्शन करपाचें काम कांय प्रमाणात धारपवार मास्तरालागीं आयलें. पूण तशें निश्चित नाशिल्ल्यान सुरवेक दरेकल्यान आपणाक जाय तशे संवाद म्हणचे. इतलेंच न्हय, तर आपणाले संवाद चुकिचे पध्दतीन उलोवनय दुसऱ्यान आपले संवाद कशे घेवपाक जाय ह्रातूंतच दरेकलो चड रस घेवपाक लागलो. ह्या एकूण प्रकाराची गंभीरताय धारपवार मास्तराच्या लक्षांत आयली. ताणे एक फावट स्पश्टपणान सांगून वडयलें, "ह्यानफुडें नाटकाचें दिग्दर्शन हांव करतलों."

आतां प्रश्न उरलो तो पदांक चाली लावपाचो. तेखातीर ओझरम गावांतल्यान केशव तांबे ह्या भजनीबुवाक हाडपाचें थरलें. एक दीस रातीकडेन केशवबुवा आनी ताचो बापोलभाव जे शाळामास्तर आशिल्ले ते राजन तांबे आयले. राजनमास्तर तबलें वाजयताले. त्या दिसा पदांच्यो चाली निश्चित जाल्यो आनी तीं म्हणून घेवपाची कार्यावळ बऱ्याच उसरांमेरेन चलली.

नाटकाची तारीख लागीं येवपाक पावली तशी सगळयांक घे ताकतीक जाली.



निमाणे तो दीस उजवाडलो. विठोमामाल्या घरामुखावयल्या दोन – चार सपाट कुणग्यांनी नाटक करपाचें थारलें. नाटकाची माची उबारली. नाटक बरें जावचें म्हण वाडयेंतलीं सगळीं ल्हान व्हड मनशां जिवाचें रान करतालीं. रातिकडेन माचयेमुखावयलो वांठार मनशांनी खचाखच भरून गेल्लो. आख्ख्या गावांतलीं ल्हान – व्हड मनशां एकठांय जाल्लीं.

'प्रभूपदास, नमीतदास! मंगल मात्रा पदास...' ही नांदी जाली.

धारपवार मास्तरान पात्रपरीचय केलो. पड्डो वयर सरलो. नाटक सुरू जालें. धारपवार मास्तरान रंगमंचाचेर प्रवेश केलो आनी एकदम सगळयांनी ताळयो वाजयल्यो. म्हजेकडेन प्रॉम्प्टींगचें काम सोंपयिल्ल्यान म्हाका नाटक पळोवपाक मेळ्ळें ना.

दोन अंक सोपले. नाटक रंगार येतालें अशें मदीं मदीं वाजतल्या ताळयांच्या आवाजावयल्यान समजतालें. तिसरो अंक सुरू जावचेपयलीं आभारप्रदर्शनाची कार्यावळ करपाची थारलें. तें काम म्हजेकडेन आयलें. इतल्या लोकांमुखार उबें कशें रावप हें चिंतून सुरवेक म्हजी तयारी जायना जाली. पूण मागीर धाडस केलें.

आभारप्रदर्शन करतना आसताना घडिल्ले एके मजेशीर गजालीची याद जाली काय म्हजो हासून हासून मुड्डो जाता.

नाटकाच्या प्रयोगादिसा अचकित् खोटलेकर नांवाचे शाळामास्तर प्रकट जाले. नाटक बरें जावचें अशी ताची मनासावन इत्सा आशिल्ल्यान ताणे खूब बऱ्यो सुचोवण्योय केल्यो. पूण हांव आभारप्रदर्शन करतलों अशें समजतकच ताणे म्हाका 'बाबू आभारप्रदर्शन करतानी म्हजें नांव घेवपाक विसरशी' अशें दीस

भरयांत उण्यात उणे धा फावटीं तरी सांगलां आसतलें. हावें ताका 'तुमी कसलीच काळजी करूं नाकात. हांव तुमचें नांव घेवपाक अजिबात विसरचो ना.' अशें परतून परतून खात्री दिवन सांगलें.

आभारप्रदर्शनाचो सगळो मजकूर कागदार निव्वळ बरोवन काडिल्लो. खोटलेकर मास्तरांक मात परतून परतून उतर दिवनय बरोबर ताचेंच नांव बरोवपाक विसरील्लो. पड्ड्यांतल्यान ते 'म्हजें नाव घे, म्हजें नाव घे' अशें सारकें खुणायताले आसुंये. पूण म्हजें थंय लक्ष नाशिल्लें. आनी निमाणे तांचें नाव घेतलेबगरच आभारप्रदर्शन सोपलें. काकूळट बाबड्या खोटलेकर मास्तरांची!

नाटकाचो तिसरो अंक सुरू जालो.

'अभागी' ही एक शोकांतिका आशिल्ली. आज्ञाधर पयलीं वत्सलाक

जिवेशीं मारता, उपरांत ल्हान भुरग्याक आनी निमाणे कुंदा सोडून वतकच स्वत: आत्महत्या करता. नाटक सोपलें. लोक चुरचुरत आनी कुंदाक खेपत घरा गेलो. फुडले कितलेतरी दीस नाटकांच्या त्या यादींचेर म्हजें मन उफेत उरलें.

आतांमेरेन दर खेपेक कुवळयाकसान परतताना म्हाका खूब रडपाक येवंचें. पूण हे फावटिची गजाल मात वेगळीच आसली. हांव सलगपणान वर्सुयभर थंय आशिल्लों. मामाल्या घरांतली दरेक गजाल , वाड्यांतलें आनी न्हंयेशेजारच्या पडक्यावयलें शेत, झाडां, गोरवां वासरां आनी शाळेसयत सगळ्या गजालींकडेन हांव चड एकरूप जाल्लों.

विशेश म्हणल्यार पुराय वर्स हावें आएवांगडा सारील्लें. ती चार दिसांखातीर मुणग्याक येत वा हांव चार दीस कुवळयाक वचत जाल्यार त्या चार दिसांतय आंगार मूठभर मास चडटालें. आतां तर हांव एक वर्सभर तिच्या सांगातांत आशिल्लों. दर दिसा दनपारां आनी रातच्या जेवल्या उपरांत "बाबू, तुजा पॉट भरला काय रे!"अशें तिणें विचारलेबगर एकूय दीस गेलो अशें घडिल्ल्याचें म्हज्या उगडासांत ना.

केन्ना केन्ना हावें 'नाका' अशें म्हणटानाय, ल्हवूच तिणे आपणाल्या ताटांतली एक उंडी वा भाकरेचो चवथो म्हाका दिवचो.

“तू खा गे, म्हाका फुरे!” पूण ह्या म्हज्या उलोवण्याचो तिचेर कितेंच परीणाम जायनासलो. मामा उपरांत आएची सगळयांत चड माया म्हजेरच आसुंये. तेखातीर आएक सोडून वतना म्हजेर मळब कोंसळिल्लें.

दुसरेवटेन मुणग्याक परतून वचपाची ओडय आसली. आतां आब्रा ताईबगर रावप शक्य नासलें.

सवेंत हांव म्हज्या गावांत आयलों. हांव परतून आयलों म्हण घरांतल्या सगल्यांकूच बरें दिसलें.

पांचवी ती सातवेमेरेनची शाळा भरताली वाघोळी गावांत. सडेवाडी सोडली जाल्यार ती सादारणशी गांवच्या मदेकाक. तरी कारिवणेवाडी, आपवाडी आनी बांबरवाडीपरस आमकां, सावंतवाडी आनी लब्देवाडींतल्या भुरग्यांक तांतले तातूंत लागीं. आपापले वाडींतल्यान शाळेंत येतना सगळयाच भुरग्यांक घाटी चडून येवचें पड.

गावांत सातवेमेरेनची दुसरी एक शाळा आडवळींत आशिल्ली. 'नर्मदाबाई टोपीवाले शाळा.' सडेवाडी, आपवाडी आनी लब्देवाडींतलीं कांय

भुरगीं ते शाळेंत वतालीं.

वाघोळीचे शाळेक एक प्रतिष्ठा आसली. हेवटेन तेवटेन पसरिल्ल्या विस्तिर्ण कातळाचे देंवतेर एका खोलगट भागांत शाळेची इमारत आसली. देंवती सुरू जातना लागतालो धव्या चाफ्यांच्या फुलांचो चांफो. थंयसान सकयल देंवतकच उत्तर – दक्षिण अशी शाळेची इमारत. दावेवटेन एक कूड आनी मागीर लांबचे लांब इमारत. उत्तरेचे वटेन पांचवेचो वर्ग, मदीं सववी आनी दक्षिणेक सातवी. फकत सातवेचीं भुरगीं तितलीं बांकार बसतालीं. ताका लागून सातवेंत पावप हें प्रतिष्ठेचें आसतालें.

शाळेचे उदेंतेक तळपांत खणिल्ली नितळ उदकाची मातयेची बांय आशिल्ली. बांयचे दक्षिणेक आशिल्लीं कलमांचीं तीन – चार झाडां. तीं लागीं लागीं आशिल्ल्यान आनी तांच्यो खांदयो पसरट आशिल्ल्यान एका झाडावयल्यान उडी मारून दुसऱ्या झाडाचेर वचपाक जातालें. धरचेल्यांनी खेळपाक तांचो उपेग जातालो.

बांयचे फुडें व्हाळ. पावसाळयांत ताका खूब मोटो हुंवार येतालो. व्हाळापलतडीं शेताच्यो दोन शिरो आशिल्ल्यो. भात कापून जातकच तेंच आमचें खेळाचें मैदान. थंय सुरवेक आमचो खेळ हुतूतू आनी मागीर व्हॉलीबॉल खेळटाले.

सकाळचीं इकरा ते सांजवेळचीं पांच वरां हो शाळेचो वेळ.

शाळेंत वतना आमच्या घराकडली चट्टी चडून व्हडाकडेन आयलें आनी सकयल अस्तमतेकडेन नदर मारली जाल्यार दर्या. ताचेकडेन फकत नदर मारनाफुडें मनात एके तरेचे प्रसन्नतायेचो उमाळो येतालो आनी घाटी चडून आयिल्ल्याचो शीण खंयचेखंय ना जावंचो.

सांजवेळा शाळा सुटटकच देंवताना परतून दर्या. सुर्याच्या भांगराळया किर्णांनी लकलकीत जावन गेल्ल्या त्या दर्याक थंडसायेन पांच मिनटां उभें रावन पळयताना सगळयाचो विसर पडिल्लेभशेन जातालें.

हांव पांचवेंत आजोळा गेल्ल्या कारणान सवेंत पावतकच परतून जेन्ना वाघोळीक आयलों तेन्ना ना म्हणल्यार म्हाका बावचळिल्ल्यावरी जालें. नशीब म्हजें इतलेंच, पयलेकसावन वांगडा आशिल्लो धका सांगाताक आशिल्लो. आमच्या गावांत पांचवेक ताचो पयलो नंबर आयिल्लो. आमच्या वांगडचीं चौथेंतलीं बरींचशीं भुरगीं सवव्रेच्या वर्गांत आशिल्लीं. पूण कारिवणे, आडवाडी आनी आपवाडी हांगासरलीं आपापले वस्तेंत चौथेमेरनचे शाळेंत शिकिल्लीं कांय भुरगीं तांचेबरोबर आशिल्लीं. म्हाका तीं

नवीनच आशिल्लीं. पूण देवळाकडले शाळेंत चौथेंत आसताना म्हजो पयलो नंबर आयिल्लो हें तांकां खबर आसलें. पांचवेंत ह्यांव आजोळा कित्याक गेलो हें तांचेमदल्या जायत्या जाणांनी विचारलेंय. ह्यावें कितेंतरी सांगून वेळ मारून व्हेलो.

म्हज्यांतलें बावचळप रोकडेंच ना जालें.

आमचे शाळेंत नव्यानच आयिल्ले मिठबावचे अनंत मालोजी राणे मास्तर सववेंत वर्गशिक्षक म्हण आयले. कातीन सांवळे आनी आंगान सडपातळ अशे राणे मास्तर सगळया शिक्षकांभितर तरणाटे आनी उमेदी.

फाटल्या वर्साभशेनच पांचवेचो वर्ग पोळाजी मास्तरांकडेन आशिल्लो. ते हिंदी विशारद आशिल्ल्यान सवेच्या आनी सातवेच्या वर्गाक हिंदी तेच शिकयताले. सातवेचो वर्ग आशिल्लो आडकर मास्तरांकडेन. ह्यांव पांचवेंत आसताना लब्देवाडीचे सावंत मास्तर ह्यांगा हेडमास्तर आशिल्ले. वर्साभितर ते निवृत्त जाल्ल्यान आतां आडकर मास्तर हेडमास्तर जाल्ले.

•

सवेंचें वर्स तशें अभ्यासान गुंतून उरपांत सरलें. ह्यावें घराकडल्या अभ्यासाचें वेळापत्रक तयार केलें. सकाळीं च्याचे बराबर तांदळाची भाकरी खावन अभ्यासाखातीर ह्यावें माईल्या चौकांत वचप. थंय एक साक पातलावन अभ्यासाक बसका मारप. धा वरां मेरेन लागी लागीं अभ्यास जातालो. तेउपरांत अर्दवराभितर न्हावन आनी जेवन ह्यावें शाळेंत वचप.

सवेचें वर्सूय लक्षांत उरलें तें जायत्या कारणांक लागून.

आदल्या वर्सा सावंतवाडीचो शरद बालकृष्ण सावंत हो भुरगो सववेंत फक्त एका वर्साखातीर म्हण शाळेंत आयिल्लो आनी ताणे आतांमेरेन सववेंत सगळयांत चड मार्क मेळयिल्ले. तागेल्या सुंदर अक्षरांतले विविध विशयांवयले विशेश करून भूमितिवयले म्हायतीचे तक्ते आनी आकृत्यो वणटीचेर लांबयिल्ल्यो. तागेले हुशारेची ती देख आसली.

सवेंत म्हाका पयलो नंबर मेळोवचोच पडटलो. पूण त्याचवांगडा, शरदाचो उच्चांकूय कसोय तरी मोडपाचोच अशें ह्यावें थारायलें.

मामान मुंबयसावन सवेखातीर नवीं पुस्तकां धाडून दिल्लीं. गरीबीक लागून आमकां बऱ्याचशा भुरग्यांक नवीं पुस्तकां घेवप जमनाशिल्ल्यान आमी फुडल्या वर्गांत पास जाल्ल्या भुरग्यांचीं पुस्तकां अर्दमोलाक विकतीं घेवचीं. आतां मात हांव पयलेच फावट नवीं करकरीत पुस्तकां वापरतालों. येसूआक्काच्या घोवान तांकां सुंदर खाकी कवरांय घाल्लीं.

सवेंतले कांय धडे आनी कविता सदांच यादस्तेंत उरल्यो. वेगवेगळया

साहित्यिकांचे धडे आनी कविंच्यो कविता हांचेविशीं चड समज आसपाची शक्यताय त्यावेळार साप थोडी. तरीय पांचवेंतल्यापरस सववेंत, वर्गातल्या अभ्यासापेल्यान वचून, मराठी भास आनी साहित्य हेसंबंदी पयलेच खेप मनांत ह्यन्ह्यशी आत्मीयताय आनी आपलेपण निर्माण जालें.

तुकाराम महाराजाच्या 'हिरा ठेविता ऐरणी' ह्या अभंगान मराठी पुस्तकाची सुरवात जाली. त्यावेळार कवितांक चाली लावपाची पद्दत आसताली. सूर्यकांत गोविंद मुणगेकर हो मुंबयसान आयिल्लो बांबरवाडींतलो भुरगो त्या वर्सा आमच्या वर्गांत आशिल्लो. ताणे 'हिरा ठेविता ऐरणी' ह्या अभंगाक 'मेरे दिल ए पुकारे आजा....' ह्या गीताची चाल लायली आनी म्हणपाक सुरवात केली. आख्ख्या वर्गांत हांसून हांसून मुड्डो जालो. 'उपकार करून फुडें म्हणू नाका. तुकाराम महाराज वैकुंठाकसान परत येत.' राणे मास्तरान म्हणिल्लें.

बालकविंची 'श्रावणमास' ही कविता मनात अजरंवर जावन उरली.

वसंत बापट हांची 'शतकानंतर आज पाहिली, पहिली रम्य पहाट!... मेघ वितळले, गगन निवळले, क्षितिजावर नव रंग उसळले,' हीय कविता सववेंत आशिल्ली. देडशें वर्सांचे गुलामगिरी उपरांत उदेल्ले पयले स्वतंत्र फांतोडचें ताणी केल्लें वर्णन ते ल्हान पिरायेंतय म्हाका खूब आवडलें.

कृ. ब. निकुंब हांची 'घाल घाल पिंगा वाऱ्या...' ही कविताय म्हज्या खोल मनांत रूतून रावली.

घाल घाल पिंगा वारा माझ्या परसात,
माहेरी जा सुवासाची कर बरसात

सुखी आहे पोर सांग आईच्या कानात
माहेरीच्या सुखाला ग मन आचवल

फिरून फिरून सय येई जीव वेडावतो
चंद्रकळेचा ग शेव ओलाचिंब होतो

(घाल घाल फुगडी वाऱ्या म्हज्या पोरसांत / चल म्हज्या कुळारा, सुगंधाचो कर शिंवर

सुखांत आसा धूव सांग आईच्या कानात / कुळाराच्या सुखाक गो मन वत्रेलां

भोवन भोवन सखी जीव पिसावता / शालवाचो पदर गो जाता

ओलोचिंब)

घोवाघरचें सूख आनी कुळाराचो विरह उकतो करपी लग्न जाल्ले अस्तुरीचे मनस्थितिचें निकुंबानी केल्लें वर्णन सुंदरच आशिल्लें. 'घाल घाल पिंगा वाऱ्या....' हे एके कवितेन म्हज्या मनात लग्न जाल्ल्या अस्तुऱ्यांविशीं हळवेपणा निर्माण केलो तो सासणाचो.

पूण रे. टिळकांची 'केवढे हे क्रौर्य!' ही कविता मात मनात सासणाची कोरांतून उरली. निश्पाप सवण्याचे हत्येचेर आदारिल्ले ते कवितेंत रे. टिळकान केल्लें चित्रदर्शी वर्णन काळीज हालोवन वडोवपी आशिल्लें.

'क्षणोक्षणी पडे, उठे परिबळे उडे बापडी
चुके पथही येऊनी दृष्टीला पडे झापडी'

(खिणाखिणाक पडूंक जाता, पूण तरीय उडूंक पळयता उश्ण्या बळान. नदरेमुखार पडडो येवन वाटय चुकूंक जाता.)

ते कवितेची ही सुरवात आशिल्ली. निमाणचो चरण तर एकेच फावटी वाचून पाठ जाल्लो.

मातीत ते पसरले अति रम्य पंख
केले वरी उदर, पांडुर निष्कलंक
चंचू तशीच उघडी ,पद लांबविले
निष्प्राण देह पडला, श्रमही निमाले

(अति रम्य तीं पांखां मातयेंत पातळ्ळीं / वयर करी पोट, फिकें धवे निश्कलंक

चोंच तशीच उकती, पांय लांबयले / निश्प्राण कूड पडली, कश्टय शांत जाले)

'केवढे हे क्रौर्य!' हे कवितेखातीर म्हज्या मनात पयलेच फावट हिंसेविशींची घृणा निर्माण जाली.

धड्यांमदले कांय धडेय लक्षांत उरले.

पयल्याचें नाव याद जायना. पूण 'एक आटपाट नगर होतें' ही ताची सुरवात आनी 'ही साठा उत्तराची कहाणी सफळ सम्पूर्ण' ह्यो शेवट आसलो. ल्हानशीच पूण मनाक हुलप लावपी ती एक काणी आशिल्ली. एक भाव अर्थिक सुस्थितींतलो आनी एक गरीब भयण आपल्या तिगा - चौगां भुरग्यांच्या लटांबरासयत. हो गिरेस्त भाव आपले भयणीक अपमानीत वागणूक दिता. आपणाल्या घरांतल्या खंयच्याच शुभकार्याक तो भयणीक

आपयना. इतलेंच न्हय, तर तिचेकडेन नात्याचे संबंद दवरपाकय ताका आपलो अपमान दिसता. भयण बाबडी खंती जाता. ती म्हण आनीक कितें करतली?

अचकीत् हें चित्र बदलता. भयणीक देव प्रसन्न जाता आनी ती खूब गिरेस्त जाता. अळंकारांनी भरून वता. ही बातमी कानार पडनाफुडें भाव तिका आपणागेर खाशेलें जेवणाचें आमंत्रण धाडटा. भावालें आमंत्रण ती मानून घेता आनी भुरग्यांक आनी घोवाक घेवन भावागेर जेवपाक वता. वतना आशिल्ले नाशिल्ले सगळे अळंकार आंगाखांदार चडयता. सगळींजाणां जेवपाक बसतात.

भयण पाटावयल्यान सकयल देंवता आनी आंगावयले सगळे अळंकार देंवोवन ते पाटार मांडून घेता आनी दरेकाचेर सगळया जिनसांची एकेक उंडी दवरता.

भावाक कितें चललां तें कळचना. तो गोंदळटा, काचाबूलसो जाता, "तूं हें कितें करता?" तो भयणीक नियाळटा.

"जें योग्य तेंच हांव करतां. आज तुवें जें जेवपाक आपयलां तें म्हाका न्हय. तर ह्या अळंकारांक. देखून जांकां आपयलां तांचो मान हांव राखतां."

भाव न्हिन्नळटा. भयणीच्या पांयार तकली दवरून तो तिची चूक मागता. भयणय उदार अंतस्कर्णान भावाक भोगशिता.

रे. टिळकांच्या 'केवढे हे क्रौर्य!' हे कवितेक लागून म्हज्या मनांत हिंसेविशीं घृणा उपराशिल्ली. आतां दळडिराचो अपमान करपी गिरेस्तीविशीं म्हज्या मनांत तिरस्कार उपरासलो.

आमचे शाळेक 'शेतीशाळा' म्हण मान्यताय मेळतसान तिचें 'पूर्व प्राथमिक शाळा, मुणगे' हें नाव बदलून ताचें, 'जीवन शिक्षण विद्यामंदिर, मुणगे' अशें केलें. देवळाकडले प्राथमिक शाळेसकयल देडेक एकर जमीन शेताखातीर शाळेचे मालकिची आशिल्ली. ताका आमी 'फार्म' अशें म्हणचें. तशेंच वाघोळीक सुमार दोनेक एकर जागो आशिल्लो. तातूंत एक बांयूय आशिल्ली. देवळाकडल्या फार्मांत खूब भाज्यो आनी फुलझाडां आशिल्लीं. पांचवी ते सातवेमेरेनच्या भुरग्यांक विज्ञानाच्या धड्यांप्रमाण ह्या भाज्यांचें आनी फुलझाडांचें निरीक्षण करून तें विज्ञानाचे चोपडेंत बरोवचें पड. वाघोळेच्या फार्मांत मात फकत भाताचेंच पीक येतालें. भाताची लुवणी जाल्याउपरांत पावणेचे पद्दतीन भाताची विक्री जाताली.

शेतीशाळा जाल्ल्यान आमकां विद्यार्थ्यांक शेताचीं कांय कामां करचीं

पड. नांगरपाखातीर बी भायल्या जोतकारांक आपयताले. आबान शेत रोवपाचें सोडिल्ल्यान शेतकामाचो तसो प्रत्यक्ष अणभव म्हाका नाशिल्लो. पावसाळयांत मामा - मामीवांगडा शेतांत वचपाची संद मेळटाली, पूण ती एक ते दोन दीस. शाळेन ती उणीव भरून काडली.

सवेकसावनच म्हज्या सभावांत थोडीशी गंभीरताय येवपाक सुरू जाली. ताचें मूळ आसलें अर्थात मराठींतल्या कवितांनी आनी धड्यांनी.

हांव जेन्ना पांचवेंतल्यान सवेंत पावतकूच परतून गावांत आयलों तेन्ना ताईन जेवण रांदपाच्या कामाक सुरवात केल्ली. ती सादारण धाएक वर्सांची आसत. इतले ल्हान पिरायेचेर तिचेर जेवणाची जापसालकी पडिल्ल्यान म्हाका खूब वायट दिसतालें. तातूंतच तिणे शाळा सुरवेकूच सोडिल्ली. एक फावटीं उसरां वर्गांत गेल्लेखातीर आनी एक – दोन फावटीं मुळाक्षरां चुकिल्ल्यान मास्तरान तिका पट्टेन मारील्लें.

"मी शाळेत जावचय नाय" तिणे म्हणलें.

हावें आनी आबान तिका परतून परतून समजावन सांगलें, “गो, शिकलस नाय, तर तुजा लगीन होवचा नाय.”

“माजा लगीन नको होवंदे. मी असाच ऱ्हवान.”

तिणे आमचें आयकलें ना. निमाणे लीला आनी हिरा ह्या म्हज्या दोन बापोलभयणीं वांगडा तिणे जी शाळा सोडली ती सोडलीच.

आमच्या घरांत एक विरोधाभास उपरासलो. हांव फुडें शिकत वतलों आनी ताई मात सामकी अडाणी उरतली . इतलेंच न्हय, तर हांव जसो जसो शिकत वतलों तशें तशें दोगांमदलें अंतर वाडत वतलें. हें अंतर म्हाका अस्वस्थ करपाक लागलें.

सवेंत आसताना आमच्या घरांत एक दुर्दैवी घडणूक घडली. सवेंत शिकपी दत्ताराम नावाचो अण्णालो तेरा वर्सांचो एकलो एकसुरो भुरगो अपघातांत मेलो.

अण्णा तेदेवेळार काकी, दत्तू आनी सखू आनी कुसूम ह्या दोगी चलयांसयत कॉटनग्रीन हांगासर आंबेवाडीचे झोपडपट्टेंत रावतालो. ती झोपडी ताणे स्वताच बांदिल्ली. अण्णा पोर्टट्रस्टांत कामाक आशिल्लो आनी काकी काळाचौकिचे गिरणींत बदली कामदार म्हण वताली.

पावसाळयाच्या दिसांक सुरवात जाल्ली आनी त्याचवेळार आंबेवाडीसावन लागींच आशिल्ले मुंबयचे हावसिंग बोर्डाच्यो इमारती

बांदपाचें काम सुरू जाल्लें. पावसाचें उदक तुंबिल्ल्यान लोखणाचे वारांव आशिल्ले खांबे उदकांत बुडिल्ले. सकाळीं शाळेंतल्यान आयल्या उपरांत आपल्या दोगा - तिगां इश्टांवांगडा दत्तू पेंवपाक म्हण उदकांत गेलो. सगळयान पयलीं धांवट वचून दत्तून उडी मारली आनी त्याच खिणांक ताची मान त्या सळयांमदीं आडखळळी. तातूंतल्यान ताका भायर काडपाक कशेंच जायना जालें. ताच्या वांगडचीं तीं भुरगीं आड्डी मारीत घरा आयलीं. घरांत अण्णाय नाशिल्लो, काकीय नाशिल्ली आनी कोणूच नाशिल्लो. अपघाताच्या जाग्यार खूब मनशां एकठांय जालीं. निमाणे उजो पालोवपी दलाक आपोवन हाडून दत्तूचें मडें भायर काडचें पडलें.

दत्तूच्या वचपान अण्णा - काकीलें आयुश्य उध्वस्त जालें. त्या दुख्खांतल्यान तांकां सांवरप कठीण आशिल्लें. फुडें काकीक कसलेंतरी पोटाचें दुयेंस जालें आनी ताका लागून तिगेलें ऑपरेशन करचें पडलें. अण्णा तर सामको पिशांतर जालो. ताणे कामार वचपाचें सोडलें आनी बरेच दीस कामार वचनास्ताना राविल्ल्यान ताका कामावयल्यान काडून वडयलो. तातूंत तांगेली दुसरी चली सखू हिवूय जोराच्या दुयेंसान मेली ही दुख्खांत आनीक भर आशिल्ली.

अण्णा - काकील्या दुख्खाक शीममेर उरली ना. काकीन गिरणीत वचपाचें बंद केलें.

सुदैवान अण्णाक पोर्ट ट्रस्टांत परतून कामाक घेतलो.

थारायिल्लेप्रमाण सवेंत म्हजो पयलो नंबर आयलो.

सातवेचो वर्ग आडकर मास्तरांकडेनच आशिल्लो. अभ्यासाचे नदरेंतल्यान इश्कोलांत आसातना सातवेच्या वर्गांत आडकर मास्तरान जे पद्दतिन शिकयलें आनी म्हजेखातीर जे खास अशे वेगळे परिश्रम घेतले ते सदांकाळ म्हजे यादींत उरसारखेच आशिल्ले.

सातवेची परीक्षा म्हणल्यार तेन्ना सार्वत्रिक परीक्षा. जायतीं भुरगीं सातवेउपरांत फुडें शिकपाक वचना जाल्ल्या कारणान तिका 'फायनल' परीक्षा म्हणटाले आसुंये. त्या काळांत 'फायनल' जातकच प्राथमिक शिक्षकाची वा तलाठ्याची नोकरी मेळटाली.आडकर मास्तरांची गजाल सामकीच पोरनी, पूण हेर सगळे मास्तरय सातवीमेरेनच शिकिल्ले. आमचे वाडयेंतले पयले दोग मास्तर शंकर आनी पांडुरंग हे सातवीच जाल्ले. ते नदरेन पळयल्यार जांकां फुडें शिकपाक अडचण आसताली आनी जे कोण नोकरी करपाक इत्सूक आशिल्ले तांचेखातीर सातवेची परीक्षा अत्यंत

म्हत्वाची आशिल्ली.

सातवेचो अभ्यास खऱ्यांनीच अर्थपूर्ण आशिल्लो आनी आडकर मास्तर तर हिंदी सोडून हेर सगळयाच विशयांत पारंगत. मराठी व्याकरणांतल्यो विंगड विंगड वृत्तांमेरेनच्यो सगळयो म्हत्वाच्यो गजाली ताणे सारक्यो शिकयल्योच, पूण तातूंतल्यो कांय गजाली घोकंपट्टेन पाठय करून घेतल्यो. खऱ्या अर्थान मराठी व्याकरण पयलेच फावट सारकें समजलें तें सातवेंत आनी तेवूय बी आडकर मास्तरान शिकयलें देखूनच. फुडें नवभारतांत वतकच इंग्लीश आनी संस्कृत विशयांचें व्याकरण समजून घेवपाक म्हाका चड अडचण आयली ना. ह्याचें सगळयांत पयलें श्रेय वता तें आडकर मास्तरांक.

मराठींतले धडे आनी कविता साहित्यिक भाशेंतल्यान मास्तरांक शिकोवपाक जमलें ना तरी तांचो अर्थ आनी आशय मात सारको सांगपाक शकताले. ताका लागून मुळांतच बरे आशिल्ले धडे आनी कविता सदांच लक्षांत उरल्यो. इतलेंच न्हय, तर कांयशी अश्पश्ट जायना पूण तांचेभीतरल्या कांयशे बाबतींतल्यान म्हज्या भावी जिविताची दिशा दाखोवपाक मदत घडली.

अनंत काणेकरांचो 'दोन मेणबत्त्या' हो एक असोच धडो. दोन मेणवातींमदली एक मेजाच्या खणांत कुडतरील्ल्या कारणान ती निरूपयोगी जाल्ली. दुसरी थंडसायेन जळून दुसऱ्याक उजवाड दिवपी. तातूंतल्यान काणेकरान निश्कर्श काडिल्लो, 'आपणाखातीर जगलो जाल्यार मेलो. बाकिच्यांखातीर जगलो जाल्यार जगलो!'

ललीत साहित्याचो प्रकार म्हण लघुनिबंदाचीं वैशिश्ट्यां पयलीं चित्रेसरान इकरावेंत फडके आनी काणेकरांचे लघुनिबंद शिकयताना सांगलीं. आडकर मास्तरांक तितलें खबर आसप शक्य नाशिल्लें. ताका लागून 'दोन मेणबत्त्या' हो काणेकराचो लघुनिबंद अत्यंत गाजिल्लो म्हणपाचें आमकां समजुपाक शक्य नाशिल्लें. पूण तरीय 'दोन मेणबत्त्या' चे देखीन पयलेच फावट अर्थपूर्ण जगपाच्या आशयाची थोडीशी कल्पना आयली आनी लेखक म्हण काणेकराची प्रतिमा अधोरेखीत जाली.

श्री. म. माट्यांचो 'आमचा खंड्या' हो मन कळवळून वडोवपी धडो सातवेंतूच आशिल्लो. गांठीच्या जोराची सांथ आयिल्ल्यान सगळीं जाणां घर सोडून कांय दीस दुसरेकडेन रावपाक वतात. खंड्या नावाचो सुणो मात घराची राखण करपाक फाटल्यान रावता. सांथ सोंपतकच तीं जेन्ना परतीं

येतात तेन्ना खंड्या गांठीच्या जोरान मेल्लो आसता. दर खेपेक धडो वाचताना ताका पुरपाच्या माट्यान केल्ल्या वर्णनान म्हजे दोळे दुकांनी भरून येताले.

योगायोग म्हणटा तो असो. त्याच वर्सा आमची पळण आशिल्ली. सदचेप्रमाण आमी सगळीं पळणीक गेल्लीं. पूण आमचें 'बाळी' कोलूक मात आयलें ना. परत येतकच पळय जाल्यार बाळीक वाघुट घेवन गेल्लें. त्या दिसा हांव उपाशीं रावलों.

कुसुमावती देशपांड्याचो 'दमडी' ह्रो धडोय सासणाचो लक्षांत उरलो.

कवितांभितर सगळयांत चड लक्षांत उरली ती केशवसुतांची 'तुतारी'.

ज्यो ज्यो गजाली, चालीरिती वायट आनी ज्यो समाजाच्या हिताच्यो न्हय त्यो सगळयो नश्ट करपाक जाय अशें सांगपी कवी म्हण केशवसुतांची वळख जाली. कवी म्हण तांचें व्हडपण मागीर नवभारतांत धाववेंत नेरूरकर मास्तरान आनी इकरावेंत चित्रे सरान सांगलें.

इतिहास आनी भूगोल हे आडकर मास्तरांचे आवडिचे विशय. देशांतल्या दळणवळणाचीं साधनां, न्हंयो आनी तांचेवयलीं धरणां आदिंचो बऱ्यापैकीं अभ्यास भुगोलांत जालो. इंग्रजांनी ईस्ट इंडिया कंपनीची थापणूक करीतसावनचो पुराय ब्रिटीश कालखंड इतिहासांत आशिल्लो. ताका लागून भारताचेर सत्ता प्रस्थापीत करपाखातीर पुर्तुगेज, डच, फ्रेंच आनी इंग्रज हांचेमदले सर्तीत सुरवेकूच पुर्तुगेज आनी डच कशे बाद जाले आनी उपरांत फ्रेंचांक हारोवन इंग्रजांनी जैत कशें हातासलें ह्यो गजाली मास्तरांनी सामके बारीकसाणेन शिकयल्यो. एक फावट इतिहासाच्या तासाक हावें 'डुप्ले' चो उच्चार 'डुल्पे' असो केल्लो, तेन्ना वर्गांत मास्तरा सयत सगळे 'खो S खो' करून हांशिल्ले.

पूण गणितांत मास्तरांचो हात धरपी आनीक कोण नाशिल्लो. आंकडेगणित आनी भूमिति ह्या दोनूय विशयांचे ते खऱ्यानिशीं 'मास्तर' आशिल्ले. आंकडेगणितांत शेंकड्यांचीं, फायदो - लुकसाणेचेर आदारीत थोडीं कठीण गणितां तर आशिल्लींच पूण सगळयांत कठीण आनी पुराय तरेन तर्काचेर आदारीत आशिल्लीं तीं 'काळ – काम – वेग' हाचेवयलीं गणितां. खूब विचार करून तीं समजून घेवचीं पडटालीं. अत्यंत कठीण अशीं तीं गणितां मास्तरान मात आपल्या सदच्याच, सगळयांक समजतलीं अशे सोपे पद्दतिन शिकयलींय. भूमितिंतय मास्तरान बिंदूचे व्याख्येसावन त्रिकोण, चौकोन आनी वर्तुळ हांचे सगळे तपशील आमकां वेवस्थितपणान शिकयले.

गणित – भूमितिचो तास हो सगळ्या वर्गाक थरथरावन सोडपी. तातूंत थोडोसो आडवाद तो म्हजो आनी धकाचो. पूण बाकिचे म्हणल्यार मधू लब्दे, हरिओम प्रभू, जगन्नाथ कांदळगांवकर, जगन्नाथ मांडवकार, आप्पा घाडी आनी मारूती राणे हे सगळेजाण मार खावपाचे तयारेंतूच आसताले. सातवेच्या आख्ख्या वर्सभरयांत हांचेमदल्या उण्यात उण्या एका - दोगांनी तरी मास्तराचे पट्टेचो मार खावंक ना असो गणिताचो एकूय तास म्हाका उगडास जायना. गणित चुकतकच मास्तरान 'हात फुडें कर' अशें म्हणलें आनी हात फुडें करतकच प्रत्यक्ष पट्टी मारताना जर एखाद्यान तो फाटीं घेतलो जाल्यार तो मेलोच म्हण समजुचें. असल्या वेळार गणित चुकोवप्याचो हात मास्तर आपल्या हातांत घेतालो आनी दोन पट्ट्यो मारतालो - एक पट्टी आसताली गणित चुकिल्लेखातीर आनी दुसरी आसताली हात फाटीं घेतिल्लेखातीर. ललीता सावंत, शैलजा हिर्लेकर, लता महाजन आनी बाकू आडकर ह्या चलयांक मात ताणी केन्ना मारील्ल्याचें याद जायना. तांचें चुकतकच ताणी फकत उपरोधान उलोवचें.

मास्तराचें म्हाका सदांच अजाप दीस. म्हजेकडेन ताणे फकत अभ्यासाविशीं उलोवचें, पूण हेर सगळयांकडेन – खास करून मधू लब्दे, आप्पा घाडी हांचेकडेन शेतभात, रापणी, बाजार बी हेसंबंदान सामकी इश्टांभशेन चर्चा करची. म्हाका सदांच दिसचें, एकेवटेन विद्यार्थ्यांवांगडा इतल्या इश्टागतिच्या नात्यान हांसत खेळत चर्चा करपी मास्तर गणिताच्या तासा वेळार इतले कडक कित्याक वागतात काय? पूण हो प्रश्न तांचेमेरेन पावोवपाचें धाडस म्हज्यांत केन्ना आयलें ना.

म्हजेबाबतींतल्यो मात तांच्यो अपेक्षा खूब आसल्यो.

पोरूं सातवेंत पयल्या नंबरान पास जाल्लो कारिवण्याचो भार्गव लब्दे हो तांचो आवडटो विद्यार्थी आशिल्लो. हांवूय लाडको विद्यार्थी आशिल्लों. म्हाका तिसरेंत शिकयिल्लें ताणी. चौथेंत आनी सववेंत म्हजो पयलो नंबर आयिल्लेखातीर तांकां भोव खोस जाल्ली. म्हाका आई ना, आबाचो हांव जीव की प्राण कसो आनी म्हाका शिकोवपाखातीर आबा कितले घाम कश्ट काडटा ह्या सगळ्या गजालींची कल्पना तांकां आशिल्ली. ताका लागून सातवेचे परीक्षेंत आचरा केंद्राचेर म्हजो पयलो नंबर येवंचो अशें तांकां दीस. देखून फकत गणितच न्हय, तर बाकिच्या खंयच्याच विशयासंबंदी प्रश्न विचारल्यार हावें चुकिची जाप दिवंची न्हय ही तांची अपेक्षा आसताली. एखाद्या वेळार जर म्हजें गणित चुकलें वा दुसऱ्या खंयच्याय विशयांतली

जाप चुकली जाल्यार मास्तरांचेर निरशेवणी येवंची आनी वर्गांतल्या सगळया भुरग्यांकडेन पळोवन 'भरवंशाच्या म्हशीला टोणगा' अशें ताणी म्हणचें. आठ - धा पट्ट्यो हातार घेवन जितले त्रास जावंचे नात तितले त्रास मात म्हाका तांचे ते निरशेवणेक लागून जावंचे. तें सोड, एखाद्या वेळा म्हजें कितेंय चुकलें जाल्यार म्हाका ते पट्टेन मारी नासले. तेखातीर म्हजेकडल्यान तांची जी अपेक्षा आशिल्ली ताचें वजें म्हाका सदांच अस्वस्थ करी.

म्हजें चडशें केन्ना चुकनासतालें वा केन्ना केन्ना चुकल्यारय बी मास्तर म्हाका मारीनासले. आमच्या वर्गांत सदांच हो चर्चेचो विशय आसतालो.

आनी एक दीस तो प्रसंग आयलो.

काळ – काम – वेगाच्या गणितावेळार बाकिच्यांवांगडा म्हजेंय गणित चुकलें आनी त्या दिसा मास्तराचे पट्टेचो प्रसाद म्हाकाय मेळ्ळो. म्हाका मार बसलो ताचेयपरस ती मारता आसताना मास्तरांच्या चेऱ्याचेर उदेल्ल्या निरशेवणेच्या भावान हांव चडूच खंती जालों. आख्ख्या वर्गांत दोन – तीन मिनटां थंडसाण पातळ्ळी. सगळयांकूच हें अनपेक्षित आशिल्लें.

मास्तरांन शिकोवपाचें थांबयलें. परवानगी घेवन हांव भायर गेलों आनी शाळेचे कुशीक वचून कोणाकूच दिसचें ना अशे तरेन एका कलमाखाला बसून धा मिनटां सुमार खूब रडलों. मागीर बांयचें उदक काडून दोळे धुवन घेतले आनी वर्गांत आयलों.

मास्तरान दुसरो विशय सुरू केल्लो. पूण लक्ष शिकोवणेचेर नाशिल्लें. थोड्याच वेळांत शाळा सुटली आनी मास्तरान म्हाका म्हणलें, 'तूं राव!' हांव रावलों. सगळे भायर वचून चांफ्यापोंदा म्हजी वाट पळयत राविल्ले.

"तुका मारपाची म्हाका अजिबात इत्सा नासली. पूण इतलें म्हत्वाचें गणित चुकलें कशें? वर्सुकी परीक्षेक सारकीं असलेच तरेचीं गणितां येतात. बाकिच्यांचें सोड, पूण तुका तरी तें गणित येवंकच जाय आसलें." मोग, हळवेपण, म्हजेवयलो विश्वासआनी म्हजेकडल्यान आशिल्ल्यो अपेक्षा ह्यो सरमिसळ भावना म्हाका मास्तरांच्या उलोवण्यातल्यान जाणवताल्यो.

मास्तर उलयत आसले, "म्हज्यो खूब अपेक्षा आसात तुजेकडल्यान. तुका खबर आसचें ना, म्हाका फकच एकलीच धूव. तुका हांव पुतासमान समजतां. तूं खूब शीक. व्हड जा. तुमची तशी परिस्थिती ना हाची म्हाका कल्पना आसा. पूण यत्न केल्यार कसलोय मार्ग सांपडत."

" तुजो मामा मुंबय आसा न्हय?" ताणी मदींच विचारलें.

हावें मानेनूच हय म्हणलें.

"मामाक आतांच सांगून दवर. एक फावट मुंबय बरे शाळेंत गेलो काय सगळें सुरळीत जातलें.

मास्तरांच्या उतरांनी म्हाका शेळो घाम सुटलो. हेवटेन हावें दामून दवरिल्ल्या दुकांक परतून वाट करून दिली. मास्तरांचेय दोळे दुकांनी भरून आयिल्ले. कांयच उलयनासताना हांव वर्गाभायर आयलों. व्हरांड्याभायर येवन जनेलांतल्यान हावें ल्हवूच पळयलें. मास्तर कदेलार बशिल्ले. तांच्या चेऱ्याचेर खंत उदेल्ली.

एक फावट मास्तरांक एक गणित सोडयताना थोडो चड वेळ लागलो. "हांव रोकडो येतां" अशें आमकां सांगून ते भायर गेले आनी व्हरांड्याच्या एका तोंकाक वचून उभे रावले. मधून जनेलांतल्यान भायर पळयलें. मास्तर विडयेचे झुरके घेताले.

पांच – स मिनटांत वर्गांत आयले. ताणी तें गणित परतून पळयलें आनी एका मिनटांत सोडयलें. फुडें केन्नाय कांय प्रसंगावेळार जेन्ना अशें जालें तेन्नाय मास्तरान विडयेचो प्रयोग केलो. कठीण गणित समजुपाचो आनी विडयेच्या झुरक्याचो संबंद कितें आसलो म्हणपाचें म्हाका निमाणेमेरेन कळूंक ना.

आमच्या वर्गाक हिंदी विशय पोळाजीमास्तर शिकयताले तरी आसताना कितलें शिकोवन जालां, आमकां सारकें समजलां काय ना हेविशींची म्हायती ताणी सदांच घेवची.

पांचवी ते सातवेंतल्या भुरग्यांची एक सहल ऑक्टोंबर म्हयन्यात मालवणाक गेल्ली. आचरा, मिठबाव आनी चिंदरचो बाजार सोडलो जाल्यार दुसरें कितेंच आमी पळयलें ना. तशेंच मालवण हें शार आशिल्ल्याचें आयकल्ल्यान मालवणाक वचपाची उत्सुकताय खूब आशिल्ली.

मालवणाक आमी चलत वचपाचें आनी येवपाचें जाल्ल्यान सहलीची वर्गणी तीन रूपये दवरिल्ली. म्हाका मात ती निमाणच्या दिसा मेरेन दिवपाक जमली ना. आबा नाल्ल घेवन शिरगांवच्या बाजाराक वचपाचो आशिल्लो आनी तेउपरांतूच सहलीखातीर म्हाका पयशे मेळपाचे आशिल्ले. ताका लागून हांव येतां वो ना हेविशीं सगळयांच्याच मनांत धाकधूक आशिल्ली. सहलीच्या दिसा आबा सकाळफुडेंच बाजार करून आयलो. ताणे म्हाका पांच रूपये दिले. हांव ताकतिकेन टेलराकडेन गेलो आनी ताका एक

रूपया दिवन शिवपाक दिल्लो म्हजो शर्ट घेतलो. शाळेंत यो जाल्यार सगळीं भुरगीं म्हजी वाट पळयतात.

मधून तर फाटीचेर नेटान थापट मारून म्हणलें, "मेल्या आमका वाटला येतय की नाय!"

"मेल्या, वायच चीप ऱ्हव. नि हळू मार. आता मी इलय ना! इलय तरी मारतस!"

सकाळीं आठाच्या सुमाराक आमी सुरूच्या बनांतल्यान, दर्याचे देगेवयल्यान चलत चलत वचपाक लागलीं. वाटेर मदीं मदीं देशभक्तिचेर आदारिल्लीं गीतां म्हणत आमी दनपारां मालवणाक पावलीं.

आमची वेवस्था मेडयांतल्या एका देवळांत केल्ली. मात हांव आनी धका सोडून बाकिचीं भुरगीं देवळांत रावलीं. देवळाक तेकूनच आशिल्ल्या एका प्रशस्त घराचे पडवेर आमची वेवस्था केल्ली. दनपारचें जेवण लेगीत आमकां दोगांकूय तेच पडवेंत दिलें.

व्यक्तिगत पांवड्याचेर अस्पृश्यतायेचे अणभव आमी पयलेच खेप घेताले.

दनपारच्या तीन – चारां उपरांत आमी शार पळोवपाक भायर सरलीं. सबंद शारांत सायकलीवयल्यान भोंवपी भुरगीं आनी विशेश करून चलयो तशेंच वेगवेगळे कडेन चलतले हॉलीबॉलाचे खेळ ह्या सगळ्याची सुतुवात आशिल्ली, "आमी गावांतल्यान शारांत आयल्यात." आमी वखदांचीं तशेंच चोपड्यो आनी पुस्तकांचीं व्हडलीं व्हडलीं दुकानां पळयलीं. त्या काळांतलें नांवाजतें टोपीवाला हायस्कूल पळयलें.सांजवेळा सगळ्यांनी एका हॉटेलांत च्या घेतली. हॉटेलाचे एके वणटीचेर ल्हानशा एका बोर्डाचेर बरयिल्लें , 'हें हॉटेल सगळया धर्मांच्या आनी जातिंच्या लोकांक उकतें आसा.'

रातचें जेवन आठांक सुमार हिंदी सिनेमा पळोवपाक गेले खरे,पूण आमकां तातूंतलें कांयच कळ्ळें ना. फकत थिएटरांत हिंदी सिनेमा पळयिल्ल्याचें मात समादान.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं मालवणच्या धक्यार गेले. बोट धक्यार उबी आशिल्ली. पयलेच फावट आमी ती इतले लागसून पळयताले.

तेउपरांत परतून एक पासय मारली शारांत आनी च्याबीन घेवन इकरांच्या सुमाराक मालवणच्यान आमी सुटलीं. दोन वरांचेर जेन्ना घराकडेन पावलीं तेन्ना सगळीं ल्हान भुरगीं एकठांय जालीं. तांचेखातीर ह्यावें आठ आण्याचे बंगाली खाजें व्हेल्लें. हावेंय ते पयलेच खेप उश्टायिल्ले.

'सहलीचीं सगळीं भुरगीं देवळांत रावूनय आमकां मात शेजारच्या

घरांत वेगळे कित्याक म्हण दवरतात?' हो प्रश्न आमी विचारलो ना हाचें आमकां खूब वायट दिसलें. हांव आनी धका हे एकेच गजालीक लागून अस्वस्थ जाल्ले.

दिवाळी उलगतकच आबान अचकित मुंबय वचपाचें थारायलें. पूण हावेंय मुंबय येवपाचो हट धरलो. आबान म्हाका 'येवं नाका' म्हण परतून परतून सांगून पळयलें. अभ्यास बुडटलो हें कारण सांगलें. पूण हावें ताचें कांयच आयकलें ना. निमाणे आबा, म्हजी व्हडली काकी आनी दोन बापोलकाका - महादेवबापू आनी गोविंदतातो मुंबय वचपाक भायर सरलीं.

आमी देवगडाच्या धक्यार पावले.

बोटीचें तिकेट बारा रूपये. बारा वर्सांवयल्या भुरग्याक पूर्ण तिकेट आसतानाय आबान म्हजें मात अर्देंच तिकेट काडलें, “माजा अर्दा तिकीट काडतहस आणि माका पकडल्या बिकडल्यानी तर?” आबाक हावें परतून परतून विचारलें. आबान थंय लक्ष दिलें ना. निमाणे आमी बोटींत चडलीं आनी एके कुशीक कशेभशेन जागो धरलो.

आतांमेरेन बोट पयसुल्ल्यानच पळयिल्ली. फकत मालवणचे सहलीवेळार ती लागिंच्यान पळयिल्ली तितलीच. आदींसावनच आमकां बोटीचें आकांताळें आकर्शण. आतां तर आमची भोंवडीच तातूतल्यान जाताली. आलेपाक, संत्रां, मोसंबीं, बिस्कुत्यो, ल्हान भुरग्यांचीं खेळणीं विकपी बोटींतले नोकर मदीं मदीं यो - वच करी. माल विकपाची आनी जायरात करपाची तांची पद्दतय मजेशीर आसली. विशेश करून "आले पाक घ्या, आले पाक घ्या, बेबी खाईल, नाहीतर बेबीची आई खाईल" असलीं विकतल्यांचीं उतरां आयकून म्हजी बरीच मनरीजवण जाताली. बरेच लोक कितें ना कितेंतरी घेतालेच. कांय जाणानी इस्पिकांचो खेळ मांडलो. पूण म्हजें सगळें लक्ष आशिल्लें टीसीचेर. तो आयल्यार कितें सांगपाचें हें येवजून हांव सामको भियेल्लों.

आनी एकदांचो टीसी आयलो. हावें ताका पयसुल्ल्यान पळयला मात, पोटाकडेन पांय घेवन हांव वग्गी पडून रावलों, म्हजी पिराय उणी दिसपाक लागून. पूण नुस्त्याचेर आनी शीताचेर ताव मारील्ल्यान हांव गुटगुटीत दिसतालों आनी पिरायेन चवदा वर्सां आसूनय व्हडलोच दिस.

आबान आमच्यो तिकेटी टीसीक दाखयल्यो. नशीब आमचें, ताणे चड कांय विचारलें ना आनी तो प्रसंग टळलो. वांगडा हाडिल्ल्यो चादरी पातलावन आमी सगळीं न्हिदलीं.

दुसऱ्या दिसा फांतोड उदेनाफुडें केन्ना एक फावट भाऊचो धको येता अशें जाल्लें. भाऊचो धको, कुलाब्याची दांडी ह्यांचेविशीं भुरगेपणासावन खूब आयकल्लें. जशेंजशें आमी लागीं पावपाक लागलीं , तशीतशी उत्सुकताय वाडीक लागली.

चक्क उजवाडटकूच भाऊचो धको आनी कुलाब्याची दांडी नदरेक पडपाक लागली. सकाळच्या कंवळया उजवाडांत बोटींतल्यान दोळयां दिश्टी पडिल्लें तें मुंबयचें रूप ना विसरपासारखें. ल्हानपणासावन जिचेविशीं चड आकर्शण दिसत आयिल्ले ते मुंबापुरींत हांव पांचूच मिनटांनी देंवपाचो आशिल्लों आनी आयुश्यांतल्या म्हज्या सगळयांत व्हडल्या आंवड्याची पुर्तताय जावपाची आशिल्ली.

बोट धक्याक तेंकली आनी हां हां म्हणटां तांबड्यो पगड्यो घाल्ल्या हमालांनी भरून गेली. 'सामान सामान' करीत सगळी बोट ताणी माथ्यार घेतली आनी देंवतल्यांची एकूच गर्दी जाली.

आमी आपापलें सामान माथ्यार आनी खांदार घेवन बोटींतल्यान सकयल देंवलीं आनी चलतूच मशीद बंदर स्टेशनाकडेन वचपाक लागलीं.

आबाक मुंबयची म्हायती आशिल्ली. आमकां शिवडीक अण्णागेर वचपाचें आशिल्ल्यान मशीन बंदराक पावतकच आमी हार्बर लायनचे गाडयेखातीर रावलीं. धाएक मिनटां जालीं तरी गाडी येना. म्हाका तेन्ना सुरवेक दिसलें, प्लॅटफॉर्म म्हणल्यारूच गाडी. इतल्यान धाड धाड करीत गाडी आयली. गाडयेक खूब गर्दी आसता अशें आयकल्लें. पूण शिवडीक वचपाक व्हडलीशी गर्दी नाशिल्ली. गाडयेंत चडटकच आबान म्हणलें, “झिला, ठेसनांची नावा बग. आमका शिवडीक उतरांक व्हया.”

गाडी केन्नाच सुरू जाल्ली. हांव स्टेशनां पळयत आसलों. पयलें सँडहर्स्ट रोड. थंय येतना गाडी वयर चडटा आनी डॉकयार्डाक येता. तीं दोनय स्टेशनां पुलान जोडिल्लीं. सँडहर्स्ट रोडाक आबा 'संडास रोड' म्हणी आनी डॉकयार्डाक म्हणी 'डाके रोड'. थंयसान गाडी रे रोडाकडेन येतना सकयल देंवता आनी फुडें कॉटनग्रीनकडेन वतना परतून वयर चडटा.

गाडयेंत आबा सारको सांगत रावतालो. गाडी डॉकयार्डाक आयली तेन्ना म्हणपाक लागलो, “हय जना आका रव्हता" रे रोड येतकच म्हणपाक लागलो, “हयसर मन्याची भिस्कीट कंपनी हा" कॉटनग्रीन स्टेशन येतकच ताणे सांगलें, “हये वाकड्या चाळीत बुवा ऱ्हवता.”

कॉटनग्रीन उपरांत शिवडी येवपाचें आशिल्ल्यान बेगीन देंवपाक मेळचें म्हण सगळें सामान आमी दाराम्हऱ्यांत हाडून दवरलें. शिवडी आयलें. आमी

देवलीं आनी आपापल्यो पोटल्यो परतून माथ्यार घेवन सगळींजाणा टीबी हॉस्पिटलाकडले हावसिंग बोर्डाचे बसके चाळींत अण्णागेर आयलीं. अण्णा आपणाल्या बापोलभावाचे कुडींत थंय भाड्यान रावतालो.

तो आयतार आशिल्लो. काकीन सगळयांक दनपारचें मचमचीत जेवण रांदलें. गोडशी दाळ, खाऱ्या बोंबलांची किसमूर, बटाटाची भाजी आनी पापड.

गोविंदतात्याक तागेलो व्हडलो भाव विठ्ठलतातो सांजवेळा कॉटनग्रीनाक घेवन गेलो. व्हडले काकीक तिगेलो पूत सीतारामदाजी वडाळयाक घेवन गेलो. मायावती वयनी गावांत आशिल्ल्यान मनूदादा आनी सीतारामदाजी बेबीआक्काकडेन खाणावळीक आशिल्ले. महादेवबापू रे रोडाक आपणाले भाचयेगेर गेलो.निमाणे उरलीं तीं अण्णा, काकी, तांगेली ल्हान चली कुसूम, हांव आनी आबा इतलींच.

सांजवेळा मामाक मेळपाखातीर आबाक आनी म्हाका घेवन अण्णा वडाळयाक गेलो. वडाळा रेल्वे स्टेशनाचे सकयले वटेन पोर्ट ट्रस्टाच्या कामगारांखातीर दोन माळयांच्यो धा चाळी आशिल्ल्यो. ताका लागून त्या वांठाराक 'दहा चाळी' अशेंच नाव पडिल्लें. अण्णा आनी बाकिचीं ताका 'धा चाळी' अशें म्हणी. मामाली कूड आशिल्ली E – 9 चे चाळींत पयल्या माळयाचेर 14 नंबराची.

मामा घराच आशिल्लो. ताका मेळपाची उमळशीक म्हाकाय लागिल्ली. आबान मामाखातीर खास दोन आडसरां हाडिल्लीं. आमकां पळयतकूच मामाक खूब बरें दिसलें. ताणे म्हजे पटापट उमाव घेतले. “भावो, बाबूक आज हयच ऱ्हवाँ दे" च्या बी घेवन जातकच मामान आबाक म्हणलें. आबा केन्नाच मामाल्या उतरावयर उलयनासलो. ते रातीकडेन हांव मामागेर रावलों.

मामालें सगळें कुटूंब गावांत आशिल्लें. अर्थिक परिस्थिती बरी नाशिल्ल्यान तागेले कुडींत सदांच कोण ना कोणतरी भाड्यान रावपी आसतालोच. ताका लागून तितलोच अर्थीक आदार जातालो. त्यावेळार मामाले कुडींत दोन बिराडकार आशिल्ले. तागेली बापोल – बापोल भयण विठामावशी , तिगेलो घोव दडगलकर आनी चलो पांडुरंग. दुसरो तागेलो बापोल – बापोल भाव लक्ष्मण आनी तागेलें कुटूंब. लक्ष्मण भजनीबुवा आशिल्ल्यान सगळेजाण ताका बुवाच म्हणी. दडगलकर भायखळयाचे ससून मिलींत, जाल्यार बुवा पोर्ट ट्रस्टांत वॉचमन आशिल्लो.

आपलें जेवण मामा आपूणच रांदी. ते रातीकडेन मामान बरें मतमतीत जेवण रांदलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं मामा म्हाका घेवन वडाळयाच्या बाजाराक गेलो. म्हाका लागून मटण करपाचेवा नुस्तें रांदपाचें ताच्या मनात आसलें. बाजारांत वचचेपयलीं मामा म्हाका घेवन नाक्यावयल्या एका हॉटेलांत गेलो. 'सदानंद उपहारगृह' अशें त्या हॉटेलाचें नाव. ताणे बटाटवडो मागयलो. हांव बटाटवडो पयलेच खेप खातालों.

थंयसान गेले ते आमी नुस्त्या बाजारांत. "बाबू काय खाशीत? मटान कि मासे?" मामान विचारलें

"मासे" हावें म्हणलें.

उलयतां उलयतां आमी नुस्तेकान्नी म्हऱ्यांत पावलेय बी. बाकिच्या व्हडल्या नुस्त्याबरोबरच हळडुवेसार अशा धाकल्या नुस्त्याचे तीन – चार वांटे घालून दवरिल्ले. हांव तें पयलेच फावट पळयतालों.

"हेकसले मासे?" हावें म्हणलें.

"मांदेली, ह्यांचा सार चांगला व्हता."

"मांदेलीच घेऊया."

एक म्हणल्यार हावें आमच्या गावांत पापलेटां, सुरंगुट्यो, विस्वण, बांगडे असलें सगळया तरांचें नुस्तें भरपूर खाल्लेलें आशिल्लें. ताका लागून तेंच तेंच नुस्तें परतून खावपांत म्हाका रस नाशिल्लो. दुसरें म्हणल्यार मांदेलीचें हुमण बरें जाता अशें वतना मामा म्हणी. मामान चार आण्याचे मांदेलीचे दोन वांटे घेतले आनी तोमात, करबिल आनी ओली कोथंबीर घालून झणझणीत बरें हुमण केलें. सुवादीक जाल्लें. मामा हांसून हांसून आपणे केल्ल्या हुमणाची आपूणच तोखणाय करी. आतां तातूंत हांवूय वांटेकार जाल्लों.

सांजवेळा मामा म्हाका परतून अण्णागेर घेवन गेलो. परतताना ताणे आबाक म्हणलें, "भावो, चार दिवसान माजी रात्रपाळी हा. मगेच मी पाच सहा दिवस बाबूक माज्याकडे वडाळयाक घेवन जायन."

फुडले चार – पांच दीस हांव अण्णागेर रावलों. त्या दिसांनी आमचें हांगा वच, थंय वच अशें सुरूच आसलें.

अण्णाली सदांच दीसपाळी. सांजवेळा पांचांक ताचें घरा येवप जातालें. मागीर म्हाका आनी कुसूमाक घेवन ताणे भोईवाड्याच्या बाजाराक वचप. थंय आमी 'आदर्श दुग्धालय' ह्या हॉटेलांत वचचें. अण्णा पोळे घेवपाक सांगी,

म्हाका आनी आपणाक. पोळे म्हणल्यार कोंकणातल्या तांदळाच्या घावनासारखो प्रकार आसतालो. ताका ताची खूब आवड. कुसूम ल्हान, एकटुली आनी अतिशय लाडकी आशिल्ल्यान तिका जें जाय दिसता तें अण्णान घेवन दिवचें. खावन जातकच आमी बाजारांत वचून केन्ना नुस्तें तर केन्ना मटण घेवप. तेउपरांत हरव्यो मिरसांगो, कोथंबिर, करबिल, केन्ना आख्खो नाल्ल जाल्यार केन्ना वळें, कांदे, बटाट असल्यो वस्तू घेवन आमी घरा परतताले.

आबा मदींच वळखीच्या गांववाल्याकडेन खंय खंय वतालो. केन्ना केन्ना महादेवबापू आनी तो एकठांय मेळून वताले. मागीर गांववाल्यामदल्या कोणेय दोन रूपये तर कोणेय पांच रूपये हातार दवरचे. मुंबय येवपाचे आबालो उद्देश तोच आसतालो.

भोईवाड्याच्या बाजारांत वतना उजवे वटेन एक बसकी इमारत लागता. थंय चुकनासताना म्हजें लक्ष वतालें. कित्याक तर तें 'बौध्दजन पंचायत समिति' चें ऑफिस आशिल्लें. इमारतीचे दावे वटेन उभ्या उतरांनी बरयिल्लें 'पंचायतन'. वतना - येतना पळयत जाल्यार त्या ऑफिसांत यो - वच करतल्यांची गर्दी दोळयांत भरताली.

एक दीस सदचेभशेन हांव, अण्णा आनी कुसूम सांजवेळचीं भोईवाड्यांतल्यान आयलीं. इतल्यांत आबा बरोच भियेल्लेवरी जावन परतो आयलो आनी 'झिला! झिला!' म्हणत म्हाका पोटाकडेन आंवळून घेत खूब रडलो.

कितें जालें तेंच म्हाका कळना जालें. 'अरे झाला काय? झाला काय?' हावें ताका परतून परतून विचारलें, तरीय ताच्यान हुंडके आवरूंक जाले नात.

निमाणे तो म्हणपाक लागलो, " पारल्याक बापूभटाकडे गेललय. दुपारी त्येना हपिसात जेवान – बिवान देल्यान आणि धा रूपये दिल्यान. ते घेवन मी पार्ल्याच्या ठेसनावर येताना एका टरकवाल्यान टरकच माज्या आंगावर घातल्यान. जगलय म्हणून जगलय नाय तर लेका, आता काय रे बगनार हुतस?"

"पण आता बरो हस ना! गप ऱ्हव, गप ऱ्हव" हावें ताका समजायलो. वाल्याच्या शेवान दोळे पुशीत आबा कसोबसो रडपाचो थांबलो.

"उद्यापासून खयच जाव नको. तुका काय झाला, तर मी आणि ताई वाऱ्यावर पडॉ. इलाव, तशे आपले परत घराक जावया." हावें हुस्क्यान म्हणलें.

खऱ्यांनीच आबाक कितेंय जाल्लें जाल्यार!

पांच – स दीस अण्णागेर अशेच भुर्र करून हुडून गेले आनी एक दीस मामा म्हाका आपले 'धा' चाळींतले खोलयेर घेवन गेलो.

घरा वचनाफुडें मामान म्हाका दोन नवीं बानयानां आनी मालवणांतले सगळे चाकरमानी घालतात तसल्यो निळया रंगाच्यो चटेरी रिस्का रिस्कांच्यो दोन चड्ड्यो दिल्यो.

“आता मी तुका आठ दिवस माज्याकडेच ठेवतलय. त्यासठी मी रातपळी घितलहस. दिवसाची तुका मुंबय दाखवीन आणि राती कामावर जायन. तुका आता खय खय मुंबय बगूची हा, ती बग.” मामान म्हणलें.

म्हाका दीसभर मुंबय भोंवडावन दाखोवन रातिच्या इकरा वरांचेर रातपाळयेखातीर वचपाक मेळटलें अशी मामाली येवजण. तेखातीर ताणे आपली दीसपाळी बदलून सप्तकभर रातपाळी घेतिल्ली.

मामा म्हाका घेवन दुसऱ्या दिसा येसूआक्कागेर गेलो.

येसूआक्का परळच्या नाक्यार, आर. एम. भट शाळेचे कुशीक, लगड बिल्डिंगेंत रावताली. तिगेर वचपाक घरांतल्यान भायर सरले. वाटेर शिवडीक स ंनंबरावयले गेटीचेर रेल्वे क्रोस करची पडटाली. थंय फाटकाकडेन पावतकच क्रोसिंग करता आसताना मामान म्हजो हात धरून म्हणलें, " बाबू, पटकन जावया. गाडी कधीपन येयत.” सट करून रेल्वे लायन वलांडून आमी पलतडीं गेले आनी परेलाक वचपी बशीक रावले. धा एक मिनटांनी दोन माळयांची बस आयली आनी आमी बशींत चडले.

“मामा, आमी वरच्या माळयावर जावया.” हावें म्हणलें. वयल्या माळयार व्हडलीशी गर्दी नाशिल्ली. फकत सात -आठच लोक.

गावांत आमी एस. टी. पळयिल्ली. दोन माळयांची बस हांव पयलेच फावट पळयतालों. दुसऱ्या माळयार बशिल्ल्यान आमी विमानांतल्यानच वतात अशें म्हाका दिसतालें. रस्त्याचे दोनूय कुशीनी हांव अधाशाभशेन पळयतालों.

बस चार – पांच ठिकाणांचेर रावली. निमाणे परेल आयलें.

आमी येसूआक्काल्या घरा पावले. तिचो घोव कामारसान घरा येवपाचो आशिल्लो. हांव कुवळयाचे शाळेंत पांचवेंत आसताना देड वर्साआदींच तिचें लग्न जाल्लें. आजून तिची कूस उजोवंक नासली. तेखातीर ती घरांत एकलीच आसली.

आक्कान म्हाका हांसत्या मुखान म्हऱ्यांत ओडलो आनी म्हजे उमाव

घेतले. रोकडीच ती ह्ळवी जाली. म्हज्या भुरगेपणांत ह्ांव आजोळा वतकूच आनी परतून मुणग्याक येवपाक भायर सरतकच जाताली तशी.

तिच्या लग्ना उपरांत आमी तिका पयलेच खेप मेळटाले. तिणे रोकडीच च्या केली आनी दिवाळेचो खूब फराळ दिलो. “बाबू, सातवेंत पयलो नंबर घे” तिणे म्हणलें. तेउपरांत तिणे मामाक म्हणलें, “दादा, तू आणि बाबू आज जेवूनच जावा.”

“आज नको बाय. बाबूक घेवन मी परत कधीतरी येयन. रातपाळयेक पन जावचा हा.” मामान म्हणलें.

आक्काकडेन उलयत उलयत आमी भायर सरतानाच तिगेलो घोव कामार सान आयलो. मध्यम उंचायेच्या, सडपातळ आंगाच्या आनी धारदार नाकाचेर वक्ल आशिल्ल्या, मातशेशा गंभीर चेऱ्याच्या तिच्या घोवाक ह्ांव त्याच खिणाक वळखलों. लग्नाउपरांत मामाल्या घराकडेन त्या जोडप्याचो फोटो लायिल्लो. म्हजेकडेन पळयत आनी हांसत हांसत मामान ताका म्हणलें, “ह्यो मुनगेकर बाबू"

“अभ्यास कसो चलला?” ताणी म्हाका विचारलें.

“बरा चाललाय" मान हालयत हावें म्हणलें. आमकां रावपाचो आग्रो ताणीय केलो. पूण आमी आयलेच.

वडाळयाक येवपाखातीर आमी परळच्या बसस्टॉपाचेर आयले. पुराय काळोख जाल्लो. हेवटेन तेवटेन वचपी मोटारी, एक आनी दोन माळयाच्यो बसी,काळया तशेंच हळुव्या रंगांच्यो ल्हान ल्हान टॅक्सी आनी अगडबंब ट्रकांची सामकी गर्दी उसळिल्ली. नाक्याकडल्या आकांताळया पिंपळाच्या रूखाकडसून आनी व्हडल्या रस्त्यामदल्यानूच वचपी ट्रॅम एखाद्रे धाकटुले रेल्वेगाडयेभशेन दिसताली. सगळेकडेन विजेच्या दिव्यांचो झगमगाट. सगळया रस्त्यांच्या दोनूय वटांनी दुकानां आनी जंय – थंय मनशांची आकांताची गर्दी....

मुंबयविशींची जी कल्पना भुरगपणांतसावन मनांत घर करून आशिल्ली ती मुंबय ह्ांव आयज प्रत्यक्ष पळयतालों.

आमी परतून बसीन घरा आयले. येतना गर्दी आशिल्ल्यान वयल्या माळयार जागो ना अशें कंडक्टरान सांगलें. सकयल बसपाक एकूच सीट आशिल्लो. मामा उभोच रावलो. रातीकडेन मामान सदचेभशेन बरें मचमचीत जेवण रांदलें आनी म्हजी न्हिदपाची वेवस्था करून तो रातपाळयेखातीर कामार गेलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं मामा कामावयल्यान केन्ना परतता काय म्हण

हांव ताची वाट पळयत रावलों.

सांजवेळा मामान म्हणलें, “बाबू, आज सिनेमाक जावया?”

“खंय? कसलो सिनेमा हा?” हावें विचारलें.

“लालबागेक भारतमाताक जावया. थय मराठी सिनेमा लागताय खयचो आसता तो बगूया.” मामान म्हणलें.

आमी भारतमाताकडेन पावले. तिकेटीखातीर व्हडली रांक. थंय 'साता जन्माचा सोबती' हो चित्रपट चलतालो. स ते णव खेळाच्यो मामान बारा आण्यांच्यो दोन तिकेटी काडल्यो.थिटेरांत बसून हांव पयलेच खेप सिनेमा पळयतालों. मालवणचो अणभव खास नाशिल्लो. तेखातीर म्हाका दिसलें, भारतमाता हें मुंबयचें आलिशान थेटरांमदलें एक.

सिनेम सामको कुटूंबिक म्हणल्यार रडपाचो आशिल्लो. आमकां मात तो मानवलो. सिनेम पळोवन आमी घरा आयले तेन्ना रातिचीं सुमारेक धा वरां जाल्लीं. विठामावशेन दाळ भात करून दवरिल्लो. जेवन मामा कामाक गेलो.

मदलो एक दीस असोच गेलो. आमचें खंयच वचप जालें ना. त्या दिसा दनपारां जेवण जातकच मामालें लक्ष म्हज्या केंमांचेर गेलें. “बाबू, तुजे केस लय वाडलेले दिसतात. कापून तरी घेवया.” मामान म्हणलें.

भुरगेपणांत जेन्ना मे - जून म्हयन्यांत मामाक मेळपाक हांव आजोळा वतालों तेन्ना मामाच म्हजे केंस कापी. मुंबय सलूनांत केंस मारपाक एक रूपया घेताले तेखातीर मामा आपणाले रूमार येवपी भैय्याकडल्यान आठ आण्याभितर केंस मारून घेई. पूण मामालो भैय्या ताचे केंस मारून आठ – धा दिसांआदींच गेल्लो आशिल्ल्यान तो रोकडो परतून येवपाचो नाशिल्लो.

“बाबू, उद्या सांचे माज्या कामात जावया. थय माजो जोडीवलो नाशिकचो तुकाराम गायकवाड आपले केस भैय्याकडसून कापून घेवचो हा. त्येच्याकडसून तुजेपन केस कापून घेवया.” मामान म्हणलें.

सांजवेळा पांचाच्या अदमासाक आमी मामाल्या काम करपाच्या ठिकाणार गेले. मामा 'गॅटमन' आशिल्लो. शिवडी आनी कॉटनग्रीन स्टेशनांच्या मदले म्हालगाडयेच्या फाटकाचेर. म्हालगाडी वतना - येतना हेर येरादारीखातीर फाटक बंद करपाचें आनी ताचेखातीर तांबडो बावटो आनी फाटक उगडपाखातीर पांचवो बावटो दाखोवपाचो, हेंच मामालें काम आशिल्लें. एके पाळयेक दोन कामदार आसताले. तांकां बसपाक – उठपाक

लाकडाची एक ल्हानशी खोपटी केल्ली. तातूंत तांबड्या आनी पांचव्या दिव्यांचे अशे दोन लापयांव आशिल्ले. म्हालगाडयेक दिसाचे कपड्याचे बावटे आनी रातचे हे लापयांव दाखयताले.

मामाल्या कामाच्या ठिकाणार पावून आमकां एक वर जायत आयलें, तरी केंस कापपी भैय्या आयलोच ना. निमाणे एकदांचो आयलो. मामा आपणाल्या जोडीवाल्याक सांगपाक लागलो, " तुकाराम, आदी माज्या बाबूचे केस कापू दे. मगे तुजे. केस कापून झाल्यावर मी बाबूक घरी सोडून येतय. "

निमाणे काळोख दाटून आयलो. तांबड्या - पांचव्या लापयांवाच्या त्या हय न्हयशा उजवाडांत भैय्यान म्हजे केंस मारले. हांव आनी मामा घरा आयले. आमचें जेवण जातकच मामा परतून रातपाळयेखातीर गेलो.

सदचेभशेन हावें खोलयेचे भायर बल्कांवार शेनरी चादर पातलायली आनी न्हिदपाखातीर हांव आड पडलों. पूण कितलोतरी वेळ म्हाका न्हिदच येना.

सलूनांत केंस मारपाक एक रूपया जाल्यार भैय्या घेतालो आठ आणे. फकत आठ आणे वांटावपाक लागून मामान आपणाक कितले त्रास करून घेतिल्ले हें चिंतून हांव अस्वस्थ जातालों.

दुसऱ्या दिसा आयतार. सकाळीं कामावयल्यान येतकच मामान म्हाका सांगलें, "आज दुपारी वाजीबंदराक जन्या आक्काकडे जेवक जावया. बापसाकपन बरोबर घेवया. जन्याक मी तसा सांगलहय."

आमी शिवडाक अण्णाले कुडीर गेले आनी आबाक घेवन थंयसावन आक्कागेर गेले. आक्का पोर्ट ट्रस्टाचे एके पोरने व्हडले चाळींत तिसऱ्या माळयार तांच्याच गांववाल्याचे खोलयेंत भाड्यान रावताली. ते चाळीक 'संतापूरची चाळ' अशें म्हणी. ती तीन माळयांची म्हणल्यार खूब उंच आशिल्ल्यान आबाक थंय वचपाक भिरांत दिस.

आक्कालो मांव मुंबय पोर्ट ट्रस्टांत कामाक आसताना ते कुडींत राव आनी आक्काल्या घोवालो जल्मूय तेच कुडींत जाल्लो हें ते कुडिचें खाशेलेपण आसलें. देखून गैरसोय जावन लेगीत ती कूड सोडून दुसरेकडेन वचपाची तांची इत्सा नासली.

आक्कालो घोव, शिरवंडेकर हो भजनीबुवा आशिल्ल्यान सगळे ताका 'बुवा' च म्हणी. कुवळयांत आमची भेट जाली म्हणटकीर तागेलें स्प्रींगीचो पट्टो आशिल्लें आयताकृती घडयाळ सदांच हांव घालतालों. पट्टो म्हज्या

कोपरामेरेन पावलो तरी हावें म्हजी हौस भागोवन घेवंची. शिरवंडेकर म्हणल्यार मामालो जीव की प्राण. त्या दोगांयचे संबंद बापूय – पुतावरी आसले.

आक्कान मचमचीत जेवण रांदिल्लें . सुकें मटण, मालवणी पद्दतिची सोयेची दाळ, शीत आनी पुरयो. जेवणाचेर आमी सगळयांनी भरपूर ताव मारलो.

जेवन जातकच आबा परतून अण्णाम्हऱ्यान गेलो. आयतार आशिल्ल्यान महादेवबापूक घेवन ताका एक – दोन गांववाल्यांक मेळपाचें आशिल्लें. कोणूय हातार कितेंय तेंकयत ही आस आसली.

चारांच्या सुमाराक मामान अक्काक म्हणलें, " बायो, बाबू आता उद्या - परवा आपल्या चुलत्याकडे जायत. मी त्येका आता रानीबागेन घेवन जातय."

म्हाका तर केन्ना एकदां राणीबाग पळयनशें जाल्लें. कोंकणांतल्यान मुंबय येवपी दरेका मनशान राणीबाग पळयली ना अशें घडलें ना. आमी राणीबागेंत पावले तेन्ना 'बंगलो' म्हणल्यार म्युझियम बंद जाल्लो. ताका लागून आमी सरळ गेले ते जनावरां पळोवपाक. थंयच्या कांय जनावरांचीं चित्रां आमी पयलीं खंय खंय पुस्तकांत पळयिल्लीं. आज तीं जनावरां हांव प्रत्यक्ष दोळयांसामकार पळयतालों. वाग, शिंव, हती, गेंडो, जिराफ, वांस्वेल हांकां सगळयांक पळयताना मनात धस्स जातालें. ते व्हडव्हड प्राणी पांजऱ्यांत बंदिस्त आसूनय मनात भिरांत उपरासताली, तांचेभितरलें एकाद्रें जनावर भायर येत जाल्यार कितें जायत काय? सगळया तरांचे सोरोप हेवटेन तेवटेन भोंवताना पळोवन तर आंगार कांटो उबो रावतालो. इतल्यान मामान म्हाका एका आण्याची भिकणाची पुडी घेवन दिली.

सगळी राणीबाग पळोवन जातकच आमी रे रोड स्टेशनार आयले आनी थंयसान मागीर गाडयेन घरा. दनपारां भरपूर जेविल्ल्यान सांजवेळा हांव 'नाका नाका ' म्हणटा आसतानाय मामान सादेशें जेवण रांदलें आनी तो कामाक गेलो.

सोमार उजवाडलो. अण्णाले कुडिची मुजत सोंपिल्ल्यान सोमारा सांजवेळा आमकां नवें कुडींत वचपाचें आशिल्लें. ताका लागून सकाळींच मामा म्हाका अण्णागेर घेवन गेलो. भोईवाड्याचे वयले वटेनचे व्हडले झोपटपट्टेंत अण्णाली ही खोपटी आशिल्ली. दनपारचें जेवण उलगतकच अण्णा, काकी, कुसूम, हांव आनी आबा ते खोपटेंत रावपाक गेलीं. सकयल

जमीन आनी वयर सादे पत्रे. झोपडेंत लायट नाशिल्ली. लापयांव आनी पेत्रोलाचे दिवे. संडासाची सोय भायर उकत्यार, जंय जागो मेळटा थंय. म्हज्या पोटांत धस्स जालें. पूण अण्णा आनी काकील्या समादानाखातीर तरी थंय रावप म्हाका गरजेचें आशिल्लें. काकीले दोग भावूय आमचेबरोबर ते खोपटेंत रावपाक येवपाचे आशिल्ले. म्युनिसिपालिटीच्या झाडूखात्यांत ते कामाक आशिल्ले.

भोईवाड्याच्या 'आदर्श दुग्धालयां' त आमचें मदीं मदीं वचपाचें परतून सुरू जालें.

पांच – स दीस जाले आनी अण्णाल्या पगाराचो दीस उजवाडलो. पगार तरी कितलो! 60 काय 65 रूपये. अण्णान आबाक म्हणलें,"ह्या पगारात तुमका मुलकात पाठवूक जमॉचा नाय. उताराक वा बाकीच्या खरचाक पैशे नाय. हुते पैसे ते झोपड्याक लागले."

आमचें गावांत वचपाचें पुराय अण्णाचेर आदारून आशिल्लें. 'ह्य – ना' करतां आबा तयार जालो.

"पण माज्या अभ्यासाचा काय? आणखी एक म्हयनो मी काय करू?" हावें आबाक म्हणलें.

"पन मी काय करू? तू मुंबयक येव नको, असा मी तुका परत परत सांगत हुतय. पन तू काय माजा आयकलस नाय." आबान म्हणलें.

"माजा तिकिट काड. मी एकटो जातय." हांव

"काय?" आबा एकदम म्हजेर धेंगसलो. ताका सगळयांत चड भिरांत ती वाटेर बोट बुडली बी जाल्यार! नाजाल्यार हांव बोटींतल्यान मकयल पडलों बी जाल्यार!

चर्चा निश्फळ आसली. निमणे अण्णाल्या फुडल्या पगारामेरेन रावचें अशें थरलें. एक म्हयनो म्हज्या अभ्यासाचें लुकसाण जातलें म्हण हांव बरोच अस्वस्थ जालों आनी फुगारय जालों. पूण सगळेंच निरर्थक.

कांय दिसांनी काकीले भाव रावपाक आयले. व्हडलो शंकरमामा मुकदम आशिल्लो आनी महादेवमामा कामदार. तो पांचवीमेरेन शिकिल्लो.

सांजवेळा घरा परतताना ताणी 'नवाकाळ' आनी 'मराठा' हे पेपर हाडचे. ताका लागून वाचपाची सोय जाली.

फुडलो म्हयनो हेवटेन तेवटेन भोंवपांत गेलो. केन्ना एका सोयऱ्यागेर तर केन्ना दुसऱ्यागेर, केन्ना ह्या गांववाल्यागेर जेवण जाल्यार केन्ना त्या गांववाल्यागेर. अशें येवप – वचप सुरू जालें.

केन्ना केन्ना सांजवेळचें 'आदर्श दुग्धालय' आशिल्लेंच.

एक दीस सांजवेळचो म्हाका घेवन महादेवमामा कामगार मैदानार मिटींगेक गेलो. मैदानांत मनशांची खचाखच गर्दी. आमी मैदानार पावले तेन्ना एका उलोवप्याचें भाशण सोंपिल्लें आनी एक गोरोसो आनी मोटकोच वक्तो उलोवपाक उभो राविल्लो. लोकांचो ताळयांचो कडकड. त्या उलोवप्याचें नांव घेवचे पयलींच महादेवमामान म्हणलें, " हे कॉम्रेड डांगे! कम्युनिस्ट पक्षाचे सगळयांत व्हडले फुडारी."

सुमार अर्दवर डांग्यांचें भाशण चललें. तांचें भाशण चलताना मदीं मदीं ताळयांचो कडकड जातालो.

ते दीस 'मुंबईसह संयुक्त महाराष्ट्र झालाच पाहिजे' चळवळीचे. मुंबय वचतसान कसल्या ना कसल्या निमतान म्हजें वर्तमानपत्रीय वाचन सुरू 'जाल्लें. ताचेवयल्यान कळिल्लें चळवळिचें फुडारपण 'संयुक्त महाराष्ट्र समिती' कडे आसा म्हणपाचें. आख्खे मुंबयभर सुरू आशिल्ले चळवळिचे पडसाद विस्तारान आनी तीव्रतायेन वर्तमानपत्रांतल्यान पडत आशिल्ले. 'मुंबईसह संयुक्त महाराष्ट्र झालाच पाहिजे' ही चळवळीची एकमेव घोशणा आशिल्ली. आचार्य अत्र्यांचो 'मराठा' तर सगळयांत आघाडेर आशिल्लो. हांव सवेंत आसताना 'आजीचे घडयाळ' ही तांची विनोदी कविता आमच्या पुस्तकांत आशिल्ली. पूण आतां 'मराठा' तले अग्रलेख वाचून तांचेविशीं म्हज्या मनात खूबच आदर निर्माण जालो. एस. एम. जोशी आनी नानासाहेब गोरे हे संयुक्त महाराष्ट्र चळवळीचे व्हड फुडारी आशिल्ल्याचें त्या अदमासाक म्हाका कळ्ळें.

कामगार मैदानावयले संयुक्त महाराष्ट्र संबंदिचे अशेच एके जाहीर सभेंत शाहीर अमर शेखांचो पोवाडो आयकुपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळें. डफाचेर थापट मारून पोवाडो म्हणटा आसताना, भव्य कपल आशिल्ली तांची ती भावमुद्रा फुडले कितलेतरी दीस म्हजे नदरेमुखावयल्यान हालली ना.

एक दीस सांजवेळचो महादेवमामा म्हाका घेवन भोईवाड्याच्या मैदानात श्री. बी. सी. कांबळे हांच्या भाशणाक गेलो. मालवणचे आमचे सगळे बौध्द जनतेचेर बी. सी. कांबळे हांचो खूब प्रभाव आसा म्हणपाची जाणीव म्हाका त्या अदमासाक जावपाक लागिल्ली. कोंकणातले जायते लोक तांकां 'बी. सी.' अशेंच म्हणी. आपल्लो मुद्दो पटोवन दिवपाची तांगेली थंडसायेची आनी देखी दिवपाची पद्दत सगळयांभशेन म्हाकाय मानवली.

मदींच एका दिसाखातीर अशें म्हगेलें मामागेर वचप – येवप सुरू

आशिल्लें. येसूआक्कागेरय एक – दोन फावटीं हांव एकलोच वचून आयिल्लों.

एक दीस शंकरमामा म्हाका आनी आबाक घेवन स ते णवांचो खेळ दाखोवपाक भारतमाताक गेलो. थंय 'पतीव्रता' हो सिनेम आमी पळयलो. म्हाका सारकी याद जायना, पूण सुलोचनाबाईची तातूंत मुखेल भुमिका आसली. पंदरा - वीस दीस अशेच वतकच परतून एक फावट मामा म्हाका येसूआक्कागेर घेवन गेलो. त्यावेळा हांव थंय दोन दीस रावलों.

आक्कान म्हजी खूब अर्थ अपुरबाय केली. तरातरांचे जिनस शिजोवन घाले. तातूंतलो म्हाका आवडिल्लो तो मालपुवा.एक दीस सांजवेळा बुवा कामारसान येतकच आक्कान ताका म्हणलें, “बाबूक कपडे तरी घेवा.”

बुवा म्हाका रोकडोच डॉकयार्ड स्टेशनाच्या पुलासकयल फुटपाथावयल्या एका ल्हानशा दुकानात घेवन गेलो . थंय ताणे म्हाका रिस्का रिस्कांचो असो एक हाफ बुशकोट आनी खाकी हाफ पेंट घेतली. मुंबयंतले म्हजे ते पयले नवे कपडे आशिल्ल्यान म्हाका ते खूब मानवले.

ते रातीकडेन हावें नवहिंद बालमित्र मंडळाचें 'जल्लाद' नाटक पळयलें. म्हाका तें खूबच आवडलें. जल्लाद' नावाचो कितलोतरी अगडबंब राक्षस स्टेजीचेर कसो म्हण दाखयलो हाचेंच म्हाका अजाप दिसलें.

दुसऱ्याच दिसा मामान म्हाका अण्णागेर शिवडीक व्हरून सोडलो.

एक दीस सांजवेळा हांव एकलोच बौध्दजन पंचायत समितिच्या ऑफिसांत गेलों. सदचेभशेन लोकांचो चोमो थंय आशिल्लोच. मुखाऱ्च, वणटीच्या मदेकाक डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांचें पांयजेल लायिल्लें. पांयजेलामुखार उबो रावन हावें नमळायेन हात जोडले.

सभाघराचे दोनूय वटेन वणटीचेर लायिल्ले वेगवेगळे फोटो पळयले. ते सगळे बाबासाहेबाचे चळवळींतले सहकारी आशिल्ले हें उपरांत कळ्ळें. सुमारेक अर्दवर ह्या सगळया वातावरणात गेलें. आतांमेरेन बाबासाहेबाच्या अलौकीक कार्याची थोडी थोडी जाणीव जावपाक लागिल्ली. तांचेविशीं मेळिल्ली म्हायती आनी विशेश करून तांगेल्या महापरिनिर्वाणा उपरांत विविध कार्यावळिनी तांचेविशीं आयकल्लीं गीतां, ह्या सगळयांतल्यान ते ह्या देशांतल्या अस्पृश्य – दलीत जनतेचे सर्वश्रेष्ठ उध्दारकर्ते ही भावना मनात रूळपाक लागिल्ली. पांचवेंत आसताना धम्मदीक्षेची कुवळयांत कार्यावळ जाल्ली तेन्ना प्रकर्शान ही गजाल कळून आयिल्ली. ताका लागून तें अर्दवर आमी एके भारील्ले वास्तूंत आसात म्हणपाचें आमकां प्रकर्शान जाणवतालें.

अण्णाक पगार मेळ्ळो. त्या दिसा ताणे कांदाभजीं, बटाटवडे, मालपुवे अशें भरपूर खावपाक ह्याडलें.

दुसऱ्या दिसा सांजवेळा म्हाका आनी आबाक घेवन अण्णा लालबागच्या बाजारांत गेलो. थंय ताणे आमकां गावांत व्हरपाक चणे, भिकणां, खाजूर, पापडाभशेन दिसपी पातळ मिठाय, कांदे, बटाट, मिरसांगो अशो वस्तू घेतल्यो. तेन्ना गावांत असल्या जिनसांची खूब लक्तुबाय.

गावांत वचपाचो दीस उजवाडलो. सामान सुमान बांदून जालें. भाऊच्या धक्यार वचपाक आमी घरांतल्यान भायर सरताना आबाक दिवपाक अण्णान वीस रूपये फुडें केले.आबा आकांताचो तिडकलो. एक म्हयनो दवरून घेतिल्ल्यान उण्यात उणे अण्णा 50 – 60 रूपये तरी दितलो अशें ताका दिशिल्लें. पूण वीसूच रूपये दिवपाखातीर एक म्हयनो दवरून घेतलो म्हण ताका सुमाराभायर राग आयिल्लो.

“तुजे इस रूपये कोनाक व्हये? ते तरी खेका देतस? नि इसस रूपये देवचे हुते, तर महिनोभर कित्या ठेवलस? माज्या झिलाची साळा तरी बुडती नाय हुती.” आबान रागान म्हणलें.

अण्णा एकदम काचाबूल जालो. कितें करचें तें ताका कळ्ळें ना. काकूळटेक येवन ताणे काकीक म्हणलें, “ जनग्या, आनकी इस रूपये आसले तर दी. तुका मी मगे देतय.”

वीस रूपये दिलेबगर काकीमुखार आनीक पर्याय नासलो. तिणे लाकडाचे पेटयेंतल्यान वीस रूपये काडून अण्णाकडेन दिले आनी अण्णान ते आबाल्या हातार दवरले. आबान ते कशेबशे आपल्या काळ्या जाकिटाच्या भितरल्या बोल्सांत दवरले.

आबान सामान माथ्यार उखल्लें आनी आमी शिवडीच्या रेल्वेस्टेशनाचेर पावले. थंयसान परतून मशीद बंदर आनी निमाणे चलत भाऊचो धको. आयतार जाल्ल्यान धक्यार आकांताची गर्दी. तातूंत आपल्या सोयऱ्या धायऱ्यांक निरोप दिवपाक आयिल्ले चाकरमानीच चड आशिल्ले. ते गर्देंतय हांगाच्यान थंय वाट काडीत कितें ना कितें घेवपाखातीर लोकांची ताकतीक चड आशिल्ली.

ते गर्देंत ह्यांव फकत मामाची वाट पळयत आसलों. 'मी येतय' असो रकाद धाडून लेगीत आदल्या दिसा सांजवेळा तो मेळपाक येवूं नासलो. मामालो जसो म्हजेर तसोच मामाचेरय म्हजो खूब जीव. ताका मेळ्ळेबगर गावांत वचप अशी कल्पनाय करप म्हाका शक्य नाशिल्लें. ताका लागून ताचें आनी म्हजें मेळप जाता काय ना ह्या दुबावान म्हजो जीव कासावीस

जाल्लो. म्हजे भिरभिरपी नदरेन ह्ांव मामाचो सोद घेता आसताना एकदांचो मामा आयलो. व्हडलें एक खाकी दप्तर म्हज्या हातांत दीत मामान म्हणलें, "ह्येच्यात तुका लेंगो आणि शरटं घितलंय तां हा. खांवक अर्दो रत्तल मिठाय पन त्येच्यातच हा. ती ताई आणि तू खवा. ताईक मतर काय घितलय नाय. माजे बायक सांग, मिरगाक येयन तवा काय तरी हाडीन."

मामान म्हाका धा रूपये दिले आनी विडयांचें एक बंडल आबाल्या हातांत दीत ताणे आबाक म्हणलें,

" हे धा रूपये तुका ठेव"

म्हजो हात मामाल्या हातांत. हांव तर रडटालोंच, पूण मामाकय आपलें रडप आडावप अशक्य आसलें. तोवूय बी आंवडे गिळीत घसघशांनी रडटालो. मामा सदांच म्हजेभितर आपले भयणीक, लाडक्या धकल्याक पळयतालो.

"लेका रडॉ नको. सातवी झालस काय माज्या लेकाक मी मुंबय बोलावयतय." मामान म्हाका रडत रडत म्हणलें.

बोटींत आतां मनशांक घेवपाक सुरवात जाली. मामान आनी अण्णान म्हजे उमाव घेतकच हांव आनी आबा बोटींत चडले. बोटींत चडतसावन मामा - अण्णा खंय दिसतात काय म्हण हांव सारखो पळयत आसलों. पूण ते गर्देंत कोणूच दिसनासलो.

आमचो परतेचो प्रवास सुरू जालो. बोटींत म्हाका सारखी याद जायत रावली ती देड म्हयन्यातली मुंबय.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं धा वरांचेर बोट आचरी धक्याचेर पावली. देवगडाक चड बरो धको आसूनय आमच्या गांवा मेरेन परतून एस टीन वचचें पडटालें आनी एस टींतल्यान मशवी हांगा देंवून परतून एक फावट एक – देड मैल चलचें पडटा देखून आमी आचऱ्या मेरेनच्यो तिकेटी काडिल्ल्यो.

आचरा धक्यार देगेर सावन बोट बरीच पयस लागता. ताका लागून जंय ती थांबता, थंय व्हडलीं ल्हारां आसतात. तेखातीर बोटींतल्यान होड्यांत देंवताना आनी होड्यांतल्यान सकयल देंवताना बरेच हाल जाले.

आबान माथ्यार सामानाचें ओजें उखललें आनी आमी दनपारचे घरा पावले.

ताईन जेवण रांदून दवरिल्लें.



दुसऱ्या दिसा हांव शाळेंत गेलों तो भियेत भियेतूच आनी लजेवनूच. वर्गांतलीं सगळींजाणां म्हाका खो खो करून हांसलीं. तातूंतच "येयात चाकरमानी, आमकां दिसलें, ह्या वर्सा आतां मुंबयच रावता काय कितें?" आडकरमास्तरान विनोदी सुरान म्हणलें. म्हजें वागप इतलें चुकिचें आशिल्लें, म्हजेलागीं उलोवपाक उतरांच नाशिल्लीं. मास्तरान शिकोवपाक रोकडेंच सुरू केलें आनी मदले सुटये उपरांत वातावरण 'जैसे थे' जालें.

आदलोच हांव गुटगुटीत. तातूंत मुंबयचें उदक मानवल्ल्या कारणान आनीक थोडोसो सुटिल्लों. ताका लागून सगळयांनी 'काय काय खालस?काय काय बगलस?' असले प्रश्न विचारून नाका पुरो केलें. सगळयांत फुडें आसलो मधूलब्दे.

सांजवेळची शाळा सुटटकच मास्तरान म्हाका रावपाक सांगलें. सातवेचे परीक्षेचे फॉर्म भरपाची निमणी तारीख दोन दिसां आदींच सोंपिल्ली. फकत हांव नाशिल्ल्यान बाकिच्यांचे फॉर्म मास्तरान धाडूंक नासले. सगळीं भुरगीं वतकूच ताणी म्हजेकडसून फॉर्म भरून घेतलो.

"तूं नाशिल्ल्यान आनी वर्स फुकट वचून तुजें लुकसाण जावंचें न्हय देखूनसगळयांचे फॉर्म्स तयार आसून लेगीत ते हावें आचऱ्याक धाडूंक नात. आज येवंक नाशिल्लो जाल्यार हांव फाल्यांच फॉर्म धाडपाचों. तरीय आतां धा रूपये दंड हो भरचोच पडटलो आनी शाळा तो भरची ना. हांवूच भरतां." मास्तर सामके सहजतायेन उलयले. म्हाका अपराध्यावरी देसलें.

"फाल्यांसावन सांजवेळची शाळा सुटटकच देवळाकडले शाळेंत एक वर बसुया. फाटल्या म्हयन्या - देड म्हयन्यात शिकोवन जाल्लो सगळो अभ्यास फुडल्या आठ -धा दिसांत भरून काडचो पडटलो. परीक्षा तर सामकी दोन म्हयन्यांचेर येवून तेंकल्या." मास्तरान फुडें म्हणलें.

दुसऱ्या दिसा सावन सांजवेळची शाळा सुटटकच वरभर सुमार देवळाकडले शाळेंत बसून बुडिल्लो अभ्यास भरून काडपाक सुरू जालें. आंकडेगणित, भूमिती आनी मराठी व्याकरण ह्या विशयांचेर मुखेलपणान मास्तरान चड भर दिलो.

एक दीस फळां - फुलांच्या निरीक्षणाखातीर आमी सातवेचे विद्यार्थी दनपारचे देवळालागींच्या फार्मांत वचपाक गेले. वाटेंतल्यान वतना आमी सदचेभशेन उलयत, विनोद मस्कऱ्यो करीत आशिल्ले. देवळाकडली घाटी देंवले आनी पुजाऱ्यांच्या दुकानावयल्यान व्हडल्या व्हडल्यान झगडपाचो आबालो आवाज म्हाका आयकूंक आयलो. ताकतिकेन आमी सगळे दुकानाचेर गेले. आबालें आनी पुजाऱ्यालें नेटान झगडें चलतालें.

"काय, झाला काय?" हावें भियेवनच आबाक विचारलें.

आबान म्हजेकडेन मातय लक्ष दिलें ना. तो पुजाऱ्याक परतून परतून सांगीत आसलो, "तुमचा सगळा दुकान आमच्या म्हारांच्या जोरावर चलता हा. आमच्ये चायचे कॉप यगळे कित्या? आमचे चायचे कप यगळे ठेवलास, तर उद्यापासून तुमच्या दुकानावर आमी पाउल टाकतलय नाय. आमी आमच्ये कॉप धुवूचाव नाय. ते दुकानात भुतूर ठेवा आणि तुमी मराठ्यांका जशी चाय देतास, तशी आमका देवा, आमका चाय फुकट देवास नाय काय. आमच्या कडसून कमी पैशे घेवास नाय!"

सगळो प्रकार म्हज्या लक्षांत आयलो.

आमकां म्हार – चामार मंडळीखातीर च्याचीं कोपां वेगळीं दवरप आनी तीं आमकांच धुवपाक लावप अशे पुर्वापार चलत आयिल्ले प्रथेप्रमाण आबान तो मुद्दो धरून पुजाऱ्यावांगडा वाद घाल्लो. आबालें म्हणणें तशें बरोबर आसलें. ताका लागून थंय हाजीर आशिल्ल्यांमदल्या कोणाकूच आबाक विरोध करपाचें धाडस जालें ना.

त्या दिसा आमी फार्मांत गेले ना. थंयसावनच हांव आबाक घेवन घरा गेलों. आबान वाडींतल्या सगळ्या दादल्यांक रातीकडेन आपोवणे धाडलें..."पुजारी आमच्ये कॉप सोता धुऊन चाय देत नाय, तवसर त्याच्या दुकानात पाऊल टाकू नको." आबालें म्हणणे सगळयांकूच पटलें.

दोन दीस अशेच गेले. आमचे वाडींतल्या एकल्याय मनशान पुजाऱ्यांच्या दुकानात पावल दवरलें ना. दोन दिसांभितर पुजाऱ्याच्या दुकानातली विक्री अर्ध्यार पावली. तिसऱ्या दिसा ताणे आबाक रकाद धाडलो, "उद्यापासून तुमच्ये कॉप बाजूक ठेवूचय नाय. सगळयांसारकी तुमका पन चाय देयन तुमचे कॉप पन मीच धुईन."

सगळयांक ही गजाल सांगली.

दुसऱ्या दिसा सदचेप्रमाण पुजाऱ्याचें दुकान आमचे वाडींतल्या लोकांनी फुलून गेलें. तेन्नासावन गावांतल्या सगळ्या दुकानातलीं च्याचीं कोपां भितर वचपाक लागलीं आनी तीं आमीच धुवपाची प्रथा बंद पडली.

हांव आनी आबा मुंबयसान आयल्या उपरांत एक – देड म्हयन्याभितरच आजी मेली. खूब म्हातारी जाल्ली ती. तरीय आबा खूब रडलो.

म्हजी आई वचतसावन आबान अतिशय कष्टांच्या आयुश्यांतय आजेची खूब सेवा केली. जेवण रांदून जाल्या उपरांत सगळयांत पयलीं ताणे तिका वाडचें . जेवतां जेवतानाच एक दोन फावटीं तरी तो "आए, तुका काय व्हया

काय गे?" अशें विचारी. "काय नको, बाबा" तिणे म्हणचें.

आदींसावनच आबाचेर आजेचो खूब जीव आशिल्ल्यान ती आबा आनी आईम्हऱ्यांत आसताली. पूण आई वतकच लेगीत बाकिच्या खंयच्याच चुलत्यान तिची जापसालकी घेतली ना. तरी लेगीत आजी मात आपल्या भुरग्यांचो उल्लेख "माज्ये पांच पांडव" असो अभिमानान करी. आबाक ती "माजो पोशिंदो" म्हणटाली.

म्हजेरूय खूब जीव आसलो आजेचो. विशेश करून दत्तू वतकच आजेन सदांच म्हणचें, "माज्या दोन झीलाभुतुर एकच झील."

"लक्या, झिलाक घेवन् जातहस्, तो परत संबाळून परत घेवन ये. मी देईक गाऱ्हाना घालतय" आबा वांगडा हांव मुंबय वतना थरथरत्या आवाजान तिणे म्हणिल्लें.

हावें आनी ताईनय आजेची खूब सेवा केली.

दरेके जात्रेक हावें आजेखातीर तिचे आवडिची जिलेबी हाडचीच, जांव ती मागीर एका आण्याची. आबान खावपाचो खंयचोय जिनस हाडूं, आजेक पयलीं दिलेबगर हावें आनी ताईन केन्नाच उश्टावंक ना. असल्या वेळार आजेन म्हणचें, "माज्या लेकाचा कल्यान होवं दे."

मागीर ताईन रागान म्हणचें, " माजा नको होवं दे?"

"तुजा पन कल्यान होवं दे!" आजेन हांसून म्हणचें.

"आजये, उद्यापासून आदी ताईचा कल्यान होवं दे, असा म्हण" हावें म्हणचें आनी हाचेर आमचो खळखळून हांसो आसतालो.

आजी वतकच तिच्या न्हिदपाची सुवात रिती दिसताली आनी थंय नदर वतकच काळजांत भरून येतालें.

जानेवारी म्हयन्यात आमची पांच दिसांची जात्रा आयली. त्या वर्साचे जात्रेचीं दोन वैशिश्ट्यां आशिल्लीं. एक म्हणल्यार जात्रेचे निमतीं देवळाकडले शाळेंतलें आमी माडिल्लें प्रदर्शन. सामकें तिसरी चवथीसावन ते सातवेमेरेनच्या भुरग्यांनी आपणे तयार केल्ल्या विंगड विंगड वस्तुंचें प्रदर्शन ही गांवच्या इतिहासांतली अभूतपूर्व घडणूक आशिल्ली. सम आकाराच्या बांकांचेर नितळ चादरी पातलावन ताचेर प्रदर्शनांतल्यो वस्तू मांडून दवरिल्ल्यो.

दुसरें म्हणल्यार आमच्याच गांवच्या बाबुराव गुरव पेंटरान तयार केल्लें, 'भूमीकन्या सीते' वयलें प्रदर्शन. तातूंत ताणे वाल्मीकी, राम, लक्ष्मण आनी 'म्हाका पोटांत घे' म्हण धर्तरेक विनवणी करपी सीता अश्यो सुमारेक

स फूट उंचायेचीं चित्रां तयार केल्लीं. मुंबय आनी हेरकडेन पेंटराची नामना आसली. पूण तो केदो म्हान पेंटर म्हणपाचें आमकां गांवकऱ्यांक त्या प्रदर्शनावयल्यान कळळें.

प्रदर्शनाची प्रवेश फी फकत दोन आणे आसली. पळोवपाक वतल्यांच्यो तिकेटी तपासून भितर सोडपाचें काम आमी सवे - सातवेचीं भुरगीं आळी पाळयेन करतालीं. पूण आमची तेन्नाची मिजास मात कितें तर!

प्रदर्शनाखातीर भुरग्यांनी केल्ल्यो तरातरांच्यो वस्तू वेवस्थित, नक्षीदार आनी आकर्शक आशिल्ल्यो, पळयतल्यांक अजापभरीत करून सोडटाल्यो. "हये, सगळे वस्तू आमच्याच गावच्या पॉरांनी केल्या हत?" कांयजाण लक्तुबायेन विचारी.

भूंयकन्या सीतेक पळोवन तर लोकांक उमाळो येतालो. ती घडणूक समजावन सांगपाची जापसालकी म्हजेर आसली.

"मी निष्पाप आसत जाल्यार हे माये, तूं म्हाका पोटात घे." अशें धर्तरीक सांगून गळयामेरेन प्रत्यक्ष जमनीभितर वतनाची सीता, खऱ्यांनीच निश्पाप आसून तिचेर कसो अन्याय घडटा, हें वाल्मीकी रामाक सांगता अशें प्रदर्शनात दाखयिल्लें.

त्या वर्सा अभ्यासाच्या ताणाक लागून हावें जात्रेंत व्हडलीशी मजा केली ना. जात्रेंतलो कांय वेळ प्रदर्शनाक दिलो तरीय मदीं मदीं सवड काडून थोडो अभ्यासूय केलो,

जात्रा उलगली आनी सदचेभशेन ना जाली तरी हुरहुर उरलीच.

आतां परतून अभ्यासाक नेटान सुरवात केली. सगळें शिकोवन जातकच मास्तरानी कांय, खास करून गणितांच्यो पोरन्यो प्रश्नपत्रिका वर्गांत सोडोवन घेवपाक सुरवात केली.तातले काय तोंडी तर कांय वर्गांत बरोवन घेतल्यो. म्हजेकडसून आनी धकाकडसून मात ताणे आनीक कांय वेगवेगळयो प्रश्नपत्रिका घराकडल्यान सोडोवन हाडून घेतल्यो.

मार्चांत परीक्षेची तारीख आयली. परीक्षेच्या आदल्या दिसा आमी आचऱ्याक गेले. वतना घरांतल्या सगळया जाणट्यांच्या हांव पांया पडलों. म्हजी ट्रंक घेवन आबा आचऱ्यामेरेन आयिल्लो. म्हाका आचऱ्याक सोडून, म्हजो बरोच हुस्को दाखयत तो परतो गेलो.

म्हजी, मधू लब्दे, आनी आडकर मास्तर अशी तिगांची रावपाची सोय आचऱ्यांतले एके प्रतिष्ठीत असामी आनी मधूले मामा श्री. आचरेकर हांच्या घरांत जाल्ली. आमचें सामान आमी तांगेले पडवेंत दवरील्लें. तांगेल्या

व्हडल्या आंगणांतल्या माटवांत आमची न्हिदपाची सोय केल्ली. सामान दवरून आमी रामेश्वर देवळाकडेन वचून आमची वेवस्था पळोवन आयले. धकाली वेवस्था तागेल्या मामानी वेगळी केल्ली.

परीक्षेखातीर भायल्यान येवपी सगळया भुरग्यांच्या सकाळीं आनी सांजवेळा अशा दोनूय वेळच्या जेवणाची सोय आचऱ्याच्या रामेश्वर देवळामुखावयले एके व्हडले खाणावळींत आदलेभशेनच केल्ली. थंय बरी सोय जाता अशें आदीं परीक्षा दिल्ल्यांनी म्हाका सांगिल्लें.

खाणावळीचे कुशीकच फातरांनी बांदून काडिल्ली उदकाची एक व्हडली चौकोनी आकाराची टांकी आशिल्ली. तातूंत न्हावपाची सोय आसली. विशेश म्हणल्यार टांकयेंतलें उदक सैमीक कशें हून लागतालें.

रातचें बेगीनच खाणावळींत जेवन घेतलें आनी घराकडेन येवन दोन – तीन वरां मराठीचो अभ्यास केलो. मास्तरान व्याकरणांतले थोडे मुद्दे परत समजावन सांगले. परीक्षेचो पयलो दीस खुबच गडबडीचो आसलो. निळया तींताची बाटली, टाक, टीप कागद, पेपर धरपाखातीर पॅड ह्यो सगळयो गरजेच्यो वस्तू वांगडा घेतल्यो. म्हजो, धकालो आनी मधुलो नंबर एकेच कुडींत आशिल्ले. मराठीचो पेपर खूब बरो गेलो. तयारी करून गेल्लों तातूंतलोच निबंद आयिल्लो. विशेश म्हणल्यार सगळो पेपर सोडयलो.

आमी घरा वच जाल्यार मास्तर आमची वाट पळयत बशिल्ले आसले. पांच – धा मिनटां पेपराचेर चर्चा जाली आनी मास्तरान रोकडेंच दुसऱ्या दिसाच्या गणिताच्या पेपराचे उजळणेक सुरवात केली. रातच्या जेवणाउपरांत परतून थोडीशी उजळणी जाली.

दुसऱ्या दिसा मास्तरान मजाच केली. ताणे फांतोडेचेरच म्हाका उठयलो आनी घाई गडबडीन गणिताचें पुस्तक उकतें करून म्हाका म्हणलें, “हें गणित पळय. सामकें म्हत्वाचें आसा हें.”

काळ – काम – वेग हाचेवयलें तें गणित हावें सोडयलें. मागीर हावें तें गणित मधूकय दाखयलें. आनी गणिताच्या पेपराक वच जाल्यार कसलो योगायोग! सारकें तेंच गणित परीक्षेक विचारलेलें. हांव अजापान चाट पडलों.

दरेक पेपर सोंपतकच सगळेजाण म्हजेभोंवतणी एकठांय जाताले. कोणालेंय कितेंय चुकिल्लें आसत जाल्यार हांव ताका तशें सांगनासताना धीर दितालों.

सगळे पेपर बरे गेले. परीक्षा सोंपली आनी बऱ्याचशा आत्मविश्वासान हांव घरा आयलों. आवा खूब खूश आशिल्लो. सातवेमेरेन म्हजें शिक्षण

जाल्ल्यान ताका आपल्या कश्टांचें चीज जाल्ल्यावरी दिसतालें.

परीक्षे उपरांत दोन – अडेज म्हयने हांव सामक्या मुक्तपणान खेळ्ळों. हुतूतू, कोयंड्याबाल, लगोऱ्यो आनी गली ह्या खेळांवांगडाच जितलें म्हण व्हाळांत बुडूं येता तितलें बुडून घेतलें.

सातवेचे परीक्षेचो निकाल आयलो. म्हाका 63 टक्के मार्क मेळ्ळे. आतांमेरेन आमच्या गावांत खंयच्याच विद्यार्थ्याक सातवेचे परीक्षेंत मेळिल्ल्या मार्कांपरस म्हजे मार्क सगळयांत चड आशिल्ले. ताका लागून जसो हांव आमचे शाळेंत पयलो येवपाचो आशिल्लों तसो आयलों. पूण आचरा केंद्रांत पयलो येवपाची मास्तराची अपेक्षा हांव पूर्ण करपाक शकलों ना. तें कांयशें अशक्य आसूनय म्हाका खूब वायट दिसलें. तातूंत केंद्रांतलो म्हजो पयलो नंबर गेल्लो तो फकत दोन - तीन टक्क्यांनीच. परीक्षेच्या दिसांनी जूस्त मुंबय गेल्ल्यान म्हजो अभ्यासाचो देडेक म्हयनो बुडलो देखून तशें जालें अशें मास्तरांचें म्हणणे जालें.

पूण आतां फुडें कितें? एक मोठो प्रश्न. एके वटेन आचरा आनी दुसरे वटेन मिठबाव अशीं दोन हायस्कुलां लागीं आसूनय गरीबीक लागून म्हाका थंय वचप शक्य नासलें. तातूंत दोनायमदल्या खंयय वचपाचें म्हणलें तरी पावसाळयांत तारीनच वचचें पडटालें. ह्या दोनीय न्हंयांक केदो हुंवार येता तें आबान मिठबाव आनी चिंदरच्या बाजाराक वतना पळयिल्लें. ताका लागून तार केन्नाय आरती - परती ज़ावन म्हाका कितेंय जायत हे भिरांतेन आबा म्हाका थंय धाडीत म्हणपाची शक्यताय उणीच आसली आनी तेंव्रूय बी चार वर्सां!

हायस्कुलचें शिक्षण घेवपाचें जाल्यार आदार आसलो तो फकत एकल्याचोच आनी तो मामा. मामाली आर्थिक परिस्थिती कितली सादारण म्हणपाची म्हाका सुरवेकसान कल्पना आसली. पांचवेंचें एक वर्स कुवळयाक आसताना हावें ती प्रत्यक्षांत अणभविल्ली. एकल्याच्या साठ – सत्तर रूपयांच्या पगारांत घरचो केदोतरी व्हडलो प्रपंच ताका सांबाळचो पड. पूण दुसरो कसलो पर्याय नाशिल्लो.

म्हजो दाखलो आनी मार्कलिस्ट हावें मुंबय मामाक धाडून दिलें. आमचे वाडयेंत आशिल्ल्या मोरे मास्तराच्या सांगण्यावेल्यान "शक्य आसल्यार शिरोडकार वा आर. एम. भट हायस्कुलांत म्हाका प्रवेश घेवंचो" अशें पत्रांत बरयलें.

मामा दोनूय शाळांनी भोंवलो. प्रवेश बंद जाल्ल्यान दोनायमदल्या एकाय शाळेंत प्रवेश मेळ्ळो ना. मामा निरशेलो. खूब कळावय जाल्लो. कितें करप तें ताका येवजना जालें.

एक दीस तो आपणाल्या गावांतल्या धर्माजी कुवळेकर ह्यांगेर गेलो आनी ताका घडिल्ली सगळी खबर सांगली. आमी सगळे ताका दाजी म्हणी. तागेलो भाचो आनी आमगेल्या गांवचो सीताराम हो रेल्वेंत कामाक आशिल्लो आनी परळच्या नवभारत हायस्कुलाच्या डॉ. आंबेडकर नाइट स्कुलांत वतालो. तेचभशेन, मधूयबी त्याच वर्सा नवभारत हायस्कुलांतल्यान मेट्रीकेचे परीक्षेक बशिल्लो.

"पांडू, तू असा कर, मधूक सांगॉन बाबूक नवभारतमधी टाक" दाजीन मामाक सल्लो दिलो.

मधूक घेवन मामा नवभारतांत गेलो. आठवेचें एडमिशन सोंपिल्लें. पूण म्हजे मार्क बरे आशिल्ल्यान आनी मधुचो आग्रो जाल्ल्यान खास बाब म्हण मुख्याध्यापक ठाकूरसरान म्हाका प्रवेश दिलो.

मामाक खूब बरें दिसलें. ताणे म्हाका पत्रांत बरयलें, " तुजे सांगणेप्रमाण शिरोडकार वा आर. एम. भट हायस्कुलांत प्रवेश मेळ्ळो ना. पूण मधुचे वळखीक लागून नवभारत हायस्कुलांत प्रवेस मेळ्ळो. 13 जूनाक शाळा सुरू जातली तेन्ना तूं बेगीन यो."

मुंबय वचपाचे वेध लागले. ह्यावें ल्हवूल्हवू सगळी तयारी केली. मात चार वर्सां तरी आबा आनी ताईक सोडून तशेंच चाकरमानी म्हण घडये सदांखातीर हांव मुंबय उरन, ह्या विचारान मन अस्वस्थ जातालें. पूण ताका इलाज नासलो.

हांव मुंबय वतलों म्हण म्हगेले सगळेच बालइश्ट अस्वस्थ जाल्ले. चार – पांच दीस तांचेवांगडा भोंवून जितलो म्हण गांव परतून दोळयांत आस्पावन घेवं येतालो तितलो घेतलो. ज्या सुवातिंनी सगळया तरांचे खेळ खेळ्ळों, हात दुखमेरेन ज्या झाडावयलें तॉर पाडपाक फातर शेंवटीले, शाळेंत तशेंच रापणीर वतना - येतना ज्या काजींचेर चडून तांच्यो खांदयो हालोवन मुट्टे जमनीर वडयले, लागीं लागीं अर्दें आयुश्य ज्या व्हाळाच्या उदकांत बुडून सारलें, दनपारां जेवन जातकच पिको आंबो आतां पडटलो, मागीर पडटलो अशी ज्या आंब्यामुळांत वाट पळयत रावलों आनी ज्या काण्णाच्या झाडांवयलीं अमुरपिकीं काण्णां खातना कसलीच पर्वा केली ना....तें सगळें परतून नदरेखाला घालें. पळणीचे सुवातेर वचून पळणीच्या

दिसांचो परतून उगडास केलो. देवळाकडल्या शेती फार्मांत गेलों, वाघोळेचे शाळेंत वचून परतून एक फावट नदर भोंवडायली.

चवदा वर्सांतल्या त्या गांवाचो, ते मातयेचो, झाडां झोपांचो, व्हाळाचो, कोंयड्या बाल आनी गलीच्या खेळांचो, नेटान व्हांवपी वाऱ्याचो, घोग्यांनी पडटल्या पावसाचो, गडगडपी कुपांचो, इंद्रधनुष्याचो, जात्रेचो, सोर्तीकार मामाचो, होळयेचो, बांबरवाडकारांच्या तमाशाचो आनी लब्देवाडकारांच्या नाटकाचो, रांपणीचो, आजोळचे वाटेचो, आऱ्याचे न्हंयचो, खुडीच्या माळयावयल्या म्हज्या प्रिय आंब्याचो, आंगणांतल्या चान्र्यात एकठांय जेवपाचो...सगळयांचो निरोप घेतना म्हजो जीव खासावीस जातालो.

मुंबय वचपाच्या आदल्या दिसा सांजवेळा हांव एकलोच घाटयेवयल्या वडापोंदा गेलों आनी थंय बसून एक नदर लावन दर्यो पळोवन घेतलो. समजणी येतसान फाटल्या स – सात वर्सांमदीं ताचीं कितलीं विंगड विंगड रूपां पळयलीं! भरतेच्या वेळार आड्डी मारपी, सुकतेच्या वेळार एखाद्या म्हाताऱ्या मनशाभशेन जड जाल्लो, पावसाळयांत सिंहावरी आकांताळो गर्जुपी, रातिच्या काळखांत हड्ड्यांत धस्स जावपाक लावपी, रांपणीकारांक आपल्या ल्हान भुरग्यांभशेन आंगाखांदार खेळोवपी आनी सांजवेळा दीसभरयाचो आपलो जळजळ विसरून भोगसणेचे वृत्तीन सुर्याक आपले वेंगेंत घेवपी दर्यो!

मनात विचार आफुडलो, 'मनशाचें मन दर्यावरी विशाळ आशिल्लें जाल्यार! पूण हें कशें शक्य आसा? खंय दर्यो आनी खंय मनीस!

म्हजे घडयाळीचो कांटो फुडें सरत आसलो. यादींच्या ओघाभरशीं विजयदुर्ग आनी जैतापूर धके केन्ना येवन गेले तें कळळेंच ना.

पूण आतां रातचें देड जाल्लें. हांव उठून उबो रावलों आनी पळय जाल्यार आदले सगळे भोंवडेकार सुस्त न्हिदिल्ले.

भायल्या भीण्ण काळखांत दर्यो आनीकूच भिरांकूळ आनी भयाण दिसतालो.

इतल्यान भोंगो वाजलो आनी रोकडोच रत्नागिरी धको आयलो. खुबशे भोंवडेकार बोटींत चडले. न्हिदिल्ल्यांनी मातशी कुरकुर केली . पूण रोकडेंच सगळें थिरायेर पडलें आनी सुशेगाद जालें.

हावें न्हिदपाक सुमाराभायले यत्न केले. पूण कितेंच केल्यार दोळयाक दोळो लागलो ना.

....आतांमेरेन कांय वेळा कसल्या ना कसल्या निमतान आबालें मुंबय वचप–येवप जाल्लें. पूण तें बोटीन.पावसाळयाक लागून मेचे अखेरेक सावन ते चवथीमेरेन बोटी बंद आसतात. आतांय बी बोट बंद आशिल्ल्यान रेल्वेनूच आमकां मुंबय वचचें पडलें. पूण रेल्वेची भोंवडी एकमार्गी नाशिल्ली. आमच्या गांवासावन म्हणल्यार मिठबावसून कोल्हापूरमेरेन एसटीन, कोल्हापूर ते पुणे कोळशाच्या इंजिनाचेर आनी मागीर पुण्याक गाडी बदलून मुंबयमेरेनची भोंवडी विजेचेर चलपी रेल्वेन. बोटीपरस वेळूय अदीक. सकाळच्या आठांक मिठबावसून भायर सरलें काय कोल्हापूराक पावमेरेन चार तीं पांच वरां जातालीं. आनी दुसऱ्या दिसा दनपारां बारा मेरेन मुंबय.

आबाक संवंय नासली असले भोंवडेची. आनी आतां तर वांगडा हांव आशिल्लों. सदांच वेव्हारी आशिल्ल्यान तेन्ना आबान कुवळयाकसान मुंबय वचपाचें थारायलें. कुवळयांत बरेचशे दादले शेताच्या कामाखातीर गावांत येताले. कांयजाण जून सोंपसर रावताले., तर कांयजाण शेताच्या कामाची पूर्वतयारी करून जूनाच्या पयल्या - दुसऱ्या सप्तकांत परतून वताले. मुंबय वचपाखातीर कुवळयाकसान कोणाचो ना कोणाचो तरी सांगात मेळटलो अशें आबाक दिस.

एक दीस सकाळफुडेंच हांव, आबा आनी ताई मुंबय वचपाचे तयारेन कुवळयाक वचपाक भायर सरलीं. दुर्दैवान आदले रातीसावन पार्वतीकाकीच्या पोटांत इतलें दुखतालें, ती जगता काय मरता अशी अवतिकाय आसली. पूण म्हजो इलाज नासलो. रडत रडतूच हांव काकीच्या पांयां पडलों आनी बाकिच्या सगळयांचो निरोप घेत भायर सरलों. म्हाका निरोप दिवपाक आख्खी वाडी चांफ्याकडेन जमिल्ली. दरेकल्याच्या चेऱ्याचेर म्हजेविशींचो मोग आनी हुस्को स्पश्ट दिसतालो.

तांच्या सगळयांखातीर हांव आशेचें किर्ण आसलों.

आतां परतून परतून तीच वाट. ते वाटेन जायते फावटीं हांव गेल्लों. ताका लागून तेसंबंदीच्यो सगळयो यादी मनात दाटून येताल्यो. घरांतल्यान भायर सरतसावन कुवळयाक पावमेरेन पावलांची ती वाट हावें म्हज्या मनाच्या गाभाऱ्यांत पुराय सांठावन दवरपाचो यत्न केलो.

सांजवेळ जावचेआदींच आमी कुवळयाक पावले.

खोशयेची गजाल म्हणल्यार सीताराम आनी गोविंदमामा हे दोगूय भाव शेताचीं कामा आटापून दोनच दिसांनी मुंबय वचपाचे आशिल्ले. दोन दीस

आमी मामागार रावले. त्या दोन दिसांत घवन, खांदीमोडक्या पणसाचे लांबट हळडुवेगाड रसाळ घरे, उकडिल्लीं तांतयां...आण्न कितें कितें करून दिवचें!

मुंबय वचपाचो दीस उदेलो.

ताई आतां आदलेपरस चड समजिकायेची जाल्ली आसली तरी हांव आनी आबा दोगूय आसचेनात आनी हांव तर सामको मुंबयकार जावपाचो आशिल्ल्यान अस्वस्थ जाल्ली. देखून एस टी खातीर आमी शिवडीक येतना आएवांगडा तिका शिरगांवमेरेन येवपाचें आशिल्लें. हावें हातापांया पडून आएक आनी तिका आडायली. परतून वता आसताना म्हज्यो यादी काडून काडून तीं रडटलीं म्हणपाची म्हाका कल्पना आशिल्ली.

शिरगांवसान नांदगांव, फोंडाघाट अशें करीत दनपारां आमी राधानगरेक पावले. थंय खाणावळीत जेवताना ताईच्या उगडासान ताळयासकयल उंडी वचनासली.

राधानगरीसावन कोल्हापूरमेरेनच्या प्रवासांत रस्त्याच्या दोनूय वटांनी उसच उस पळयताना आमच्या गावांत हांगा थंय पातळिल्ल्या अफाट आनी काळया कुळकुळीत नापीक कातळाची याद जाताली.

तिकेट काडून प्लॅटफॉर्माचेर अर्द – पाऊण वर सुमार गाडयेची वाट पळयत रावल्या उपरांत कोळशांचो धुंवर सोडीत गाडी स्टेशनार लागली.

दोगूय मामा मुंबयकार आशिल्ल्यान तांकां गाडयेन प्रवास करपाची संवंय आशिल्ली. हमाल करीनासताना ताणी आमकां चौगांयखातीर बऱ्यापैकीं बसका धरल्यो. हमाल ना करपाफाटलें तांचें एक कारण आसूं येता तें म्हणल्यार गांवाकसान परतून मुंबय वतना चाकरमान्यालागीं सादारणशे तिकेटीपुरतेच पयशे उरतात.

गाडयेन कोल्हापूर स्टेशन सोडलें. रात जायत आयिल्ल्यान स्टेशनाचीं नावां झळकनाशिल्लीं. तरीय आसतना सातारा, सांगली अशीं मुखेल स्टेशनां पळयलीं. हीं नावां हावें आदीं भुगोलांतूच वाचिल्लीं.

आमचें रिजर्वेशन नाशिल्ल्यान आमी गाडयेंत न्हिदपाचो प्रश्नूच नाशिल्लो. सिटाचेर बसून जितली न्हीद काडपाक मेळटाली तितलो न्हिदपाचो यत्न हावें केलो. पुणे स्टेशन चड गजबजिल्लें आनी सुसज्ज आशिल्लें. प्लॅटफॉर्मावयल्या एका कोनशाच्या नळाचेर आमी तोंड धुवन घेतलें आनी च्याबांगडा एकेक उणो खावन घेतलो. आबान मुंबयचे तिकेटीखातीर गोविंदमामाकडेन पयशे दिले. आमी तिगूय सामानाम्हऱ्यांत

उभे रावले.

ह्यावेळा मात म्हजी आख्खी तिकट काडपाची ताकीद हावें आबाक दिल्ली.

गाडी आयली तशी जागो धरपाखातीर घे S S झुंडी पडली. ते गर्देंतय दोगां मामानी मेळून दोन – तीन बसका धरल्योच.

गाडी सुटली. लोणावळा आयलें आनी मगनलाल चिकी विकपी पोरांनी आख्खें स्टेशन माथ्यार घेतलें. रोकडोच खंडाळयाचो घाट सुरू जालो.

कित्याक कोण जाणा पूण आदींसावनच घाटाविशीं आबाल्या मनात बरीच भिरांत भरिल्ली. ताचो समज आसलो, गाडी बोगद्यांत भितर सरली आनी सगळेकडेन भिण्ण काळोख जालो काय गाडयेंत चोर घुसतात, चोरयो करतात आनी केन्ना केन्ना प्रवाशांक मारय घालतात. अर्थांत ह्यो सगळयो अफवा आशिल्ल्यो. पूण तेखातीर तो घाट सुरू जायतसावन आपूण बांकावयल्यान सकयल देंवन बसलोच आनी म्हाकाय बी 'सकयल बस सकयल बस' अशें सारकें म्हणटालो. बसपाक जागो नाशिल्ल्यान उबगून, कागद पातलावन सकयल बशिल्ले भोंवडेकार बांकार बसपाक तडफडटाले आनी गाडयेंत चोर येतले हे भिरांतीन आबा बांकावयलो देंवन सकयल बशिल्लो.

हांव मात सकयल बसलो ना.

खंडाळयाचो आख्खो घाट हावें दोळे भरून पळोवन घेतलो. एका बोगद्यांतल्यान भायर सरून दुसऱ्या बोगद्यांत भितर सरताना वांकडे तिकडे नागमोडी वोल्तां घेत सकयल सकयल देंवपी गाडी, केन्ना उजवे तर केन्ना दावे वटेन नदरेंत पडपी आकांताळें देंगण, कांय वेळा उजवे वटेनच आशिल्लीं उंच उंच झाडां...एखाद्या अधाशावरी हांव सगळें पळोवन घेतालों आनी हें सगळें पळयताना एक अजाप जातालें, इतल्या खांची कोणशांत, इतले उंचायेचेर इंग्रजानी रेल्वेखातीर कशी म्हण वाट सोदून काडल्या आसतली काय!

कर्जत स्टेशन आयलें आनी गाडयेंतले कितलेशेच भोंवडेकार भराभरा सकयल देंवन प्लॅटफॉर्माच्या एका खांब्याम्हऱ्यांत एकठांय जाले. कितें घडलां तेंच म्हाका कळळें ना.म्हाका दिसलें, शेर्त आबालो अदमास खरो थरला. पूण तशें कांय नासलें. त्या सगळयांनी चोमो केल्लो तो कर्जतच्या हुनहुनीत बटाटवड्यांखातीर.

म्हाकाय बटाटवडो खावपाची रूच आयली. मामान म्हाका पयलेच खेप बटाटवडो दिल्लो तो वडाळयाच्या सदानंद उपहारगृहांत. पूण हुनहुनीत

बटाटवड्यांखातीर आबा म्हाका खंय देवंक दिता तर गाडयेंतल्यान! निमाणे वडे विकतल्याकडसून आमी कागदाचे पोतयेंत डब्यांतूच दोन वडे घेतले .

दनपारच्या एकाक सुमार गाडी दादराक पावली. थंयसान हांव आनी आबा शिवडीक अण्णागेर गेले.

म्हाका केन्ना एकदां मामाक मेळटा अशें जाल्लें. शाळेंत म्हजें नाव दाखल केल्ल्यान हांव मामागेरच रावपाचो आसलों. ताका लागून हांव आनी आबा अण्णावांगडा मामागेर गेले. तेन्ना गावांत वचपाची मामाली तयारी चलील्ली. सामानाची बांदाबांद करता आसतना मामान म्हाका म्हणलें, "बाबू, आता मी शेतयेच्या कामाक मुलकात जातय. तेवा येक म्हयनो तू चुलत्याकडेच शिवडीक ऱ्हव. मी मुलकातसून परत इलय, काय तू वडाळयाक ये. माज्या परिस्तितीची तू काय काळजी करू नको. तुका आता जितक्या शिकॉचा हा, तितको शिक!"

केदें व्हड मन मामालें! आपणाले काडूकमोडूक आर्थिक पिरस्थितिचें पुराय भान आसूनय म्हाका शिकोवपाचें हें मानसिक बळ मामाक खंयच्यान म्हण आयलें काय! मामाल्या उतरांनी म्हाका परतून एक फावट धाडस आयलें. आबाले कश्ट आनी मामाली उदारताय उपकाराक पडची म्हण हांवे परतून एक फावट नेटान अभ्यास करपाचें थारावन हांव शिवडीक परतलों.

दुसऱ्या दिसा शेनवार. आबाक घेवन शाळेंत हजर जालों.

ल्हानशीच आनी कुशीच्या इमारतींमदीं नदरेंतय पडना अशी शाळेची दोन मजली इमारत. तळमजल्याचे दावे वटेन दोन, पयल्या माळयाचेर दावे वटेन दोन आनी उजवे वटेन तीन अशा वट्ट सात कुडींची शाळा. ती पळयताना मनांत येवजून आयलें, मोरे मास्तरान ज्या अर्थान शिरोडकार वा आर. एम. भट शाळांचो आग्रो धरिल्लो त्या अर्थान त्यो शाळा नवभारतापरस निश्चितूच व्हडल्यो आसूंक जाय.

आमी ऑफिसांत गेले.

म्हजें नांव दनपारच्या सत्रांत आठवेचे 'ब' तुकडेंत घाल्लें. शाळा दनपारच्या एक जावन पांच मिनटांनी भरपाची आत्ती सांजवेळा स जावन पस्तीस मिनटांनी सुटपाची आसली. खाकी अर्दी पँट आनी धवो बुशकोट हो युनिफॉर्म. चोपड्यो आनी पुस्तकां सोमारासान शाळेंत विकतीं मेळपाचीं आसलीं.

सोमार, 13 जून 1960, शाळेचो पयलो दीस उजवाडलो.

म्हज्या मुखावयल्या चार वर्सांखातीर आनी घडये फुडल्या सबंद आयुश्यभर तो दीस भांगराचो थरूं येत हाची तेन्ना म्हाका अजिबात कल्पना नासली.

म्हजेलागीं घडयाळ नासलें. पयल्या दिसा उशीर जावचो न्हय म्हण आबाक घेवन हांव बेगीनच शाळेंत गेलों. शाळेंत सगळें सामसूम आसलें. आमकां बरोच उशीर जाला आसूंक जाय अशें समजून ताकतिकेन पयल्या मजल्यार वचून आठवी 'ब' वर्गाचें दार हावें धुकललें. फळ्याचेर कितेंतरी बरयत आशिल्ले बाईन म्हणलें, “तूं खंयच्या वर्गांत आसा?”

“आठवी ब"

सगळीं भुरगीं खो खो करून हांसलीं. “आरे आजून सकाळचें अधिवेशन सोपूंक ना.” बाईन म्हणलें. म्हाका बरीच लज जाल्लेवरी जालें. हांव परतून सकयल आयलों आनी हावें आबाक घरा धाडून दिलो. हांव सकाळचें अधिवेशन सुटपाची वाट पळयत बसलों.

दनपारच्या अधिवेशनाची सुरवात जाली. आठवी 'ब' चो वर्ग पुराय भरील्लो. पयल्याच तासाक आमच्या वर्गांत सर आयले. नांव भास्कर शिंदे. ते आमचे वर्गशिक्षक आशिल्ल्याचें समजलें.गोरोपिट्ट, धारदार नाक, काळे दोळे आनी थोड्याशा कोंगऱ्या केंसांचो मदेकाक काडिल्लो माखो. तांचेइतलो देखणो मनीस हांव आयुश्यांत पयलेच खेप पळयतालों. तांचेकडेन मराठी आनी सायन्स हे विशय आशिल्ले. येनाफुडें सरान आमची हजेरी घेतली. गांवचे शाळेंत हजेरी घेतना आमी 'हजर' म्हणी. मुंबय 'हजर' हें उतर चलपाचें न्हय. हांगासर भुरगीं 'एस्सर' अशें म्हणटालीं. कांय जाणां तर एस्सर म्हणपाच्या बदला 'प्रेझेंट' अशें म्हणटालीं. 'प्रेझेंट' ह्या उतराचो अर्थच म्हाका खबर नाशिल्ल्यान हावें 'प्रेझेंट सर' म्हणपाचो प्रश्नूच नासलो. म्हजें नांव घेनाफुडें हावें सगळें बळ एकवटावन कशेंबशें 'एस्सर' म्हणलें. तातूंतय ह्यानफुडें शादूरताय म्हण हजेरी घेता आसताना म्हजें नांव घेनाफुडें म्हजी आडनदर जावची न्हय म्हण म्हज्या आदल्याचो आनी उपरांतच्याचो नंबर आशिल्ल्या दोगांचीं नांवां बरोवन घेतलीं. धाकटू सखाराम मांजरेकार हो म्हजे आदींचो आनी म्हजे उपरांत आशिल्लो विष्णू महादेव नानचे. मांजरेकारालें 'एस्सर' म्हणून जालें काय हावें 'एस्सर' म्हणपाचें अशें हावें थारायलें.

हजेरी घेवन जातकच, सातवेचे परीक्षेंत सगळयांत चड मार्क कोणाक? शिंदेसरान हो प्रश्न विचारतकच सगळयांत चड मार्क म्हाकाच म्हणपाचें

समजलें. पयल्याच तासाक वर्गांतलीं सगळीं जाणां म्हाका कवतुकान पळोवपाक लागलीं आनी पुराय खेडवळ अवतार आशिल्लों हांव आख्ख्या वर्गाचें आकर्शण थरलों. दोन तासांमदल्या पांच मिंनटांच्या वेळांतूय जायत्या जाणांनी म्हजी चवकशी केली.

शिंदेसरान 'अहो जग पुढे गेले' हे मंगेश पाडगांवकरांचे कवितेंतलो अर्दो वांटो शिकयलो.

पयल्या दिसा सगळया विशयांचे तास जाले. सकाळच्या आठवी 'अ' च्या वर्गाकय गणित शिकोवपी दळवीबाई गणिता खातीर, संस्कृत आनी इंग्लीशी खातीर चित्रेसर, इतिहास, भूगोल आनी नागरीकशास्त्रा खातीर बनेबाई, हिंदी खातीर गोविलकर बाई आनी चित्रकले खातीर कथलेसर.

अत्यंत प्रसन्न आनी आशादायक वातावरणात शाळेचो पयलो दीस सोंपलो.

गावांत ताई एकलीच आशिल्ल्या कारणान आबान बेगीन गावांत वचप गरजेचें आशिल्लें. तरी लेगीत हांव शाळेंत रूळमेरेन ताणे आनीक चार – पांच दीस तरी मुंबय रावचें अशें थरलें. पावसाक सुरवात जाल्ली. पावसांतल्यान हांव कसो शाळेंत वतां हें पळोवपाक दोन – तीन फावटीं तो म्हाका शाळेंत पावोवपाक आयिल्लो. ताका म्हजेविशीं जी भिरांत दिसताली ती लक्षांत घेवन हरशीं ताची गरज नासतानाय, फकत ताच्या मनाचो विरस जावचो न्हय म्हण हावेंय ताका 'नाका' म्हणलें ना.

आयतार आयलो. दनपारां आबाक पावोवपाक हांव आनी अण्णा बोरीबंदर स्टेशनाचेर गेले. 'बोरीबंदर! तिथे बोरेही नाहीत आणि बंदरही नाही' तिसरेंत आसताना 'बोरीबंदर' हो धडो आशिल्लो, तांतलें हें पयलें वाक्य. आबा गावांत वता हाची हुरहूर मनात आसूनय बोरीबंदराची भव्यताय पळोवन हांव दीपकावलों.

धकाक मुंबय शाळेंत घालपाक आयिल्लो ताचो बापूय – बाबीदादाय – तेच गाडयेन आबावांगडा गावांत वचपाचो आशिल्लो. ताका लागून आबालो गावांत वचपाचो म्हगेलो हुस्को पयस जाल्लो.

हांव आनी आबा दोगूय कासावीस जाल्ले. गाडयेंत चडचेपयलीं म्हजे उमाव घेवन आबा इतलो रडलो, प्लॅटफॉर्मावयले काय लोक अजापान आमकां पळयतच रावले. "लेक जिवाक जप, जिवाक जप" अशें रडत रडत आबा म्हाका सारकें सांगत आसलो. तर हांव ताका सांगतालों, "आबा पावसाततून फोपळीवर जपॉन चड, बाजाराक जपॉन जा, नदीक खूब पूर

इलो, तर बाजाराक जाव नको, ताईक काय बोलॉ नको, माजी काळजी करू नको!"

इतल्यान एक व्हडली शिटी जाली आनी गाडी सुटली. आण्णाल्या हाताक धरून प्लॅटफॉर्मावल्यान भायर येतना हांव एकसारखो फाटल्यान पळयत आसलों.

हावें शिस्तीन आनी नेटान अभ्यास सुरू केलो. आबाले आनी ताईले यादीन मदींमदीं अस्वस्थ जाल्लेभशेन जातालें. पूण आतां मन निबर करप गरजेचें आसलें. तेखातीर हावें म्हाका अभ्यासांत गुरफटून दवरपाचें थारायलें.

सातवेमेरेन अजिबात शिकूंक नाशिल्ले विशय म्हणल्यार इंग्लीश, संस्कृत आनी बीजगणित. ताका लागून बाकिच्या विशयांचो अभ्यास करताना लेगीत ह्या तीन विशयांचेर हावें अधिक लक्ष दिवपाचें थारायलें. इंग्लीश आनी संस्कृत खातीर चित्रेसर मेळळे हें तर म्हजें भाग्यच समजूंक जाय. इंग्लीशीच्या अभ्यासाची तर व्हडले आनी धाकले लिपयेंतलीं मुळाक्षरां काडपासावन सुरवात जाली. गावांतले शाळेंत आसताना सुमारेक सातवेमेरेन तरी बोरून गिरयत म्हज्या मराठीच्या अक्षराक बरेंच वळण आयिल्लें. तेखातीर इंग्लीशीचीं मुळाक्षरांय चडानचड वळणदार काडपाक म्हाका जमलें. पूण तेखातीर हावें घेतिल्ले यत्नूय बी जमेक धरूं येत.

सरान वर्गांत सांगिल्लें ताचेभायर शंभर पानांची चोपडी हावें व्हडले आनी धाकले लिपयेंतल्या इंग्लीश मुळाक्षरानी पुराय भरून काडली. सराक जेन्ना ती चोपडी दाखयली तेन्ना तांका खूब खोस जाली. 'बरें केलें!' ह्या दोन उतरांत तांची खोस आस्पावली.

ल्हवू ल्हवू करून सरान ल्हान ल्हान उतरांचीं स्पेलींगां शिकोवपाक सुरवात केली. तांची शिकोवपाची पद्दत, इंग्लीश उतरांचे तांगेले उच्चार, आपूण शिकयतां ती दरेक गजाल दरेकल्याक समजूंकच जाय हेखातीरचो तांगेलो आग्रो, तांगेली वक्तशीरताय आनी तांगेली शीस्त...ह्याका लागून चित्रेसर हें वेगळेंच व्यक्तिमत्व आनी तें सासणाचें लक्षांत उरतलें हेविशीं म्हयनोभरयांत म्हाका भरवंसो जालो. तातूंतय हांव गावांतलो आसून लेगीत सगळयांत चड मार्क घेवन आयिल्ल्यान बाकिच्या शिक्षकांभशेनच तांगेलोय बी आवडटो विद्यार्थी जायत गेल्लों. तांगेलें म्हजेर खास लक्ष उरतालें.

संस्कृत विशय तांचेचकडेन आशिल्लो आनी तो तांगेलो आवडटो विशय आशिल्लो अशें मागीर कळळें. संस्कृत शिकोवपाची सुरवात ताणी अर्थांतच

व्याकरणासान केली. आडकरमास्तरांक लागून म्हजें मराठीचें व्याकरण बरें आशिल्लें. ताका लागून संस्कृत समजून घेवपाक म्हाका व्हडलेशे त्रास जाले नात. वेल्यान संस्कृत व्याकरणाच्यो बारीकसाणी आनी तपशील चड सुक्षीम आशिल्ल्यान म्हजेखातीर तें आव्हानूच थरलें. संस्कृतचे बाबतींत दुसरी गजाल म्हणल्यार इंग्लीशीच्या स्पेलींगांप्रमाण संस्कृतांतय पाठांतर खूब म्हत्वाचें. चित्रेसरांची तर पाठांतराचेर सामकी नदर आसताली.

गणितांत बीजगणित ह्यो विशय नवोच आसलो तरीय म्हाका तो आवडूंक लागलो. अशें आसूनय आनी हेर सगळया विशयांत म्हाका गती मेळ्ळी तरीय संस्कृत होच म्हजो सगळयांत आवडटो विशय थरलो.

आबाली खुशालकायेची चीट अदीं मदीं येताली. फळयाचेर ती चीट पळयनाफुडें हांव इतलो खोशी जावंचो, हावें ती चीट दोन – चार फावटीं तरी वाचची.

इतले मजगतीं मामा गांवाकसान आयलो आनी म्हाका आपणागेर घेवन गेलो.

हांव जेन्ना मामागेर गेलों तेन्ना पळय जाल्यार दडगलकाराचें कुटूंब आदींसावन जें ते कुडींत भाड्यान रावतालें तें तर आशिल्लेंच, पूण आतां लक्ष्मणबुवाचें कुटूंब वचून थंय माळगांवकार हें नवें कुटूंब भाड्यान रावपाक आयिल्लें. तीं चार मनशां आशिल्लीं. दोग भाव. व्हडलो हिरोजी आनी दुसरो दिगंबर. हिरोजी रेल्वेंत शिपाय म्हण कामाक आसलो आनी दिगंबर सिध्दार्थ कॉलेजींत इंटर आर्टसाक आशिल्लो.तांची आई आनी तुळसाबाई – हिरोजीची बायल. ह्या दोगींचेंय कुळार रेवंडीक. तुळसाबाई मावशेची इश्टीण आशिल्ली. अर्थात पिरायेन मावशेपरस बरीच ल्हान.

बारा - बाय – धाचे ते येदेशे खोलयेंत आमी सगळीं मेळून णव मनशां आनी सादारण स – बाय – म चे रांदचेकुडींत तीन वेगळीं रांदपां. तातूंतच दोन – बाय – दोनचो ल्हानसो पारो आशिल्लें मान्ने. न्हावपाचो जागो तोच. पिवपाच्या उदकाचे नळ आनी संडास सार्वजनिक. अर्थात ते आशिल्ले चाळिचे सकयल, फाटले वटेन. बत्तीस कुटुंबांखातीर दोन चाळी. कुडींत सुवात नाशिल्ल्यान मामा, दडगलकर आनी दिगंबरमास्तर भायर गॅलरींतूच न्हिदताले. तातूंत आतां म्हजी भर पडली.

म्हणटासर दोन – अडेज म्हयने सोंपले आनी ऑगस्टाच्या पयल्या सप्तकांत आठवेची पयली तिमाही परीक्षा जाली. इतिहास, भुगोल, नागरीकशास्त्र आनी संस्कृतासयत सगळया विशयांत म्हाका सगळयांत चड

मार्क पडून आठवेच्या सवूय तुकड्यांभितर म्हजो पयलो नंबर आयलो. म्हजो आत्मविश्वास धापटीन वाडलो. आख्खे शाळेंत हाव तोखणायेक पात्र थरलों.

मामाकय सुमाराभायली खोस जाली.

तिमाहेचो निकाल कळोवपाखातीर आबाक बरयिल्लें पत्र दुकांनी पुराय भिजून गेल्लें.

आठवेचे तिमाही परीक्षेंत सगळ्या तुकड्यांभितर म्हजो पयलो नंबर आयल्या उपरांत एक फावट दनपारचे मदले सुटयेंत शाळेचे मुख्याध्यापक आशिल्ल्या ठाकूरसरान म्हाका आपोवन व्हेलो. थोडोसो भियेवनच पूण कांयशा आत्मविश्वासान हांव तांचेमुखार वचून उबो रावलों.

“मुणगेकर न्हय? तुजो अभ्यास बरो आसा. आठवेच्या वर्गांत तिमाहेंत तुजो पयलो नंबर आयिल्ल्याचें कळ्ळें. अभिनंदन!”

“सर, म्हजें डमिशन खूब उसरां जाल्लें आनी फकत तुमचेखातीर म्हाका तें मेळ्ळें.”

“खंयचे शाळेंत आशिल्लो तूं?”

“देवगडाक, मुणगे गावांत.”

“हांगा कोणागेर आसता?”

“मामागेर, वडाळ्याक रावतां.”

“मामा कितें करता?”

“बी. पी. टींत ते कामगार आसात.”

“चित्रेसरान सांगलां तुजेविशीं. किप इट अप.”

नमस्कार करून हांव सरांच्या कॅबिनांतल्यान भायर सरलों. म्हजेभितरल्या आत्मविश्वासाक शीम उरली ना.

पयलो नंबर तिगोवन दवरपाचें एक आव्हानच म्हजेमुखार आतां उबें रावलें. पूण तें चड आनी चड कठीण आसा म्हणपाचें जाणवपाक लागलें आनी ताकाच लागून अभ्यासाकडेन विशेश करून संस्कृत, इंग्लीश आनी बीजगणिताकडेन चड लक्ष दिवपाचें हावें थारायलें.

फुडें फुडें शिक्षकांकडलोय व्यक्तिगत परीचय वाडत गेलो. सगळे शिक्षक म्हजेबाबतींत खास लक्ष दिवपाक लागले. खंयच्याय एखाद्या दिसा हांव शाळेंत वचनास्ताना रावलों जाल्यार सगळे शिक्षक 'मुणगेकर खंय?' असो प्रश्न विचारीत आनी दुसऱ्या दिसा वर्गांत वतकच सगळीं भुरगीं, “येयात पावण्यांनो" म्हणीत हांसून येवकार दीत. असल्या वातावरणात म्हजो

आत्मविश्वास चडानचड वाडत गेलो आनी खेडवळकायेक लागून म्हजेभितर आशिल्ली भिडेस्तकाय, लजकुरेपण आनी मुर्वत केन्ना सोंपली तेंच म्हाका कळ्ळें ना.

विजय नाईक हो आमच्या वर्गाचो मॉनिटर आसूनय पुराय वर्गाच्या सगळ्या मळांवयलें फुडारीपण म्हजेकडेन आयलें. वर्गाचें पानय हालना जालें म्हजेबगर. हातांत बॅट धरपाक जमलें ना तरीय वर्गाचे क्रिकेट टिमीचो कर्णधार हांवूच आसतालों. शिक्षकांचो म्हजेर जितलो मोग तितलोच वर्गातल्या सगळ्या इश्ट – इश्टीणींचोय म्हजेर सुमाराभायलो मोग. म्हज्यांतलो आत्मविश्वास वाडोवपी हो दुसरो एक सगळयांत व्हड असो म्हत्वाचो घटक थरलो.शाळेंतलें निर्भेळ आनी फावराद अशें वातावरण , मोगाळ आनी आत्मविश्वास वाडोवपी शिक्षक आनी सुमाराभायलो मोग करपी विद्यार्थी इश्ट – इश्टीणींक लागून शाळेबगर म्हाका दुसरें आनीक कांयच सुचना जालें.

आमचो वर्गय परिपूर्ण आशिल्लो ही सगळयांत म्हत्वाची गजाल. खांबे आनी नानचे हांचें अक्षर सुंदर आसलें. तशेंच खांबे खोखो बरो खेळटालो जाल्यार नानचे सुंदर रांगोळी घालतालो. अरूण सावंत, विजय पाटील आनी विजय चव्हाण हे बऱ्यापैकीं क्रिकेट खेळपी. रॉड्रीक्स सगळीं वाद्यां वाजोवपांत खांपो.रामदास पटे, अशोक शेळार आनी पुष्पा पेशवे हांगेलें इंग्लीश उतरांचें स्पेलींग सदांच तयार. चलयांमदीं शालीनी तावडे सगळयांत सोशल. अरूणाली भयण शशिकला, विजया साईल, शशिकला केळकर, पुष्पा पेशवे, पुष्पा पिंगे, दर्णे, सरफरे ह्यो चलयो म्हणल्यार वर्गाची सोबितकायच आसली.

रमेश कदम हें तर आख्ख्या वर्गाचें एक वेगळेंच आकर्शण आसलें.

सामकें सुरवेक ऑफ पिरिएड आसलो काय आमी लायब्ररींतल्यान एक ल्हानसो ट्रंक भरून पुस्तकां हाडचीं आनी वाचचीं. पुस्तकांतल्या धड्यांभायलें अशेंच वाचिल्लें म्हजें पयलें पुस्तक म्हणल्यार साने गुरूजींचें 'दु:खी'. म्हाका मागीर कळ्ळें, तें पुस्तक फ्रेंच लेखक व्हिक्टर ह्युगो हांचे 'ला मिझरेबल' हे संवसारभर नामनेक पाविल्ले कादंबरीचो अणकार म्हण. ह्या पुस्तकाचो म्हजेर आकांताळो परीणाम जालो. ताचे उपरांत अशाच ट्रंकांतल्यान हाडिल्लें 'श्यामची आई' वाचलें. तें वाचता आसताना 'जयहिंद टूरिंग टॉकिजां' तलो सिनेमा आनी तातूंतल्यो सगळयो घडणुको याद जाताल्यो.

अशाच एका ऑफ पिरिएडाक पुस्तकां हाडिनासताना कदमान गीत

म्हणचें अशें कदमा वांगडा नायगांवाक रावपी प्रकाश गरमेन सुचयलें. 'मधु मागशी माझ्या सख्या परी, मधु घटचि रिकामे पडती घरी' कदमान गीत म्हणलें. सगळो वर्ग खोशयेंत बुडलो. सगळयांचो ताळयांचो कडकडाट. कदमाक आमी दुसरें पद म्हणपाक सांगलें . ताणे कसलेच आडेवेडे घेनासताना 'उघड नयन देवा, क्षणभर उघड नयन देवा' हें पद म्हणलें. परतून ताळयांचो कडकड. कदम सगळया वर्गाचो अपुरबायेचो जालो.

हांव सवे - सातवेंत आसताना काकाभटाले चलयेकडसून आवान भावगीतांचें एक पुस्तक हाडिल्लें तें हावें वाचिल्लें. त्या पुस्तकाचेर लता मंगेशकराचो फोटो आशिल्लो आनी तातूंत लता मंगेशकर आनी आशा भोंसलेचीं 'हृदयी जागा तू अनुरागा, प्रीतीला या देशील का?', 'मधु मागशील माझ्या सख्या परि....', 'जो आवडतो सर्वांना, तोचि आवडे देवाला', 'एका तळयात होती, बदके पिले सुरेख' बी अशीं अत्यंत सुरेख गीतां आशिल्लीं. म्हाका तीं भोव मानवल्लीं. पुस्तक परत करचेपयलीं तातूंतलीं कांय गीतां हावें एके चोपडेंत बरोवन काडिल्लीं. तातूंतलें 'मधु मागशील' हें भावगीत हावें कदमाच्या तोंडांतल्यान पयलेच फावटीं आयकलें. बाकिचीं आयकुपाची म्हजी उत्सुकताय वाडली.

मामागेर रेडीओ नाशिल्लो. रेडीओ आसप ही त्या काळांतली प्रतिष्ठेची गजाल मानताले. मामाकूच न्हय तर जायत्या कामगार कुटुंबांक रेडीओ घेवप परवडपाचें नाशिल्लें.

मर्दीच एक फावट हांव कॉटनग्रीनाक अभ्युदयनगरांत धकाले खोलयेर गेलों. तांगेर रेडीओ आशिल्ल्यान म्हाका समजलें, दर सोमाराक रातच्या धा ते इकरा मजगतीं 'आपली आवड' ही मराठी गीतांची कार्यावळ आसता. म्हाका खूब खोस जाली.

पूण रेडीओ नाशिल्ल्यान हीं गीतां खंय म्हण आयकुपाचीं? आमच्या आख्ख्या माळयावयल्या आठ खोलयांभितर कोणाचकडेन रेडीओ नाशिल्लो. हावें थारायलें, सोमाराक रातच्या धा वरांचेर चाळीसकयल वचपाचें आनी रस्त्यार उभो रावन कोणाल्या ना कोणाल्या तरी घरांत आशिल्ल्या रेडीओवयलीं गीतां आयकुपाचीं. आनी कितें अजाप! म्हजो उपाय सार्थकीक लागलो.

सामकें सुरवातिच्या एका सोमाराक रातच्या धा पयलींच हांव भायर सरलों आनी आमच्या शेजराचे कारकून लोकांचे चाळीचे वटेन चलपाक लागलों. 'आपली आवड' सुरू जाली आनी पयलेंच गीत आशिल्लें तें हें -

एका तळयात होती बदके पिले सुरेख,

होते कुरूप वेडे, पिल्लू तयात एक

-----------------------------------

पिल्लास दु:ख भारी, भोळे रडे स्वत:शी
भावंड ना विचारी, सांगेल ते कुणाशी

-----------------------------------

एके दिनी परंतु पिल्लास त्या कळाले
भय वेड पार त्याचे वाऱ्यासवे पळाले

-----------------------------------

पाण्यात पाहताना चोरूनिया क्षणैक
त्याचेच त्या कळाले, तो राजहंस एक

-----------------------------------

(एका तळयांत आशिल्लीं पिलां बदकाचीं सुरेख / कुरूप पिशें पील आशिल्लें तातूंत एक/ पिलाक खूब दुख्ख,बाबडें आपणाभितरच रडटालें / भांवडां विचारीनात, कोणाक सांगचें ताणे / पूण एक दीस त्या पिलाक कळ्ळें /तेबरोबर ताची भिरांत पिशें, वाऱ्यावांगडा पयस जालें / खिणभर उदकांत चोरून पळयताना / ताचे ताकाच कळ्ळें, तो एक राजहंस आसलो)

म्हजे खोशयेक आनी शीम नासली. तें भावगीत ह्यावें बरोवन घेतिल्ल्यान जायते फावटीं ह्यावें तें वाचिल्लें आनी तें म्हाका पाठय जाल्लें.

बदकांचे नदरेंतल्यान पिसो आनी कुरूप आशिल्ल्या राजहंसाचें दुख्ख म्हाका अस्वस्थ करपाक लागलें आनी आपलेंच पडबिंब उदकांत पळयताना 'आपूण राजहंस आसां' हें समजतकूच ताका जाल्ले खोशयेनूय हांव भारावन गेलों. 'सुखाचे सोबती' ह्या चलचित्रांतलें ग. दि. माडगुळकरांचें गीत, आशा भोसलेचो आवाज आनी श्रीनिवास खळे हांगेलें संगीत आशिल्ल्या 'एका तळयात...' ह्या भावगीताक म्हज्या भावविश्वांत सासणाची एक सुवात निर्माण जाली.

सोमाराक रातीकडेन रस्त्यार उबो रावन 'आपली आवड' आयकप ही म्हजी सदची थरिल्ली कार्यावळ आसताली. जायतीं सुंदर गीतां ह्यावें अशींच 'आपली आवड' हातूंत आयकल्लीं.

उपरांत दिगंबर मास्तराकय हांव वांगडा घेवन वचपाक लागलों.



सार्वजनिक गणेशोत्सवांत आनी दसऱ्याच्या नवरात्री उत्सवांत फकत सिनेमा आनी नाटकां पळोवप हो मनरीजवणेचो आनीक एक बऱ्यापैकीं मार्ग.

वडाळयाकसान शाळेंत वताना म्हाका भोरबाग गिरणीकडसून वचचें लाग. मदींच नायगांवांतल्या पुलिसांच्यो चाळी लागताल्यो आनी परेडचें मैदान लागतालें. थंय एके चाळीमुखावयल्या फळयाचेर मैदानांतल्या सार्वजनिक गणेशोत्सवाच्यो कार्यावळी बरयिल्ल्यो आसताल्यो. गणेशोत्सवाच्या काळांत शाळेंत वतना - येतना सामके बारीकसाणेन हांव त्या फळयावयल्यो कार्यावळी वाचतालों. एक दीस 'गंगेत घोडं न्हालं' हो सिनेम आसा म्हणपाचें हावें दिगंबरमास्तरांक सांगलें. तांच्या मतान ग. दि. माडगुळकरांच्यो कथा , पटकथा, संवाद आनी गीतां, राजा परांजपेचें दिग्दर्शन आनी सुधीर फडकेचें संगीत हो एक त्रिवेणी संगमच.

दुसरी गजाल ही, ताणी तो आदीं पळयिल्लो. तरी लेगीत म्हजेपरसूय चड उमेदीन ताणी आनी हावें 'गंगेत घोडं न्हालं' हो सिनेम पळयलो. इंदिरा चिटणीस, राजा गोसावी आनी रेखा हांगेल्या अप्रतिम अभिनयाखातीर 'गंगेत घोडं न्हालं' हो सिनेम लक्षांत उरपासारखोच. तातूंतलीं 'कळले नाही केव्हा घडले, प्रेमात तुझ्या मी पडले' आनी 'लाडक्या पुंडलीका भेटी, थांबला देव वाळवंटी' हीं गीतां म्हाका खूब आवडलीं. हातूंतलें, 'लाडक्या पुंडलीका भेटी.........' हें गीत एक फावटीं कदमान वर्गांत म्हणिल्लें.

एक दीस मॅजिस्टिकांत दीगंबरमास्तरान म्हाका 'जगाच्या पाठीवर' हो सिनेम दाखयलो. तांतल्या एकापरस एक अशा सुरेख गीतांनी हांव सामको भारावन गेलों.

घाटकोपराक आपणाली कूड तयार जातकच दिवाळे उपरांत माळगांवकर कुटूंब मामाली कूड सोडून गेलें.

गणेशोत्सव सोंपलो आनी घरांत एक अडचण उभी रावली.

सदचेप्रमाण मे म्हयन्यात शेताखातीर म्हण जनाक्का गावांत गेल्ली. शेताचीं कामा सोंपूनय ती मुंबय परतूंक नासली. वयल्यान ती खूब दुयेंत आशिल्ल्यान जगता काय मरता अशे अवतिकायेंत आसा म्हणपाची चीट आयली.

शिरवंडेकार रोकडोच गावांत गेलो आनी तिका घेवन मामागेर आयलो. दुसऱ्याच दिसा तिका घेवन मामा आनी शिरवंडेकार वडाळयाक पोर्ट ट्रस्टाच्या दवाखान्यात गेले. दोतोरांनी निदान करून तिका टी. बी. जाल्ल्याचें सांगलें आनी तीन म्हयने सद्दां सकाळीं इंजेसांवां घेवचीं पडटलीं अशें सांगलें.

टी. बी..चें दुयेंस आदलेसारखें असाध्य नासलें तरी तें ज्ञावप ही गजाल

अप्रिय आसली. आमकां सगळयांकूच वायट दिसलें पूण ताका इलाज नासलो.

सद्दां सकाळीं आकाक घेवन दवाखान्यात वचपाची जापसालकी म्हजेर पडली. वचपा - येवपांत आनी दवाखान्यात रावपांत किमान एक वर तरी वचपाक लागलें. पूण हावें खोशयेन ती जापसालकी आपणायली. तिका वखदां - गुळयो दिवप, केन्ना केन्ना रेल्वे लायन वलांडून दुसरेवटेनच्या भैय्याकडसून दूध हाडप हीं कामां हांवूच करपाक लागलों.

सद्दां म्हगेलें अभ्यासाचें एक – सव्वा वर फुकट वता हाचें मात आक्काक वायट दिसतालें.

“तूं म्हज्या अभ्यासाचो हुस्को करूं नाका पळोवया. तूं पयलीं बरी जा.” हावें आक्काक समजायली.

म्हज्या आजोळा हांव सगळयांचो लाडको, म्हज्या पांयांक माती लागची न्हय म्हण म्हज्या भुरगेपणात सारकी म्हाका हांडीर धरून रावपी आक्काक हांव विसरूंक शकनासलों. पोरूंच्या वर्सा दिवाळे उपरांत मुंबय आयिल्लों तेन्ना 'बाबूक कपडे तरी घेवा' हीं तिगेल्या तोंडांतलीं उतरां म्हज्या कानात ताज्जीं आसलीं. मामा जशेपरी म्हज्यांत आपणाली भयण पळयतालो तेचवरी आक्काकय म्हज्यांत आपणाली 'आक्का' दिसताली.

तीन म्हयन्या उपरांत, डिसेंबराचे निमाणेकडेन आक्का आपल्या घरा गेली - वाडिबंदराक. तिच्यान आतां दवाखान्यात एकली वचापाक जमता आशिल्ल्यान आनी इंजेसावांचो कोर्स सोपून फकत गुळयोच घेवपाच्यो उरील्ल्यान शिरवंडेकारान तिगेली केस वाडिबंदरातल्या दवाखान्यात ट्रान्स्फर करून घेतिल्ली. तिच्या वचपाचें आनीक एक कारण आशिल्लें तें म्हणल्यार, आपूण वडाळयाक आनी शिरवंडेकर वाडीबंदराक आशिल्ल्यान तांगेल्या जेवणाचे हाल जातालें.

हावें म्हगेल्या अभ्यासाक आनीक नेट लायलो.पयल्या तिमाही परीक्षेंतलो पयलो नंबर तिगोवन दवरपाचें दडपण म्हजेर आशिल्लेंच.

म्हयन्याच्या शेवटाक सखू आनी मनोहराक घेवन मामी मुंबय आयिल्ली. मोहन गात्रांत आएम्ह्यांतच रावलो.

त्याच अदमासाक म्हजी वर्सुकी परीक्षा सोंपली आनी आठ – धा दिसांभितर रिजल्टय लागलो. अपेक्षेप्रमाण आठवेच्या सगळया तुकड्यांमदीं म्हजो नंबर पयलो आयलो.

म्हजी परीक्षा चलता आसतानाच आबा मुंबय आयलो, म्हाका गावांत

घेवन वचपाक. तो अण्णागेर रावलो. हांव मात मामागेर आसलों.

एक दीस सकाळीं धांच्या सुमाराक म्हाका मेळपाक म्हण आबा मामाले कुडीर आयलो. तो आनी हांव चाळीचे सकयल उभे रावन उलयता आसातनाच मध्यम पिरायेचो एक मनीस लेंगो, बुशकोट आनी तोपी घाल्लो, आमचेम्हऱ्यांत येवन आमकां म्हणपाक लागलो, " तुमकां नोकरी जाय?"

आबा भुल्लुसलो."खंय?" मोटे उत्सुकतायेन आबान विचारलें.

ताका "खंय?" चो अर्थ समजूंक ना म्हणपाचें म्हाका तेन्नाच कळळें आनी हावें विचारलें , "कुठे?"

"पेले वटेनच्या ऑफिसांत वचचें पडटलें . पन्नाशेक रूपये खर्च येतलो." ताणे म्हणलें.

माड – माडयांचेर चडून आनी सप्तकी बाजार करून आबा सामको थंकिल्लो. पन्नास रूपयांभितर कितलीय जरी सादी नोकरी मेळळी तरी ती सुखाची आसली. आबाक दिसलें, ही चलून आयल्या ती भांगराची संद. आबाक आशा जाली, तो रोकडोच तयार जालो आनी त्या मनशावांगडा गेलो.

दनपारचीं दोन जालीं तरी गेल्लो त्या आबाचो पत्तो ना. हांव थर्त भियेलों. आतां म्हणलें कितेंतरी जालें दिसता. भंयान म्हाका दनपारचें जेवणय गेलें ना.

निमाणे भियेल्लो आनी निरशेल्लो आबा कसोबसो घरा आयलो आनी घडिल्ली सगळी गजाल ताणे सांगली.

तो मनीस आबाक घेवन वडाळयाचे पारशी कॉलनीत गेलो. त्या सगळया बिल्डिंगानी सरकारी ऑफिसां आसात अशें ताणे आबाक सांगलें. तातूंतल्या एका बिल्डिंगेच्या तळमजल्याच्या जनेलाकडेन ताणे आबाक उभो रावपाक सांगलें आनी 'हांव ऑफिसांत वचून सायबांक मेळून तुमच्या कामाचें नक्की करून येतां' अशें सांगून तो जो गेलो तो गेलोच.

जनेलाचे कुशीक ताची वाट पळयत उबो रावन आबा निर्शेलो. निमाणे नाईलाजान तो परतलो.

नाल्ल – बेडे विकून मिठबावच्या बाजारांत कश्टांनी पुंजायिल्ले पन्नास रूपये लुबाडिल्ल्याचें आमचें दुख्ख आकांताचें आशिल्लें. तरी ते बिल्डिंगेंत रावपी एखाद्या पारशान दुबावित व्यक्ती म्हण आबाक पुलीसांचे सुवादीन केलो ना हें बरें नशीब म्हणपाचें.

“ह्येच्याफुडे मुंबयत कामाचा नाव काडू नको.” हावें आबाक सांगलें.

“शिरा पडों दे त्या कामावर" आबाच्या उतरानी निरशेवणी आनी खंत आसली.

दुसरी एक घडणूक हाचेपरस चड दुख्ख देणी आशिल्ली.

कसलेतरी गजालीक लागून मामा आबाचेर बेजारिल्लो. जायते फावटीं येवजून लेगीत म्हाका ताचें खरेलें कारण समजूंक नासलें.

एक दीस सकाळीं असोच आबा मामाले कुडीर आयलो आनी च्या पियेवन जातकच म्हगेली तब्येत इबाडिल्ल्याचें जाणवता अशें उलयलो. तेंवूय मामा मुखार.

अभ्यासाचें वजें, तातूंतच ना म्हणल्यार पयलो नंबर तिगोवन दवरपाचें मनावयलें दडपण आनी तीन म्हयने नेमान आक्कावांगडा वचचें पडिल्ल्यान कुडीक जाल्ले त्रास...ह्या सगळया गजालींचो परीणाम जावन म्हजी तब्बेत इबाडिल्ली हें खरें आशिल्लें. मुंबयसान परतताना आबान जसो म्हाका गुटगुटीत पळयिल्लो तसो हांव आतां नाशिल्लों.

पूण मामा तिडकलो. ताका दिसलें आपणे म्हजेकडेन आडनदर केल्ल्यान म्हजी तब्बेत इबाडल्या अशें आबाक म्हणपाचें आसलें.

“तुका काय म्हनॉचा हा? मी बाबूचे हाल केलय? माज्या पोरांका उपाशी ठेवून मी बाबूक शिकवतय. तो काय त्येचे हाल करूसाठी? अरे, माजे हातच उरपाटे हत. किती जरी केलय, तरी त्येचा कोनाक सुकदुक नाय.” मामा रागान उलयतालो.

मामामुखार उलोवपाचें आबाक धाडस नासलें. तसो प्रसंग केन्ना आयलोच ना. आदीं सावन दोगांयले संवाद सख्ख्या भावावरी आशिल्ले. मामा तर आबाक 'आरे - तुरे' च म्हणी आनी आबाक मामा हो देवासमान.आई वतकच मामान ताईकूच न्हय तर आबाकूय केन्ना अंतर दिलें ना.

मामालें उलोवन जातकच मातशेंशें धाडस करून आबान म्हणलें, “भावो, मी असा नाय म्हणत. तुमका काय म्हणत नाय मी. झील बारीक झालो, येवडाच माका म्हनॉचा हुता.”

“नाय रे बाबा, मीच झक मारलय नि बाबूक माज्याकडे हाडलय. आता असा कर, त्येका मुलकात तरी ठेव, नायतर शिवडीक चुलत्याकडे ठेव.” मामान तोडगो सुचयलो.

हांव ढळढळयां रडलों. कितें जालें? कित्याखातीर जालें? हें म्हाकाय

समजलें ना आनी आबाकूय बी. कितें करचें तें आमकां दोगांकूय कळळें ना. आबा कितेंय उलयत म्हणपाचें शक्यूच नासलें. ताका खूबूच दुख्ख जाल्लें. ताका लागून ताच्यानय रडप आवरूंक जायना आसलें.

"झिला, चंल शिवडीक जावया." ताणे म्हणलें.

आईल्या वचपा उपरांत एका खिणात अनर्थ घडिल्लो. आबान आमचेखातीर असर्याद आनी आकांताळे कश्ट घेतिल्ले ते जशेपरी म्हजेमुखार आशिल्ले तशेच म्हज्यांत आपणाले भयणिचें पडबिंब पळोवपी आनी "धकल्या, मी तुज्या पोरांका कदीच टाकूचय नाय" म्हण म्हजे आईक दिल्ल्या उतराक पाळो दिवपाक लागून यत्नांची पराकाश्टा करतल्या मामाचे हळवें तशेंच व्हड मन म्हाका अस्वस्थ करी.

"मी उद्या शिवडीक येतय, आज नको." हावें म्हणलें.

आबा सामको खंती जावन वचपाक गेलो.

ते रातीकडेन म्हज्या दोळ्याक दोळो लागूंक ना. समजणी येवपाक लागतसावनच्या आबा - मामा- आए – मामी आनी आजोळच्या सगळ्या उगडासांनी म्हाका नाका पुरो करून सोडलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं म्हगेलें सगळें सामान हावें ट्रंकांत भरलें. मामा - मामीच्या पांयां पडलों आनी हावें म्हणलें, "मी मुलकात जावसटी शिवडाक जातय"

मामाली कूड सोडून शिवडीक वतना व्हांवत्या दुकांक लागून पांयांपोंदची वाटूय म्हाका सारकी दिसनासली.

शिवडीक वतकच आबान अण्णा - काकीकडेन म्हजेमुखारच म्हजो विशय काडलो. घडिल्ली सगळी हकिकत सांगतकच आबान अण्णाक म्हणलें, "फुडच्या वर्सापासून झिलाक तुज्याकडेच ऱ्हवाँ दे, कसातरी झेपवा."

"मी रे काय नको म्हणतय! तुजा झील नि माजा झील काय येगळो हा? तुकाच माज्याकडे ठेवूचो नाय, म्हणून त्येका तू मावळ्याकडे ठेवलस. माजा एक पॉर. आमका तरी दुसरा कोन हा?" अण्णान म्हणलें.

मागीर काकीवटेन पळयत ताणे म्हणलें, "ऱ्हवाँ दे, आमच्याकडे."

काकीवटेन पळोवन अण्णा उलयलो तें तिका मानवलें ना.

"माज्याकडे बगतास, ता मी काय नको म्हणतय!" काकीन अण्णाविशींची नाराजी उकतायली.

फुडल्या वर्सासावन म्हगेलें शिवडीक रावपाचें थरलें.

मामा आनी आबा दोगूय दुखाविल्ले. म्हाका आपणागेर दवरून

घेवपाची अण्णा - काकीली मनासावन तयारी आसा ह्राची म्हाका खात्री पटली.

म्हजी दोशीं मनस्थिती जाल्ली तरी अण्णागेर रावप होच पर्याय हें म्हाका पटपाक लागलें. तसो निर्णय जातकच आबावांगडा हांव गावांत गेलों.

वाडयेंतलें सगळें वातावरण बदलिल्लें.

ऑक्टोंबर म्हयन्यांत आमचे वाडयेंतल्या लोकांनी बौध्द धर्माची दीक्षा घेतिल्ली. देवगड तालुक्यांतल्या मुंबयच्या कार्यकर्त्यांनी बौध्द धर्माची दीक्षा घेतल्या उपरांत 'देवगड तालुका बौध्द जन सेवा संघ' ह्राची थापणूक करून तेवरवीं देवगड तालुक्यांतल्या गांवांतले मंडळीखातीर दीक्षा सुवाळो आयोजित केल्लो. हे कार्यावळीचे आंखणेत के. टी. खुडकर, विश्राम नारिंगेकर हे मुखेलपणान आसले. ताका लागून लागसरच्या आठ – धा गांवांनी दीक्षा केंद्रांची थापणूक केल्ली. आमच्या गांवच्या लोकांचो दीक्षा सुवाळो दहिबाव केंद्राचेर जाल्लो.

जेन्ना हांव गावांत गेलों तेन्ना जायत्या जाणांनी दीक्षेच्या सुवाळयाचें वर्णन करून म्हाका सांगलें. सगळया बायलांक – दादल्यांक धवे कपडे कशे घालपाक लायिल्ले, पंचशीलाचो बावटो रंगीत कसो आशिल्लो, बावीस प्रतिज्ञा कशो घेवच्यो पडल्यो, दीक्षे उपरांत घराघरांनी गौतम बुध्द आनी बाबासाहेबांचे फोटो कशे लागले, हिंदू धर्माच्यो पोरन्यो परबो मनोवप कशें बंद पडलें आनी मुखेल म्हणल्यार दर बुधवाराक नुस्तें खावप कशे सोडलें आनी रातीकडेन जेवतकच वाडयेंतली सगळी ल्हान – व्हड बौध्द मंडळी एकठांय जमून सामुदायिक वंदना कशी घेवपाक लागली आदी गजालींचीं सुरभूस वर्णनां ह्रावें आयकलीं.

मुंबय गेल्या उपरांतच्या फाटल्या वर्सभर्‍यांत डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांच्या अलौकीक कार्याची बरीचशी वळख म्हाका घडपाक लागिल्ली. त्या कार्यांत आपणाल्या लाखांनी अनुयायांसयत ताणी केल्लें बौध्द धर्मांतर ही एक इतिहासिक घडणूक आशिल्ल्याचें मनाचेर घट्ट बसलें. तातूंतच दोन वर्साआदीं कुवळयांत दीक्षेची कार्यावळ जाल्ली आनी त्या वेळावयलें उमेदी वातावरण ह्रावें अणभविल्लें.

हे सगळे फाटभुंयेर बाबासाहेबांच्या इतिहासिक कार्याक आमचे गांवचे मंडळीन प्रतिसाद दिलो ह्राची खोस तर म्हाक जालीच, पूण अभिमानय दिसलो.

बुधवाराक हांवूय बुध्दवंदनेक गेलों. धकाय सुटयेंत गावांत आशिल्लो. ते

रातीकडेन सगळयांच्या आग्र्याक लागून सगळयांत पयलीं बुध्दवंदना हावें आनी धकान म्हणली आनी आमच्या फाटल्यान बाकिच्यांनी. कार्यावळीक दादल्यांपरस बायलो आनी भुरगींच चड आसतालीं.

बुध्दवंदना म्हणून जातकच आठ – धा मिनटांचें म्हजें एक ल्हानशें भाशण जातालें, गौतम बुध्द आनी बाबासाहेबांचेर. भाशण सोंपतकच म्हाका आनी धकाक हिंदी सिनेमांतलीं एक – दोन गीतां म्हणपाखातीर सगळयांचो आग्रो आसतालो. आमी लेगीत मागीर मुंबय आयकल्लीं हिंदी सिनेमांतलीं जितलीं गीतां येतालीं तितलीं म्हणपाचो सपाटो चलयलो.

दुसरेवटेन सगळे पोरने खेळ मनमोकळेपणान खेळपाक सुरू जाल्ले. आंब्या - पणसाचे दीस आशिल्ल्यान खावपाक भरपूर घरे आनी आंबे. दोन – तीन खेपो रापणीचेर गेलों. आजोळा वचून तीन – चार दीस रावलों. आएवांगडा खूब गजाली केल्यो, चकाटां मारलीं. मामीय गावांत आयिल्ली. तिचेवांगडा शेतांत भोंवून आयलों. तिच्या कामाक थोडो हातभार लायलो.

मामील्या वा म्हज्या वागपाचेर मुंबय घडिल्ले घडणुकेचो मातूय परीणाम जावंक नासलो. आएक मात ताची कल्पना नासली. ती नासप हेंच चड बरें आसलें. पूण फुडल्या वर्सा हांव अण्णागेर वतलों हें तिका सांगप गरजेचें आशिल्लें.

कुवळ्याकसान येवपाच्या आदल्या दीसा मामी घरांत ना अशें पळोवन हावें आएक म्हणलें, “आए, फुडल्या वर्साक शिकॉसटी मी माज्या चुलत्याकडे जातलय."

“बाबू, कित्या रे!मावळयान नको म्हणॉन सांगल्यान?”

“नाय गे, चुलत्याक पन झील नाय ना? तो म्हणता, माज्याकडेन येवन शीक आता. त्येका तरी नाय कसो म्हनॉ?”

“बग बाब, मी काय साँगॉ?”

खरी गजाल हावें आएक सांगली ना. मामालोय बीन तिचेभशेनच म्हजेर कितलो जीव आसा आनी गावांत वतकच खावपाक व्हेल्ले जिनस आमच्या भांवडांखातीर म्हयन्याचे म्हयने तो कशे बाळगून दवरपाक लायता हें तिका पुराय खबर आशिल्लें.

आनीक दुसरी एक नाजूक गजाल आसली. त्या अदमासाक मामी मुंबय आशिल्ल्यान तिगेल्या सांगण्यावयल्यान तर मामान हो निर्णय घेवंक ना मू, न्हय, तशेंच तें घडलां आसूंक जाय हेविशीं तिची खात्री जातली आसली आनी तेखातीरच तिचे आनी मामीमजगतिंचे ह्या आदलेच कांयशे तणावपूर्व संबंद चड इबाडटले आसले. ताका लागून आएक सांगनासताना रावल्यार

कांयच इबाडपाचें नासलें.

म्हज्या मनावयलें एक दडपण मात उणे जालें. हांव परतून गावांत आयलों. येतना सदचेवरी हांव आनी आए खूब रडलीं. सुटी सोंपून मुंबय वचपाक आतां फकत धा - बारा दिसूच उरिल्ले.

मदीं फकत दोनच दीस गेले आनी अचकीत आख्ख्या कोंकणात नेटाचें चक्री वादळ जालें. सगळे व्हड व्हड रूख भूंयभरवण जाले. दर्यादेगेलागसरच्या माडाचीं भाटां आनी माडयांचीं कुळागरां उध्वस्त जालीं. जायत्या जाणांचीं पोरनी घरां कोंसळ्ळीं. सगळेकडेन आकांत जालो.

आनी तातूंतच म्हज्या पोटांत खूब दुखपाक लागलें. झाडापाल्याचीं जायतीं वखदां घेतलीं. पूण पोटांत दुखपाचें अजिबात थांबना. चक्री वादळाक लागून सगळया रस्त्यांचेर व्हड व्हड रूख हुमटून आडवे तिडवे पडिल्ल्यान सगळे रस्ते बंद जाल्ले. ताका लागून दोतोरागेर वचपूय कठीण जाल्लें. आबालो आनी ताईलो जीव वयर सकयल जालो. म्हजें कितें जातलें हाचो सगळे वाडयेक हुस्को. निमाणे कशेंय करून आचऱ्याच्या भांगले दोतोरागेर म्हाका घेवन वचपाचें थरलें. भांगले दोतोर हे देवगड – मालवण परिसरांतले सगळयांत पोरने आनी निपूण दोतोर. बाळटेराच्या वेळार खूब त्रास जातल्या बायलांक ओपेरेसांव करून तांचो बाळंटेर वेवस्थित घडोवन हाडपांत तांची नामना आसली. तेखातीर एखाद्रो दुयेंत मनीस ताचेम्हऱ्यांत एक फावटीं वचपाचो अवकाश, तो बरो जालोच म्हण समजुपाचें. सगळयांचो हाचेर विश्वास आसलो.

सांजवेळच्या तीनाक सुमार म्हाका माचुल करून भांगले दोतोरागेर व्हेलो. आबावांगडा माचुल घेवपाक जिजो, दाजी आनी दिगंबर आशिल्ले. रडत रडत हांव माचुलांत बसलों. तेन्ना वाडयेंतलीं सगळीं मनशां एकठांय जाल्लीं.

पांचांक सुमार आमी दोतोरागेर पावले. दोतोराकडेन आबाली थोडीभोव वळख आसली. ताका लागून दवाखान्यात पावतां खिणाक ताणे दोतोराक म्हणलें, " डॉक्टर, आदी माज्या झिलाक बघा."

म्हजेपरसय चड सिरीयस पेशंट आशिल्ल्यान म्हांका तपासपाक अर्दवर – पाऊणवर लागलें. दोतोरान म्हाका तपासून गुळी आनी वखद दिलें.

वखदान म्हाका मातशी थाकाय मेळ्ळी. पूण पोटात दुखपाचें साप्प थांबना. तोमेरेन रात जाल्ली. आबान बाकिच्या सगळयांक लागींचे खाणावळींत जेवपाक धाडले. हावें ताका परतून परतून सांगूनय तो जेवलो

ना. ह्रांव तळमळटालों आनी तो सारखो, 'झिला, कसा हा रे?' अशें विचारीत आसलो.

आमी सगळयांनी ती रात कशीबशी त्या व्हरांड्यांतूच सारली. म्हजें पोट निवळ जावपाखातीर दोतोर रातचो वतना वखदांचो एक व्हडलो डोस दिवन गेलो. मध्यान्ने उपरांत म्हाक सुस्त न्हीद लागली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीफुडें म्हजें पोट साफ जालें. आतां म्हाका पुराय सू S S जालें. पोटांत दुखपाचें सामकें थांबलें.

“आबा, आता जावया. माका बरा वाटताहा. आता पोटात नाय दुखॉचा. थोडा दुखला, तर ह्या औषध आणि गुळयो हत.” हावें म्हणलें.

आमी परतुपाक लागले.

म्हाका खूब पुरो जाल्लें. पूण माचुल घेतिल्ल्यांक थोडो सुशेग मेळचो म्हण हावें म्हणलें, “जाताना मी थोडो चलॉ काय?”

“हा! काय बोलताहा! आदीच तुजा झाला हा अळ्ळू. चलताना पडलस बिडलस तर परत आमी तुका भांगल्या डॉक्टरकडे घेवन जावचाव नाय.” दाजी आनी दिगंबरान हांसत, तिडायत आनी बऱ्याचशा मोगान म्हणलें. च्या पिवन आमी आचऱ्याकसान गावांत वचपाक भायर सरले. हांव माचुलांत बसलों.

घाटयेर पाव जाल्यार पळयतलों कितें? आख्खी वाडी थंय येवन म्हज्या येवकाराक बशिल्ली. दुयेंतपणांतल्या त्या प्रसंगाचेर वाडयेंतल्या मनशांच्या म्हजेवयल्या मोगान हांव भुल्लुसून गेल्लों.

दुसऱ्या दिसा म्हाका कळळें, चक्रीवादळाक लागून वाघोळेची ती शाळाय कोंसळळया.चार – पांच इश्टांक घेवन हांव ती शाळा पळोवंक गेलों. आनी पळयत जाल्यार कितें! शाळा भूंयभरवण जाल्ली. ल्हान भुरग्याभशेन हांव ढळढळयां रडलों. सवेंत आनी सातवेंत शिकता आसताना ते इमारतीचे इंचान इंच सुवातेक म्हजो स्पर्श जाल्लो. त्या दोन वर्सांतल्यो असंख्य यादी मनांत उचंबळून येताल्यो. पन्नास – साठ वर्सांसावन ते पोरूंमेरेन गांवचें भूशण थरिल्ली ती शाळा आतां उरिल्ली ती भग्न अवशेषांच्या रूपांत.

थंडसायेन उबो रावन हावें ते शाळेक नमस्कार केलो आनी तिचो निरोप घेवन जडावेल्ल्या अंतस्कर्णान हांव घरा आयलों.

परतून मुंबय वचपाची म्हजी तयारी सुरू जाली. एसटीमेरेन म्हाका पावोवपाक आबा मिठबावमेरेन आयलो. एसटींत बसता आसताना

सदचेभशेन आमी दोगूय खूब रडले. एसटी सुरू जातकच ह्यावें हारशांतल्यान फाटल्यान पळयलें.तेन्नाय तो सकयल बसून हुंडक्यांनी रडटालो. राधानगराक पावमेरेन तरी आबाली मुर्त दोळयां सामकार आसली.

ह्या वेळच्या प्रवासांत म्हजेवांगडा आशिल्लो आमचे वाडयेंतले बीपीटींत वॉचमनचे नोकरेक आशिल्लो यशवंतदादा. वाडयेंतले आमी सगळेजाण ताका 'वॉचमनदादा' च म्हणी.

आबावांगडा केल्ले पयले खेपेचे भोंवडेची भोवन भोवन याद जाताली. म्हज्या घट्ट उगडासांत उरिल्ली दुसरी गजाल – पुणे स्टेशनावयल्यान सकाळची गाडी सुटचेआदीं रेडयोचेर लागिल्लें, 'बचपन के दिन भी क्या दिन थे!' हें गीत. त्या गीतान परतून परतून उबें केलें म्हज्या दोळयांमुखार आतांमेरेनचें म्हजें आख्खें आयुश्य. तेखातीर पुणे ते मुंबयचो प्रवास कसो जालो तें कळळेंच ना.

थरिल्ल्याप्रमाण शिवडीक अण्णागेर देंवलों. युनीस कोंडाजीचे खाणीकडले ते झोपडपट्टेंत फुडलीं तीन वर्सां सारपाचीं आशिल्ल्यान एक दीस ह्यावें पुराय झोपडपट्टी पळोवन घेतली.

शिवडीच्या टी बी ऑस्पितालाकडसून भोईवाड्याकडेन वतना दावेवटेन ही झोपडपट्टी आशिल्ली. झोपडपट्टीकडेन वचपाखातीर भोईवाडीच्या विठ्ठलमंदिरामुखावयल्यान एक वाट आशिल्ली. दुसरी वाट मेळटाली ती भोईवाड्याचो नाको येवचेआदीं. विठ्ठलमंदिर ते दक्षिणेकडेन मसंड आनी अस्तमतेकडेन भोईवाड्याच्या नाक्यामजगतीं दोंगरासारकेले एके सुवातेंत झोपडपट्टी ह्यांगाथंय पातळिल्ली.

भोईवाड्यांतल्यान झोपडपट्टीकडेन वतना दावेवटेन एक दोंगर पोखरिल्लो. ट्रकांतल्यान माती आनी कोयर वडोवन थंय तयार जाल्लो फोण पुरोवन काडपाचें काम चलतालें. वयर वतकच दोनूय वटांनी गच्च अशो एकामेकाक खेटून आशिल्ल्यो झोपड्यो सुरू जाताल्यो. मदींच एके सुवातेर धा - बारा गायो बांदिल्ल्यो आशिल्ल्यो, ताका लागून ते सुवातेक 'गायवाडा' म्हणटाले. मातशें वयर वच जाल्यार सामको ल्हान असो गाळीसारखो एक जागो लागतालो. ताचे दावेवटेन कितल्योशोच झोपड्यो आशिल्ल्यो. थंय दोन भुसारी दुकानां आशिल्लीं. कुशीकच इस्त्रीचें एक दुकान आशिल्लें तें बांदिवडेकार ह्या आमच्याच सोयऱ्यांचें अशें मागीर कळळें. थंयसान वयर वतकच परतून झोपड्यो सुरू.

हे वयले वटेन आशिल्ली अण्णाली झोपडी. अण्णाले झोपडेकडसून

दक्षिणेचे वटेन शिवडीक वतना व्हडली एक खण आशिल्ली. थंय सदांच सुरींग पेटोवन फातर फोडपाचें काम चालू आसतालें. तीच खण युनीस कोंडाजीची.

मातयेचे वणटीची ही झोपडी अण्णान आपणे बांदिल्ली. सादरणशे 250 चौरस फुटांची झोपडी. तिका ल्हानशीं दोन जनेलां आशिल्लीं. अण्णान आतां सकयल शिमिटाची जमीन केल्ली. पांखें मात आशिल्लें तें साद्या पत्र्यांचें. घरांत न्हावपाखातीर ल्हानशें एक मान्ने आशिल्लें. मान्न्याच्या पाऱ्यांचेर पितुळचे दोन हांडे आनी पत्र्याचीं दोन पिंपां उदकान भरून दवरिल्लीं आसतालीं. हांड्यांतलें उदक पिवपाक आनी रांदपाक, तर पिंपांतलें उदक आसतालें तें न्हावपाक आनी कपडे उमळपाक. अण्णाक थोडें मेस्तपणाचें आनी गंवडीपणाचें काम येतालें. ताका लागून ताणे दोगा - तिगां मनशांक न्हिदपाक मेळटा तसो एक पलंग तयार केल्लो.

पुराय झोपडपट्टी ए, बी, सी, डी आनी ई अशा पांच वांट्यांनी विभागून गेल्ली. दरेका विभागाक वॉर्ड म्हणी. ए वॉर्ड सुरू जातालो तो भोईवाड्यासान. अण्णाली झोपडी वॉर्डांत आशिल्ली. झोपडपट्टेंत उदक, वीज आनी संडास ह्याचेपैकीं कसलीच सोय नासली. टी बी ऑस्पितालाचे लागीं आशिल्ल्या ख्रिश्चनांचे शिमितरींतल्यान रातचें उदक हाडचें पड. विजेच्या जाग्यार पेत्रोलाचो दिवो आनी उघड्यार संडास.

फुडलीं उण्यात उणी तीन वर्सां म्हाका ह्या असल्या वातावरणांत काडचीं आसलीं. मुखार उभें आशिल्ल्या आयुश्याक फुडो केलेबगर पर्याय नाशिल्लो.

णववेचो 'ब' वर्गूय सदचेभशेन दनपारच्या अधिवेशनात आशिल्लो. आठवी 'ब' पयल्या माळयार आशिल्लो आनी सबंद वर्सभरयांत आमी तीन फावटीं कुडी बदलल्यो. आतां णववी 'ब' खातीर आमी तळमजल्यावयले दोवे वटेनच्या पयल्या रूमांत आयले.

गोविलकर आमची वर्गशिक्षिका जाली. तिणे 'ब' चो वर्ग मागून घेतिल्लो. पयल्याच दिसा हांगाच्यो थंयच्यो गजाली जातकच बाईन वर्गांतल्या भुरग्यांक 'मॉनिटर कुणाला करूया!' अशें विचारतकच सगळयांनी एकदमच म्हणलें, "मुणगेकर"

आठवेच्या सगळया वर्गांत हांव पयलो आयिल्ल्यान म्हज्यांतलो आत्मविश्वास वाडिल्लो. भिडेस्तपण तर साप्प मोंपिल्लें. पयलो नंबर तिगोवपाचे ज़ापद्मालकेची मात सातत्यान जाणीव जावपाक लागली.

आठवेपरस चड जोमान हांव कामाक लागलों.

णववेंत चित्रेसरांकडेन मराठी विशय आशिल्लो, तर पित्रेसरांकडेन संस्कृत. इंग्लीशीखातीर व्ही. बी. ठाकूरसर, गणित आनी सायन्सीखातीर रणदिवेसर आनी चित्रकलेखातीर बापटमॅडम.

णववेचो अभ्यास शिस्तीन सुरू जालो. सगळयाच शिक्षकांनी आठवेंत वेगवेगळया विशयांची गडगंज ब्रुनयाद घालून दिल्ली. णववेच्या अभ्यासाखातीर ताचो खुबच उपेग जावं येतालो.

ठाकूरसरान इंग्लीशीची करून घेतिल्ली तयारी ही णवेच्या वर्सांतली सगळयांत लक्षांत उरिल्ली गजाल. सबंद वर्सभर ताणी इंग्लीश धडे, कविता आनी व्याकरण अशे पद्धतिन शिकयलें जाका लागून आठवेंत आसताना चित्रेसरान शास्त्रशुध्द रितीन शिकयताना इंग्लीशीविशीं जो थोडोभोव कांच दिसतालो तो पुराय ना जालो. अभ्यासाचे सुरवेक सरान म्हणचें, " ह्या वर्सा हांव तुमगेलीं तीन हजार उतरां पाठ करून घेतलों." म्हजेकडसून तर तांची ह्याचेयपरस चड अपेक्षा आसली.

ठाकूरसरांचे शिकवणेचे पद्धतिंतल्यान मुळांत इंग्लीश विशयाक आशिल्लें म्हत्व तर जाणवतालेंच, पूण तांच्या रूबाबदार व्यक्तिमत्वांतल्यानय इंग्लीशीची प्रतिष्ठा व्यक्त जाताली. सदांच वुलनची पँट आनी सिल्काचो फूल बुशकोट ह्या भेसांत आनी दारामेरेन पावसर सिगाराचो झुरको घेवपी ठाकूरसर वर्गांत एक फावट भितर सरले म्हणटकच सगळें वातावरण प्रसन्न जावन वतालें. वागपांतूय मिश्किलकाय आशिल्ली. एखाद्याक प्रश्न विचारतकच ताणे बरोबर जाप दिली ना जाल्यार ताचेर प्रतिक्रिया अशी मिश्कील आसताली, चुकतल्याक लजेन अर्द मेल्ल्यावरी जातालें. 'नळी फुंकली सोनारे, इकडून तिकडे गेले वारे' अशें ताणी उपरोधान म्हणटकच आमकां हांसो चिड्डून दवरपाक जायनासलो.

एक दीस ताणी 'More than' च्या उतराचो कसो उपेग करचो तें शिकयलें. विसरूंक नजो अशें घट्ट यादस्तेंत उरलें तें. फळयाचेर ताणी मोठ्या उतरांनी 'More than' अशें बरोवन ताचेमुखार तितल्याच मोठ्या उतरांनी 'च्या परस चड' असो ताचो अर्थ बरयलो आनी ताचो वाक्यांत उपेग करून बरयलें, You must value your character more than anything else. दुसरे कसलेय गजालीपरस तुमी तुमच्या शीळाक चड म्हत्व दिवपाक जाय.

तें एक वाक्य सरांची वळख घडोवपाक पुरो जालें आनी तांचेविशींच्या यादिंचें तें प्रतीकय थरलें, पूण शीळाविशीं अळंग शिकयिल्ली ती गजाल

म्हज्या फुडाराच्या आयुश्याचें एक मार्गदर्शक तत्व जालें.

शाळेंत पित्रेसर सगळयांत सादे शिक्षक. ताणीय अत्यंत कश्ट घेवन संस्कृत शिकयलें. संस्कृतांत कसलीय अडचण आयली जाल्यार हावें आपणाम्हऱ्यांत केन्नाय येवंचें असो तांचो सक्त आदेश आशिल्लो. संस्थेन आमच्या नवभारतांतूच चलयिल्ल्या डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर नाईट हायस्कुलांतली तांगेली मराठी आनी संस्कृत शिकवणी हें वैशिश्ट्य. तेखातीर दनपारचें अधिवेशन सोंपतकच नाईट हायस्कूल भरमेरेनच्या मदल्या वेळांत जायते फावटीं म्हज्यो संस्कृतांतल्यो अडचणी ताणी सोडयल्यो.

तांगलें व्यक्तिमत्वच एखाद्या बापायभशेन आशिल्ल्यान अनौपचारीकपणान लेगीत तांचेठांय उलयताना कोणा भुरग्यान आपणाल्या साद्याभोळया बापायलागीं उलयिल्लेभशेन दिसतालें.

चित्रेसरान आपले सदचे गंभीर आनी शिस्तबद्द पद्धतिन मराठी शिकयलें. धावेंत चड करून तांकां इंग्लीश शिकोवपाचें आशिल्ल्यान णववेच्या वर्गांतय ताणी मराठीचें व्याकरण खूबच बरें करून घेतलें.

णववेंत आमकां गडकऱ्यांच्या 'एकच प्यालां' तलो 'परमेश्वरा, कशाला या सुधाकराला जन्माला घातलेस?' हो प्रवेश आशिल्लो. तो शिकोवपाक सरान दोन तास खर्चिले. पयल्या तासाक ताणी पुराय 'एकच प्याला' नाटकाविशीं सांगलें आनी दुसऱ्या तासाक प्रत्यक्ष तो धडो शिकयलो.

फुडल्या एक – दोन दिसां भितरच धड्यांतल्या सुधाकराचें तें निमाणचें स्वगत हावें पाठ केलें. इतलेंच न्हय, तर एका ऑफ पिरियडाक अभिनयासयत वर्गांत तें म्हणूनय दाखयलें.

चित्रकला हो म्हजो अत्यंत आवडिचो, पूण म्हाका अजिबात जमना असलो विशय. पूण म्हजे बाकिचे विशय बरे आशिल्ल्या कारणान हावें काडिल्लीं चित्रां बरीं नासतानाय आठवेंत जशी म्हज्या चित्रांक मार्क दितना कथलेसरांची पंचायत जाताली तशीच आतां बापटबाईंचीय जावपाक लागली.

गणित आनी सायन्स हे विशय शिकोवपी रणदिवेसर सामको जीव ओतून शिकयताले. सायन्सांतले पदार्थविज्ञान, रसायनशास्त्र आनी जीवशास्त्र ह्या तिनांयमदीं पदार्थविज्ञान म्हजे अत्यंत आवडिचो विशय जावपाक लागलो. तातूंतल्यो आकृत्योय बी भुमितीपद्द्तीन काडपाच्यो आशिल्ल्यान त्यो म्हाका सारक्यो जमताल्यो.

गोविलकरबाईन म्हज्यांत निर्माण केल्लो आत्मविश्वास ही णववेंतली न

विसरपासारकेली गजाल. तिचें हिंदी शिकोवप वैशिश्ट्यपुर्ण आशिल्लें. पूण परीक्षेक सोडून हरशीं जेन्ना जेन्ना हावें वर्गांत निबंद बरयले, तेन्ना अवघेच कांय प्रसंग वगळ्ळे जाल्यार बाई म्हज्या निबंदांक मार्कूच दिनाशिल्ली, ही म्हजे नदरेन म्हत्वाची गजाल. तिणे फकत 'गुड', कांय वेळा 'व्हेरी गुड' आनी कांय वेळा तर 'व्हेरी व्हेरी गुड' असो शेरो मारचो आनी सकयल 'वि वि गो' अशी सय करची.

एक फावट तिणे 'मैं कौन होना चाहता हूँ?' असो निबंदाचो विशय दिलो. भौतेक सगळ्यांनी दोतोर, इंजिनियर, नट, पायलट, गायक जातलो म्हणपाचें बरयलें. हावें मात 'मैं इन्सान होना चाहता हूँ!' अशें बरयलें. तातूंत 'अच्छा इन्सान' म्हणल्यार कितें हें स्पश्ट करून तसो घडप कितलें कठीण हें बरयलें. बाईन फकत 'व्हेरी व्हेरी गुड' असो शेरो दिलो.

एक खेपे हावें टीचर रूमांत धाडस करून तिका विचारलें, “बाकिच्या सगळ्यांक तुमी मार्क दितात! म्हाका कित्याक ना?”

बाई एक मिनिटभर सुमार वग्गी रावली आनी आपणाक जाल्ली खोस मातय लिपयनासताना अत्यंत शांतपणान तिणे म्हणलें, “मुणगेकर, तुगेले निबंद वाचताना ते मार्क दिवपाखातीर बरयल्यात अशें दिसचना. हे ल्हान ल्हान निबंद वाचता आसताना तूं जें कितें म्हणपाक सोदता तें लक्षांत येतकच ताचेखातीर मार्क दिवचे काय नात आनी केन्नाय दिसलेंच जाल्यार ते कितले दिवप हो प्रश्न पडटा!” तिणे फुडें म्हणलें, “आतां 'मैं इन्सान होना चाहता हूँ!' ह्या निबंदाचेंच पळय, तुवें बरयलें, 'दुसरों का सुख देखकर मेरा मन प्रसन्न होना चाहिए और दुसरों का दुख देखकर मेरा ह्रदय पिघलना चाहिए!' असल्या निबंदाक मार्क कितें दिवपाचे?”

बाईल्या त्या चार उतरांक लागून म्हज्या दोळयांतल्या खोशयेच्या दुकांक हावें कसोतरी आडावपाचो यत्न केलो.

दुसऱ्याच दिसा 'मैं इन्सान होना चाहता हूँ!' हो निबंद व्हडल्या अक्षरांत बरोवन शाळेच्या नोटीस बोर्डाचे कुशीक चिकटायिल्लो दिसलो.

आमच्या णवेच्या वर्सासावन शाळेन थारायलें, आठवी ते धावीमेरेनचे दरेके तुकडेन आपापलें हातबरप तयार करपाचें. विद्यार्थ्यांच्या साहित्यिक आनी चित्रकलेच्या गुणांक प्रोत्साहन मेळचें असो विचार ताचेफाटल्यान आसलो.

आमचे णववी 'ब' चे तुकडेनय आपलें हस्तलिखीत तयार केलें. चर्चा जाली तेन्ना कदमान ताका 'पंकज' हें नाव सुचयलें. 'पंकज' च्या मुखपृष्ठार नानचेन साळकाचें एक सुंदर चित्र काडलें आनी आपल्या मोतयांवरी सोबीत

अक्षरांनी खांबेन ताचेर 'पंकज' अशें नाव रेखाटलें आनी ताणे सकयल बरयलें 'संपादक : भा. ल. मुणगेकर.'

'पंकज' हातूंत हावें एक ल्हानशी कथा बरयिल्ली. आनी गोविलकरबाईंचे सांगणेवयल्यान 'मैं कौन होना चाहता हूँ?' ह्या निबंदाचो आस्पाव केल्लो.

शेनवारची अर्दो दीस शाळा ताका लागून एका शेनवाराक शाळा सुटटकच गोविलकरबाईंचे हस्तुकीं 'पंकज' चें विमोचन जालें. वर्गांतल्यो सगळयो चलयो त्या दिसा साडी न्हेसून आयिल्ल्यो. सदांच निळो स्कर्ट वा घागरो आनी धवो ब्लावज हो गणवेश घालपी चलयो त्या दिसा रंगीत साडयांनी कितल्यो वाडिल्ल्यो आनी सुंदर दिसल्यो!

दरेकलेक हावें 'तूं कितली सुंदर दिसता' अशें म्हणटकच तांचें मुखामळ खोशयेन फुलतालें. कांय जाणी तर 'पुरो पुरो' म्हण मुमुरख्यंनी लजल्यो. हांव खरेंच उलयतां काय कितें हाची ताणी खात्री करून घेतली. तांचे उमेदीक भरून ओतो आयिल्लो.आनी तें पळोवन हांवूय खोशी जाल्लों. वर्गांतल्यो चलयो म्हणल्यार हांव वर्गाचें वैभव समजतालों.

चल्यांनीय गणवेशाक सुटी दिल्ली. आख्ख्या वर्गांत हांव एकलोच युमिफॉर्मांत आशिल्लों. म्हजेकडेन दुसरे कपडेच नाशिल्ले.

म्हजें पांच – सात मिनटांचें ल्हानशें भाशण जातकच बाईंचे हस्तुकीं 'पंकज' चें विमोचन जालें. सगळयांची तुस्त आनी तोखणाय करपी अशें बाईंचेंय भाशण जालें. त्याउपरांत सगळयांक पेडे - वेफर्साचे पुडे वांटले. ताचें वांटप करपांत अर्थाच चलयांचो फुडाकार आशिल्लो.

पेडे - वेफर्स खावन जातकच आमी सगळे उमळशिकेन वाट पळयताले ती कदमाले गाण्याचे कार्यावळीची. हावें म्हणलें, 'आतां कदमालें गीत' आनी वर्गांत ताळयांचो शिंवर जालो. एखाद्या वेवसायिक गायकावरी कदमान एका फाटोफाट एक अशीं तीन गीतां म्हणलीं - 'नाच नाचुनी आता मी दमले, थकले रे नंदलाला', 'उध्दवा, अजब तुझे सरकार', आनी 'जंगली' सिनेमांतलें 'एहसान तेरा होगा मुझपर, दिल चाहता है'

कदमाचे उच्चार सुरेख आनी स्पश्ट आशिल्ले. तसो कितें तो गाणे शिकूंक नासलो तरीय आयकून आयकून ताणे उतरांची फोड समजून घेवपाचो यत्न केल्लो तो तोखणायेचोच. विशेश म्हणल्यार तागेलें, 'एहसान तेरा होगा मुझपर...' हें गीत आयकतकच तर ताचो आवाज महमद रफीच्या आवाजाची नक्कल करपामेरेन इतलो सुरेख आसा म्हणपाचें जाणवलें. कदम त्या दिसासावन वर्गाचो आनी उपरांत शाळेचोय 'महमद रफी' जालो.

त्या दिसा कार्यावळ सोंपल्या उपरांतय आमचो चले - चलयांचो एक घोळको खूब वेळ गजाली आनी चकाटां मारीत रावलो. पयलेच खेप सगळयांनी म्हजे व्यक्तिगत जिविताची चवकशी केली आनी हावेंय बी कांच बाळगिनासताना सांगून वडयली. एक वर सुमार तातूंतच गैलें.

तशें पळोवंक गेल्यार मुंबय येतसावन पयलेच खेप हांव म्हजें मन मोकळें करतालों. तेंवूय बी म्हजेर जिवापरसय चड माया करपी वर्गांतल्या इश्ट – इश्टिणींमुखार. केन्ना केन्ना म्हज्या आवाजांत कंप दिसलो जाल्यार तांकांय भरून येवंचें. सगळींजाणा त्या परिचयांत बुडून गेल्ल्याचें जाणवतालें.

समाही परीक्षेंत सगळयां तुकड्यांमदीं म्हजो पयलो नंबर आयिल्लो. आतां वर्सुकी परीक्षेची तयारी नेटान करपाक जाय आशिल्ली. दिवाळेचे सुटयेंत 'पंकज' चें काम केल्ल्यान अभ्यासाचो बरोचसो वेळ तातूंत गेल्लो.

तातूंतच नातालांचे सुटयेंत शाळेन सकाळच्या आनी दनपारच्या अधिवेशनांतल्या भुरग्यांची सहल आयोजित केल्ली, पलसदरी आनी बोरीवलीचे नॅशनल पार्कांत. आमची सहल नॅशनल पार्कांत वचपाचें थरलें.

सहलीक वचपाक अण्णा आनी काकीचो म्हाका सक्त विरोध आसलो. हांव हुशार आशिल्ल्या कारणान भायर वतकच म्हाका कितेंय वायट बी घडत अशें तांगेलें मत. तेखातीर ताणी सदांच एक देख दिवंची.

आमच्या गावांतलो इंटरमेरेन शिकिल्लो जाची बायलूय शिकिल्ली आसली आनी एसटींत अधिकारी आशिल्लो भीमराव मुणगेकर, सहकाऱ्यांवांगडा ट्रिपीक गेल्लेकडेन तळयांत बुडून मेल्लो.म्हाराल्या पोग्ली हुशारी बाकिच्यांक चलनाशिल्ल्यान तागेल्या इश्टांनीच ताका बुडोवन मारलो, अशें अण्णा - काकीलें ठाम मत जाल्लें. तातूंतय तांगेलो एकलो एकसुरो भुरगो तळयांत बुडून मेल्लो. हे सगळे फाटभुंयेर म्हाका असली नकलामी घडची न्हय हाचेर ते शिटूक रावताले.

“मी सहलीला जाणार म्हणजे जाणार.” हावें अण्णा - काकीक सांगलें. ताणी कांयच जाप काडली ना.

“माका कायच व्होवचा नाय. सगळी शाळा माजी काळजी घेयत आणि मी नाय गेलय, तर सहलच जावची नाय.”

अखेर नाइलाजान तीं तयार जालीं. “आता खावक काय नेतस?” काकीन विचारलें.

“काय नको. सगळीजाणा माज्यासाठी काय नाय काय घेवन येतीत.”

'काका आनी काकी म्हाका सहलीक धाडचे नात, तरीय हांव यत्न करतलों.' अशें हावें सगळयांक आदींच सांगून दवरिल्ल्यान हांव जेन्ना सहलीखातीर शाळेंत हाजीर जालों तेन्ना सगळयांकूच आकांताची खोस जाली. गीतां गायत, भेंडयो लायत आनी मजा करीत आमी नॅशनल पार्कांत पावलीं.

वचनाफुडें शाळेचे वतीन हाडिल्लो फराळ वांटलो. तेउपरांत लंगडी, खोखो, कबड्डी असले खेळ जाले. अपेक्षेप्रमाण शिक्षक आड विद्यार्थी असो क्रिकेटीचोय ल्हानसो एक सामनो जालो.

दनपारां जेवणाक एकठांय जालीं. सगळयांनी भरसून बसपाचे कितलेय जरी यत्न केले तरी निमाणे आमी सगळींजाणा आपापले तुकडेप्रमाणच एकठांय बसलीं.

सगळयांनी आपापले डबे उकते केले. आमच्या वर्गांतले दर एके चलयेन म्हजेखातीर म्हण वेगळो धाकलो डबो हाडिल्लो. ताणी ते सगळे डबे एकीकडेन पुंजायले आनी म्हजेमुखार दवरून म्हणलें, "हे सगळे तुजेखातीर. सोंपोवचेच पडटले ते तुका." सगळींजाणा खो खो करून हांसलीं.

"आगो, हांव कितें बकासूर तर! एखाद – दुसऱ्या डब्यांतल्यान मातशें कितेंय खायन!"

"तें कांय ना. दरेका डब्यांतलें थोडें - थोडें खावचेंच पडटलें तुका. नाजाल्यार फाल्यांसावन आमचें तुजेकडलें उलोवप बंद!" तांची म्हाका ही धमकावणी आसली.

तशें पळयल्यार वयल्यावयर जरी ती धमकावणी दिसली तरी तांगेलें दर एक उतर म्हज्या काळजाक आफुडटालें. म्हजेविशींचो तांचो मोग, आपुलकाय, आदर, भरवंसो आनी अभिमान तांच्या उतराकणकणी जाणवताली आनी ते जाणविकेच्या दरेका खिणाक म्हजें दळडीर, झोपडपट्टेंत रावचें पडिल्ल्यान म्हज्या वांट्याक आयिल्लें कांयशें एकसुरेपण आनी उदासिनताय खंयचे खंय गळून पडटाली.

हावें खऱ्यांनिशीं एक्कान एक डबो उकतो केलो आनी तातूंतली एकेक उंडी उश्टायली, निवेद्य चाकतात तशी. उरील्लें बाकिच्या भुरग्यांनी सोंपयलें "आमकां हें आदींच कळिल्लें जाल्यार आमी तरी कित्याक आमचे डबे घेवन येतले आसले?" बाकिच्या भुरग्यांनी म्हणलें.

दनपारचीं जेवणां जातकच मनरीजवण कार्यावळ सुरू जाली. कदमान सुंदर पदां म्हणलीं. रोड्रीग्सान एक – दोन वाद्यां वाजयलीं. तेउपरांत रंगली भेंडयांची कार्यावळ.

हें सोंपते घडकेक आमच्या वर्गांतल्यो सगळयो चलयो एकदमच आडुल्यो, "आतां मुणगेकरांचो 'एकच प्याला' तलो सुधाकराचो प्रवेश!"

"बाप रे!" म्हजेर तर संकश्टूच कोंसळ्ळें. पूण खिणभरयांत हावें सांवरून घेतलें. तांचो म्हजेर जडिल्लो मोग म्हाका ओगी बसपाक दिना जालो. हांव उभो रावलों आनी अभिनयासयत सुधाकराचें स्वगत सादर केलें. सगळयांनी नेटान ताळयो मारून म्हज्या सुधाकराक येवकार दिलो.

सांजवेळा परतुपाचो प्रवास सुरू. सगळयांकडेन उलोवपाक मेळचें म्हण हांव बसींत बरोबर मदेकाकूच बसलों.

येतना एकेच येवजणेन अस्वस्थकाय भोगताली. फाल्यां जेन्ना मेट्रीकेची परीक्षा जातली आनी आमी सगळे फापसून व्हडल्या संवसारांत भितर सरतले तेन्ना आमचेमदले भौतेक खंय ना खंयतरी, केन्ना ना केन्नातरी नदरेंत पडटले ह्याची शक्यताय आसा. पूण लग्ना उपरांत आपापल्या संवसारांत रमून वचपी ह्यो चलयो खंय आनी केन्ना दिसूंक पावत काय?

शिवडीक येतकच सदच्या जिविताचें स्वरूपय थोडें बदललें. मामागेर आसताना ना म्हणलें तरी चाळींत रावपांत शारीपणाची देग आशिल्ली. हांगा झोपडपट्टेंतली जीण बरीचशी भकास दिसताली आनी तरी लेगीत ती चड मेकळी, भौशीक आनी गांवचेभशेनच आशिल्ली. मातशें खंयूय खुट्ट जायनाफुडें हेवटेनचीं तेवटेनचीं शंभरेक मनशां एकठांय जातालीं.

झोपडपट्टेन जिणेंत लादिल्ले हालउपाद्रे हो सगळयांभितरलो एक समान दुवो आशिल्लो. सदांच वाडत चलिल्ले झोपड्यांचे गचमुड्डेक लागून भौशीक उत्सव मनोवपाक स्वतंत्र, मेकळी सुवात नाशिल्ली. परीणामी, गणेशोत्सव, नवरात्रोत्सव सारकेले उत्सव पळोवपाक झोपडपट्टेंतले लोक मोटे संख्येन भायरच वचपाक लागले.

ह्या वर्सा अण्णागेर येतकच गणेशोत्सवांत कांय नाटकां आनी सिनेम हावें फुकट पळयले. काकी -अण्णान 'नाका - नाका'म्हणटा आसतानाय हांव नायगाव हायस्कुलांतल्या मनोहर नाईक आनी वांगडच्या दोगा -तिगां भुरग्यांक घेवन वतालोंच.

'नवहिंद बालमित्र मंडळ' ही कंपनी अप्रतिम अशीं काल्पनिक, पुराणिक नाटकां करता अशें हावें जायते फावटीं शाळेंतल्या इश्टांकडसून आनी झोपडपट्टेंतले मंडळीकडसून आयकल्लें. सातवेंत आसतना हांव जेन्ना मुंबय आयिल्लों तेन्ना वाडीबंदराक जनाआक्कागेर रावतालों तेन्ना तांगेलें 'जल्लाद' हें नाटक पळयिल्लें. ताका लागून तांगेलें नाटक पळोवपाची म्हाका खूब

उमळशिक आसली. त्या वर्साच्या नवरात्रोत्सवांत नरेपार्काच्या मैदानाचेर तांगेलें 'नागकन्या' हें नाटक हावें पळयलें आनी म्हजे दोळे तृप्त जाले. तें नाटक 'कविझेंडा' ग. के. दातार हाणी बरयिल्लें.

ह्या नाटकांत अभिनय करतल्यांचीं नावां बागवे, घाडी, सावंत अशीं आशिल्लीं. म्हणळयार सगळे मालवणीच आशिल्ले. मुंबयच्या हौशी आनी कामगार रंगभुमीचेर मालवणी मनशाचो प्रभाव पळोवन मनांतल्या मनांत म्हाका खोस जाली.

'नवहिंद बालमित्र मंडळा' चें नाटक पळोवप ही म्हजेखातीर वाट पळयत रावपाची एक गजाल जाली.

झोपडपट्टेंत मनरीजवणेच्यो जायत्यो कार्यावळी जाताल्यो. तातूंत 'नमन', 'जलसा', आनी 'कव्वाली' ह्यो सदां जातल्यो कार्यावळी. नमनांतलें म्हाका कांयच कळनासलें. पूण काकीक तें पळोवपाचें आसतालें आनी ती म्हाका आग्रो करून घेवन वताली. सुरवेक 'पयल नमन, पयल नमन' अशें म्हणत कितलोसोच वेळ वचचो आनी म्हाका ताची उबगण येवंची. नमनाची खंयचीच कार्यावळ हावें पुराय पळयिल्ल्याचो म्हाका उगडास ना. हावें मदींच उठून वचप. काकीन मात निमाणेमेरेन बसप.

कव्वाली ही म्हजी आनीक एक आवडिची कार्यावळ. विशेश करून बौध्द लोकांच्या घरांत बारशाचो म्हणल्यार नांव दवरपाचो सुवाळो आसल्यार कव्वालीचे डबल बारीची कार्यावळ आसताली.

अशाच एका सुवाळयांत हावें गोविंद म्हशिलकरांची कव्वाली आयकली. कवी श्रीधर ओहोळ हांच्या नावाचे 'श्रीधर गायन पार्टी' चे म्हशिलकर हे गायक. धवो शर्ट आनी पिजाम असो भेस करून कुडीन रूबाबदार दिसपी आनी तितलोच कणखर आवाज आशिल्ले म्हशिलकार कव्वाली गावपाक धोपराचेर बसले काय मुखावयल्या श्रोत्यांमदल्यान ताळयांचो कडकडाट जातालो.

म्हाका आतां उतरां सारकीं याद जायनात , पूण माचयेचेर जेदेवेळार म्हशिलकरांनी बैलाचो कासरो हातांत घेवन ढवळया - पवळया बैलांचे जोडयेचेर रचिल्ली कव्वाली हावभावांसयत गायली तेदेवेळार कानांक तृप्तताय भोगली.

ते उपरांत शिवडी, परळ, भोईवाडा, नायगाव आनी वडाळा हांगां म्हशिलकरांच्यो जितल्यो म्हण कव्वालींच्यो कार्यावळी जाल्यो, तातूंतली खंयचीच हावें चुकयिल्ल्याची म्हाका याद जायना.

झोपडपट्टेंतल्या राजकारणाचीय म्हाका थोडी थोडी कल्पना येवपाक लागिल्ली. सामके सुरवेक दिवाळेचे सुटयेंत जेन्ना हांव आयिल्लों तेन्ना 'युनूस कोंडाजी झोपडी हितवर्धक संघ' अशे तरेची संघटना आशिल्ल्याचें हांव जाणा आसल्लों. तातूंत बौध्द समाजाचे सर्वगोड, लक्ष्मण कुवळेकर असले कार्यकर्ते मुखेल आसले. कुवळेकर म्हज्या आजोळचो आनी म्हगेले आईलो बापोल – बापोल भाव. झोपडेफाटल्यान म्हयन्याक तीन रूपये वर्गणी आसली. संघाचे कार्यकर्ते दर म्हयन्याक ती एकठांय करताले.

संघाच्या कार्यकर्त्यांचो संबंद रिपब्लीकन पार्टेकडेन आशिल्लो. तेखातीर झोपडपट्टेच्या सकल्या मैदानांत ड. बी. सी. कांबळी हांगेली एक व्हडली सभा जाल्ली. तांगेलें भाशण म्हाका खूब आवडिल्लें.

ल्हवू ल्हवू बौध्द कार्यकर्त्यांचो प्रभाव उणो जाल्ल्याचें जाणवपाक लागलें आनी तांच्या जाग्यार कम्युनिस्ट पक्षाचे कार्यकर्ते वावरपाक लागले. तांच्यो सभा जावपाक लागल्यो. कॉ. जी. एल. पाटील, कॉ. एस. जी. पाटकर, कॉ. अहिल्या रांगणेकर हांच्या भाशणांचें आयोजन जावपाक लागलें. तीं सांजवेळचीं आशिल्ल्यान चडसो हांव त्या भाशणांक वतालों. तांच्या भाशणांनी सदांच बेकारी, तशेंच गरीब आनी गिरेस्तांमदले विशमतायेच्या मुद्याचेर भर आसतालो.

फेब्रुवारी सोंपलो. सगळया शिक्षकांनी आपापलो अभ्यासक्रम शिकोवन पुराय केलो. उपरांत विद्यार्थ्यांच्यो अडचणी सोडोवपाक चार – पांच दीस गेले आनी परीक्षेची तयारी करपाक लागून विद्यार्थ्यांखातीर शाळा चड करून बंदच जाली.

म्हजेसामकार प्रश्न उबो रावलो, परीक्षेचो अभ्यास खंय करपाचो! घरांत लायट नाशिल्ल्यान रातचो अभ्यास करप शक्य नाशिल्लें.

हांव तडक गेलों शिवडीच्या टी. बी. ऑशिपिताल्लाकडल्या विठ्ठल मंदिरांत. एकदम शांत वातावरण थंय. देवळाचे सभोंवतणी खूब झाडां आशिल्ल्यान तांचे सावळेंत एकाग्र चित्तान अभ्यास जांव येता अशें दिसलें. बाकिचेय अनवळखी खूब विद्यार्थी थंय येताले.

अभ्यासाचें वेवस्थित टायम टेबल हावें तयार केलें. सकाळच्या आठ वरांचेर च्या - चपाती खावन हावें वचप तें बद्द दनपारां एक वरांचेर जेवपाक घरा येवप. दनपारचो अण्णाय जेवपाक घरा आयिल्लो आसतालो. जेवतकच काकीवांगडा हेवटेवच्यो तेवटेनच्यो गजाली करपाच्यो, चकाटा-



मारपाचीं आनी तीनांक परतून वचपाचें तें रातच्या आठ वरांचेर घरा येवपाचें.

केन्ना केन्ना सांजवेळा एखाद्रें वरभर बेगीन घरा येवन सदचेभशेन अण्णावांगडा कळशे घेवन उदकाक लागून ह्यावें टी. बी. ऑशिपितालाकुशाचे शिमितरींत वचचें. सांगाताक अण्णा आनी उदकाक आयिल्लीं बाकिचीं मनशां आसून लेगीत म्हाका शिमितरींत भंय दीस. एक फावटीं तर भंयान थरथरून म्हजे तकलेवयल्यान भरिल्लो कळसोच सकयल पडलो. तेउपरांत काकीन म्हका म्हयनोभर तरी शिमितरींत उदकाखातीर धाडलो ना. मनात म्हणलें, 'बरें जालें. एक म्हयनो उदक ह्याडपाची भानगड ना.' पूण खंय कितें? काकीन भोईवाड्यांत वचून कांसाराकडसून तो कळसो सारको करून ह्याडलो आनी दुसऱ्या दिसासावन अण्णावांगडा मदीं मदीं शिमितरींत वचून उदक ह्याडपाचें म्हजें काम सुरू जालें.

वर्सुकी परीक्षेंत णववेच्या सगळया तुकड्यांत ह्यांव पयल्या नंबरान पास जालों.

आबा आनी ताईलो उगडास येवपाक लागिल्ल्यान णववेचो निकाल लागतकच सदचेभशेन म्हाका गावांत वचपाचे वेध लागले. पूण बोटीच्यो तिकेटी मेळपाखातीर म्हाका पांच – स दीस रावचें लागतालें.

एप्रिलांत गावांत वचपी चाकरमान्यांचे गर्देखातीर तिकेटींची आनीक वायट हालत जाल्ली. तिकेटांक लागून आदल्या दिसा रातीकडेन वचून न्हिदचें पड, तेन्नाच दुसऱ्या दिसाचो नंबर लागून तिकेट मेळटालें. तातूंतच तिकेटींचे पयशे सांबाळून दवरचे पडटाले. नाजाल्यार ते चोरयेक वचपाची शक्यताय आसताली. असल्या वेळार तिकेटीं खातीर येवपी लोक जागेच राव.

इतल्यान गावांतल्यान आप्पा दुयेंत आसा म्हण कळोवपी तेलेग्राम आयलो. ताका लागून घारूदादा आनी लवूदादा हे दोगूय रेल्वेन गावांत वचपाक गेले. अण्णान म्हाका म्हणलें, "बाबू, तू ह्यांच्या वांगडाच मुलकात जा. बोटीन एकटो कसो जाशी?"

गाडयेचें आमचें रीजर्वेशन नाशिल्लें. पूण बोरीबंदर ते पुणे आनी पुणे ते कोल्हापूर ह्या प्रवासांत लवूदादान हमालाक पयशे दिवन सुवात मेळयिल्ली. कोल्हापूर ते मिठबाव हो प्रवास एस टी न करून दुसऱ्या दिसा सांजवेळा आमी घरा पावले. आमकां पळयतानाच सगळयांनी रडून आकांत केलो.

आप्पा गेल्लो.

आबा आनी तागेल्या सगळया भांवंडांभितर आप्पा सगळयांत गरीब आनी भित्रो आशिल्लो. कामावयल्यान वतना - येतना झाडाचीं पानां जरी सळसळ्ळीं वा एखाद्रो शेड्डो नदरेक पडलो जाल्यारूय भियेवन तो केन्ना केन्ना जेविनासलो. आमच्या घरांत सगळयांत निश्पाप मनीस म्हणटा तो आप्पा. आप्पा गेल्ल्याचें दुख्ख तर जालेंच, निदान ताचें निमाणचेंय दर्शन घडपाक पावलें ना हाचें खूब वायट दिसलें.

आप्पाच्या मर्णा उपरांत सप्तकाभितरच लवूदादाल्या लग्नाची घरांत चर्चा सुरू जाली. आवय वा बापूय मरतकच एका वर्साभितर लग्न केलें ना जाल्यार तीन वर्सांमेरेन तें करपाक मेळना ही पयलींसावन चलत आयिल्ली प्रथा. ताका लागून ताचें लग्न त्याच वर्सा उरकून घेवप गरजेचें अशें घरांतल्या सगळयांक दिसूंक लागलें.

लग्नाची तयारी सुरू जाली. आबा सदच्चेभशेन वाडींतल्या दोगा - तिगां कुळाव्यांक घेवन चलयेच्या सोदाक कणकवली तालुक्यांतल्या कसवण गावांत गेलो. प्रथेक धरून चली पसंत करपाक वांगडा लवूदादा नाशिल्लो.

सदच्चेभशेन आबा लग्न थारावनच आयलो. हांव तिसरेंत आसतना मनूदादाचें लग्न जाल्लें, चवथेंत आसताना घारूदादाचें जाल्लें आनी हांव कुवळयाक पांचवेंत आसताना सीतारामदाजीचें लग्न जाल्लें. त्या लग्नाक हांव नासलों. तेउपरांत आतां चार वर्सांनी घरांत लग्नसुवाळो जातालो. आपाल्या मर्णाची सावळी आसूनय घरांत लग्नाचे खोशयेचें वातावरण निर्माण जाल्लें.

पूण आतां लग्नाच्या सगळया वातावरणात बदल घडिल्लो. आतांचें लग्न बौध्द पद्दतिन जावपाचें आशिल्लें. म्हूर्त पळोवप, घाणे भरप, पुण्याहवाचन करप बी असले सगळे आदले विधी रद्द जाल्ले. व्हंकलेक आतां आदलेभशेन पांचवी साडी न्हय तर धवी साडी जाय आशिल्ली. नाल्ल – सुपाऱ्यांच्या जाग्यार फकत पांच फळां, धवो दोरो, पिंपळाचीं पानां, तीं दवरपाक मातयेचो एक बुडकुलो आनी वेरलकर मामा भटजीचे सुवातीर बौध्द उपासकाची गरज आसली.

लग्नाखातीर आमी कसवणाक वचपाचें नासलें, तर तेच मंडळीन लग्नाच्या दिसा सांजवेळा आमच्या गावांत येवपाचें आसलें.

धवी साडी सोडून बाकिच्या सगळया गजालींची वेवस्था जाली. आप्पाल्या दुयेंतपणाक लागून गावांत येवपाचें थरील्ल्यान आनी लग्नाचो विचारच मनात नाशिल्ल्यान मुंबयसान येतना धवी साडी हाडपाचो प्रश्नूच

नासलो. कणकवलीक आनी मालवणाकय धवी साडी मेळ्ळी ना. निमाणे मिठबावसान बरीशी एक हळडुवी साडी हाडपाचें हावें सुचयलें.

सदचेप्रमाण लग्नसुवाळो धकाल्या माटवांत जावपाचो आशिल्लो.

लग्नाची घटका जाली. हळडुवी साडी न्हेसून व्हंकल भायर आयली आनी धवी साडी ना असो प्रश्न बौध्दचार्यांसयत सगळयांनी उपराशीत केलो.

हांव थंडपणान उबो रावलों. सगळयांची नदर म्हजेर. हावें आप्पाल्या मर्णाची खबर सांगली. लग्न अचकीत कशें थरलें, कणकवलीक, मालवणाक धवी साडी कशी मेळळी ना अशी सगळी हकीकत सांगली आनी हात जोडून सगळयांक आवाहन केलें, "बौध्द पुजापाठाप्रमाण लग्नात धवी साडी आशिल्ली जाल्यार बरें जावपाचें. पूण ती मेळूंक ना, देखून प्रश्न उपरासून लग्नात आडमेळीं हाडप योग्य न्हय. खेडेगावांनी असल्यो अडचणी निर्माण जावपाक शकतात. हळडुवो रंग अशुभ मानपाचें कारण ना. बाबासाहेबांनीच सांगलां, मनीस धर्माखातीर न्हय तर धर्म मनशाखातीर आसा."

हांव फुडें कितें उलोवचे पयलींच जमिल्ल्यांनी ताळयो मारल्यो आनी फुडल्या एक वरांत लग्नाचो विधी उरकून घेतलो.

लग्न जातकच सगळी मंडळी रातीकडेन आमगेर जेवपाक आयली. जेवण जालें आनी व्हंकलेक नाव दवरपाचो विशय आयलो.

न्हवरो - व्हंकल माटवांत एकामेका कुशीक बशिल्लीं. हांव तांचेफाटल्यानूच आशिल्लों.

व्हंकलेचें कुळारचें नाव आसलें सुमती. लवूदादान म्हजेवटेन पळोवन नाव कितें दवरूया अशी प्रश्नार्थक नदर केली. शिकिल्लो आशिल्ल्यान बरेशें नाव सोदपाची जापसालकी म्हजेर आशिल्ली. खरें पळयल्यार हें पयलींच सुचोवपाचें. पूण सगळया बोवाळांत तें उरलें.

हांव चवथेंत आसतना आमचे गांवचे शाळेंत सवेंत शिकपी दादा शेटींची निर्मला नावाची रूपेस्त चली आशिल्ली. हावें लवूदादाक ल्हवूच म्हणलें, "वयनीचें नाव निर्मला दवरूया."

ताणे म्हणलें, "निर्मला."

निर्मलावयनी लवूदादाभशेनच मोटवी, सावळी पूण दिसपाक बऱ्यापैकीं आशिल्ली. घरांत तेचभशेन वाडयेंतय हांव सगळयांचो लाडको, शिकपाक मुंबय आसतां हें तिका कळिल्लें. हळडुवे साडयेचेर तिचें लग्न करपाक दिल्ल्यान हांव धाडसी आसां हेंवूय तिका कळिल्लें. ताका लागून म्हज्या व्हडल्या दोगी वयनीप्रमाण तिवूय म्हाका भावाभशेन मानपाक लागली.

पाच परतवण जातकच चार दिसांनी लवूदादा मुंबय गेलो.

वयनील्या एकलेपणाची कल्पना म्हाका आसली. तिचेर आमच्या व्हडल्या घराचें दडपण आशिल्लें. म्हजो बरोच धीर तिका दिसपाक लागलो.

तिका हांव तिगेल्या कुळारच्या सगळया गजालींविशीं उत्सुकतायेन विचारीत आसतालों. मागीर तिगेल्या घरांतलें दळडीर, ती सगळयांत व्हडली, एक भाव आनी एक भयण, आमच्या घरांत आपली सोयरीगत जुळटकच आनी चाकरमानी घोव मेळिल्ल्याची तांकां जाल्ली खोस...ह्यो सगळयो गजाली तिणे संकोच धरीनासताना म्हाका मांगल्यो. म्हाका उलो मारताना मात ती 'भावोजी' म्हण. आबालो झील, ताऊलो दादा, बाकी सगळयांचो बाबू आनी आतां म्हजी नवी पदवी म्हणल्यार 'भावोजी'

'भावोजीक लागूनच जालें तुजें हळडुवे साडयेचेर लग्न. नाजाल्यार बसतली आशिल्ली आयुश्यभर लग्नाबगर.' हांव तिका तिडायतालों आनी ती खो खो करून हांसताली.

लग्नाचो बोवाळ उलगतकच एक दीस सांजवेळचीं आमी धा - पंदरा जाणां मिळबाव हांगा 'जयहिंद टुरींग टॉकिजां' त 'मानिनी' सिनेम पळोवपाक गेले. त्या वेळार कदेलीचें तिकेट दोन रूपया. थोडींच कदेलां भरपाचीं उरिल्लीं. गावांतल्या हेर स – सात प्रतिष्ठीत लोकां वांगडा हांवूय बी दोन रूपयांचें तिकेट काडून हे फावटीं कदेलीर बसलों. सिनेम सुरू जावचे पयलीं म्हज्या दोळयांमुखार उबो रावलो आठ – धा वर्सांफाटीं हात्रें आनी आबान 'शामची आई' पळयिल्ल्या सिनमा वेळावयलो सगळो प्रसंग.

स- सात म्हयन्याआदीं भारतमातांत 'मानिनी' लागिल्लो. तातूंतले कुटूंबीक कथेक लागून तो बरेच दीस गाजिल्लोय बी. पूण पयशे नाशिल्ल्यान म्हाका कांय तो भारतमातांत पळोवपाक जमलें ना.

सिनेम सुरू जालो. सिनेम सुरू जाताच तो माधव आनी मालती हांच्या लग्नाच्या प्रसंगान. मालतीचे भुमिकेंत जयश्री गडकर आनी माधवाचे चंद्रकांत गोखले. तांचेबरोबरच दादा साळवी, इंदिरा चिटणीस आनी रमेश देव हांच्यो मालतीचो बापूय, आई आनी भाव अशो भुमिका आसल्यो.

अडेज वरांचो 'मानिनी' पळोवन हांव अतिशय भारावन गेलों.

महादेवशास्त्री जोशींचे 'मानिनी' कथेचेर तो सिनेम आदारीत आशिल्लो. मालती ही गिरेस्त आनी ताका लागून प्रतिष्ठीत घराण्यातली चली. आवय – बापायच्या विरोधाची पर्वा करीनासताना तांच्याच आलाशिऱ्यान शिकपाक आशिल्ल्या माधव ह्या तरनाट्याकडेन मोग जावन

ती लग्न जाता. आपणाचेर उपकारांचें आनीक ओजें नाका म्हण लग्नाउपरांत माधव रोकडोच मालतीक घेवन आपणाल्या आजोळा, किन्हई गावांत वता. थंय तीं दोगांय पोरन्या घराचेर एक खोप उबारतात आनी आपणाल्या कश्टांनी मेळयिल्ले भाकरेचेर आपलो संवसार सुरू करतात.

'मानिनी' ही जशेपरी सेवाभिमानी अस्तुरेची संसारकथा आसा तशीच ती एक उत्कृष्ट प्रेमकथाय बी. तिच्यांतले कांय प्रसंग अशे जे सामके विसरूंक जायना अशे.

आजोळा गेल्या उपरांत दोगांय भोंवपाक वतात तेन्ना मालतीक फुलांची फाती जाय दिसप, ती घेवपाक माधवाकडेन पयशे नाशिल्ल्यान हातांत धरिल्ली फाती मालतीन परतून फुलकाराक दिवप, धाकले भयणिच्या लग्नाखातीर आपल्या भुरग्यांसयत मालती आयिल्ली आसताना भयणीन तिचेर अळंकार चोरिल्ल्याचो आळ घालप आनी मागीर मालतीचो स्वाभिमान वयर सरप, आई मरतकच तिणे मालतीच्या सपनात येवप, दोगांयचें उलोवणे जावप, आनी आई गेल्ल्याचें कळटकच आपणालें सर्वस्व शेणिल्ल्याची भावना जावप, सगळ्या भुरग्यांभितर लाडकी आनी खऱ्यानिशीं 'मानिनी' आशिल्ल्याची मनातल्यान खात्री आशिल्ल्यान आईच्या मनात मालतीविशीं सदांच कळवळो आनी चिंता आसप, ताका लागून आईलें क्रियाकर्म करताना कावळयान पींडदानाक आफडप ना, भाऊ सखा हाणे आईची भोगसणी मागून 'मालतीचें मानपान करतलों' अशें उतर दितकच कावळयान पिंडाक आफडप, ह्या प्रसंगांनी मनाक हालोवन सोडलें.

सिनेमातले संवाद ग. दि. माडगुळकरांचे. गीतां माडगुळकर आनी बहिणाबाई चौधरींचीं जाल्यार संगीत वसंत पवारांचें आशिल्लें. 'मानभंग हाची झाला मंडपी आहेर, उमा म्हणे यज्ञी माझे जळाले माहेर', 'अरे खोप्यामधी खोपा सुगरणीचा चांगला, पहा पिल्लासाठी तिने झोपा झाडाला टांगला', 'अरे संसार संसार, जसा तवा चुल्यावर, आधी हाताला चटके, तेव्हा मिळते भाकर' असलीं सुंदर आनी अर्थपुर्ण गीतां पवारांनी तालबद्द केल्लीं आनी अविस्मरणीय थरचीं अशे पद्दतीन सुमन कल्याणपूरकर हाणी तीं गायिल्लीं. आनंद माने हे सिनेमाचे दिग्दर्शक आनी डी. महमद आनी डी. जे नाईक हे निर्माते.

सिनेमातलीं सगळयांली कामां उत्कृष्ठ आशिल्लीं. बैलगाडी आमुडपी वसंत शिंदेचें बारीकशें कामय नदर ओडून घेवपी आशिल्लें. दादा साळवीन केल्लो प्रतिष्ठीत बापायचो अभिनय, मालतीचेर आशिल्ले अतिशय मायेक लागून जावपी आवयची तळमळ उकतावपी इंदिरा चिटणिसाची भुमिका ,

तेचवरी रमेश देवान उभो केल्लो सखा...सगळेंच लक्षांत उरसारकें आशिल्लें.

चंद्रकांत गोखलेचो संयमी माधव अप्रतिम आशिल्लो.

पूण जयश्री गडकरानी समर्थपणान उभी केल्ली 'मानिनी' फक्त अजोड आसिल्ली. बापायविशीं आदर पूण मोगाकडेन इमान राखपाक गरज आशिल्ली कणखरताय, माधवाचेर आशिल्लो खर आनी जिवापेल्यान मोग, तेखातीर सगळया ह्ाल अपेश्टांक तोंड दिवपाची तयारी, आईच्या कळवळयांची सतत जावपी जाणीव, भयणच जेन्ना चोरयेचो आळ घालता तेन्ना जाल्लो स्वाभिमानाचो उद्रेक, केन्नाच मानभंग जावपासारकें उलयनाशिल्लो भाव जेन्ना भयणिच्या लग्नात मनाक लागसारकें उलयता तेन्ना जाल्ल्यो वेदना, आई सपनात येतकच ती खऱ्यांनीच आपणाक मेळपाक आयली अशें समजून जाल्ली खोस आनी ती गेली म्हणपाची कळटांच मळब कोंसळिल्ल्यावरी जाल्ली अवस्था...

जयश्री गडकरानी उभी केल्ली 'मानिनी' मराठी सिनेमांच्या स्त्री भुमिकांमदीं अविस्मरणीय थरची आनी तो सिनेमय निसाचो एक फातर थरतलो अशें म्हाका दिसपाक लागलें.

'मानिनी' ची कथा परतून परतून घोळोवपांतूच फुडली बरीचशी सुटी सरली.

'मानिनी' पळयतकच ते पिरायेंत लेगीत एक गजाल म्हज्या मनात स्पश्टपणान रूजपाक सुरवात जाली, दळडिरेपणाविशीं मनात पयलींच तिरस्कार आनी घृणा निर्माण जाल्ली आशिल्ली. पूण गरीबांक स्वाभिमान नासता अशें समजून तांचो उपहास आनी अपमान करतल्या गिरेस्तांविशीं लेगीत म्हज्या मनात तितलीच घृणा आनी तिरस्कार निर्माण जालो. तर दुसरे वटेन, कितलीय जरी प्रतिकूल परिस्थिती आसली तरी आपणालो स्वाभिमान मात लेगीत ढळूंक दिनासताना तो तितल्याच निर्धारान जोपासपी 'मानिनी' सारख्या स्वाभिमानी मनशांविशीं म्हज्या मनात आदराची भावना निर्माण जाली.

मदींच दोन दीस कुवळयाक वचून हांव आएक मेळून आयलों.

सुटी सोंपत आयली आनी म्हजी मुंबय वचपाची तयारी सुरू जाली.

लवूदादा पयलींच मुंबय गेल्लो. घरांत म्हजें सगळयांत चड उलोवणे निर्मलावयनीकडेन आशिल्ल्यान हांव वतकच तिका चड एकलेपण जाणवतलें आसलें. दोन – तीन फावटीं तिणे तशें उलोवन दाखयलें, “तुमी गेलास काय थोडे दिवस माका करमॉचा नाय!" तिणे म्हणचें.

"तुजेवांगडा गजाली करपाक, चकाटां मारपाक हांव कितें शाळा सोडून दिवं!" अशें ह्रावें तिका मस्कऱ्यांनी म्हणटकच ती खळखळून हांशिल्ली.

ह्या वेळा मुंबय वतना म्हजेवांगडा सीताराम आनी ताची आई आशिल्ली. सीतारामाले आईचें कुळारय कुवळयाक आशिल्लें. ताका लागून ताची आई आनी म्हजी आई ह्यो भयणीच कशो. दर खेपेक म्हाका पळयतकच ती म्हजे आईची याद काडी आनी तिच्या दोळयांत दुकां भरून येतालीं. त्या दोगांय आवय – पुतान म्हाका सुखरूपतायेन मुंबय हाडून सोडलो.

हांव मुंबय येता थंय आसा, अण्णान म्हाका एक घडयाळ घेतलें. म्हयन्याचे अखेरेक पयशांची अडचण आशिल्ल्या लोकांनी वाण्याकडेन घाणाक दवरिल्ल्या घडयाळांमदलें तें आशिल्लें. पोरने जालें म्हण कितें जालें, घडयाळ मेळळें हीच खोस म्हाका व्हडली आसली. म्हजी एक इत्सा पुरी जाल्ली.

धावेचें वर्स सुरू जालें. आमकां वर्गशिक्षिका म्हण नाबरबाई आयल्यो. तिचेकडेन मराठी आनी इतिहास, भुगोल, नागरीकशास्त्र हे विशय आशिल्ले. नाबरबाई आदींसावनच सकाळच्या अधिवेशनात शिकयताल्यो. दनपारच्या अधिवेशनात पयलेच खेप आयिल्ल्यो. मुखेल म्हणल्यार धावेंतल्या सगळयांत हुशार भुरग्यांची 'ब' तुकडी तिणे मुद्दाम जावन मागून घेतिल्ली. चित्रेसराकडेन इंग्लीश आनी संस्कृत जाल्यार हिंदी विशय गोविलकरबाईकडेन. सायन्सीखातीर शिरोडकरसर आनी गणिताखातीर फाटकसर. त्या वर्सासावन फाटकसरान अर्दें सकाळचें आनी अर्दें दनपारचें अधिवेशन घेतिल्लें. धावी 'ब' क शिकोवपाखातीर सगळयांचो आग्रो आसतालो.

आठवे - णववे परसूय धावेचो अभ्यास चड गंभीरतायेन करपाची जाणीव म्हाका सुरवेकसावनच जाली. इकरावेचे परीक्षेची ती एके तरेन तयारी आशिल्ली.

मराठींतल्यान बरे निबंद बरोवपाक येवचे हेखातीर सगळयांत पयलीं पुस्तकांतल्या धड्यांवांगडाच हाताक मेळटा तो मराठी मजकूर हांव वाचपाक लागलों. विशेश करून झोपड्यांचे वयले वटेन आशिल्ल्या भैयाल्या च्यायेच्या हॉटेलांत वचून हावें मराठी आनी हिंदी नेमाळीं आनी आयतारच्या अंकांतल्यो कथा – कविता वाचपाक सुरवात केली. भैयाल्या ह्या हॉटेलांतूच पेपर वाचतां वाचतां म्हजी आनी परशुराम पाटलाची वळख

जाली.

इकरावेचे परीक्षेखातीर तेन्ना हुशार भुरगीं फक्त सात विशय घेतालीं. मात सातापैकीं सातय विशयांत पास जायत जाल्यारच पास जावं येता अशी ताचेफाटल्यान अट आशिल्ली. तर आठ विशय घेतले जाल्यार एका विशयांत नापास जालें जाल्यारय पास जावं येतालें. ताका लागून सातय विशयांत आनी विशेश करून इंग्लीशींत पास जावपाची खात्री नाशिल्लीं बरींचशीं भुरगीं आठ विशय घेतालीं. आनी प्रत्यक्षांत तशें जातालेंयबी. आठ विशय घेवन पास जावपी सादारण सगळींच भुरगीं इंग्लीशींत नापास जातालीं. दुसरें अशें, सात विशय घेवपी भुरगीं जशीं फिजिक्स आनी केमिस्ट्री हो स्पेशल विशय घेतालीं तशेंच अभ्यासाचें ओजें आनी चड वेळ वचपाक नाका म्हण इतिहास – भुगोल – नागरीकशास्त्र  विशय सोडटालीं. हावेंय बी इकरावेंत तो सोडून दिवपाचें धावेंतूच थारायिल्लें आसलें तरीय नाबरबाईंचे शिकोवपाचे पद्दतीक लागून म्हाका इतिहास, भुगोलांत रस निर्माण जाल्लो. इतलेंच न्हय, तर त्या विशयांत पयलो नंबर मेळपाइतली म्हजी तयारी जाल्ली. ताचें एक मुखेल कारण म्हणल्यार धावेच्या इतिहासांत आनी भुगोलांत भारतावांगडाच जागतिक इतिहास आनी भुगोल हांचीय प्राथमिक म्हायती दिल्ली. तेखातीर इकारावेचे परीक्षेखातीर हांव इतिहास, भुगोल घेवंचो ना हाचेंय म्हाका ल्हवू ल्हवू वायट दिसत गेल्लें. पूण तें सोडप गरजेचें आसलें.

मराठींतल्यो एक – दोन गजाली याद जातात. एक म्हणल्यार, 'पहिल्या हिरव्या तृणपात्याचा आज असे सत्कार' ही मंगेश पाडगांवकाराची 'सत्कार' शिर्षकाची प्रभाकर पाटील सरान शिकयिल्ली कविता. त्या वर्सा पाटील सर नव्यानच शाळेंत आयिल्ले. घारशे आनी तीक्ष्ण दोळे, कोपरामेरेन दोडिल्ल्या हातांचें खोमीस, आनी पिजाम आनी पायांत व्हाणो, दनपारच्या अधिवेशनाक शिकोवपी पाटीलसर  त्या वर्सा शाळेंतलें एक आकर्षण आसलें. एका ऑफ पिरीयडाक ते आमच्या वर्गांत आयले.

“मुणगेकर कोण?” वर्गांत येताखिणाक ताणी विचारलें. हांव उठून उबो रावलों.

"बस." ताणी म्हणलें.

मंगेश पाडगांवकर तांचे आवडटे कवी आसुंये.

“ पहिल्या हिरव्या तृणपात्याचा आज असे सत्कार, हे ओळींत कितलीं विशेशणां आसात आनी तीं खंयचीं?” ताणी विचारलें.

“हिरव्या" भुरग्यांनी म्हणलें.

खिणभर म्हाका प्रश्न पडलो, सरान खंयचीं विशेशणां असो भोववचनी प्रश्न कित्याक विचारला आसतलो काय? दुसऱ्याच खिणाक आडकरमास्तर म्हज्या आदाराक धावन हजर. सातवेंत आसतना ताणी गुणविशेशणाबरोबर संख्या आनी क्रियाविशेशणाय शिकयिल्लीं.

“सर, हे ओळींत 'पहिल्या' हें आनीक एक विशेशण आसा.” हावें म्हणलें.

सर फक्त प्रसन्न हांसले. अत्यंत प्रसन्नतायेन ताणी आमकां मंत्रमुग्ध करीत 'सत्कार' कविता शिकयली.

अशाच एका ऑफ पिरीयडाक शाळेंत नामनेक पाविल्ले प्र. श्री. नरूरकरसर वर्गांत आयले. ताणी केशवसुतांची 'नवा शिपाई' कविता शिकयली. केशवसूत हें सरांचें दैवत. ते केशवसूतांविशीं भरभरून उलोवंक लागले. तांकां मराठीचे आद्य कवी कित्याक म्हणटात हेविशीं सरान सामकें तपशिलासयत विवेचन केलें. दुसऱ्या शिक्षकाचोय पिरियड ताणी घेतलो हाची म्हाका याद आसा. सगळी कविता सराक तोंडपाठ आसली:

नव्या मनूतिल नव्या दमाचा शूर शिपाई आहे,  
कोण मला वठणीला आणू शकतो ते मी पाहे!

ब्राह्मण नाही, हिंदुहि नाही, न मी एक पंथाचा,  
तेच पतित की जे आखडिती प्रदेश साकल्याचा

..............................................................................

कूपातिल मी नव मंडूक;  
मळयास माझ्या कुंपण पडणे अगदी न मला साहे!  
कोण मला वठणीला आणू शकते ते मी पाहे!

..............................................................................

जिकडे जावे तिकडे माझीं भावंडे आहेत,  
सर्वत्र खुणा माझ्याघरच्या मला दिसताहेत;  
कोठेंही जा - पायांखाली तृणावृता भू दिसते,  
कोठेंही जा - डोईवरतें दिसतें नीलाम्बर ते;

..............................................................................

तीं माझीं, मी त्यांचा, - एकच ओघ आम्हांतुनि वाहे!  
नव्या मनूतिल नव्या दमाचा शूर शिपाई आहे!

......... ..................................................................

शांतीचे साम्राज्य स्थापू?

प्रेषित त्याचा नव्या दमाचा शूर शिपाई आहे!

(नव्या काळांतलो नव्या दमाचो शूर शिपाय / कोण म्हाका जाग्यार हाडीत तें हांव पळयतां / ब्राह्मण न्हय, हिंदूय न्हय, न्हय हांव एका संप्रदायाचो / तेंच पतित जें आखडता प्रदेश साकल्याचो / कुपांतलो न्हय हांव मंडूक / मळयाक म्हज्या आडो पडप म्हाका सोंसना / कोण म्हाका जाग्यार हाडीत तें हांव पळयतां / जंय वचचें थंय म्हजीं भांवडां आसात / म्हज्या घरच्यो खुणो म्हाका सगळयाक दिसतात / खंयूय वच – पांयांखाला तणान भरिल्ली भुंय दिसता / खंयूय वच – माथ्यार दिसता निळें अंबर तें / तीं म्हजीं, हांव तांचो - एकूच ओघ आमच्यांतल्यान व्हांवता / नव्या मनूतल्या नव्या दमाचो शूर शिपाय / शांतीचें साम्राज्य थापूं? / ताचो प्रेषित हांव नव्या दमाचो शूर शिपाय)

एका ऑफ पिरियडाक कुलकर्णी (लवाटे) बाई आयली. तिचे विशय मराठी आनी इतिहास - भुगोल – नागरीकशास्त्र आशिल्ले. म्हाका ती आदींसावनच वळखत आशिल्ल्यान पाटीलसराभशेन 'मुणगेकरकोण?' हो प्रश्न तिणे विचारलो ना.

बाईन बालकवीच्या 'औदुंबर' कवितेचेर आदारिल्लो दि. के. बेडेकरांचो धडो शिकयलो. तातूंत 'औदुंबर'कवितेची समीक्षा आशिल्ली. उत्सुकतायेक लागून हावें तो धडो पयलीं वाचिल्लो. पूण बाकिच्या धड्यांभशेन तो सहजतायेन समजुपाक कठीण आसलो. तरीय बाईन तो जितलो सोपो करून शिकोवपाक जातलो तितलो शिकयलो.

अस्पश्टशो कांय जायना, पूण 'औदुंबर' वाचतकच ते ल्हान पिरायेंतय दोन गजाली लक्षांत आयल्यो. एक म्हणल्यार बेडेकरान 'कलाकार' आनी 'कलावंत' ह्या दोनातय केल्लो फरक आनी दुसरी, लेखक वा कवी जावचेपरस समीक्षक जावप चड कठीण आसपाक जाय.

आमच्या वर्गाक पयलेच खेपेक सायन्स शिकोवपाखातीर शिरोडकर सरांचो लाभ जालो. एक जेष्ठ इश्ट म्हण विद्यार्थ्यांकडेन पळोवपी आनी वर्गांत आपूण जसो कितें भुरग्यांच्यो अडचणी सोडयतां अशे भुमिकेंतल्यान शिकोवपी शिक्षक अशी शिरोडकरांची नामना. तांच्या येवपान भोव खोस जाली.

धावेंत फिजिक्सेंत ल्हान ल्हान उदाहरणांची सुरवात जाल्ली. सरान ती सामके सोपे पद्दतीन शिकयली. फाटकसरांल्या गणित शिकोवपाच्या संबंदानय तशेंच म्हणू येता. सुंदर अक्षर, रेखीव आंकडे आनी शिस्त सगळें तोखणाय करीसारकेंच आशिल्लें.



पूण धावेचें वर्स अभ्यासाचे नदरेंतल्यान वेगळे तरेन लक्षांत उरलें तें चित्रेसरांच्या इंग्लीश आनी संस्कृत शिकवणेखातीर. सरान इंग्लीशींत शेक्सपियराचें एक ओडलायणे सॉनेट शिकयलें. शिर्शकाचो आतां उगडास ना. पूण संवसारांतल्या दरेकल्याक, सामकें राजासावन रंकामेरेन आयुश्याचे अखेरेक एका समान ठिकाणाचेर वचचें पडटा आनी तें म्हणल्यार मसंड. विल्यम वर्डस्वर्थ, ऑलफ्रेड टेनिसन, लॉर्ड बायरन आनी थॉमस हार्डी हांच्योय बी अतिशय अर्थपूर्ण अशो कविता सरान शिकयल्यो. तातूंतली थॉमस हार्डीची 'साँग ऑफ द शर्ट' ही कविता उद्येगीक क्रांतीच्या काळांतली आशिल्ली. ते कवितेंत इंग्लंडांतले उद्येगीक क्रांती उपरांत यंत्राचो वापर करून कामगारांचे उत्पादकतायेंत आकांताच्या प्रमाणात वाड जाली. तरी प्रत्यक्षांत तांकां उणी मजुरी दिवन आपणाक चड फायदो मेळोवपी मालकांची प्रेरणा कशी प्रभावी आसता आनी तेखातीर कामगारांचे शोशण कशें जाता हें एका ल्हानशा शिवणयंत्राच्या उदाहरणावयल्यान स्पश्ट केलें. फुडें कितलेतरी दीस ते कवितेंतली 'स्टीच, स्टीच, स्टीच' हीं उतरां म्हज्या कानाचेर सतत आदळत रावलीं.

चित्रेसर हें अत्यंत करारी, गंभीर आनी शिस्तिचें मुर्तिमंत प्रतिक. कवितेंतल्यो भावना आमचेमेरेन पावोवपाखातीर भावनीक थराचेरूय तांची यत्नांची पराकाष्टा आसतली. कवितांचो आशय जशाचो तसो उकतो करून दाखोवपाक धडपड चलताली आनी इतलें करूनय तांका जें म्हणपाचें आशिल्लें तें आमचेमेरेन पावना अशें लक्षांत आयल्यार तांच्या तोंडाचेर निरशेवणेचे भाव उदेताले.

सदचेभशेन सरान धावेच्या वर्सा इंग्लीश व्याकरण शिकोवपाचेर भर दिल्लो तें जालेंच, तेभायर इंग्लीश उतरांचो उच्चार, तें करताना स्वर आनी व्यंजन हांचेमदलो फरक, गरज आसता तेन्ना एखाद्रया उतराचो उच्चार जावचो न्हय म्हण घेतिल्ली जतनाय...ह्यो सगळयो गजाली लक्षांत घेतल्यो जाल्यार अजापूच जातालें.

संस्कृताच्या तासाक तर तांचे शिकवणेक चंवर येतालो. विशेश करून ताणी शिकयिल्ल्या मेघदूतांतल्या इकरा श्लोकांनी हांव भारावन गेल्लों. कालीदासाचें 'मेघदूत' हें एकशें इकरा श्लोकांचें आसा म्हणपाचें म्हाका धावेंत आसतानाच कळून आयिल्लें. बायलेच्या विरहान घायाळ जाल्लो शापीत यक्ष कुपांवांगडा आपले बायलेक रकाद धाडटा ही कालीदासाची कल्पनाच मुळांत अप्रूप आनी मनभुलोवणी. आमकां उत्तर खंडांतले श्लोक आशिल्ले.

तातूंत यक्ष कुपांक उत्तरेचे दिकेक वचपाक सांगता. आनी ह्या वेळार वाटेंत जरी ताका वळसो घेवन वचचें लागलें तरी तातूंत उजैनांतल्या प्रासादांतलीं जनेलां, रूपेस्त अस्तुऱ्यो, तांचे नदरेचे नाजूक आनी सुंदर कटाक्षआनी मेथयेन भरील्ल्या तांगेल्या पावलांचे ठशे...हें सगळें वर्णन करताना कलात्मक वा तांत्रीक नदरेन एकूय चूक जावची ना हाची कालीदासान घेतिल्ली जतनाय...दरेक गजाल शिकयताना सरूच कालीदासमय जाल्ले.

सदचेप्रमाण सरान ते इकराय श्लोक सगळयांकडल्यान पाठ करून घेतिल्ले. एकल्या कोणाकय सांगतकच ताका जर श्लोक म्हणपाक आयलो ना जाल्यार ताणे दुसऱ्याक सांगचो.पूण तोमेरेन येना ताणे उबोच रावपाचें. खरें म्हणल्यार व्याकरण आसूं वा श्लोक आसूं, पाठांतराचेर तांचो भर आसतालो. पूण तेचबरोबर उतरांचो सामको स्पश्ट आनी प्रमाणबद्द उच्चारांचेरय भर आसतालो. मराठी, इंग्लीश आनी संस्कृतांतल्या उतरांचे कशे उच्चार करपाचे तें हावें फक्त चित्रेसरांकडल्यान शिकपाचो यत्न केलो.

1962 वर्सा चीनान भारताचेर घुरी घाली. भारत आनी चीन हांचेमदले इश्टागतिचे संबंद पळयल्यार ही घुरी पुर्णपणान अनपेक्षित आसली. आख्खो देश तेखातीर पेटून उठलो आनी बाकिच्या सगळया मळांभशेनच शाळांतल्यानय राष्ट्रीय भक्तिचे साद घुमूक लागले. ग. दि. माडगुळकरांचें 'जिंकू किंवा मरू' हें तेन्नाचें मुखेल अशें राष्ट्रभक्तीगीत. ताका वसंत देसाईन बरी आवेशपूर्ण अशी चाल लायिल्ली. मुंबयच्या सगळया चल्या - चलयांनी तें गीत पाठ केलें आनी एक दीस सगळयांनी सामुदायिकरित्या म्हणून शिवाजी पार्काचें मैदान गाजोवन सोडलें. त्याच काळांत

ऐ मेरे वतन के लोगों,
जरा आँख में भर लो पानी,
जो शहीद हुंए हैं उनकी,
जरा याद करो कुर्बानी

हें लता मंगेशकरान गायिल्लें गीत अजरंवर जालें.

दुसरो प्रसंग तर हांव केन्नाच विसरपाचो ना. म्हजे व्यक्तिगत जिणेतलो तो.

णववेचे परीक्षेंत हांव पयलो आयिल्ल्यान शाळेन म्हाका दोन बक्षिसां दिल्लीं. थॉमस आल्वा एडिसन चें चरीत्र आनी एक टेबल लँप. एडिसन चें चरीत्र हावें रोकडेंच वाचून काडिल्लें. शास्त्रज्ञांची प्रतिभा, विचारशक्त, कश्ट

करपाची आकांताची चिकाटी आनी मानवी समाजाचे उदरगतींत तांचें आशिल्लें योगदान हाची थोडीशी कल्पना म्हाका  एडिसन चें चरीत्र वाचतकूच आयली.

पूण टेबल लँपाचें कितें करप हो म्हजेमुखार प्रश्न आसलो. आमगेल्या झोपड्यांत लायट नासली. ताका लागून म्हाका ताचो उपेग जावपाचो नासलो. हावें तो पोरन्या ट्रंकांत काडून दवरलो.

एक दीस अण्णान म्हणलें, "बाबू, घरात जेवक कायच नाय हा. तुजो दिवो इकुया काय रे?"

म्हजेर मळब कोंसळिल्लेवरी जालें. वापरूंक नाशिल्ल्या त्या टेबल लँपांत म्हजीं सगळीं सपनां निद्रादिन जाल्लीं. म्हज्या कश्टांचें आनी आत्मविश्वासाचें तें प्रतिक आसलें. मदीं मदीं हांव तो दिवो  फकत पळोवन घेतालों.

पूण अण्णाल्या त्या प्रश्नान हांव खिणभरांत सांवरलों आनी हावें अण्णाक म्हणलें, "हा, इकुया."

अण्णान तो टेबल लँप लायटीचें सामान विकपी भोईवाड्यांतल्या दुकानदाराक विकलो आनी घरांत जेवणाचें सामान हाडलें.

ते रातीकडेन कितलेंय केलें तरीय जेवणाची एक उंडी ताळ्यासकल वचना जाली.कुडिचो एक अवयव गळून पडिल्ल्यावरी म्हाका जाणवतालें.

ह्याच अदमासाक आमच्या सगळ्या कुटूंबाक हालोवन वडोवपी एक भिरांकूळ घडणूक घडली.

दोनूच म्हयन्याआदीं  मनूदादा, मायावतीवयनी, तांगेलीं ल्हान दोन भुरगीं - लता आनी उत्तम आनी सीतारामदादाजी   आमच्या झोपड्यांत भाड्यान रावपाक आयिल्लीं. ल्हान जागो आनी सामकीं घरांतलीं मनशां जाल्ल्यान तांकां बिराडकार म्हण दवरपाक काकीचो विरोध आसलो. पूण अण्णाल्या आग्र्याक लागून काकीन शेवटाक मारतें घेतलें.

वडाळ्याक भयणीगेर आसतानाच मनूदादाक सोरो पिवपाची संवंय लागिल्ली. सोरो सोडचो म्हण कितले फावटीं वयनीन झगडीं करूनय ताचो कांयच उपेंग जावंक नासलो.

सुरवेकसान दोगांयचो एकामेकाचेर मोग मात भरपूर आसलो. सद्दां सोरो पियेवन लेगीत फाटल्या म्हयन्यात मनूदादा एका उतरान वयनीक तापयिल्ल्याची वा तिचेर तिडकल्ल्याची म्हाका याद जायना.

आनी एक दीस तें मॉड आयलें.

सीतारामदादाजी त्या दिसा कामाक गेलो ना.तो घराच रावलो. मनूदादा आनी अण्णा सदचेभशेन कामाक गेले.

काकी म्हज्या मुखावयल्यानूच भाजी हाडपाक भोईवाड्यांत गेल्ली.

वयनीक सांगून हांव पेपर वाचपाक भैयाल्या दुकानार गेलों.

सुमार अर्दवर जातकच आनी काकी बेगीन परतली जाल्यार आडुत देखून हांव घरा आयलों. काकी आजून येवंक नासली. वयनी हुंडक्या हुंडक्यांनी रडटाली. दादी हाथरूणाचेर बसून आशिल्लो - सामको उबगल्ल्यावरी.

"काय, झाला काय? दाजी, वहिनी अशी रडता कित्या? काय गे, काय झाला? काय रे, तू वहिनीक काय बोल्लस काय? पाया पडतय, पण काय झाला ता तरी सांगा!"

कोणूच कितें उलयना. तेन्ना धक्को बशिल्ल्यावरी हांव सामको किळांचलों. वयनी रडटा तें म्हज्यान सोंसपाक जालें ना. कितें जालें तें मात तिणे म्हाका सांगलेंच ना. मातशा वेळान ती रडपाची थांबली. इतल्यान काकी आयली! वयनीन आपणाक सांवरून घेतलें. दाजी भायर गेलो. नक्कीच केतेंतरी अनपेक्षीत घडिल्लें.

हावें दोन उंडयो कशोतरी गिळळयो आनी उबगून कसो शाळेंत गेलों. कितें जालां आसुंये हे येवजणेन तकली भणभणपाक लागिल्ली. शाळेंत म्हजें अजिबात लक्ष लागना जालें.

रातचीं सगळीं जेवपाक बसलीं. दाजी मात जेवलो ना. आमी ताका परतून परतून आग्रो केलो. तो जेवलो नाच.

दुसऱ्या दिसाय आपूण भायरच जेवन आयलां अशें ताणे म्हणलें.

मनूदादा सोरो पियेवनच आयिल्लो. ताणे मातशेशें तापूनच दाजीक विचारलें, "काय रे! कित्या जेवीस नाय?"

दाजी कितें उलोवचे आदींच वयनी तिडकीन फडफडत सगळयांहुजरां मनूदादाक म्हणपाक लागली, "मी तुमच्या भावाकडसून ह्येच्याफुडे काय बोलॉन घेवचय नाय?"

सगळें वातावरण एकदम थंड जालें.

सांजवेळ. काकी अशीच खंयतरी भायर गेल्ली. मसंडेंतल्यान उदक हाडून वयनीन भायले पडवेंत तेन्नाच खाटीचेर बसकण घेतिल्ली. इतल्यांत तिचे वळखिचो कुळारचो एक मनीस आमगेर आयलो आनी खाटीर बसून तिची वासपूस करपाक लागलो. तेन्नाच कामावयल्यान दाजी आयलो. ताणे वयनीक त्या मनशाकडेन उलयता ती पळयली. ताका तें खटकलें. खटकलें

म्हणचेपरस ताका वयनीचो दुबाव आयलो.

ही सगळी गजाल रडत रडत मनूदादाक सांगत निमाणे वयनीन म्हणलें,

"मी माज्या माहेरच्या माणसाक खय खय मिठी मारलय, ता आपल्या भावाक इचारा!"

तिचीं उतरां सोंपचे आदींच आंगांत वीज संचारची तसो मनूदादा खाटीरसान देंवलो तोच ताणे वयनीच्या मुस्कटांत सणासणीत दोन फुलयलीं. अण्णा, काकी आनी हांव कितेंय उलोवचे पयलींच ताणे वयनीक खोंटांनी जितली मारपाक जायत तितली मारली.

लता आनी उत्तम किळांचतालीं.

वयनी काळीनिळी जाल्ली. उदक पियेवपाचेंय त्राण तिच्यांत नाशिल्लें. उदकाचे चार थेंबे हावें कशेबशे तिच्या तोंडांत घाले.

"तू माहेरच्या धगडाक मिठा मारतस काय?" वयनीक मारताना हो एकूच प्रस्न मनूदादा विचारतालो.

बाबडी वयनी.

आईच्या रूपान आमच्या घरांत भितर सरिल्ली. सख्खो - बापोलदेर असो मातूय विचार करीनासताना कुळारासान हाडिल्ली दरेक वस्त सगळयान पयलीं म्हाका दिवपी. आदर्श बायल, आदर्श सून, आदर्श वयनी. सबंद घरभर मायेच्या झन्यावरी अखंडीतपणान व्हांवपी मूर्तिमंत मायावती. एका खिणांत तिचें आयुश्य उध्वस्त जालें.

एकूच चूक केली तिणे. घडिल्ली सगळी गजाल सांगून घोवाची सहानभुती जोडपाचो यत्न केलो. तो करताना, "माहेरच्या माणसाक खय खय मिठी मारतय?" असो उपरोधिक प्रश्न विचारताना घोवाच्या मनातलो पुरूशी अहंकार वयर सरत आनी फकत परकी दादल्याक वेंग मारपाचो खरो प्रसंग ताचेमुखार उबो रावत आनी आपल्या शीळाविशीं तो दुबाव घेत अशें तिका सपनातूय दिसूंक ना.

तिचें शीळ धुल्ल्या तांदळावरी निर्मळ आशिल्लें.

रातभर आमी कोणूच न्हिदूंक ना. दोन – दोन वरांनी तो वयनीक तिडकीन सारको मारत आसलो.

म्हज्या काळजाचे कुडके कुडके जाताले. पूण असहाय हांव. मातसो व्हडलो आशिल्लों जाल्यार म्हज्या हातसून ताचें किते बरें वायट घडटलेंच आशिल्लें.

ताणे कामाक वचपाचें बंद केलें. दुबावाचे भकीक पडून तो मानसिक पिडेस्त जालो.

ताका वयनी आनी भुरग्यांसयत गावांत धाडपाचें अशें सगळयांचे संमतीन थरलें. अण्णा आशिल्लो वांगडा. तांकां पावोवपाक हांव भाऊच्या धक्यार गेलों.

उध्वस्त जाल्ली, मरपाकडेन पाविल्ली वयनी बोटींत बसपाक वचचेपयलीं म्हजो हात हातांत घेवन ढळढळयां रडली.

तितले म्हणसर हावें तिच्या पांयांक हात लावन म्हणलें, "वयनी, तुज्या आयुश्यांत असें कितें घडत हें म्हाका अजिबात दिसूंक नासलें. पूण हांव कितें करूं?"

म्हजी आनी वयनीची ती भेट निमाणची थरतली हाची म्हाका कल्पनाय नासली.

गावांत गेल्या उपरांतय वयनीक तागेलें मारप झोडप चालूच आसलें. मुंबयचेपरसय चड. घरांतल्या सगळयांनी ताच्या हातापांयां पडून, ताका गळवज्ञा येवन तरातरांनी समजावन सांगपाचो यत्न केलो. पूण ताचे तकलेंत भूत रिगिल्लें. लोकांल्या समजावण्यांचो मातय परीणाम ताचेर जालो ना.

वयनी वतली तरी खंय? कुळारा अठरा विश्वां दळडीर. पूण ह्यान फुडें मार खावप आनी छळणूक सोंसप शक्य नासलें. पूण तेवूय परस ती लजेन चड मेल्ली. एका म्हयन्यात ती भुरग्यांक घेवन कुळारा गेली. पळोवंक गेल्यार सासणाची.

लग्न जावन जे वाटेन ती आमच्या घरांत भितर सरली, तेच वाटेन स वर्सांभितर उध्वस्त जावन आपणाल्या दोगां निराधार भुरग्यांक घेवन कुळारा वतना वयनीक कितें भोगलां आसतलें!

मनूदादा गावांत वचतसान ताची तकली कित्याक घुंवल्या आसतली, हेविशीं घरांतल्या लोकांचे वेगवेगळे तर्क वितर्क सुरू जाले. निमाणकडेन सगळयांनी एक अदमास काडलो. आमचेकडेन राखपाक दिल्ले धाकू गुरवाचे देवस्थानाचे जमनीक लागून देव आमकां बादता आसूंक जाय. म्हजी आई वचपाचें तें एक कारण आसलें हें पयलींच थरील्लें.

जालें . आमच्या कुटूंबांतल्या चार पिळग्यांकडेन आशिल्ली देवस्थानाची जमीन एका दिसांत सोडून दिली.

कुडे श्रध्देक लागून घेतिल्लो तो निर्णय आसलो आनी देखूनच तो सामको चुकिचो आसलो हें म्हाका तेन्ना पुरायपणान कळटालें. हांव त्या निर्णयांत हस्तक्षेपय करतलो आसलों, पूण म्हाका हें कळ्ळें तें गुरवाक जमीन

परत करतकूच.

त्या एका निर्णयाक लागून सबंद कुटूंब शेतमानायांचे पंक्तीक वचून बसलें.

मनूदादा आनी वयनी झोपडपट्टेंतल्यान वतकच अण्णान अर्दी झोपडी विकपाचें धारायलें. इनमीन चार मनशां आमी, येदे व्हडले सुवातिची आमकां गरज ना अशें ताचें म्हणणे आशिल्लें. अर्दी झोपडी विकपाक हांव आनी काकी अजिबात तयार नाशिल्लीं. पूण अण्णान आमचें आयकलें ना. ताका भांगराचे मुदयेची भोव आवड. तेदेवेळार भांगर दोनशीं रूपया तोळो. निमाणे अट्टाहासान अण्णान ती अर्दी झोपडी वरसकर नावाच्या मालवणी मनशाक फकत दोनशीं रूपयांक विकली. जे. जे. ऑश्पितालांत तो वॉर्डबॉय म्हण कामाक आसलो.

आमकां व्हडल्या जाग्याची संवंय. आतां धाकटुल्या जाग्यांत वावुरचें पडिंल्ल्यान खूब आडखळिचें जाल्लें. पूण ल्हवू ल्हवू तें संवकळीचेर पडलें.

अण्णान अर्द तोळयाची मुदी केली. उपरांत बरेच दीस ती मुदी तो हाताच्या बोटाक घालतालो आनी घरांतल्या खर्चाचे पयशे सोंपतकच मदीं मदीं ती वाण्याकडेन घाणाक दवरतालो आनी पगार पडटतच ती परत हाडटालो.

धावेच्या वर्सा झोपडपट्टेंत बऱ्यापैकीं एक गजाल घडली, पांचय वार्डांत उदकाचे धा - धा नळ आयले. थळावे जनतेन फुडाकार घेवन मुंबय म्युनिसिपालटीकडेन वेळावेळार जे अर्ज केल्ले आनी ज्यो विनवण्यो केल्ल्यो ताचेंच तें फळ आसलें. ज्या दिसा नळांक प्रत्यक्ष उदक आयलें त्या दिसा आमी नळांक हार घालून पेडे वांटले आनी खऱ्यानिशीं खोशयेचो सुवाळो मनयलो.

नळांक दोन खेपेक उदक येतालें. सकाळीं सात ते णव आनी सांजवेळा चार ते स. दरेका कुटूंबाक सकाळचें आनी सांजवेळचें चार कळशे उदक मेळटालें. सांजवेळचो नंबर लावपाची गरज नासताली.पूण सकाळच्या वेळार फांतोडेचेर चार – पांच वरां जायतसावन ल्हान व्हड डबे घेवन नंबर लावचो पड.

आमचो नंबर लावपाचें काम अर्थांत अण्णा आनी म्हजेकडेन आसलें. रातचें जेवण जातकच काकीलो आमकां हुकूम पड. केन्ना केन्ना हावें भियेवन बेगीनच उठचें आनी नंबर लावन येतकच परतून न्हिदचें.

केन्ना केन्ना आमचो डबो कोणेतरी वळीभायर काडिल्लो आसचो आनी

तें समजतकच काकीच्या रागाक शीम उरनासली, हें तर आमचें दुर्दैवच म्हणपाचें.कित्याक तर तिका मागीर सगळयांत निमाणकडेन उदक भरचें पडटालें.

“बरोबर तुमचोच डबो कोण काढून टाकता?” तिणे विचारचें.

दुसरे एके गजालीखातीर तर काकीक म्हजो खूब राग येवंचो. केन्ना केन्ना आमचो नंबर येवचेआदीं हावें एक – दोन कळशे घेवन नळार वचचें आनी काकीन मागीर बाकिचीं सगळीं कामां आटापून घेवन नंबर लागतकच येवचें. पूण हांव नंबर राखपाक आशिल्ल्याचें पळोवन आमच्या फाटल्यान आशिल्ल्यो एक – दोगी बायलो उदक भरून घेयत. तरी ताणी विचारचें,

“ए बाबू, जरा पाणी भरून जाव काय रे?"

“ए बाबू, आज मुलाला घेऊन केममध्ये जायचे आहे. तुमच्या अगोदर पाणी भरू का? "

“ए बाबू, आज घोवाचो डबो नाय केलय. तुजी काकी येवच्ये अगोदर हांडे भरूक लावू काय?"

हावें “हय – ना" म्हणचे आदींच ताणी कळशे भरपाक लायिल्ले आसचे. नळाचेर उदक भरपाक येवपी सगळया बायलांनी म्हजो 'बाबू' करून सोडिल्लो.

एक फावट असल्या बायलांक काकीन धमकावणी दिली, “माज्या पुतन्या सादा सापडला, म्हणून त्येला उभा करून ठेवतास काय?"

“जाव दे गे मुणगेकरनी!" उदक भरतल्यो बायलो काकीक परती जाप करीनासल्यो.

हांवूच तितलो सादो म्हणपाचें सगळे झोपडपट्टेक कशें म्हण समजलें काय? एकूच प्रश्न पडटालो म्हाका.

सदचेभशेन अभ्यासाचें वेळापत्रक हावें तयार केलें. घरांत कितेंच काम करचो ना अशें काकीक सांगलें आनी सकाळ – सांजवेळ शिवडिच्या विठ्ठलमंदिरांत तंबू ताणलो.

मदींमदीं वयनीची याद येताली. येतल्या वेतल्याकडेन आबा तिगेली खबर कळयतालो. ते खबरेक तसो कांय अर्थ नासलो तरी मन मातशें ल्हव जावंचें.

नोवेंबर सोपिल्लो.

मन निबर करून हावें अभ्यासाक सुरवात केली खरी, पूण वयनीचो

विचार तकलेंतल्यान कसोच वचनासलो.

तातूंतच वर्गाच्या हस्तलिखिताची तयारी सुरू. अपेक्षेप्रमाण हांव संपादक. आनी हस्तलिखिताचें नाव थरलें 'शलाका'

गोविलकरबाईभशेनच नाबरबाईनय हस्तलिखिताच्या दरेका तपशिलांत लक्ष घालें. खांबे - नानचे हाणी सूर्यकिरणांचें बऱ्यापैकीं एक मुखपृष्ठ तयार केलें.

हस्तलिखितांत म्हजी एकूच कथा आसली, 'सासूरवाशीण'

विमोचन सुवाळ्याचो दीस उजवाडलो.

सगळ्यांची, चड करून चल्यांची उमेद भरून ओतताली. आतां तर त्यो आनीकूच सुंदर दिसताल्यो. सगळे कार्यावळिचीं सुत्रां ताणी आपल्या हातांत घेतिल्लीं.

संपादक म्हण म्हजें भाशण जालें. नाबरबाईन सगळ्या वर्गाची तोंड भरून तोखणाय केली. पेडे, वेफर, फुलां वांटून जालीं आनी मागीर कदमाच्या गाण्याची मैफल!

'कोहिनूरां' तलें 'मधुबन में राधिका नाचे रे....' , 'आस का पंछी' तलें ' दिल मेरा एक आस का पंछी...', 'हमराही' मदलें 'ये आसू मेरे दिल की जुबान है...' अशीं एकापरस एक सुरेख गीतां कदमान म्हणलीं. भुरग्यांनी सगळो वर्ग माथ्यार घेतलो.

म्हजेलागीं पयशे नाशिल्ल्या कारणान तातूंतलो एकूय सिनेम हावें पळोवंक नासलो. पूण नायगावच्या नाक्यावयल्या इराण्याच्या हॉटेलांत चालू सिनेमांच्या गीतांची रिकोर्ड आयकुपाची सोय आसली. मशिनांत चार आणे वडोवन जाय तें बटण दाबलें काय आपणाक जाय तें गाणे आयकूंक मेळटालें. गाणे आयकतल्यांची गर्दीय थंय बरीच जाताली. हावें हीं सगळीं गाणी थंयच आयकल्लीं, केन्ना एकल्यान तर केन्ना कदमाक वांगडा घेवन. हीं सगळीं गाणी हुबेहूब म्हणप हें कदमाचें वैशिश्ट्य.

कदमालीं गाणी आयकताना सांजवेळ जावचीच न्हय अशें दिसलें. पूण तें कोणाच्यान आडावपाक जालें ना. प्रसन्न मनान आमी सगळीं वर्गाच्या भायर आयलीं.

जानेवारी सोंपपाक आयलो तसो शिक्षकांनी आपापलो अभ्यासक्रम सोंपपाकडेन हाडलो. अडचणी सोडोवपाखातीर दोन – तीन दीस वतकच शिकोवप थांबलें.

परीक्षेचे तयारेक लागून फेब्रूवारी आनी मार्चांत इकरावेची परीक्षा

जातकच धावेची परीक्षा.

धावेंत म्हजो पयलो नंबर आयलो.

रीजल्ट जातकच शाळेन इकरावेच्या वर्गाची मांडणी करपाक सुरवात केली. हे आदीं इकरावेचे 'अ' आनी 'ब' दनपारच्या आनी 'क' आनी 'ड' सकाळच्या अधिवेशनात आसताले. 'अ' त आसताले हुशार विद्यार्थी. ह्यावर्सा सगळयो मेळून चार तुकड्यो जावपाच्यो आसल्यो. पूण क्रमाप्रमाण,'अ' आनी 'ब' सकाळच्या अधिवेशनात आनी 'क' आनी 'ड' दनपारच्या अधिवेशनात दवरपाचें थरलें. म्हणल्यार हुशार विद्यार्थ्यांची 'ड' तुकडी केली . आतांमेरेन आठवी, णववी आनी धावेचे 'ब' तुकडेंत सादारणपणान हुशार भुरगीं आसतालीं आनी तातूंतलीं बरींचशीं दनपारच्या अधिवेशनात आसतालीं.

धावेच्या सवूय तुकड्यांतल्या इंग्लीशीसयत सात विशय घेवपी, समाजशास्त्र विशय सोडपी आनी शरीरविज्ञानाच्या जाग्यार फिजिक्स – केमिस्ट्री घेवपी सुमार पन्नाशेक भुरगीं इकरावी 'ड' खातीर वेंचून काडिल्लीं. तेखातीर धावेच्या सगळया तुकड्यांतल्यान दरेकी स – मात भुरगीं आशिल्लीं. आमचे धावी 'ब' तल्यान मात 15 – 16 भुरगीं आशिल्लीं. तातूंत शालीनी तावडे, पुष्पा पेशवे, रामदास पोटे, अशोक शेलार, वसंत गोडबोले, अनिल ठाकूर, प्रकाश बने, उदय देसाई, विजय साईल, अन्वर शेख, शशिकला केळकर आनी हांव आशिल्लो. आनी 'क' तल्यान रामभाऊ सोनावणे, मधुकर कुळकर्णी, रामनाथ पाटील, विजय शेटे, शरद नाईक, मधुकर धुमाळ, तर धावी 'ड' तल्यान विद्या तावडे, दळे आदी चले - चलयो.

धावेच्या वर्गांत पयलो नंबर आयिल्ल्याची खोस म्हाका जाल्ली खरी, पूण आठवी 'ब' सावन फुडलीं तीन वर्सां एकठांय आशिल्ल्यो आमी इश्ट – इश्टिणी इकरावेंत शिंपडून गेल्ल्याचेंय खूब वायट दिसतालें. खांबे, नानचे आनी हेर.जायते सकाळच्या 'अ' वा 'ब' तुकडेंत गेले. मुखेल म्हणल्यार आमचें सांस्कृतिक भुषण आशिल्लो 'रफी' 'अ' त गेलो.

त्या वर्सा शाळेंत एक म्हत्वाचो बदल जालो. फाटलीं कांय वर्सां सुपरींटेंडेंट आशिल्ले धामणकरसर निवृत्त जावन ताच्या जाग्यार कर्णिकसर आयले.

शाळेंत रूजू जातकच चार दिसांभितरच ताणी म्हाका आपल्या पयल्या माळयावयल्या कॅबिनात मेळपाक आपयलो आनी म्हजी वासपूस केली.

इकरावी 'ड' त प्रवेश दितना कर्णिकसरान दरेका विद्यार्थ्याची आपणे चाचणी घेवन विशयांविशींची खात्री करून घेतिल्ली.

मे म्हयन्याचे सुटयेंत सदचेप्रमाण हांव गावांत गेलों. पूण हे खेपेक फाटले फावटींभशेन सुटयेंत सारकें मन लागलें ना. कुवळयाक वचून आएक मेळून येवपाचें मात चुकयलें ना. हाचेआदीं हांव मुंबय येतालों तो शाळा सुरू जावंचे एखादोच दीस पयलीं. त्या वर्सा इकरावेंतल्या अभ्यासाच्या टेन्शनाक लागून हांव सप्तकभर आदींच आयलों.

हे फावटीं म्हाका मनोहर सावंतालो सांगात आशिल्लो. हे खेपेच्या प्रवासाचें वैशिश्ट्य अशें, मिठबाव ते कोल्हापूरभशेनच कोल्हापूर ते पुणे हो प्रवास आमी एस टीन केलो. हो प्रवास रातचो आशिल्ल्यान भायलें मात कांय पळोवपाक मेळ्ळें ना. खंती जालों. पुणे - मुंबय प्रवास मात रेल्वेन केलो. दनपारां बारा वरांचेर गाडी दादर पावली. म्हाका व्हरपाक अण्णा रेल्वेस्टेशनार आयिल्लो.

खरें म्हणल्यार हावें थारायिल्लें, सगळें विसरून अभ्यासाक लागपाचें. सातवेकसान हांव अभ्यासाचें वेळापत्रक तयार करीत आयिल्लों. आठवी, णववी, धावेंत तर हावें अभ्यासांत बरीच शिस्त हाडिल्ली. संस्कृतांतले श्लोक आनी व्याकरण पाठ करपाखातीर तर हावें वेळापत्रकांत तरतूदय करूंक नासली. ज्यो गजाली तोंडपाठ करपाच्यो आसताल्यो त्यो निवळ अक्षरान हावें कागदार बरोवन काडच्यो आनी शाळेंत वतना - येतना पाठ करच्यो. फाटल्या तिनूय वर्सांत संस्कृतांतले सगळे श्लोक आनी व्याकरण हावें अशेंच पाठ केल्लें. सामके 'मेघदूतां' तले श्लोक लेगीत.

इकरावेची परीक्षा हें तर एक आव्हानच आसलें. जो कितें अभ्यास आतांमेरेन केल्लो ताची निर्णायक कसोटी आतां लागपाची आशिल्ली.

तशें पळोवपाक गेल्यार म्हजो पयलो नंबर येवंचो अशी शाळेंत आसताना म्हजी इत्साआसली पूण शाळेंतल्या सगळया शिक्षकांक तसो भरवंसो आसलो. पूण म्हजे नदरेन तितल्यार भागपाचें नासलें. पोरूंच्या वर्सा गणेश विठ्ठल ठाकूर हो हुशार आनी बुदवंत विद्यार्थी इकरावेचे परीक्षेंत 76 टक्के मार्क मेळोवन शाळेंत पयलो आयिल्लो. तीस हुशार विद्यार्थ्यांचे वळेरेंत तो येतलो अशी सगळयांचीच अपेक्षा आसली. पूण तशें जालें ना. म्हाका तितलें जमलें ना तरी ठाकूरांपरस एक – दोन टक्के तरी चड मार्क मेळोवन ताणे वयर व्हेल्ली शाळेची कमान हावें सकयल हाडूंक फावना अशी म्हजी इत्सा आसली.

इकरावेचें वर्स सुरू जालें.

आमचो वर्ग हो सगळयांत हुशार विद्यार्थ्यांचो आशिल्ल्यान.शाळेच्या दनपारच्या अधिवेशनातले सगळे नामनेचे शिक्षक आमच्या वर्गांत शिकवणेक येवप सभाविक आसलें. तेप्रमाण चित्रेसरांकडेन मराठी, शिरोडकरसर गणित आनी फिजिक्स – केमिस्ट्रीखातीर शिरोडकरसर आनी जनरल सायन्स गेलो फाटकसरांकडेन. हिंदी शिकोवपाक आवटेबाई. शाळेचे मुख्याद्यापक आनी एक संस्थापक आशिल्ल्या बा. बा. ठाकूरसरान इंग्लीश विशय आपणाकडेन दवरलो, तर शाळेचे सुपरींटेंडंट आशिल्ल्या कर्णिकसरान संस्कृत आपणाकडेन घेतलो. चित्रेसर सदचेभशेन संस्कृत शिकयतले अशी म्हजी अपेक्षा आशिल्ल्यान कर्णिकसर तो विशय नक्की कसो शिकयत काय हेविशीं म्हाका थोडी चिंता जाल्ली. तीच गजाल सायन्सीचे बाबतींत. सायन्सीखातीर शिंदेसर येतले अशें म्हाका दिशिल्लें. पूण फाटकसरान तो विशय आग्रयान मागून घेतिल्लो.

इकरावेचो अभ्यास हो म्हजेखातीर एक रोमांचक आनी अविस्मरणीय असो इतिहास. त्या एका वर्सातल्या अणभवान म्हजें सगळें आयुश्य बदलून वडयलें. आतांमेरेन सगळया शिक्षकांनी म्हजेर विशेश लक्ष दिल्लें. पूण इकरावेंत तातूंत चड भर पडली. म्हजेकडसून आशिल्ल्यो अपेक्षा लक्षांत घेतल्यो जाल्यार तें कांयशें सभावीक आशिल्लें. ताचो परीणाम म्हण सबंद वर्सभरयांत हांव फकत एक – दोन खेपोच शाळेंत गैरहजर रावलों.

सायन्स आनी गणित शिकोवपांत शिरोडकरसर संवकळिचे आशिल्ल्यान तांचें शिकोवप खूब आवडटालें. तांचेकडेन आशिल्ले दोनय विशय तशे कठीण पूण ते कठीण विशय लेगीत ते चडानचड सोंपे करून शिकयताले. बीजगणित, भुमितिंतलीं प्रमेयां, फिजिक्सांतलीं गणितां आनी केमिस्ट्रींतलीं वेगवेगळीं समीकरणां ताणी उत्कृश्टरितीन शिकयलीं. विशेश म्हणल्यार ताणी वर्गांत येवन शिकोवपाक सुरवात करतकच आपलो एक व्हडलो इश्ट आपल्यो अडचणी सोडयता अशें दिस. सद्दां तांचो कसलो ना कसलो तरी एक पिरिएड आसतालोच हें विशेश. वांटकुळें मुखामळ, गोरोपिट्ट, फाटल्यान वळोवन घेतिल्ले केंस, थोडेशे घारशे दोळे. आनी सदांच उत्कृश्ट कपडे घाल्ले शिरोडकरसर आमच्या सगळयांवांगडा, चड करून म्हजेवांगडा, आडेचो मातय भपको नाशिल्ल्या एखाद्या भरवंशाच्या इश्टावरी वागले.

फाटकसरांचे बाबतींत मात म्हजेकडल्यान एक व्हडली चूक घडली. ते शिकोवपाक आयले आनीसुरवेच्या पयल्याच सप्तकांत ताणी म्हज्या चेऱ्याचेर

पळयली एके तरेची निरशेवणी. सायन्स शिकोवपाक शिंदेसर येवंक नाशिल्ल्यान हांव म्हज्या मनातली निरशेवणी दुर्दैवान लिपोवंक शकलो ना. तशीं तीं म्हजीं पिशेपणाच. आनी एक दीस जें जावपाचें तेंच जालें. शाळा सुटटतच ताणी म्हाका टीचर रूमात आपोवन व्हेलो.

"हांव शिकयताना म्हाका तुगेलें लक्ष लागिल्लें दिसना. तातूंत तुगेली निरशेवणीय जाणवता. हावें तुमचो वर्ग बळयां मागून घेतला." ताणी म्हाका शांतपणान म्हणलें.

म्हाकाच हांव अपराधी कसो दिसलों. एके तरेन हावें तांचेर आरोप केल्लो. "सर, तुमी उत्कृश्ट शिकयतात. पोरूंय म्हाका तुमचेखातीर गणितांत चड मार्क मेळळे आनी आख्ख्या वर्गांत हांव गणितांत पयलो आयलों. पूण सर, एक मात खरें, म्हाका फोटी मारप जमना. ह्या वर्सा सायन्स शिकोवपाक शिंदेसर येतले अशें दिशिल्लें. पूण सर, हांव तुमची माफी मागतां. फाल्यांसावन अशें जावचें ना." सगळें मनोधैर्य एकवटावन भोगसणी घेवपाचे भुमिकेंतल्यान हांव उलयलों. आमच्या दोगांल्याय मनावयलें दडपण पयस जालें.

कडक फेर्राद कॉटनचे धवेफुल्ल अशे कपडे वापरपी आनी मोतयांवरी अक्षर आशिल्ल्या फाटकसरान सगळें वर्सभर सामको जीव ओतून सायन्स विशय शिकयलो.

कर्णिकसर शाळेक आनी आमकांय नवे आशिल्ले. तातूंत ते सुपरींटेंडेंट, म्हणल्यार तांची सुवात मुख्याध्यापकापरसय उंचेली आसली. काठयेवरी सडपातळ आनी सदांच बंद गळयाचो, हळडुव्या रंगाचो, कोट घालपी कर्णिकसर सुरवातेक वर्गांत येतकच भंयाचें एक वातावरण निर्माण जातालें. पूण तें सारकें नाशिल्लें. शिकयताना आपूण सुपरींटेंडेंट आसा हें ते विसरताले आनी फकत शिक्षक हेच भुमिकेंतल्यान शिकोवपाक लागताले. तेखातीर चड त्रास जावंचे न्हय इतलें तांगेलें शिकोवप सभाविक आनी सहज आशिल्लें. खूब फावटीं पांय फुडें वडोवन मेजार बसपाची तांची पद्दत.

'शाकुंतल' नाटकांतलो ताणी शिकयिल्लो एक प्रवेश सदांच म्हज्या लक्षांत उरलो.

शकुंतला जेन्ना घोवाघरा वचपाक वता तेन्ना फकत अनुसूया आनी प्रियवंदा ह्यो तिगेल्यो खास इश्टिणी दुखेस्त जातात अशें न्हय, तर तिच्या वचपान सबंद आश्रमाचेर विरहाची सावळी पातळटा, स्वत: कण्व ऋशी लेगीत भावनावश जातात.

इतलेमेरेन बरें आसा.

पूण तपोवनांतले रूख लेगीत दुखेस्त जाल्ल्याचें ध्यानात येतकच कण्व ऋशी तांकां सांगतात, "तपोवनांतल्या ह्या रूखांनो , तुमचेकडेन मात लेगीत आडनदर करीनासताना सदांच तुमकां उदक दिलेबगर स्वत: आपूण उदक ना पिवपी शकुंतला आज घोवाघरा वता. तुमी सगळीं तिका घोवाघरा वचपाक परवानगी दियात. सर्वे अनुज्ञायताम्!"

कालीदासाचीं तीं उतरां म्हज्या कानात सदांच घुमत उरलीं.

'मेघदूतां' त यक्षान आपणाले बायलेक कुपांकडेन रकाद धाडपाची कालीदासाची कल्पना आंगार कांटो हाडपी. धावेंत आसताना हे कल्पनेकडेन म्हजो परीचय जाल्लो. पूण घोवागेर वचपाक भायर सरील्ले शकुंतलेन तपोवनांतल्या रूखांची परवानगी मागप ही कालीदासाची कल्पना म्हाका 'मेघदूता' चे कल्पनेइतलीच उमेदीन आंगार कांटो हाडपी दिसली.

हिंदी शिकोवपाखातीर आवटेबाई सबंद शाळेंत नावाजत्यो. शाळेचे नदरेन आवटेबाई हें हिंदी विशयांतलें निमाणे उतर. सडपातळ, निर्भीड आनी स्पश्टवक्त्यो तशेंच मामकें सादें राहणीमान आशिल्ल्यो आवटेबाई शाळेंत 'बिजली' म्हण नामनेक पाविल्ल्यो. इकरावीच्या हेर तुकड्यांक त्यो इंग्लीशय शिकयताल्यो. पूण आमकां हिंदी शिकयतल्यो, हातूंत खोस आसली.

हिंदी पुस्तकांतले धडे आनी कविता शिकयताना तातूंतली सहजताय आनी हिंदी विशयांतलें तांचें प्रभुत्व तर जाणवतालेंच, पूण जबरदस्त आत्मविस्वासूय उकतो जातालो. खूब फावटीं ताणी मेजार बसचें. हिंदीच्या उतरांक मराठीच्या जाग्यार ताणी पर्यायी म्हण इंग्लीश उतरां सांगचीं. हरिवंशराय बच्चन, रामधारी त्रिपाठी अशा व्हड व्हड कविंच्यो कविता त्या वर्सा ताणी शिकयल्यो. कवितेंतली 'फिर संध्या के नरेम बाद' ही कविता आनी धड्यांमदलो 'गोभी के फूल' हो धडो शिकयताना बाईन दिल्ले राजकारणांतले वास्तव संदर्भ विचारप्रवृत्त करपाक लावपी आशिल्ले. जेन्ना जेन्ना धडो वा कवितेचो आशय शोशणाकडेन जोडिल्लो आसतालो तेन्ना तांचे शिकवणेंतल्यान शोशणाआड तीडक उकती जाताली. म्हज्या मनाचेर ताचो विलक्षण परीणाम जालो.

ठाकूरसरांचें इंग्लीश शिकोवप ही तर आतांमेरेनच्या आयुश्यांतली व्हडली देणगीच म्हणची पडटली. फाटलीं चार – पांच वर्सां इकरावीच्या हुशार विद्यार्थ्यांक ते आपूण जावन इंग्लीश शिकयताले. फकत तितलो एकूच तास ते घेताले. सडपातळ, सावळो, थोडेशें टक्कल पडिल्लें माथें, आंगार

सदांच कोट आनी गरीबांविशीं चेऱ्याचेर सदांच काकूळटेचे भाव आशिल्ले ठाकूरसर शाळेंतल्या सगळ्या शिक्षकांचे आनी विद्यार्थ्यांचे श्रध्देचें ठिकाण आसलें. आमी तांची वर्गांत येवपाची उमळशिकेन वाट पळोवची आनी ते येनाफुडें सगळेकडेन प्रसन्नतायेचीं ल्हारां उसळचीं. हेआदीं एक – दोन खेपेक ताणी म्हाका मेळपाक आफोवन घेतिल्लो आनी म्हजी वासपूसय केल्ली.

इंग्लीश शिकोवपाची तांगेली आपली अशी खास पद्दत आसली. नवो धडो वा कविता शिकोवचे आदीं एक – दोन दीस पयलीं धड्यांतल्या वा कवितेंतल्या कठीण उतरांतीं स्पेलींगां ते फळयाचेर बरोवन काडी. तशें करताना तें उतर खंयच्या धड्यांतलें वा कवितेंतलें हें ते सांगीनासले . उतरांचें स्पेलींग पाठ करताना विद्यार्थ्यांनी तो धडो वा कविता सोदून काडप हो ताचेफाटलो हेत. अर्थांत ताणी सांगिल्ल्या उतरांवयल्यान तो धडो वा कविता सोदून काडप व्हडलेशें कठीण नासलें.

सरांचे शिकवणेविशीं आनीक कितलें म्हण सांगपाचें! इंग्लीश हो पयलींच कठीण विशय. प्रत्यक्षांत तो जितलो कठीण ताचेपरस चड कठीण भासुये इतलो. इकरावेचे परीक्षेंत नापास जावपी भुरग्यांपैकीं अर्दीं भुरगीं इंग्लीशींत तर अर्दीं भुरगीं गणितांत नापास जातालीं. ताका लागून सगळयांनी इंग्लीशीचो धसको घेतिल्लो आसतालो. आमचो वर्ग हुशार भुरग्यांचो आसलो तरीय आनी जरीय इंग्लीश हो म्हजो स्वताचो आवडिचो विशय आसूनय हांव इंग्लीशीचे भिरांतींतल्यान मुक्त नाशिल्लों. ठाकूरसरांखातीर मात इंग्लीशीचें बरेंचशें दडपण उणे जालें.

सरान शिकयिल्ले कांय धडे आनी कविता अशोच मनात घर करून रावल्यो. तातूंतलो 'हॅपी प्रिन्स' हो तर विसरूंक नजो असो धडो. ताच्या लेखकाचें नाव म्हाका याद जायना. पूण तातूंत एका राजकुंवराचो आनंदी पुतळो आनी स्वॅलो पक्षी हांची काळजाक पिंवळ घालपी अशी एक कथा सांगल्या. शींयातल्यान आपणाक वांठावपाक स्वॅलो पक्षी थलांतर करता आनी उडत उडत एका शारांत येवन थंयचे एके बागेंत उबारिल्ल्या राजकुंवराच्या पुतळयाम्हऱ्यांत रावता. स्वॅलो पक्षी आनी राजकुंवराची घट्ट इश्टागत जाता. पुतळयाचे अवयव भांगराचे आसतात. म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार ताका दिव्यदृश्ट आसता. तेखातीर शारांतलें दळडीर – दुख्ख तो ""ळोवपाक शकता. पूण तें पळोवनच तो वगी बसना. दरेका वेळार राजकुंवर आपलो एकेक अवयव दळडिरी - दुख्खी लोकांक दिवपाक लागून स्वॅलोकडेन दिता आनी लोकांनी तो विकून दळडीर – दुख्ख पयस करचें अशें सांगता. राजकुंवराचेर स्वॅलोचो खूब मोग आशिल्ल्यान तो ताची आज्ञा

पुराय तरेन पाळटा. अशें करतां करतां पुतळयालागीं कांयच उरना. पुतळो आनी स्वॅलो दोगूय खंती जातात. एक दीस घोग्यांनी पावस रकता आनी जोगलांचो कडकड जाता आनी जोगूल पुतळयाचेर पडून पुतळयाचो चुरो जाता. त्या वेळार पुतळयाच्या पांयाम्हऱ्यात पडून स्वॅलोय मरता.

'हॅपी प्रिन्स' ही एक रूपककथा. काळीज हालोवन सोडपी असो तातूंतलो आशय आनी सरान तो शिकयिल्लोय बी अशे तरेन, उपरांतचे कितलेतरी दीस म्हाका राजकुंवराचो पुतळो आनी स्वॅलो पक्षी दिसचो. 'हॅपी प्रिन्स' चे भुलोवणे रूपककथेन हांव पुराय भारावन गेलों. म्हज्या सबंद आयुश्यांत तिका एक मोलादीक सुवात मेळळी.

दुसऱ्या एका धड्यांत आशिल्ली व्हिक्टर ह्युगोची कथा 'जेनी'.

आठवेंत आसताना ह्युगोचे 'ला मिझरेबल' हे नवलिकेचो साने गुरूजीन 'दुख्खी' ह्या माथाळयाखाला केल्लो अणकार हावें वाचिल्लो.

जेनी ही एका नुस्तेकाराची बायल. दर्याचीं उसळून फुटपी ल्हारां आनी वाऱ्या वादळाक सदांच फुडो करीत नुस्तेमारी करप होच तांच्या पोटा पाणयाचो मार्ग आशिल्लो.

एक दीस रातीकडेन जेनीचो घोव नुस्तेमारीक वता. ते रातचो घोग्यांनी पावस पडटा. जोगलांचो कडकड जाता. अर्थात जेनी खूब भियेता. असल्या घोग्यांच्या पावसांत, वादळ वाऱ्यांत आनी रातिच्या भिण्ण काळखांत ल्हानशा होड्यांत बसून गेल्लो आपलो घोव बरे तरेन परतो येत मू? ताका कसलीय दुखापत तर जावची ना मू? असल्या नाना दुबावांनी ती अस्वस्थ जाता. दुश्मनाली रात म्हणल्यार कितें आसता हें तिका तेन्ना कळटा.

दुसऱ्या दिसा सकाळ जाली तरी तिचो घोव परतो येना, तेन्ना ती आनीकूच भियेता.

आनी अचकीत तिचो घोव घरा येता. जेनी ताका खोशयेच्या व्हांवतल्या दुकांनी घट्ट वेंगायता.

वर्गांतलें सगळें वातावरण 'जेनी' मय जाल्लें.

शिकोवन जातकच सरान प्रश्न विचारलो, “जेनी आपल्या घोवावांगडा जायतीं वर्सां रावताली. घोवाक सदांच ती मेळटाली. अशें आसतानाय तो परत आयल्या उपरांत तिणे घोवाक इतली घट्ट वेंग कित्याक मारली?”

सगळ्या वर्गांत किण्ण वातावरण आशिल्लें.

सरान विचारिल्ल्या प्रश्नाची जाप खबर आसूनय ती दिवपाचें धाडस जंय नासतालें, थंय आतां धड जापूच कळनाशिल्ल्यान ती दिवपाचो प्रश्नूच नासलो.

"मुणगेकर" सरान विचारलें. अतिशय भाराविल्ले आनी गोंदळिल्ले मनस्थितींत हांव कितेंतरी सांगपाक वतालों, इतल्यान वर्गांतल्या दळीन हात वयर केलो. ताणे सांगलें, "नुस्तें मारपाक वतकच जेनीच्या घोवाक जे प्रतिकूल अवतिकायेक तोंड दिवचें पडलें, तें लक्षांत घेतलें जाल्यार तिचो घोव सुखरूप घरा आयलो. ताका लागून चिंतेस्त आशिल्ली जेनी आपल्या घोवाक वेंग मारता."

सरांच्या चेऱ्याचेर पुराय समादान दिसलें ना. सरान म्हजेवटल्यां पळयलें. हावें उभो रावन म्हणलें, "सर, घोव सुखरूप परतो आयिल्ल्याचें समादान तर जेनीक जाताच. दर्यावांगडा आनी वादळ – वारो - काळोख हांचेकडेन सदांच असले संघर्ष करचे पडिल्ल्यान अशे प्रसंग जेनीच्या आयुश्यांत आदींय आयल्या आसपाची शक्यताय आसा. हांगा अशी अवतिकाय आसा, जे असहाय आनी चिंतेस्त मनस्थितींत जेनीन ती रात एकलेपणी सारली, ते फाटभुंयेचेर फकत एकेच रातीउपरांत न्हय तर जायत्या वर्सांच्या विरहा उपरांत आपली आनी घोवाली भेट घडटा अशें दिशिल्ल्यान जेनी घोवाक आवेगान वेंग मारता."

हांव एकेक वाक्य उलयता आसताना सर खूब बारीकसाणेन आनी मुखामळार मुमुरखो हांसो हाडून म्हजवटेन पळयताले.

"व्हेरी गूड. दॅट इज द कम्प्लीट एन्सर." मेजार दोनय हात दवरीत सरान म्हणलें.

आख्खो वर्ग खोशी जालो आनी तेउपरांत उरिल्लीं धा - बारा मिनटां आपणाले सदचे गंभीर आनी साहित्यिक शैलींत सरान जेनीविशींचे कांय मुद्दे चड स्पश्ट करून सांगले.

'जेनी' हे एकेच कथेक लागून व्हिक्टर ह्युगो हो सामको म्हजे आवडिचो लेखक जालो.

कवितेमदीं 'कॅप्टन! ओ माय कॅप्टन! ही कविताय सरान शिकयली ती अत्यंत उत्कटतायेन.

निग्रोंच्या गुलामगिरीच्या प्रश्नावयल्यान उत्तर आनी दक्षिण अमेरिकेंत यादवी झूज जालें. त्या झुजाचे नायक आशिल्ले राष्ट्राध्यक्ष अब्राहम लिंकन. झुजांत लिंकनाचें जैत जाता. तेउपरांत मात तांची दुर्दैवी हत्या घडटा. ते फाटभुंयेचेर लिंकना बद्दल कृतज्ञताय उकतावपाक तांकां लेखून कवीन ही कविता केल्ली. ती शिकयताना निग्रोंचे गुलामगिरीविशीं सरांक दिसपी तिरस्कार, लिंकन हांचेविशींची भक्ती आनी कृतज्ञतायेची भावना आनी तांची हत्या जाल्या उपरांत फकत लिंकनापुरतीच न्हय, तर सगळेच

हिंसेविशीं सरांच्या मनात आशिल्ली घृणा खिणाखिणाक उकती जाल्ली.

फकत एक वर्स इंग्लीश विशय शिकोवन ठाकूरसरान म्हज्या मनात मानवी जिणेविशीं एका विशाळ दृष्टीकोनाची बुनयाद घाल्ली. ते म्हजे श्रध्देचें एक ठिकाण जालें.

निमाणचो विशय मराठी. इकरावेक चित्रेसरान हाचेआदीं मराठी विशय केन्ना शिकोवंक नासलो. ते मुखेलपणान इंग्लीश आनी संस्कृत शिकयताले. आमच्या वर्गाक ठाकूरसर इंग्लीश आनी स्वत: कर्णिकसर संस्कृत शिकोवपाचे आशिल्ल्यान मराठी विशय चित्रेसरांकडेन गेलो आसुंये. अर्थात ताणी मराठी दिशय शिकोवप ही एक पर्वणीच थरली.

हिंदी, इंग्लीश आनी संस्कृत ह्या बाकिच्या विशयांच्या पुस्तकांप्रमाणच मराठीच्या पुस्तकाचीय रचणूक अत्यंत कल्पकतायेन आनी विचारपुर्वक केल्ली. पस्तकांतले धडे आनी कविता हांची निवड अशे तरेन केल्ली, त्या सगळयांतल्यान मराठी साहित्याचो प्राथमिक स्वरूपांतलो इतिहास विद्यार्थ्यांसामकार येवचो आनी त्याचवांगडा मराठी साहित्याचे भौतेक सगळे प्रकार आनी विचारप्रवाह तातूंतल्यान उकते जावचे. संत कविता, पंत कविता, आधुनिक मराठी कविता हे जशे कवितांचे प्रकार आशिल्ले तशेच लघुकथा, लघुनिंबंद, कादंबरी, प्रवासवर्णन, नाटक हे गद्यप्रकारय आशिल्ले. हातूंतल्या दरेका साहित्यकाराचे सगळे तपशिल चित्रेसरान समजावन तर सांगलेच, पूण त्याचबरोबर दरेका लेखकाचीं आनी कविंचीं वेगळीं वैशिश्ट्यांय अधोरेखीत केलीं. मराठींतल्यो कांय कविता आनी धडे सासणाचे लक्षांत उरतले अशेच आशिल्ले.

सातवेंत आमकां केशवसुतांची 'तुतारी', णववेंत 'स्फूर्ती', धावेंत 'नवा शिपाई', आनी आतां इकरावेंत 'सतारीचे बोल' कविता आशिल्ली. केशवसुतांच्यो हेर कविता खबर नासतानाय 'तुतारी', 'स्फूर्ती', 'नवा शिपाई', आनी चित्रेसरान आतां 'सतारीचे बोल' शिकयिल्ल्यान केशवसुत कवी म्हण कितले श्रेष्ठ आशिल्ले हें सामके प्राथमीक वा बाळबोध स्वरूपांत जायना, समजूंक लागिल्लें. चारूय कवितांभितर 'नवा शिपाई' ही मात म्हाका सगळयांत आवडिल्ली कविता.

'क्रांतीचा जयजयकार' हे कुसुमाग्रजांचे कवितेन अस्सल आनी खरतायेन देशभक्ती शिकयली. भारताच्या स्वातंत्र्यसंग्रामात ज्या क्रांतिकारकांनी वांटो घेवन आपले मायभुंयेक पारतंत्र्यांतल्यान मुक्त करपाखातीर अतोनात दीसरात कश्ट सोंसले, हाल अपेश्टांक फुडो केलो

आनी कांयजाणांनी तर सदांच आत्मबलीदानाची तयारी दवरली त्या ध्येयान पिशे जाल्ल्या क्रांतिकारकांचें मनोगत 'क्रांतीचा जयजयकार' कवितेवरी मराठींत दुसरे खंयचेच कवितेंत आसतलें अशें म्हाका दिसना.

जा वायुनो श्वासासंगे ओलांडून भिंत
अन् आईला कळवा अमुच्या हृदयातील खंत

मायभुंयेक आपणाल्या काळजांतली खंत कळोवपाखातीर दुसरें खंयचेंच साधन नाशिल्ल्यान बंदखणिंतले देशभक्त वाऱ्याक आपल्या श्वासाबरोबर वचपाक सांगून आपलें मनोगत कळोवपाक लायतात, ही कुसुमाग्रजांची कविताय क्रांतिकारक आशिल्लीय.

म्हाका परतूनय मेघदूताची याद जाली.

आपल्याच मार्गाचेर पेटिल्ले इंगळे आपणे कशे पातलावन दवरल्यात तें सांगता आसताना क्रांतिकारक म्हणटात,

पदोपदी पसरून निखारे आपुल्याच हाती
होउनिया बेहोष धावलो ध्येयपथावरती
कधि न थांबलो विश्रांतीस्तव, पाहिले न मागे
बांधु न शकले प्रीतीचे वा कीर्तीचे धागे
एकच तारा समोर आणिक पायतळी अंगार
होता पायतळी अंगार
गर्जा जयजयकार क्रांतीचा गर्जा जयजयकार!

(आपल्याच हातांनी पावला पावलार इंगळे पातलावन / बेहोश जावन ध्येयाच्या मार्गार धांवले / सुशेग घेवपाक केन्ना रावले ना, फाटीं पळयलें ना / प्रीतीचे वा किर्तीचे धागे बांदपाक शकले ना / मुखार एकूच नखेत्र आनी पांयाखाला अंगार / पांयाखाला आसलो अंगार / गर्जा जयजयकार क्रांतीचो गर्जा जयजयकार)

आपले मातेक – मायभुंयेक धीर धरपाक सांगताना आकांताळ्या आशावादान ते सांगतात,

कशास आई, भिजविसि डोळे, उजळ तुझे भाल
रात्रीच्या गर्भात उद्याचा असे उषःकाल

सरणावरती आज आमुची पेटताच प्रेते
उठतिल त्या ज्वालांतुन भावी क्रांतीचे नेते
लोहदण्ड तव पायांमधले खळाखळा तुटणार
आई, खळाखळा तुटणार
गर्जा जयजयकार क्रांतीचा गर्जा जयजयकार!

(कित्याक आई, भिजयता दोळे, उजळ तुजें कपाळ / रातीच्या गर्भांत आसा फाल्यांचो उष:काल / सरणाचेर आज आमचीं जळटात मडीं / त्या ज्वाळांतल्यान उठटले फुडले क्रांतीचे फुडारी / तुज्या पांयांतले लोहदण्ड खळाखळा तुटटले / आई खळखळा तुटटले / गर्जा जयजयकार क्रांतीचो गर्जा जयजयकार)

चवथेंत आसतसावन म्हज्या मनांत शिरीपकुमार ठाण मांडून बशिल्लो. 'क्रांतीचा जयजयकार' वाचता आसताना म्हज्या मनात आतां सतत भगतसिंह उब्रो राव आनी स्वातंत्र्यसंग्रामातल्या सगळ्या क्रांतिकारकांक स्वातंत्र्या उपरांत कसले तरेचो भारत अभिप्रेत आसतलो, हाचें चित्र झळकूंक लाग.

विं. दा. करंदिकरांचे 'स्वेदगंगा' हे कवितेचोय प्रभाव असोच सामणाचो उरलो. ते कवितेंत ताणी केल्लें कश्ट करतल्यांच्या घामाचें वर्णन आनी ताची महती गायताना उकतायिल्ली कृतज्ञतायेची भावना विचारांक उत्तेजन दिवपासारखीच आसली. कश्टाची प्रतिश्टा आनी संवसारांतली दरेके वस्तुचे निर्मणेखातीर मनशाच्या कश्टांचें योगदान कितलें श्रेष्ठ आसा, हें विंदाच्या 'स्वेदगंगा' तल्यान पयलीं समजलें.

'त्या तरूतळी विसरले गीत' ही वा. रा. कांताची प्रेमकविताय सगान तितलेच उत्कंटतायेन शिकयली. ज्या कवितांक लागून बा. सी. मर्ढेकर हे नवकवितेचे जनक थरले, तांतली 'गणपतवाणी' ही कविताय आमकां इकरावेच्या वर्गांतूच आशिल्ली. मराठी कवितेक तत्वगिन्यानाची जोड दिल्ल्यान मर्ढेकरान मराठी कविता समजुपाक कठीण केली अशी टीका तांचेर जाता अशें सरान सांगलें. 'गणपतवाणी' वाचताना तांतली कठोरताय कळ्ळी. पूण ताचो तत्वगिन्यानाकडेन कसलो संबंद आसा हें सरान बरेतरेन शिकोवनय आमकां समजुपाक शकलें ना.

माधव ज्युलियनांची 'अव्यक्त शक्ती' ही कविताय अर्थपूर्ण आशिल्ली. लोकांक देवळाचो कळस दिसता. पूण ताची बुनयाद घट करपाखातीर आपणाक जमनीत पुरोवन घेवपी चिरे दिसनात असो ताचो आशय आसलो.

पुस्तकांतले धडेय एकापरस एक उत्कृश्ट दिसचे अशेच आशिल्ले.



य. गो. जोशी ह्यांगेली 'पारिजातकाची फुले' आनी पंडीत म्हादेवशास्त्री जोशी ह्यांची 'मायेचा पूत' ह्यो दोन लघुकथा शिकयताना अशेंच भाराविल्ल्यावरी जाल्लें. एका कुटुंबांतल्या मनशांचें वागप इतलें प्रसन्न आसता, हळवें तशेंच जाय जाय दिसचें अशें आसता, हेखातीर लेखकान तांकां पार्दिकाच्या फुलांची उपमा दिल्ली. तो धडो शिकयता आसताना पार्दिकाच्या फुलांचो सडो शिंपडिल्ल्यावरी दिस. तर 'मायेचा पूत' ह्या धड्यांत लागचो कोणूच सोयरो नाशिल्ल्या ऑस्पितालांतल्या एका निराधार म्हाताऱ्या पिडेस्ताक त्याच ऑस्पितालांतलो एक तरनाटो दोतोर अतिशय आपुलकायेन जतनाय घेतिल्ल्यान त्या म्हाताऱ्याच्या मनात जगपाची उमेद कशी निर्माण जाता ह्याचें चित्रण केल्लें. ह्या दोनूय लघुकथांत मानवी सभावाचें केल्लें सुक्षीम वर्णन कशें भुलोवणे आसता हें समजलें.

लघुनिबंदांत अनंत काणेकरांचो 'सामान्याचे असामानयत्व' आनी ना. सी. फडक्यांचो 'वाट चुकल्याचा आनंद' हे दोन लघुनिबंद आशिल्ले. मराठी साहित्यांत लघुनिबंद हो प्रकार फडक्यांनी हाडल्याचें सरांनी सांगलें. फडक्यांची शैली आनी अभिव्यक्तींतली सहजताय त्या लघुनिबंदांतूय उकती जाल्ली. तर काणेकरांच्या लघुनिबंदांत सहजतायेन लोकांचे नदरेंत पडचेंना अशें सामान्यांचें असामान्यत्व कशें दडिल्लें आसता हें बारीकसाणेन सोदून काडून तें अधोरेखीत करपाचो यत्न केल्लो. मराठी साहित्यांत 'वास्तववाद' हो जिविताविशींचो एक द्रष्टीकोन आसा आनी काणेकरांनी तो लघुनिबंदांत हाडलो अशें सरांनी म्हणलें. कविता वा धडो शिकयताना आपली आवड निवड जरी सरान मात लेगीत उकतायली ना तरी फडके आनी काणकरांचे लघुनिबंद शिकयताना ती कांयशी जाणवली. त्या दोनूय म्हान लेखकांभितर सरांचे आवडटे लेखक मात काणेकर आशिल्ले, हें म्हज्या लक्षांत आयलें.

ग. त्र्यं. माडखोलकर ह्यांच्या 'माझा मुक्त व्यवसाय' ह्या धड्याक लागून म्हज्या मनात नेमाळयांविशीं गोडी निर्माण जाली ती सासणाची. आनी फाटीं फुडें म्हाका नेमाळयांनी बरोवपाक मेळळें जाल्यार कितलें बरें जातलें अशें दिसपाक लागलें.

प्रवासवर्णनांत रा. भी. जोशींच्या 'वाटचाल' मदल्या 'शरावती' शिर्षकाचो एक उतारो आशिल्लो. तशेंच 'कुणा एकाची भ्रमण गाथा' ह्या गो. नी. दांडेकरांच्या प्रवासवर्णनांतलो 'नर्मदा तटाकी' हो धडो आशिल्लो.

धावेंत 'वाटचाल' मदल्या 'पळसाची फुले' ह्या धड्यांत लाहोराच्या जंगलांतल्या पळसाच्या फुलांचें थोडेशें केल्लें वर्णन अप्रतिम आशिल्लें. पूण लेखकाची लाहोराची भेट ही देशाची फाळणी जावचेआदींची आशिल्ल्यान

आनी आतां फाळणेउपरांत तितले सहजतायेन लाहोराक वचपाक जमचें ना आनी तीं 'पळसाची फुले' परतून पळोवपाक मेळचींनात हेविशींची खंत उकतायिल्ली.

आनी आतां तर 'शरावती' त कल्पनाविलासाचो उच्चांक जाल्लो. गिरसप्पा धबधबो उंचायेरसान खाला कोंसळटा तेन्ना ताचे चार प्रवाह जातात. तांतले तीन थोडेशे मोटे आनी एकामेकांचे लागसून सकयल कोंसळपी. तांचीं नांवां. 'राजा', 'रोअरर' आनी 'रॉकेट' अशीं आशिल्लीं. ते मोटेआशिल्ल्यान लेखकान तांकां 'मदांत' दादल्यांची उपमा दिल्ली.चवथो थोडोसो अशक्तसो आनी पयमुल्ल्यानच सकयल देंवतालो. तो इतलो नाजूक आशिल्लो, ताका धबधबो म्हणपाकय कठीण जावचें. लेखकान ताका म्हणिल्लें 'गौरी'.

एखादे नाजूक अस्तुरेन कोणा दांडगट दादल्यापासून आपलें मंरक्षण करपाखातीर मातशें कुशींच्यान चलपाचो तो प्रकार आशिल्लो अशी कल्पना केल्या. आनी रोकडेंच अजापभरीत करपी जोशींचें तें कल्पनावैभव. ते बरयतात, 'जंयसावन गौरी सकयल देंवता, थंय कड्याच्या तोंकाकडेन उभो रावन एक चांफो तिची सुंदरकाय निरखितालो...तो तिगेल्या अस्तित्वान भुल्लुसून पिसो जाल्लो...आनी तो इतलो बागवल्लो, कुशीच्या दोंगराच्या सुळक्याकडेन तागेले पांय आडखळूंक नाशिल्ले जाल्यार तिचें रूप निमाणेमेरेन पळोवपाखातीर तो तातूंत उडीय घेत आसलो.'

फुडें कितलेतरी दीस त्या चाफ्याची असमर्थताय म्हाका अस्वस्थ करीत रावली.

दांडेकरांच्या 'निर्मला तटाकी' ह्यातूंत लेखकान नर्मदेक म्हणलां, 'आई, तूं कितली सुंदर दिसता!' न्हंयचेर म्हजो जिवापरस चड मोग. म्हगेले आजोळचे फाटभुंयेचेर म्हज्या चार पिळग्यांचें नातें तिचेकडेन निर्माण जाल्लें. पूण नांव नाशिल्लें नातें आशिल्लें तें. 'आई, तूं कितली सोबीत दिसता!' हें वाक्य वाचतकच म्हजें म्हजे आजोळचे न्हंयेकडेन आशिल्लें नातें नक्की जालें.

सरांनी मागीर खांडेकरांच्या 'क्रौंचवध' कादंबरींतलो 'दिलीपची आई' हो धडो शिकयलो. त्या धड्यांतले सगळे प्रसंग, दिलीपाची व्यक्तिरेखा, दिलीप आनी सुलूचो मोग आनी खास करून सामाजिक भावनेचो आविष्कार ह्याणी म्हाका उचंबळीत करून सोडलो.

'दिलीपची आई' हो धडो शिकोवन जातकच केन्ना काय म्हाका 'क्रौंचवध' वाचीन अशें जालें. ह्यावें सोनावणेक म्हणलें, “रामभाऊ, क्रौंचवध खंयय मेळपाक शकत?"

"हांव पाटेकराक सांगतां." ताणें म्हणलें.

पाटेकर तांचो आदर्श आनी मार्गदर्शक. पाटेकर म्युनिसिपालिटीच्या हायस्कुलांत मराठीचे शिक्षक आशिल्ले , ताणी आपल्या आयुश्यांत तांकां आवय – बापायउपरांतची सुवात दिवन दवरिल्ली. खंयचेय गजालीचेर चर्चा करता आसताना एक फावट तरी ताच्या उलोवपांत पाटेकरांचो उल्लेख हो आसतालोच. सोनावणेचे हुशारेचें तांकांय भोव कवतुक. एक फावट पाटेकरांकडेन ताणे म्हजी वळख करून दिल्ली.

सावणेन पाटेकरांक सांगून मुंबई मराठी ग्रंथसंग्रहालयांतल्यान म्हाका 'क्रौंचवध' हाडून दिली.

'क्रौंचवध' वाचून हांव फकत भारावनच न्हय, तर पुराय बदलून गेलों.

"मा निषाद प्रतिष्ठा त्वमगमः शाश्वतीः समाः
यत्क्रौंचमिथुनादेकमवधीः काममो हितम् ॥"

प्रणयक्रिडा करता आसताना क्रौंच पक्षांच्या जोडप्यामदल्या नराचो वध करपी पारध्याक केन्नाच मोक्ष मेळचो ना, असो शाप वाल्मिकीन दिला. क्रौंच पक्षाच्या ताटातुटीचें रूपक खांडेकरांनी आधुनिक जगांत बुद्ध आनी कल्पना हांचमदले फारकतीखातीर वापरून 'क्रौंचवध' बरयली. बुद्दिच्या आकांताळ्या सामर्थ्याक लागून मनीस भावनांक विसरत चलला. सामाजिक भावनेक आनी संवेदनशीळतायेक सामकी उणी सुवात मेळपाक लागली आनी ताका लागून खिणाखिणाक क्रौंचवध जावपाक लागले ही आधुनिक जगाची शोकांतिका आसा अशें खांडेकरांचें मत. संवसारांत हिंसा आनी विसंवाद निर्माण जाला. ताका लागून अशी हिंसा, दळडीर, शोशण, विशमताय आदींक जापसालदार आशिल्ल्या दरेकल्याक खांडेकरान 'पारधी' म्हणलां.

संस्कृताचे प्राध्यापक दादासाहेब दातार, तांची लाडांची धूव सुलोचना, तिचो घोव आनी रामगड संस्थानाचो दोतोर भगवंतराव शहाणे आनी कादंबरीचो नायक दिनकर सरदेसाई हीं 'क्रौंचवध' हातूंतलीं मुखेल पात्रां. दरेकल्याच्यो जगपाच्यो वाटो वेगवेगळ्यो. घरांतल्या प्रतिकूल वातावरणाक लागून दिनकर, दादासाहेबांच्या घरा येवन तांच्या आदारान शिकता. सुलोचना - सुलू आनी दिनकराचे सुरवेचे इश्टागतिचें रूपांतर मोगांत जाता. दोगांलोय एकामेकाचेर जिवापरसय चड मोग.

"जगाचो दिनकर! म्हजो दिलीप" सुलू म्हणटा.

भौतिक अर्थान सुखी समजतल्या आयुश्याक जाणून बुजून फाट करपी दिलीपान समाजसेवेचें व्रत आपणायिल्लें. शेतकाऱ्यांच्या शोशणाआड

झगडटाना तो तांचो संप घडोवन हाडटा. वैराग्यांक फाटीर मारून व्हरता, क्रांतीचो जयजयकार करता, भगतसिंगाक आदर्श मानता, बंदखणीक 'आईचें घर' आनी जितें जागतें शिक्षण दिवपी शाळा मानता. आपणाकडेन लग्न जालें जाल्यार सुखांत वाडिल्ले सुलूक कश्टांचें, हालअपेश्टांचें जिवीत जगचें पडटलें, ही कल्पनाय दिलीपाच्यान सोंसपाक जायना. तेखातीर ताचेवयलो आपलो जिवापरसय चड असो मोग तो उकतायना लेगीत.

दिलीप आनी सुलूक एकामेकाविशीं दिसतली ओड हाची कल्पना आसूनय दादासाहेब दातार तांच्या लग्नाचो विचारय करपाक शकना. सुलूचें लग्न दिलीपावांगडा जायनासताना, तांच्याच कॉलेजींत शिकपी डॉ. भगवंतराव शहाण्याकडेन जाता. सुलू आनी दिलीप हांची ताटातूट करपी दादासाहेब दातार होवूय एका अर्थान 'क्रौंचवधां' तलो शिकारीच.

सुलूची सदांच भावनीक आनी मानसीक ओढाताण जाता. भगवंतराव शहाण्याकडसून मेळपी भौतिक सूख हें जरी तिका निरर्थक दिसलें तरी तिच्यान तें न्हयकारूंक येना आनी दुसरे वटेन दिलीपाच्या ध्येयवादावयल्यान तिची भक्ती मातय उणी जायना. वयल्यान तो महासागरावटेन वता अशें तिका दिसता.

कूड एकल्याचे सुवादीन करप आनी मनातल्यान मोग दुसऱ्याचेर आसप अशी तिची कुचंबणा जाता.

एकामेकाचें चुंबन घेवपाक आशेवपी पूण तडीक पावपाक जावंक ना अशी दिलीप आनी सुलूची इत्सा जी कादंबरींत वेगवेगळया प्रसंगांनी दाखयिल्ली ती अस्वस्थ करपी आसली.

“दिलीपाचें एकूच चुंबन!" आनी "सुलूचें एकूच फावट चुंबन घेवपाक कसली हरकत आसा" हीं वाक्यां हावें शंभरेक खेप तरी वाचल्यां आसूंक जाय.

एक दीस दिलीपाचे झोपडेंत गेल्ली आसताना सुलूच्या हट्टाखातीर दिलीप तिका कविता म्हणून दाखयता.

युगामागुनी चालली रे युगे ही
किती करावी भास्करा वंचना
किती काळ कक्षेत धावू तुझ्या मी
कितीदा करू प्रीतीच्या याचना?

..........................................

न जाणे न नेणे कुठे चालले मी
कळे तू पुढे आणि मी मागुती!

..........................................

नको क्षुद्र शृंगार तो दुर्बळांचा<br>
तुझी दूरता त्याहुनी साहवे!

..........................................

गमे की तुझ्या रूद्र रूपात जावे<br>
मिळोनी गळा घालुनिया गळा<br>
तुझ्या लाल ओठातली आग घ्यावी<br>
मिठीने तुझ्या तीव्र व्हाव्या कळा

दिलीपाच्या तोंडांतल्यान ही कविता आयकतकच तें 'पृथ्वीचें प्रेमगीत' न्हय तर आपल्याच जिविताची ती भाशांतरीत कथा आसा अशें सुलूक दिसता.

दिलीप आनी सुलू हीं म्हजे नदरेन आदर्श प्रियकर आनी प्रेयसी. बुध्दी आनी कल्पनाशक्तिचो अद्‌भूत आविष्कार. तांचो संगम हो मनभुलोवणो जातलो आशिल्लो. पूण 'क्रौंचवधां' तल्या आशयाकडेन तो विसंगत थरूं येतालो देखून तो जायना.

दिलीप आनी सुलू हांची ताटातूट म्हज्यान सोंसपाक जायना.

निमाणे एके जाहिर सभेच्या वेळार पुलीस इन्स्पेक्टराच्या खुनाच्या संदर्भात दिलीपाक फांशीची ख्यास्त फर्मायतात आनी फांशी दिवच्या कांय वरांआदीं दादासाहेब दातारांक 'तुमचो नावडतो शिश्य' अशें म्हणून दिलीप एक प्रदीर्घ चीट बरयता.

ती चीट म्हणल्यार दिलीपाचो पर्यायान खांडेकरांचो जिणेकडेन पळोवपाचो दृष्टीकोण आसा.

ते चिटींतलो खुबसो वांटो पाठ करपाचो हावें यत्न केलो.

एक दीस वर्गांत शिकयता आसताना भुरग्यांनी बोवाळ घालो तेन्ना प्रा. दातार म्हणटात, "कॉलेज हें सरस्वतिचें मंदिर आसा, सप्तकाचो बाजार न्हय."

"सप्तकाचो बाजार भरता म्हणूनच तर लोकांक जेवपाक मेळटा. देवळांत फकत पुजाऱ्याक निवेद्द मेळटा. बाकिचें उपाशी उरतात." दिलीप शांतपणान जाप दिता.

सप्तकी बाजाराकडेन लागसारपण करपाक म्हाका शिकोवपी कोण! दिलीपाची तर बाजारविशीं फकत संवेदना आशिल्ली, आनी म्हजें मात आतांमेरेनचें अस्तित्वच आचरा, चिंदर आनी मिठबावच्या सप्तकी बाजारांचेर निंबून आशिल्लें.

दिलीपाच्या ह्या वाक्यान म्हज्या काळजाकूच हात घाल्लो.

आनी निमाणे, ते चीटयेंतल्या, खरें म्हणल्यार पुराय कादंबरींतल्या ज्या सात – आठ वाक्यांनी हांव भायल्यानतल्यान तेचवरी अंतर्मनांतल्यान बदलून, झपाटून गेल्लों तीं दिलीपालीं वाक्यां :

'सामाजिक भावना हो उदरगतीत मानवी जिणेचो आत्मो आसा. ही भावना सदांच तीन तरांनी प्रकट जाता - उतरांनी, दुकांनी आनी कृतींनी. काव्य हें हे भावनेचें पयलें सुंदर स्वरूप. पूण काव्यांतलीं उतरां कितलींय सुंदर आसलीं तरी तीं वाऱ्यांतूच विरगळून वतात. दुकां हें भावनेचें दुसरें सोबीत रूप! पूण मनशाच्या खवळिल्ल्या काळजाच्या दर्यांतल्यान भायर सरपी हीं मोतयां अखेर मातयेमोलाचींच थरतात! दोळयांतल्या उदकान मनीस आपणाल्या काळजांतलो उजो लेगीत शांत करपाक शकना, मागीर संवसारांतलो वणवो तो कितें पालयतलो? सरभोवतणचें दुख्ख पळोवन व्याकुळ जाल्लें मनशाचें मन ल्हव करपापेल्यान उतरां आनी दुकां हांच्यांत सामर्थ्य आसना.

भावनेचें हें तिसरें स्वरूपच मानवी उदरगतीक उपकाराक पडूं शकता. ह्या स्वरूपांत ती तोंडान वा दोळयांनी उलयना. ती सदांच हातांनी उलयता. आपणालें रगत शिंपून ती जीण फुलयता.

उतरां, दुकां आनी रगत! तिगांच्याय उत्पतिचें ठिकाण एकूच, पूण तांचे संवसार कितले वेगळे?'

“सामाजिक भावना हो उदरगतीत मानवी जिणेचो आत्मो' आनी "Men are not Born, they are made” अशें म्हणपी दिलीप म्हजो आदर्श जालो. 'क्रौंचवध' म्हजे आवडिची कादंबरी जाली. खांडेकर म्हजे आवडटे लेखक जाले.

म्हाका परतून परतून दिसपाक लागलें, आमकां दिलीपाभशेन इल्लें तरी जगपाक येत काय?

'क्रौंचवध' वाचतकच एक फावट हावें पाटलांक म्हणलें, “म्हाका खांडेकरांच्यो दोन – तीन कादंबऱ्यो वाचपाक जाय आशिल्ल्यो. कश्यो मेळटल्यो?”

“म्हजो एक इश्ट मुंबई मराठी ग्रंथसंग्रहालयाचो सभासद आसा. ताका सांगतां.” पाटलान म्हणलें.

ह्यावें मागीर खाडेकरांच्यो 'उल्का', 'दोन मने', 'हिरवा चाफा', 'जळलेला मोहर', 'कांचनमृग', आनी 'अश्रू', ह्यो कादंबऱ्यो मोटेआवडीन वाचल्यो.

पूण 'क्रौंचवध' ची सुवात म्हज्या मनांत अजरंवर उरली.

त्याच दिसांनी सोनावणेन म्हाका माडखोलकरांची 'भंगलेलं देऊळ', ही कादंबरी दिली. तांचीय भास आनी शैली म्हाका आवडली.

फडके आनी काणेकरांचे लघुनिबंद शिकोवन जातकच फडक्यांचो 'गुजगोष्टी' तशेंच काणेकरांचे 'पिकली पाने' आनी 'नवे किरण' हे लघुनिबंदसंग्रह वाचपाक दिले. 'नवे किरण' चे संपादक आशिल्ले खांडेकर. फडक्यांची शैली आवडूनय काणेकरांच्या वास्तववादी दृष्टीकोनान म्हाका खुबच भुलोवणी घाली. इतली म्हणल्यार 'क्रौंचवध' वाचतकरय 'पिकली पाने' आनी 'नवे किरण' वाचल्या उपरांत ह्यावें 'म्हजे आवडते लेखक अनंत काणेकर' असो निबंद बरोवन सरांक दाखयलो.

“फाटले खेपेक तुवें आवडटे लेखक खांडेकर बरयिल्ल्याची याद म्हाका जाता.” सरान म्हणलें.

“काणेकरांच्या लघुनिबंदांचो हो प्रभाव" ह्यावें म्हणलें. सरांच्या मुखामळार सदचेभशेन हांसो परजळ्ळो. निबंदाक ताणी वीसांपैकीं सोळा मार्क दिले.

'क्रौंचवधां'त कुसुमाग्रजांच्या 'क्रांतीचा जयजयकार' हे कवितेच्यो वळी आशिल्ल्यो. पूण ती आमच्या इकरावेच्या अभ्यासक्रमांतूच आशिल्ली. 'पृथ्वीचं प्रेमगीत' मदल्यो मात कांय वळीच आशिल्ल्यो. ती कविताय 'विशाखां' तूच आशिल्ली.

कितेंय करून 'विशाखा' ह्यडून दीच अशें ह्यावें पाटलाक सांगलें.

'पृथ्वीचं प्रेमगीत', 'कोलंबसाचं गर्वगीत', 'स्वप्नांची समाप्ती', 'आगगाडी व जमीन', 'माळाचे मनोगत', ह्यो आनी हेर कविता वाचून हांव तटास जालों. 'विशाखा' हो ते पिरायेचेर ह्यावें वाचिल्लो पयलो कवितासंग्रह. कवी जावपाखातीर खऱ्यांनीच एक वेगळी प्रतिभा लागता हें पयलेच खेपेक 'विशाखा' वाचतकच म्हाका कळ्ळें.

धावेंत आसताना 'पळसाची फुले', आनी ताचेपरस आतां इकरावेंत पावतकूच 'शरावती' वाचून हांव भारांवन गेलों.

एक फावटीं सर वर्गांतल्यान भायर सरता आसतना बरेंच धाडस करून ह्यावें म्हणलें, “सर, म्हाका 'वाटचाल' मातशें वाचपाचें आशिल्लें.”

सरान म्हणलें, “बरें.”

दोन दिसांनी सरान 'वाटचाल' दिलें. म्हाका दिसलें तें तागेलें आपलेंच

पुस्तक आसुंये. कित्याक तर ताचेर खंयच लायब्ररीचो स्टँप नाशिल्लो.

एका सप्तकांत ह्यावें तीन फावटीं 'वाटचाल' वाचलें. त्या धाकटुल्याशा भोंवडे वर्णनान म्हज्या मनाचो थाव घेतलो.

'वाटचाल' म्हणल्यार मराठी साहित्यांतली एक प्रदीर्घ आनी सौंदर्यशाली कविताच म्हणपाची म्हजी भावना जाली.

6 डिसेंबर ह्यो डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांचो महापरिनिर्वाण दीस. आमी इकरावेंत आसताना शाळेन तो पयलेच खेप मनोवपाचें थारायलें आनी फकत चित्रेसरांचें भाशण त्या दिसा दवरलें.

आमी सगळीं भुरगीं हॉलांत एकठांय जालीं. बाबासाहेबांच्या इतिहासीक कार्याचो नियाळ घेवपी आनी एक वर खिळोवन दवरपी सरांलें भाशण जालें.

अस्पृश्यताय आनी जातीवेवस्था हांचेआड संघर्श करताना सामाजीक समताय प्रस्थापित करपाक लागून बाबासाहेबान विविध कार्यावळी कशो आयोजीत केल्यो तांचें विवेचन तर सरानी केलेंच, पूण अस्पृशांच्या राजकी हक्काखातीर गांधीजींकडेन ताणी कसो संघर्श केलो, तातूंतल्यान 'पुणे करार' कशेतरेन केलो आनी मागीर 'स्वतंत्र मजूर पक्षा' ची थापणूक करून 1937 ते वेंचणुकेंत मुंबय कायदे मंडळान आपणाले प्रतिनिधी कशे वेंचून हाडले, भारताची राज्यघटना तयार करपाखातीर कशे आकांताचे परिश्रम घेतले आनी हिंदू धर्मातल्यान जातीवेवस्था नाकरप कशें कठीण हें लक्षांत येतकच ताणी कशेतरेन बौध्द धर्मात पदार्पण केलें ह्यो सगळयो गजाली आमकां समजूं येता अशे अतिशय सोपे पद्दतीन समजावन सांगल्यो. त्यो सांगता आसातना बाबासाहेबाक आपणालो संघर्श कसो 'एकलेपणान' करचो पडलो हें खरतायेन नदरेंत हाडून दिलें.तांगेल्या उतराकणकणी बाबाहेबांचे चळवळींतली श्रध्दा आनी निष्ठा उकती जाताली.

आनीक एक गजाल भाशणाच्या ओघांत समजली. सरांचे बापूय, बापोलये आनी मामा ह्याणी आपणाक बाबाहेबांचे चळवळींत ओंपून दिल्लें. आपल्या भुरगेपणांत घराकडेन चळवळीविशींच्यो घरांत चलतल्यो चर्चा ताणी आयकल्ल्यो.

ते इतिहासीक चळवळिचे ते स्वत: एक वारसदार आशिल्ले. '

एकेका विशयाचो अभ्यासक्रम शिकोवन सोंपत आयिल्ल्यान आतां शाळेंत येवपाचें रोकडेंच बंद जावपाचें आशिल्लें. दरेका निमाणच्या तासाक

अस्वस्थताय जाणवताली. दरेकलो शिक्षक 'आज म्हजो निमाणचो तास' अशें म्हणून अनौपचारीक गजाली सुरू करी आनी ह्यानफुडें हो तास जावंचो ना हाची खूब खंत जावंची. आमी भुरगीं तर सामकीं भाराविल्ल्यावरी जावंचींच पूण शिक्षकांचीय खंत जाणवलेबगर रावनासली. ताका लागून हेर दिसांनी एखादो पिरियड ऑफ आसतकच वर्गाभायर वचपाक आमची जी चुळबूळ आसताली ती आतां ऑफ पिरियडाक जायनासली आनी आमी आतां वर्गांतूच बसून रावंचें.

आमच्या निरोप सुवाळयाची तारीक जाहीर जाली आनी काळजांत वयर सकयल जावपाक लागलें.

एक दीस दनपारां कर्णिकसरान म्हाका आपणाल्या कॅबिनांत आपोवन व्हरून, “निरोप सुवाळयाच्या दिसा फराळाखातीर कसले जिनस दवरूया" अशें विचारलें.

“सर, शाळेची आर्थीक परिस्थिती बरी ना आनी आमी भुरगींय खावपाचे मनस्थितींत आसचींनात तेन्ना कितेंतरी सादेंच दवरूया.” हावें म्हणलें.

कॅबिनाच्या भायर यो जाल्यार मंडळी वाट पळयत राविल्ली. 'कितें कितें सागलें?' ताणी म्हाका विचारलें.

कर्णिकसरांक जें हावें सांगलें तेंच तांकां सांगलें. तांतल्या कांयजाणांनी उपरोधिकपणान म्हाका म्हणलें, “शाळेचे परिस्थितिचो हुस्को तुका कित्याक? निरोपसुवाळयाच्या निमतान आमच्या पोटांत एक – दोन बरे जिनस गेल्ले जाल्यार कितें इबाडटलें आशिल्ले! खरें म्हणल्यार तूं सांगता तितलेंय कर्णिकसर दिवपी आशिल्लो.”

“आरे बाबांनो, हावें जरी खास अशें कितें सांगलें ना तरीय शाळा कितेंतरी बरें दितलीच.” हावें हांसून वेळ मारून व्हेलो.

निरोपसुवाळयाचो दीस उजवाडलो. सदांच युनिफोर्म घालून उबगल्ल्यान वेगळे कपडे घालपाची संद सोदपी भुरगीं आज रंगीबेरंगी कपड्यांच्या वेशांत धा वरांचेर शाळेच्या हॉलांत एकठांय जाल्लीं. चलयांचें नटप – थटप तर कितें विचारपाचें!

शाळेच्या व्हरांड्यात नेमान सुचोवण्यो बरोवन दवरतात त्या फळयाचेर 'वेलीवरची फुले' हें म्हजें ल्हानशें टीपण लायिल्लें. तातूंत हावें शाळेक वालीची उपमा दिल्ली आनी अर्थांत भुरग्यांक फुलां म्हणिल्लें. फुलांक वालीसावन वेगळायताना वालीक आनी फुलांक जें भोगता आसतलें

तेंच आज शाळेक आनी आमकां भुरग्यांक दिसता, अशी तातूंत कल्पना केल्ली. हॉलांत भितर सरतलो दरेकलो तें वाचून म्हजें कवतूक करतालो.

कर्णिकसरान निरोप सुवाळयाचे कार्यावळीक सुरवात केली. निरोप सुवाळो आमचो आशिल्ल्यान आदींसावन चलत आयिल्लो उलोवपांचो क्रम बदलून पयलीं शिक्षकांनी आपलें मनोगत उकतावपाचें आनी मागीर भुरग्यांनी उलोवपाचें अशें सांगलें. तरीय वेळ थोडो आशिल्ल्यान सकाळच्या आनी दनपारच्या अधिवेशनांतले मोजकेच शिक्षक आनी विद्यार्थी उलयतले अशें थरलें.

शिक्षकांचीं भाशणां सुरू जालीं. सकाळच्या अधिवेशनांतले ढोलमसर, मठकरबाई, गणित आनी सायन्सीचे जोगसर आनी दनपारच्या अधिवेशनातले नेरूरकर, नाबरबाई, आवटेबाई, चित्रेसर आनी ठाकूरसर हांचीं भाशणां जालीं. ही मंडळी जायतीं वर्सां शिक्षकी पेशांत आशिल्ल्या कारणान इकरावेच्या भुरग्यांचो निरोप सुवाळो ही तांचेखातीर सदची गजाल जाल्ली. आनी तरी तांच्या उलोवण्यांत एके तरेचें हळवेपण जाणवतालें. दरेकल्यान आपणाली स्वतंत्र याद सांगली. ठाकूरसरांलें दरेक उतर आमच्या अंतर्मनात सांठावन दवरपासारकें आसलें आनी चित्रेसरांचे तर एक वाक्य फुडें आयुश्याचें मार्गदर्शक थरलें.

हांव हायस्कुलांत आसाताना तेदेवेळार कॉलेजींत वचपी हुशार भुरगे हे एक तर इंजिनियरींगाक व्हा मेडीकलाक वच. इंजिनियर आनी दोतोर हे दोन वेवसाय प्रतिष्ठेचे आशिल्ले. दोतोरकेचो वेवसाय हो तर भरपूर पयशे कमावपाचो वेवसाय. ताका लागून भरपूर विद्यार्थ्यांचो कल तेवटेन आसतालो. आमचे शाळेंतले विद्यार्थीय ताका आडवाद नासले. हे वस्तुस्थितिचो उल्लेख करून चित्रेसरान आपणाल्या भाशणात म्हणलें, "आमच्या देशाक जेतरेन आज इंजिनियरांची आनी दोतोरांची गरज आसा तशीच शास्त्रज्ञ, बरे साहित्यिक आनी कलावंतांचीय गरज आसा. विशेश करून आमच्या देशांतलें दळडीर, बेकारी आनी आर्थिक विषमताय पयस करपाक आज आमच्या देशाक बऱ्या अर्थतज्ञांचीय गरज आसा."

ठाकूरसर आनी चित्रेसर हीं म्हजीं दैवतांच. म्हजी अर्थिक परिस्थिती दळडिरी आशिल्ल्यान म्हाका फुडलें शिकप एक तर परवडपाचें नासलें व्हा कसलीतरी नोकरी करूनच तें घेवं येतालें. पूण फुडलें शिकप घेवप जर शक्य जालेंच, तर चित्रेसरांचे इत्सेप्रमाण विशय मात अर्थशास्त्रच घेवपाचो हें हावें थारावन दवरलें.

"आमी मुणगेकाराक शिकयलें ना, ताचें वायट दिसता." अशें एका दोगां शिक्षकांनी म्हणिल्लें तें आयकून म्हजें मन हाललें.

आतां आमचीं भुरग्यांचीं भाशणां सुरू जालीं. उलोवप्यांमदल्या दरेकल्याचो, चड करून चलयांचो अर्दो वेळ रडपांतूच गेलो. बाकिच्या तुकड्यांतल्या भुरग्यांप्रमाण आमच्या वर्गांतलीं शालीनी तावडे, रामभाऊ सोनावणे हांचीं भाशणां जालीं. सुमार एका वराचो वेळ जालो आनी सोनावणेचें नांव घेतकच कर्णिकसरान म्हणलें, " आतां हें निमाणचें भाशण."

भियेतूच पूण ल्हव आवाजांत सादारणशा सगळयाच भुरग्यांमदीं कुजबूज जाली, "मुणगेकरांचें भाशण?"

"मुणगेकराचें भाशण जालेबगर निरोप सुवाळो पुराय जावचो ना." कर्णिकसरान म्हणलें.

सोनावणेचें भाशण सोपलें आनी सरान म्हजें नांव घेतलें. शिक्षकांसयत माचयेर बशिल्ले कर्णिकसर, ठाकूरसर आनी चित्रेसर सोडून बाकिच्या सगळया शिक्षकांनी आनी भुरग्यांनी ताळयो मारून म्हाका येवकार दिलो.

चार वर्सांआदीं शाळेंत प्रवेश घेतसावन सगळे स्वातंत्र्यदिन, गांधीजयंती, टिळक पुण्यतीथ हांतल्या दरेका प्रसंगावेळार जेन्ना जेन्ना विद्यार्थ्यांचीं भाशणां जालीं, तेन्ना तेन्ना दरेका वेळार म्हजें भाशण जाल्लें. शाळेंतल्या दर वक्तृत्व वा वादविवाद सर्तींत हावें वांटो घेतिल्लो. खरें म्हणल्यार तो ना घेवपाक म्हाका मेकळीकय नाशिल्ली. म्हाका विचारलेबगरच शिक्षक म्हजें नांव घालून मेकळे जाताले. शाळेचें वर्सुकी स्नेहसंमेलन आसूं वा दोन वर्सांआदीं जाल्लें चीनाचें आक्रमण आसूं विद्यार्थ्यांनी उलोवपाचें अशें थारायतकच हांव उलयलों ना अशी एकूय घडणूक म्हाका याद ना. तेखातीर जाहिररित्या कोणायमुखार उभो रावन उलोवपाक गरज लागता तो आत्मविश्वास म्हज्यांत निर्माण जाल्लो.

अशें आसून लेगीत कर्णिकसरान म्हजें नांव घेतकच खिणभर हांव गोंदळळों. फाटल्या चार वर्सांत शाळेंत घडिल्ल्या घडणुकांच्या भरपूर यादिंनी मन सद्‌दीत जाल्लें. हेदोळसान कितें उलोवचें हेविशीं मनात जुळवाजुळव करताना लेगीत खिणभर म्हाका कितेंच सुचना जालें. तेच अवतिकायेंत हांव माचयेर चडलों आनी उलोवपाक सुरवात केली. एकाफाटोफाट एक मुद्दो याद जायत गेलो. 13 जून 1960 दिसा शाळेचो पयलो दीस सुरू जायतसावन तो निरोप सुवाळयामेरेन सगळयो म्हत्वाच्यो घडणुको आनी उगडास, म्हाका शिकयिल्ल्या दरेका शिक्षकाचें वैशिश्ट्य,मनाचेर जाल्लो ताचो परीणाम, सकाळच्या अधिवेशनात म्हाका

शिकोवंक नाशिल्ल्या मठकर, खानोलकर आनी मुजुमदार बाई तशेंच देसाई, ढोलम, जोग आनी जाधव सरांचो कृतज्ञतायेन उल्लेख, विद्यार्थी इश्ट – इश्टिणींच्यो स्मृती...तशेंच दळडीर, बेकारी, विशमताय...आदींविशीं हांव न्हंयेच्या एखाद्या शांत प्रवाहाप्रमाण उलयलों. आतांमेरेनच्या निरोपसुवाळयांमदलें म्हजें सगळयांत व्हडलें, अर्दवराचें भाशण सगळयांनी थंडसायेन आयकलें. तें सोंपतकच बरो मिनिटभर सुमार ताळयांचो आवाज येत रावलो. गालांवयल्यान पाझरपी दुकांक मुक्ततायेन वाट मेकळी करून दीत हांव म्हज्या जाग्यार बसलों.

सुवाळो सोंपतकच आमी कांय भुरगीं बरोच वेळ शाळेंत रावलीं. आमचेवांगडा शिरोडकर आनी फाटकसरय राविल्ले. जायत्या विशयांचेर चर्चा जाली. पोरन्यो कांय यादी परतून उजळळयो.

काळोख जालो. खूब उशीर जातकच चलयो वचपाक गेल्यो. तांकां सगळयांक रस्त्यामेरेन पावोवन हांव परतो आयलों. “आतां वचूंया!” सगळयांनी म्हणलें. हांव शाळेमुखार तोंड करून उभो रावलों आनी दोनूय हात जोडून तिका पांयां पडलों.

आख्ख्या आयुश्यभर पुरो जातलो इतलो आत्मविश्वास म्हाका ते शाळेन दिल्लो. जड पावलांनी घरा परतताना घडयेघडयेक तो आत्मविश्वास म्हाका जाणवतालो.

हांव घरा पावलों तेन्ना झोपड्याच्या हुमऱ्यार बसून काकी म्हजी वाट पळयताली. तशी सदांच ती वाट पळयी. म्हाका मात लेगीत कळाव जालो जाल्यार तिचो जीव वयर सकयल जातालो. आनी त्या दिसा तर म्हाका बरोच कळाव जाल्लो. अण्णाय बी, “आजून कसो इलो नाय?” अशें विचारून काकीक नाका पुरो करून सोडी.

हांव घरा पावतकच दोगांचोय हुस्को सोंपलो. शाळेचो निमाणो दीस आशिल्ल्यान हांव अस्वस्थ जालां हें तांच्या लक्षांत आयिल्लें.

रातचें जेवतकच हावें न्हिदपाचो यत्न केलो खरो, पूण म्हाका निखालस न्हीद येना जाली. शाळेच्या यादिंची सुवात आतां अण्णा काकीविशींच्या यादिंनी घेतिल्ली.

मामागेर निर्माण जाल्ले एके विचित्र आनी अनपेक्षित अवतिकायेंत हांव अण्णागेर आयिल्लो तेखातीर म्हाकाय संकोचिल्ल्यावरी जालें. ना म्हणल्यार सुरवातीक मामागेर राविल्ल्यान अण्णापरस मामा अदीक लागिंचो अशें चित्र निर्माण जाल्लें. आनी तीच गजाल मतिंत धरून "आता तुका माजी

गरज पडली, तेवा तू झिलाक माज्याकडे ठेवतह्स? आदिपासून ठेवल असतस, तर मी काय नको म्हन्नार हुतय?" अशें आबाक विचारून अण्णा म्हाका आपणागेर दवरपाक तयार जावंनासलो जाल्यार केदो कठीण प्रसंग येवपाचो!

पूण अण्णा आनी काकीच्या व्हड मनाक असल्या विचारांची झळय बादूंक ना. फाटल्या तीन वर्सांत ताणी कितलें केलें म्हजें!

आमची शाळा एक जावन पांच मिनटांनी सुरू जाताली, तरी आमी साडेबारांकूच शाळेंत पावून शाळेमुखावयल्या दांड्यार बसताले. थंय वचून धा - पंदरा मिनटां बसपांत मजा येताली. ताका लागून अण्णालें दनपारां जरी एकाक जेवपाक येवपाचें आसलें तरी काकी म्हजेखातीर सकाळच्या साडेइकरा वरांचेरच सगळें जेवण रांदून दवरी. म्हज्या पोटभर जेवपाचेर तिचें लक्ष आसचें. गोडशे दाळीचेर घालपाक वसईकसान येवपी एका मनशाकडसून ती गायचें साजूक तूप विकतें घेई. सोमाराक वा शेनवाराक ती आख्ख्यो पांचव्यो मिरसांगो चण्याचे पिठयेंत तळून काडी.

अण्णालो पगार ऐंशीं रूपये. ओवरटायम बी धरून केन्ना केन्ना णव्वद – शंभर रूपये जावंचे. तातूंत आमी मनशां चार. तेखातीर खावपाचे बाबतींत म्हजो आग्रो नासचो. तरी आसताना एखादो जिनस आवडटा अशें ह्यावें काकीक सांगलें आनी काकीन तो केलो ना अशें केन्नाच जालें ना.

दोनेक म्हयन्यांतल्यान एक फावट काकीन म्हाका आनी कुसूमाक घेवन चेंबूराक आपल्या व्हडल्या भावागेर – शंकरमामागेर वचचें. वांगडा ह्यावें पुस्तक घेवचें आनी पावनाफुडें पांचूच मिनटांत वाचपाक सुरू करचें. मागार काकीन रोकडेंच आपणाले भावजयेक जेवण रांदूक सांगचें आनी मात लेगीत कळाव जालो जाल्यार,"गे बाये, लवकर कर. माज्या सायबाक भूक लागली आसात." अशें म्हणचें.

णववेकसान ह्यावें फेर्र मारील्ले कपडे वापरपाक आनी सलूनात वचून केंस मारून घेवपाक सुरवात केल्ली. तेखातीर पयशे काकीच दिताली. फेर्राचे दुकानकार सिताराम बांदिवडेकर आमचो सोयरो आशिल्ल्यान केन्ना केन्ना पयशांक उदारेर रावतालो.

दत्तू वचतसावन अण्णा खुब्बच हळवो आनी भिवकुरो जाल्लो. म्हाका वा कुसूमाक सादी थंडी लेगीत जाली जाल्यार ताणे शिवडी स्टेशनालागीच्या पुसाळकर दोतोराकडेन वचून इंजेसांव घेवपाक सांगचें पूण ऐंशीं - णव्वद रूपयांतल्यान इंजेसांवाक आठ -धा रूपये दिवप परवडपाचें न्हय. ताका

लागून आमी चड करून वखदां आनी गुळयांचेरूच भागोवचें.

काकी वा अण्णा हांचेमदल्या कोणेनय म्हाका रागान वा खालतेपणान कितेंय उलयलें जाल्यार म्हाका खूब एकलेपण जाणवतालें. खूब फावटीं ती कामाक लागून उलयताली. म्हजे आपले कपडे उमळप आनी सुरवातीक मसंडेंतल्यान उदक ह्राडपाक अण्णाक आदार करप ह्राचेभायर घरांत हांव कांयच करीनासलों. अभ्यासांत म्हाका कसलीच आडखळ नाका आसली. ताका लागून ताणी म्हाका कितेंय सांगलें आनी हावें 'ना' म्हणलें जाल्यार तांकां राग येवंचो आनी तेभरशीं ती कितेंय उलयताली. अशा एखाद्या समयार हांव रागान जेविनासलों. ताका लागून अण्णा - काकीक खूब वायट दिसतालें.

"तुज्या पाया पडतय, पन जेव." अण्णान म्हणचें.

"इतक्या पाया पडॉतक आमी ह्येचा केला तरी काय हा? एक शब्द बोल्ल्यॉ, तर काय झाला? ह्येचो बापूय ह्येका बोलतो, तर ह्यो असा करनार हुतो? जेवणावर राग काढणार हुतो? ह्येका आमी आमच्या पोटच्या पोरासारको करताव, त्येचा कायच नाय?" काकीलीं रडटां रडटांचीं उतरां आसतालीं.

'पोटच्या पोरासारको' हीं उतरां कानार पडटकूच दुसऱ्याच खिणाक म्हजीं पिशेपणां म्हज्या लक्षांत येवचीं आनी हावें घरांत जें कितें आसा तें खावंचें.

काकीक लागून एक बरी गजाल घडली.

त्या काळांत गिरणी कामगारांमदीं बायलांचें प्रमाणय नदर ओडून घेसारखें आशिल्लें. म्हज्या इकरावीच्या वर्साकूच काकीन काळाचौकिचे गिरणींतलें आपलें बदली कामगाराचें कार्ड परतून सुरू करून घेतिल्लें. बदली मेळपाचे आशेन तिणे सामके फांतोडेचेरच गिरणीत वचचें, वतना चपाती - भाजी घेवन वचचें. अशा वेळारअण्णाय चपाती - भाजी व्हरतालो.

म्हाका आनी कुसूमाक शीत जाय पडल्यार तें म्हाकाच रांदचें पड. मागीर सोपें पडटा म्हण हावें शीतावांगडा कुळदाची पिठी करची. वाज येतालो म्हाका ताचो. तेखातीर काकीक बदली मेळना जाल्यार पुरो अशें म्हाका केन्ना केन्ना दिस आनी दुसऱ्याच खिणाक म्हज्या सुवार्थाची म्हाका लजय दिसताली.

काकीकय एक फावट हावें हें सांगलें तेन्ना ती, "अरे, म्हणतस काय?" अशें म्हणून हांस हांस हासली.

बदली मेळटकूच फांतोडेचेर उठून वता त्या कश्टांचें सार्थक जाल्ल्याची भावना काकील्या चेऱ्याचेर दिसताली. पांच – स दीस मेळळे तरी साठ – सत्तर रूपये पदरांत पड. कुटूंबाक तितलोच आदार. म्हाका चुकनासताना काकी पगारांतल्यान दोन रूपये दिताली.

एक दीस शाळेक सुटी आशिल्ली तेन्ना काकीन आपणेच तयार केल्लो डबो घेवन हांव गिरणीत गेलों. इकरांचो भोंगो जालो आनी डबो घेवन गेल्ल्यांची गेटीर एकूच गर्दी जाली. कामगार आपापलो डबो घेवन भितर गेले. काकी म्हाका  घेवन वचपाक गेटीचेर आयली. हांव तिचेवांगडा गिरणीत गेलो.

सगळया बायलांक तिणे, 'माजा पुतन्या, माजा पुतन्या' म्हण सांगलें. तें सागतानाय हांव हुशार आशिल्ल्याची खोस तिच्या उतरांतल्यान जाणवताली.

त्या दोन वरांभितर काकीन म्हाका आपलें सूतखातें, कापडखातें, त्रासणखातें, फोल्डींगखातें हीं म्हत्वाचीं खातीं दाखयलीं.

तें एक नवें जग आसलें!

सगळया बायलांच्या केंसांत कापूस आशिल्लो आनी सगळे कामगार फकत बानयानाचेर आशिल्ले. कांयजाणांच्यो फूल पँटी तर कांय जाण हाफ पँटीचेर आशिल्ले. तातूंतले निळया - तांबड्या पट्ट्यांचे लेंगे घाल्ले मालवणी कामगार सहज वळखून काडूं येताले. सगळया कामगारांत एक गजाल समान आशिल्ली. तांचीं आंगां घामान थपथपिल्लीं.

तांकां पळोवन म्हाका 'स्वेदगंगा' ही करंदीकरांची कविता परतून परतून याद जाताली.

काकील्या गिरणींतल्या बदली कामाक लागून म्हजो आनीक एक फायदो जालो.

काकी गिरणी कामगार युनियनची सभासद आशिल्ली. युनियनाचो तांबडो बावटो आशिल्ल्यान तिका 'लाल  बावटा युनियन' अशें म्हणी. बदली कामगारांक कायम करपाचे मागणेक लागून काकीक आपल्या युनियनाचो बरोच अभिमान आशिल्लो.

अण्णाक मात असले कसलेच गजालींत रस नाशिल्लो. सप्तकांतल्यान दोनदां नुस्तें आनी आयताराचें मटण आसलें काय अण्णालें काम भागतालें. काकीन केन्नाय युनियनचो विशय काडल्यार अण्णान म्हणचें, “काय मेल्या सारक्या सारक्या त्या लाल बावट्याचा बोलतस? माशे कदी हाडतस, ता सांग.”

म्हाका हांसून हांसून पुरो जावचें.

"सांग गे तू" म्हजीं उतरां. हावें अशें म्हणटकच आण्णालें आनीक कडचें.

"हेका पन गिरनीतच कामाक ठेव. तुज्यावांगडा मोर्च्याक – बिर्च्याक येयत." ताणे म्हणचें.

कसोतरी हावें चर्चेचेर पडडो वडोवंचो.

आनी एक दीस खऱ्यांनीच काकी म्हाका घेवन युनियनच्या मोर्च्याक गेली. एका शेनवाराक दनपारां परेलसावन युनियनचो मोर्चा वचपाचो आशिल्लो.

"बाबू, मोर्च्याक येतस काय रे?" काकीन विचारलें.

शाळा अर्दो दीस आशिल्ल्या कारणान हावें रोकडेंच म्हणलें, "चल". पूण काकीन विचारतकच 'चल' म्हणटाना लेगीत काळा चौकिच्या तिगेल्या गिरणींतल्या बायलांच्या केंसांतलो पिंजिल्लो कापूसआनी अर्द्या चड्डेंतल्यो घामान लबलबिल्ल्यो कामगारांच्यो कुडी म्हज्या नदरे सामकार उब्यो राविल्ल्यो.

हांव आनी काकी मोर्चाचे सुवातीर पावलीं तेन्ना शंभरेक बायलो - दादले एकठांय जावन 'लाल बावटा झिंदाबाद' अशो घोशणा दिताले. कामगार न्हय असो एकलोच हांव त्या मोर्च्यांत आशिल्लों.

मोर्चा सुरू जालो आनी बोरीबंदराक काळया घोड्याम्हऱ्यान पावतकच पुलीसांनी तो आडायलो.

आमी भाशणाक रावलीं नात.

"बाबू, चल घराक जावया. आता हपिसा सुटली काय गाडयेक लय गर्दी होयत. आपली इलॉ तशी घराक जावया. काय झाला, तर तुजो बापूस माका ठेवूचो नाय." काकीन म्हणलें.

आमी गाडयेन घरा.

त्या दिसा म्हाका एकें वेगळेच 'काकी' चें दर्शन घडलें.

शाळेक परीक्षेची सुटी पडली आनी सगळें विसरून हावें परीक्षेची तयारी सुरू केली.

सायन्सींतले प्रयोग परतून करून पळोपाखातीर पयल्या तीन – चार दिसांत हांव शाळेचे प्रयोगशाळेंत गेलों. शाळेंत ह्याच वर्सा प्रयोगशाळेखातीर सहायक म्हण रूजू जाल्ल्या नारायण पाटलाकडेन आमची सगळ्या विद्यार्थ्यांची, खास करून म्हजी, घट्ट इश्टागत जाल्ली. मदत करपाक तो सदांच तयार. आतांय बी म्हत्वाचे प्रयोग करपाखातीर

ताची खूब मदत जाली. फिजिक्स, केमिस्ट्री आनी जनरल सायन्सींतलें सुमारेक पंदरा ते वीस प्रयोग आमी करून पळयले. घराकडेन म्हाका अभ्यास करपाक फाव तशी सुवात ना हाची कल्पना पाटलाक आशिल्ली. म्हाका तो अभ्यासाक शाळेंतच यो म्हण सांगतालो. पूण हावेंच नाका म्हणलें.

प्रयोग सोंपतकच हावें आनी सोनावणेन भोईवाड्यांकल्या बौध्दजन्य पंचायत समितिच्या हॉलांत बसून अभ्यास करपाचें थारायलें. आठवेकसान तो अभ्यासाक थंय येतालो. तागेलो बापूय मोरबागेच्या स्प्रिंग मिलांत वॉचमन म्हण कामाक आशिल्लो. तो हुशार आशिल्लो आनी आठवेकसान धावेमेरेन आपल्या तुकड्यांनी तो पयल्या नंबरान पास जाल्लो. ताचेकडसून तागेल्या आवय बापायल्यो आनी भावंडांल्योय अपेक्षा खूब आसल्यो.

खूब आग्रो करून चार – पांच फावटीं तरी तो म्हाका आपणाल्या घरा घेवन गेल्लो. तागेल्या आवय बापायलो म्हजेरय जीव आशिल्लो. सदांच तो रामभाऊक 'मुणगेकरासारको अभ्यास कर' अशें सांगतालो. अभ्यासाचे बाबतींत सोनावणे आनी म्हजेभितर सर्त आसूनय आमची इश्टागत बरी आशिल्ली. जायत्या गजालींनी आमचीं मतां मेळटालीं जुळटालीं.

ताका लागून पंचायत समितिच्या हॉलांत अभ्यास करता आसताना चर्चेंत आनी हेवटेनच्या तेवटेनच्या गजालींनी आमचो गरजेपरस चड वेळ वचपाक लागलो. आमी वेगवेगळे कडेन अभ्याक करया अशें थारावन परतून एक फावट हावें टी बी हॉस्पिटलाकडल्या विठ्ठल मंदिराचो रस्तो धरलो.

वेगवेगळ्या विशयांची तयारी लक्षांत घेवन हावें अभ्यासाचें नवें टायम टेबल तयार केलें. सकाळीं आठ ते दनपारां एक मेरेन अभ्यास करून जेवपाक घरा वचपाचें, आनी जेवण आटापून रोकडेंच परतून देवळांत वचपाचें, तें रातच्या आठ मेरेन थंयच. खरें म्हणल्यार णव जालीं तरी घरा वचनच दिसनासलें. पूण उसरां गेल्यार एकतर काकी - अण्णा भियेतालीं आनी बोवाळ घालतालीं आनी दुसरें म्हणल्यार सांजवेळ जातकच जळारां चाबूंक सुरवात जाताली. जळारां चाबून चाबून मलेरीया जायत जाल्यार सगळेंच फुकट वचपाचीय भिरांत दिसताली.

अण्णाक बेगीन जेवपाची संवंय. पूण हांव घरा येंसर अण्णा - काकी दोगांय तोंडांत उदक लेगीत घेनासलीं.

असो धूमधडाक्याचो अभ्यास विठ्ठल मंदिरांत चलता आसताना एक दीस मदींच हांव शाळेंत कितें चलता तें पळोवया म्हण गेलों. फाटक उगडून भितर गेलों. इतल्यान आमचे आवडिचो माडये शिपाईमामा म्हणपाक लागलो, “चित्रेसर तुजी वाट बगतहत!”

हांव बेगीबेगीन टीचर रूमात गेलों. सरांक 'नमस्कार' म्हणपाकय भिरांत.

“आयलो तें बरें केलें. हांवूच तुका रकाद धाडपाचो आसलों.” म्हजेकडेन पळयत ताणे म्हणलें.

हावें कितें विचारपाचो प्रश्नूच नासलो.

“ही इकरावेची मराठीची प्रश्नपत्रिका. दोन वर्साआदली आसतली. पूण ती सोडोवन दोन दिसांनी म्हाका दाखय.” सरान म्हणलें.

एका पाकिटांत बंद केल्ली. सरान तें पाकीट म्हज्या हातांत दिलें.

वचून हावें मराठीचें पुस्तक परतून चाळ्ळें आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं णव वरांचेर परतून शाळेंत गेलों. घडयाळांत पळोवन सारके धा ते दनपारां एक अशा तीन वरांभितर पेपर सोडयलो. स मार्कांचो पेपर उरील्लो. उत्तरपत्रिका पाकिटांत बंद करून सराकडेन धाडून दिली. सरान दोन दिसांनी ती तपासून परतून शाळेंत धाडली. म्हाका 73 मार्क मेळिल्ले. ताणी दुसरी प्रश्नपत्रिका दवरिल्ली.

मामाकडसून दुसरी प्रश्नपत्रिका घेवन हांव शाळेच्या फाटकाभायर सरता थंय आसां, इतल्यान कदम मेळ्ळो. कसल्यातरी कामाक लागून तो शाळेच्या ऑफिसांत आयिल्लो. दोन -तीन मिनटां हांगाचें - थंयचें उलोवन जातकच ताणी म्हणलें,

सुधीर फडकेचें नवें भावगीत आयकलां?”

खंयचें?”

तोच चंद्रमा नभात....”

ना रे बाबा! हांव खंय आयकतलों! आमचेकडेन रेडियो ना न्ही! कोणालें गीत?”

“शांता शेळकेचें. कितें आसा यार! तूं जाल्यार उडूनच वचशी! ”

“कदम, प्लीज!म्हणून दाखय न्ही!”

“केन्ना?”

“आता! चल!” हावें कदमाक ओडीतच शाळेंच हाडलो. आमचो इकरावेचो वर्ग उगडलो आनी दोगूय एकामेकासामकार बसले.

“कर सुरू!” हावें म्हणलें.

कदमान सदचेभशेन सामको तल्लीन जावन, चुकनासताना आनी आडखळनासताना “तोच चंद्रमा नभात....” पुराय म्हणलें.

हावें अक्षरशा वेंग मारली कदमाक. आठवेकसान धावीमेरेन हावें

कदमाचीं जायतीं भावगीतां आयकल्लीं . ताणे कितें गायनाचें शिक्षण घेवंक नासलें. तरी लेगीत मराठी आनी हिंदी सिनेमांतलीं गीतां तो एखादे सराईत गायकावरी म्हणटालो. तातूंतय महमद रफीचीं गीतां म्हणटाना ताचें मुखामळ अदीकूच फुलतालें.

पूण इकरावेंत तो सकाळच्या वर्गांत गेलो आनी आमी ती खोस वगडायली.

नवभारतांतले म्हजे भावनीक जडण घडणेत कदमाच्या गीतांक एक म्हत्वाची सुवात आसा.

पूण 'तोच चंद्रमा नभात....' हें मात सगळयांचेर कळस आसलो.

“म्हाका हें गीत एका पानाचेर बरोवन दी!” म्हजे चोपडेचें एक पान हावें तोडलें आनी ताणे 'तोच चंद्रमा नभात....' सगळें बरोवन दिलें.

“चल, वचुया!” कदमान म्हणलें.

“खंय वचुया? वगीच घेतलां तर बरोवन गीत? प्लीज, परतून एक फावट म्हण!” हातांत कागद घेवन हांव पद वाचपाक लागलों आनी कदमान तितलेच सहजतायेन तें परतून म्हणलें.

शांता शेळकेच्या त्या उतरांनी, सुधीर फडक्यांचे चालीन आनी कदमाच्या सुरांनी हांव भारावन गेलों. इतलें गंभीर पद हांव पयलेच खेपेक आयकतालों.

ल्हान भुरग्यांनी एकामेकाचो हात धरून चलचें, तशे आमी हातांत हात घालून शाळेचे गेटीमेरेन आयले.

“घरा येता? आई बाबाक बरें दिसतलें!” कदमान सदचेवरी म्हणलें.

“नाका रे बाबा. परतून केन्नाय...”

“अच्छा!” कदम वचपाक गेलो.

ताचे फाटकुरे आकृतिवटेन हांव कितलोतरी वेळ पळयतूच रावलों आनी निमाणे घरा परतलों.

'तोच चंद्रमा नभात....' चें एकेक उतर कानात घुमतालें. तें अजरंवर विरहगीत शांता शेळकेक कशें सुचलां आसुंये आनी सुधीर फडक्यांनी तें कशें म्हणलां आसुंये हेविशीं एक विलक्षण कुतुहल म्हज्या मनात निर्माण जालें. दुसरे प्रश्नपत्रिकेच्या वेळार सरान 76 मार्क दिल्ले. तिसऱ्यांत मार्क आशिल्ले 72. निमाणच्या वेळार ताणे म्हाका मेळपाक शाळेंत आपयलो आनी म्हत्वाच्यो सुचोवण्यो केल्यो.

“तुका मराठींत सादारणपणान 70 च्या आसपास मार्क मेळटले!” सदचेभशेन न दिसपी मुमुरख्यांनी हांसत सरान म्हणलें.




शाळा सोंपिल्ली.सराची आनी म्हजी भेट परतून केन्ना घडत हें खबर नाशिल्लें. एक गजाल मात दोगांकय खबर आशिल्ली, ताचो म्हजेर उपाट मोग आसा! म्हजी ताचेर भरपूर भक्ती आसा!

सरांच्या पांयांक हात लावन हांव भायर सरलों. फाटल्या चार वर्सांतल्यो तांचेविशींच्यो उपाट यादी दुकांवटयां पाजरताल्यो.

परीक्षा जशीजशी लागीं येवपाक लागली, तशें मनावयलें दडपण वाडत गेलें.

आनी एका दिसा सकाळीं परीक्षेची तारीख जाहीर जाली. सोमार 16 मार्च 1964.

म्हजो सगळो अभ्यास जाल्लो. आतां ह्यावें चड म्हत्वच्या प्रकरणांचेर लक्ष दिवपाचें थारायलें.

तातूंतच म्हगले बुधवळयाचे मावसभयणिचें, बायोचें लग्न थरलें. त्या लग्नाची सगळी जापसालकी अर्थांत मामाचेर आसली. चलोभुरगो म्हानगरपालीकेंत वायरमन म्हण नोकरेक आसलो. ताच्या बापायक म्हानगरपालीकेन राणीबागेंत दिल्ली कूड आशिल्ली. एके व्हड जापसालकेंतल्यान मामा मुक्त जावपाचो आसलो. 13 मार्चाक शुक्रारादिसा वडाळयाच्या रेनोल्डस कॉलनीतल्या हॉलांच लग्न थरलें.

बायो आनी म्हजो एकामेकाचेर खूब मोग. दोगांकूय आवय ना आनी आजीच आमची 'आए'. ती खुबसो वेळ बुधवळयाक आपल्या बापोलयांगेर आसताली. शेताच्या आनी घरांतल्या कामात ती खूब आवशील करी. पूण कितलेंय जालें तरी आवय बापूय नाशिल्लें पोर तें.

तशें पळयल्यार घराचे सगळे मालमत्तेंत तिगेलो अर्दो वांटो आसलो. पूण आतां तें सगळें प्रकरण निरर्थक आसलें. कित्याक तर तिची काकी ती मामीची सख्खी व्हडली भयण आसली. आजोळा आमचें मेळप जातकच आमकां खूब बरें दिस. हांव आनी ताई मामाक 'मामा' म्हणी. बायो मात बाकिच्यांभशेन 'दादा' म्हणूनच उलो मारी.

अभ्यासाची ताकीत आशिल्ल्यान कशेंबशें .अर्दवरच हांव तिच्या साखरपुड्याक वचून आयलों. तेन्नाय खूब भरून आयिल्लें तिका. आतां लग्नाक वचप मात सामकें गरजेचें आशिल्लें. तेंवूय बी मातसो चडूच वेळ काडून.

आदल्या दिसा अशेंच शाळेंत मेळप जालें तेन्ना सोनावणेन म्हज्या

हातांत 'ययाति' कादंबरी दवरली.

"पाटेकरांच्या नांवाचेर मुंबई मराठी ग्रंथसंग्रहालयांतल्यान हाडल्या. दोन दिसांनी परत दिवपाची. " सोनावणेन म्हणलें.

'ययाति' विशीं हावें खूब आयकल्लें. शाळेंतय तो एक चर्चेचो विशय जाल्लो. परतून 'ययाति' म्हाका केन्ना वाचपाक मेळत हें सांगप कठीण आसलें.

"बरें आसा. दोनूच दिसांनी परत करतां." अशें म्हणून हावें 'ययाति' दवरली.

परीक्षा दोनूच दिसांचेर उरल्या ही सादी वेवहारीक परिस्थितीय म्हज्या लक्षांत येवंक नासली. सगळें कुशीक दवरून हावें 'ययाति' वाचपाक घेतली.

शुक्राराक सांजवेळा बायोच्या लग्नाक हॉलाचेर गेलों. काकीकडल्यान पांच रूपये घेवन तिका आहेर केलो आनी रोकडोच परतलों. ती खूब रडली.

'ययाति' घेवन हॉलारसान हांव थेट विठ्ठलमंदिरांत गेलों. रातच्या धा मेरेन जितली वाचून जांव येताली तितली वाचली.

घरा वतकच अण्णा - काकीन म्हाका खूब तापोवन काडलो. तांकां सुमाराभायर हुस्को जाल्लो.

शेनवारा सकाळीं उठलों तसो परतून विठ्ठल मंदिरांत. 'ययाति' सुरू....दनपारां कसोबसो जेवलों आनी परतून विठ्ठल मंदिरांत गेलों. रातिच्या णव मेरेन 'ययाति' सोंपयली आनी घरा आयलों. रातच्यो नाईलाजान दोन उंडयो जेवलीं.

अर्दी रात जाली तरी दोळयाक दोळो लागलो ना. ययाति, देवयानी, शर्मिष्ठा आनी कच हीं तकलेंत घुंवतालीं. तांच्या जिवितांत घडिल्ल्या एकामेकांआडच्या घडणुकांनी हांव आकांताचो अस्वस्थ जाल्लों.

'क्रौंचवधां' त "कादंबरीकार हो जिविताचो भाश्यकार आसचो पडटा" अशें दिलिपाच्या तोंडांत एक वाक्य आसा. खांडेकर हो जिविताचो भाश्यकार आशिल्ल्याचें 'ययाति' न सिध्द केल्लें.

म्हजी गत एका भ्रमिश्टावरी जाल्ली. 'ययाति' अवेळार वाचली ती हावें व्हडली चूक केल्ली.

आयतारा सकाळीं उठून मराठीचो अभ्यास करपाक हांव विठ्ठल मंदिरांत गेलों खरो, पूण तकलेंत कांयच वचनासलें.

'फाल्यां म्हाका मराठीच्या पेपरांत सगळें याद जायत मू?' हे भिरांतेन

म्हाका थरथरो सुटलो. हावें म्हजेरूच आकांताळें दड़पण हाडलें आनी 'ययाति' तलें सगळें विसरपाचो यत्न केलो आनी मराठीच्या पेपराविशीं जाता तितलें याद करपाक लागलों.

सकाळीं अण्णा - काकीच्या पांयां पडून इकरांच्या मराठी पेपराखातीर आर. एम. भट शाळेंत गेलों.

हातांत पेपर पडचेपयलीं धा मिनटां हांव पुराय थीर जालों आनी मागीर सगळी एकाग्रताय पणाक लावन मराठीचो पेपर बरयलो.

दनपारां तीन ते स गणिताचो पेपर आशिल्लो.

स वरांचेर गणिताचो पेपर दिवन भायर सरलों तो सामको थीर मनान.

परीक्षा चलता आसताना मदीं मदीं 'ययाति' तकली वयर काडी, पूण इकरावेची परीक्षी हो म्हजो जिवीत मरणाचो प्रश्न आशिल्ल्यान हावें म्हज्या मनाचेर तिका कब्जो घेवंक दिलो ना.

धा दीस चलतली परीक्षा एकदांची सोंपली आनी त्याचवांगडा आयुश्याचें एक पर्वय सोपलें. आतां दुसऱ्या पर्वाची सुरवात जावपाची आसली.

...पळयतां पळयतां फांतोड जाली.

देवगडाकसान बोट उसरां सुटिल्ल्यान मुंबय ती उसरांच पावताली.

ल्हवू ल्हवू उजळत वचपी उजवाडांत भाउचो धको आनी पलतडची मुंबय स्पश्ट दिसपाक लागली.

हावें ट्रंकांतलें पाटलाचें पत्र काडून परतून वाचलें. म्हाका एल आय सींत नोकरी मेळपाची खात्री आशिल्ली. आबालो मिठबावचो बाजार आतां सासणाचो बंद जावपाचो आशिल्लो.

हावें पत्र परतून ट्रंकांत दवरलें.

बोट धक्याक लागली. सूर्य आतां खूब वयर आयिल्लो.

हांव बोटींतल्यान भायर आयलों आनी ट्रंक माथ्यार घेवन युनूस कोंडाजीचे झोपडपट्टेंत वचपाक मशीद बंदर स्टेशनाचे दिकेन चलपाक लागलों.



❑❑❑

फाटल्या पस्तीस वर्सांतल्या सार्वजनीक जिणेंत अर्थीक, समाजीक, राजकी, शिक्षणीक अश्या सगळ्या मळांचेर सगळ्या थरांतल्या व्यक्तीं कडेन आनी संस्थां कडेन म्हजो दाट संबंद आयला. कांय म्हत्वाच्या आंदोलनांनी आनी चळवळींनी हांव वांटेकार जालों. युवक क्रांती दल हे पुरोगामी युवक चळवळींत थापणुके सावन हांव सक्रीय आशिल्लों. मराठवाडा विद्यापीठाच्या डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर नामांतर आंदोलनांत आठ दीस हांव औरंगाबाद लागसारचे विसापूरचे बंदखणींत रावपाक शकलो ही म्हजे खातीर एक अपूर्व आनी आत्मभोवमानाची घडणूक आसली. जायत्या संस्थांनी पुरस्कार भेटोवन म्हाका भोवमानीत केला. म्हाका म्हजोच दुस्वास दिसचो इतलो मोग लोकांनी म्हजेर दाखयला... ह्या सगळ्या घडणुकांक म्हज्या जिवितांत सुमारा भायली म्हत्वाची सुवात आसूनय हांव मात हांगां म्हजे पिरायेच्या अठरा वर्सां मेरेनचे उगडास सांगतां. हाचें कारण इतलेंच, म्हाका व्यक्तीगत आनी सार्वजनीक जिणेंत जगपाक अभिप्रेत आशिल्ल्यो प्रेरणा त्या सुरवेच्या आठ वर्सांतूच तयार जाल्ल्यो. जायत्यो व्यक्ती, संस्था आनी घडणुको हांकां लागून त्यो प्रेरणा मागीर साहजीकच अदीक पक्क्यो जाल्यो. पूण परतून परतून विचार करूनय म्हाका अशें जाणवता, जिवितांत गुणात्मक नदरेन वा मुलभूतपणान नवें कितें हांव शिकलों अशें म्हाका दिसना... मुंबय विद्यापिठाचो कुलगुरू जाले उपरांत म्हज्या उलोवपांत, बरोवपांत, संभाशणांत, चर्चेंत आनी भासाभाशेंत सातत्यान जाती आनी अस्पृश्यता निर्मुलन, बायल-दादलो समानताय, धर्मनिरपेक्षताय, लोकशाय समाजवाद आनी मानवतावाद ह्या पांच मुद्यांचो आसपाव आसतालो. तसो तो आयजूय आसा आनी फुडेंय आसतलो.

ह्या पुस्तकाच्यो अनुवादक **हेमा नायक** कोंकणी भाशेंतल्यो स्वतंत्र प्रतिभेच्यो लेखिका. तांचे *भोगदंड* कादंबरीक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला. तांचीं स्वतंत्र आनी अणकारीत जायतीं पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत.




साहित्य अकादेमी

₹ 125

ISBN 978-81-260-2966-2

